


# GOA STATE INFRASTRUCTURE DEVELOPMENT CORPORATION LIMITED

(A Govt. of Goa undertaking)

7th Floor, 'EDC House', Dr. Atmaram Borkar Road, Panaji-Goa.
Tel: 6645769-73 FAX: 2226256 E-mail: email@gsidcltd.com

## ACTIVITIES

Under the able and dynamic leadership of Shri. Digamber Kamat, Hon'ble Chief Minister of Goa & Chairman (GSIDC), the corporation is taking giant strides towards speedy implementation of Infrastructure projects in the state. The activities of GSIDC are :

- Identification and Development of Infrastructure projects in rural and urban areas.
- Identification and development of projects for Tourism Industry.
- Funding and Assisting Infrastructure projects being implemented by other Departments / Corporations of the State Government.
- Exploring possibilities of Public Private Partnership.



Interior View of Panaji Municipal Market (Phase-II)



Exterior View of Library Block at Goa Medical College

## ONGOING & PROPOSED PROJECTS

- **DEVELOPMENT OF MARKETS**
- **BEAUTIFICATION OF JETTIES**
- **BRIDGES**
- **HOSPITALS**
- **BUS STANDS**
- **ROADS**
- **STADIUMS**
- **RAVINDRA BHAVANS**
- **LAKES**



# मांडावळ









जाग

वर्स ३४ : आंक २ : सप्टें.-ऑक्टो. २००७

६ ऑक्टोबर २००७ ह्या दिसा कला अकादमी, पणजीच्या दीनानाथ मंगेशकार सभाघरांत घडोवन हाडिल्ल्या केन्द्रीय साहित्य अकादेमीच्या महत्तर सदस्यता भेटवण दबाज्याच्या समयार उजवाडा हाडिल्लो खाशेलो यादस्तीक आंक

संपादपी
माधवी सरदेसाय

संस्थापक
स्व. सुमंत केळेकार



उजवाडावपी:
जयवंत भा. सरदेसाय

छापपी:
उमेश वागले
प्रिन्टआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
१०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ५०/-

jaag04@yahoo.co.in

# ह्या यादस्तीक आंका निमतान

**केन्द्रीय** साहित्य अकादेमीची महत्तर सदस्यता - मानद वांगडीपद म्हळ्यार साहित्य संवसारांतलें 'भारतरत्न'. फेब्रुवारी म्हयन्यांत तें रवीन्द्र केळेकारांक दिवचें केलां म्हणपाचें जाहीर जालें तेन्ना खोशयेन आनी अभिमानान आमचें हड्डें फुलून आयलें. साहित्याच्या मळार अग्रंवर जावपा सारकें कर्तुत्व केल्ल्या साहित्यकाराचो महत्तर सदस्यता भेटोवन साहित्य अकादेमी भौमान करता. जवाहरलाल नेहरू, सर्वपल्ली राधाकृष्णन, काकासाहेब कालेलकर, भीष्म सहानी, निर्मल वर्मा... आशिल्ले थंय, आनी कृष्णा सोबती, बीएच् कृष्णमूर्ति, कोविलन, यू. आर्. अनंतमूर्ति... आसात थंय रवीन्द्रबाब पावतात ही केदे व्हडविकेची गजाल! तांगेल्या साहित्यीक कर्तुत्वाचो हो भौमान, दुबावूच ना. पूण कोंकणी भाशेचे साहित्यीक तांकीचोय हो भौमान. खंयच्याय कोंकणी मनशाक अभिमान भोगचो अशीच ही घडणूक.

हें वांगडीपद भेटोवपाच्या दबाज्या निमित्त्यान 'फायटर' आनी 'रायटर' म्हूण रवीन्द्रबाबांची वळख घडोवपी, कांय प्रमाणांत ह्या वावराचें तांच्या सांगात्यां कडल्यान आनी समिक्षकां कडल्यान मूल्यांकन करून घेवपी हो आंक आमी वाचप्यांच्या हातांत दितात. हातूंत कांय हिन्दी आनी मराठी लेख घेतल्यात. सुरवेक, हे लेख कोंकणींत अणकारून उजवाडावपाची आमची तजवीज आशिल्ली. पूण चडशे लेख ऐन वेळारूच आमच्या हातांत पडिल्ल्यान हें जमलें ना. दोन आदीं उजवाडा आयिल्ले इंग्लीश लेखूय आंकांत आसपावन घेतल्यात. आंकाचे निमाणे कडेन, 'मीर्ग' आनी 'Gomant Bharati' ह्या रवीन्द्रबाबान सुरू केल्ल्या नेमाळ्यांच्या पयल्या आंकांतले अग्रलेख, शुद्धलेखनाच्या नेमांचे कांयच बदल करी नासतना, आमी दिल्यात. 'फायटर' आनी 'रायटर' म्हूण रवीन्द्रबाबांचे कारकिर्दीची ही सुरवात म्हणूं येत. तांगेल्या पुस्तकांची वळेरीय वांगडा जोडल्या. (सगळ्या संपादीत पुस्तकांची मात म्हायती दिवंक जमूंक ना.) रवीन्द्रबाबांलो राजकी मळा वयलो वावर आमचे नदरेन उण्या म्हत्वाचो निखालूस न्हय. पूण ह्या आंकांत ताची दखल घेवप जावंक ना. तेच प्रमाण, *'ब्रह्मांडांतलें तांडव', 'समिधा', 'आमोरेर', 'अघळ पघळ', 'भारतवर्षाची संस्कृतायेची साधना'* सारकेल्या तांगेल्या म्हत्वाच्या पुस्तकांचीं परिक्षणांय बरोवन घेवंक जमूंक ना. मुखार केन्ना तरी...




खरें म्हळ्यार, जून जुलै म्हयन्यां सावन आमी ह्या आंकाची आंखणी करपाच्या वावराक लागिल्लीं. कांय जाणांक तेन्नाच विशयूय दिल्ले. पूण गोंयकारांच्या सभावाक धरून चडशे लेख फाटल्या पंदरा-एक दिसां सावनूच आमच्या हातांत येवंक लागले... (कांय अजून येवपाचे आसात. हे 'जागा'च्या फुडल्या दिवाळी-नातलांच्या जोड आंकांत - उजवाडा येतले.) हाका लागून ह्या आंकांत मुद्रणाच्यो चुको उरल्यात आसूं येतात. वाचप्यांनी आमकां समजून घेवचें.

ह्या आंकांतले चडशे बरोवपी आमच्या वाचप्यांचे वळखीचे. फकत दोगांची वळख दिवप गरजेचें दिसता - वीरेन्द्र मोहन आनी रमेश भारद्वाज हांची. वीरेन्द्र मोहन मध्य प्रदेशांतल्या 'डॉ. हरीसिंह गौर विश्वविद्यालयां'त हिन्दी विभागाचे अध्यक्ष आसात. रमेश भारद्वाज काका कालेलकरांचे 'सन्निधी'चे एक वांगडी आनी दिल्लीचे 'मोतीलाल नेहरू कॉलेजीं'तल्या संस्कृत विभागांत रीडर.

आनी निमाणें, उपकार –

सगळ्यांत पयलीं बरोवप्यांचे, खूब तकालस घेवन लेख बरोवन दिल्ले बद्दल आनी दिलीप धामस्कारांचे, आंकाक सोब सारके कव्हर पान तयार करून दिल्ले बद्दल. सुनिल जाधव रातीचो दीस करून आंक तयार करून दिवपा खातीर वावुरले. निमाण्या वेळार मुद्रितांचो दाळ तपासपा खातीर, दामोदर घाणेकार पावले. छापखान्यान आमकां दिल्ली निमाणी तारीक आमकां पाळूंक जमलिना, तरी उमेश वागलेंनी वेळार आंक आमच्या हातांत पावयले... ह्या सगळ्यांचे उपकार मानूंक उतरां नात...

– संपादपी



# रवीन्द्रबाब व्यक्ती आनी साधना

◆ सुनेत्रा आमोणकार

**कोंकणीच्या एका खेरीज भाशीक राज्याचें शणै गोंयबाबाचें सपन पुर्णतायेक व्हरपाचें व्हड काम रवीन्द्रबाबांनी आपल्या सहकाऱ्यांच्या पालवान केलें. एका द्रश्ट्याचें सपन पुराय करपाक दुसऱ्या एका द्रश्ट्याची निर्मणी इतिहास–विधात्यान रवीन्द्रबाबांच्या रुपान केली आनी तें सपन सफळ जाल्लें पळोवचेलें भाग्य *'ह्याचि देही, ह्याचि डोळां'* रवीन्द्रबाबांक मेळ्ळें... रवीन्द्रबाबांक आनी कोंकणीक एकामेकां पासून वेगळावंक येवचिंना, इतले ते कोंकणींत विरगळ्ळ्यात...**

कोंकणी विचारवंत आनी साहित्यकार, रवीन्द्रबाब केळेकार हांकां नवी दिल्लीचे केंद्रीय साहित्य अकादेमीची फेलोशीप (स्रेश्ठतम सन्मान पद) हालींच फावो जाली. सन्मान फावता थंयच पावता, तेन्ना त्या भोवमान पदाचो गौरव जाता. खंयच्याय एका वेळार भारतांतले फकत एकविसूच स्रेश्ठ साहित्यकार ह्या सन्माना खातीर साहित्य अकादेमी वेंचून काडटा आनी कोणाच्याय निधनान तातूंतली रिती जाल्ली सुवात भरता. म्हुण्णूच हो सन्मान भोव मानाचो आनी प्रतिश्ठेचो मानतात. हो भोवमान रवीन्द्रबाबांक मेळिल्ल्यान, तांचे प्रदीर्घ साहित्य सेवेचें फळ तांकां फावो जालां. ते फकत सर्जकूच न्हय तर एक द्रश्टेय. व्हड सर्जक आपले निर्मणेंतल्यान अमर जाता आनी फुडल्या पिळग्यांक प्रेरणा दीत रावता. द्रश्टो एके आगळे वेगळे वाटेन चलता आनी सगल्यो आडखळी हुपून निर्धारान शेकीं आपली मोख गांठ्ठा. साहित्य अकादेमीन असल्या एका भारतीय सर्जकाची आनी द्रश्ट्याची दखल घेवन ताचो गौरव केला. रवीन्... कोंकणी मनीस आनी गोंयकार. ह्या भोवमाना वरवीं कोंकणी भाशेचो, समाजाचो आनी गोंयकारांचोय गौरव जाला. पूण



फोटो: दादू मांद्रेकार

हाचें अपरूप खासा रवीन्द्रबाबांक उरूंक ना.

सोळाव्या शेंकड्याच्या पयल्या दसका मेरेन संथ गतीन आनी आपलेच लयीन चलपी गोंयच्या कोंकणी समाजाक १५१० वर्सा उपरांत भयांकृत उलथापालथेच्या इतिहासाक तोंड दिवचें पडलें आनी ताका लागून तो निस्तेज आनी निष्प्रभ जालो. फुडें पुर्तुगेज धर्म समीक्षणाच्या (Inquisition) आगळिकांक लागून तो समाज विंगड विंगड राज्यांनी शिंपडिल्ल्यान विस्कळीत जालो, आनी आपलो आत्मसन्मान होगडावन बसलो. विसाव्या शेंकड्याच्या तिसऱ्या दसकांत, शणै गोंयबाबांनी आपल्या तेजिश्ट विचारांनी ताका पयलेच फावटी आपले खाशेले अस्मितायेची वळख करून दिली आनी ताका आपलो होगडायल्लो आत्मसन्मान, आत्मगौरव आनी आत्मभान मेळोवन दिवपाचो यत्न केलो. पूण समकालीन गोंयकारांक आनी कोंकण्यांक ताच्या वावराचें मोल त्या वेळार कळ्ळें ना. शणै गोंयबाब द्रश्टे आशिल्ल्यान एकलेच फुडें चलत रावले. आपल्या वावरान आनी विचारान तांणी नव्या कोंकणी साहित्याची घट्ट बुन्याद घाली आनी कोंकण्यांच्या काळजांत आत्मसन्मानाची कीट पेटयली. तांकां आपल्या मरणा पयलींच 'कोंकणी भाशेचें जैत' दिश्टी पडिल्लें आनी कोंकणीच्या जैताची घुडी केन्नाच खाला पडचिना हाची तांकां खात्री आसली. गोंयचे सुटके उपरांतूच तांच्या वावराचें फळ मेळ्ळें.

शणै गोंयबाबांच्या मर्णा उपरांत ज्या कोंकणी तरणाट्यांनी कोंकणीची घुडी आपल्या खांद्यार झेलली, तातूंतले रवीन्द्रबाब एक. शणै गोंयबाबां इतलेच तांकीन, निश्ठेन आनी निर्धारान, तांणी शणै गोंयबाबांनी घाल्ले घट्ट बुन्यादीचेर एक सोबीत मंदीर उबें केलें. ते खातीर रवीन्द्रबाबांनी कोंकणी खातीर बरोवप आनी कोंकणींतल्यानूच बरोवप हें आपलें एकमेव मिशन मानलें. कोंकणी 'बोली' एक स्वतंत्र, साहित्यीक आनी सरकारमान्य राजभास जावचेलें आनी कोंकणीच्या एका खेरीज भाशीक राज्याचें शणै गोंयबाबांचें सपन पुर्णतायेक व्हरपाचें व्हड काम रवीन्द्रबाबांनी आपल्या सहकाऱ्यांच्या पालवान केलें. एका द्रश्ट्याचें सपन पुराय करपाक दुसऱ्या एका द्रश्ट्याची निर्मणी इतिहास-विधात्यान रवीन्द्रबाबांच्या रुपान केली आनी तें सपन सफळ जाल्लें पळोवचेलें भाग्य *'ह्याचि देहीं, ह्याचि डोळां'* रवीन्द्रबाबांक मेळ्ळें. हें घडून येवपा पासत तांणी पांच दसकां समाज प्रबोधन केलें.

आपल्या तेज़िश्ट आनी तर्कशुद्ध विचारांनी, तांणी नवे पिळगेक नवी दिशा दाखोवन, तांच्या वावराक वैचारीक बसका दिली, तेच परी उर्बा, उमेद, चेतना आनी प्रेरणा दिली. आपले ध्येयपुर्ती खातीर शिस्तीन पावलां घालून, नवो इतिहास घडयलो. हें करता आसतना तांणी परंपरांप्रिय प्रस्तापितांची मातूय पर्वा केलिना. आयज उतार पिरायेर लेगीत खोशयेन स्विकारिल्लें मिशन तें अखंड स्रद्धेन चलयतात आनी कोंकणी भक्तांक प्रेरणा दीत आसतात.

### भोवताशी आनी भोवआयामी व्यक्तिमत्व

रवीन्द्रबाब एक धीर गंभीर, मिश्कील हांश्याचें मुखामळ आशिल्ली, विद्वत्तेच्या तेजान भरिल्ली प्रसन्न व्यक्ती म्हूण आमच्या दोळ्यां मुखार उबे रावतात. रवीन्द्रबाबांक आनी कोंकणीक एकामेकां पासून वेगळावंक येवचिंना, इतले ते कोंकणींत विरगळ्ळ्यात. फाटल्या पांच दसकांतलो तांचो वावर पळेतकीच तांच्या व्यक्तिमत्वाचीं भोवताशी आनी भोवआयामी रुपां नदरे मुखार परजळटात. एक व्यासंगी अभ्यासक, एक सुटके झुजारी, एक ध्येयवादी कृतिशील राजकारणी, आपणाक 'fighter' (फायटर) मानपी एक 'writer' (रायटर), समाजप्रबोधन करपी एक विचारवंत स्तंभलेखक, गांधीजीवन दिश्टीचे एक तळमळीचे समर्थक, भाष्यकार आनी चरित्रकार, भारतीय आनी येवरोपी तत्त्वविचारांची संवकळ आशिल्ले एक भोवभाशीक रसीक, भारतीय संस्कृतायेच्या समन्वयाच्या कार्यांत वाडिल्ल्यान आपणाक सर्वधर्मसमवादी मानपी एक हिंदू, क्रान्तिवीर डॉ. राम मनोहर लोहिया, भारतीय संस्कृतायेचो उद्‌गातो आचार्य काका कालेलकर, आचार्य विनोबा भावे, किशोरलाल मश्रूवाला, जे.सी. कुमाराप्पा सारकेल्या फकत गांधी युगांतूच जल्मा येवं येतात असल्या देशभक्तांच्या आनी चारित्र्यवान विद्वानांच्या जंगम-विद्यापिठांत रावन संस्कृतिसेवेची दीक्षा घेतिल्ले एक भाग्यवंत गोंयकार, भारतीय प्रज्ञावादाचे बुद्धीवादी विचार लोकांक समजावन सांगपी एक आर्विल्ले आचार्य, 'ब्रह्मांडांतलें तांडव' पळयत नक्षत्रविद्येचे धडे दिवपी एक विज्ञानीक, दिसपटयेच्या आनी प्रवास वर्णनांच्या माध्यमांतल्यानं लळीत साहित्याचो रुपकार दिवपी एक रसीक लेखक, हिंदी, गुजराती आनी पुर्तुगेज साहित्यांतलें वेंचीक साहित्य कोंकणी हाडपी एक फिशाल अणकारपी, कोंकणीक 'महाभारता'चें अनुसर्जन दिवपी एक व्हड अनुसर्जनकार. अश्या साबार रुपांनी समाजाक तांची वळख आसा. धर्मपिसाटांच्या असहिष्णु आनी अतिरेकी विचारांच्या आयच्या कुल्लाळांत तांचो समंजस शाणेपणाचो आवाज - Voice of Sanity - गोंयांत आनी गोंया भायर समतोल विचारधारा घट्ट करपाक मदत करता ही एक समाधानाची गजाल.

काळ प्रवाही आसता. काळूच मशाक घडयता. मागीर त्याच काळान घडयल्ल्यो कांय द्रश्ट्यो व्यक्ती समाजाक नवी दिशा दाखोवन घडयतात. ज्या संस्कारांत रवीन्द्रबाब वाडले आनी ज्या काळान तांकां घडयले, त्या काळाचो आनी तांचेर जाल्ल्या संस्कारांचो एक धांवतो नियाळ घेतल्यार आमकां रवीन्द्रबाबांची आनी तांच्या विचारांची वळख बरे भशेन जातली.

पंदराव्या शेंकड्याचे अंतीं हिंदुस्तान आनी हेर उदेंती देशां कडेन मसाल्याचो वेपार करपा खातीर पुर्तुगाल आनी स्पेन हीं राष्ट्रां उदका मार्गाचो सोद लावपाचो यत्न करतालीं. हो वेपार खुश्का मार्गान चलतालो आनी ताचेर मुसलमानी अरबी वेपाऱ्यांची मक्तेदारी आशिल्ल्यान, येवरोपी लोकांक भारतीय मसाले म्हारग दरेन विकते घेवचे पडटाले. सुमार देडशें वर्सांच्या खर यत्नां उपरांत, शेकीं पुर्तुगालाच्या यत्नांक येस मेळून, मे १४९८ वर्सा वाश्कु-द-गामा कालिकताक पावलो. विजापूरचे आदिलशायेच्या शेकातळा आशिल्लें गोंय, वेपाराचे नदरेन चड म्हत्वाचें आशिल्ल्यान, आल्बुकेर्कान तिमोजीच्या पालवान गोंयचेर घुरी घालून तें नव्हेंबर, १५१० वर्सा हातासलें. हें गोंय म्हळ्यार आयचें पोरणें गोंय. १५२० मेरेन पुर्तुगेजांनी साश्टी, बार्देस हेवूय वाठार आपले सत्ते खाला हाडले. वेपार सुरू जावन, आपलें बस्तान वेवस्तीत बसतकच, पुर्तुगेजांनी विंगड विंगड पंथांच्या क्रिस्तांव मिशनऱ्यांच्या पालवान, धर्मप्रसाराचें काम नेटान सुरू केलें. ताका लागून तिसवाडी, बार्देस आनी साश्टीच्या वाटारांत खवदोळ जावन प्रचंड उलथापालथ जाली. बाटाबाटीक लागून समाजाचे दोन वांटे जावन, समाज दुभंगलो. नव्या धर्माक लागून गोंयांत एके नवे जीवनशैलीन मूळ धरलें. शस्त्रांनी पुर्तुगेजांचो पराभव शक्य नाशिल्ल्यान, आपलो धर्म राखपा खातीर बाटूंक नाशिल्ले हिंदू आपले देव आनी मुस्तायकी घेवन शेजारच्या वाटारांनी वचूंक लागले. हे पळापळींत तिसवाडींतल्या मंडूर गांवचें एक कुटुंब आशिल्लें. तातूंतली एक हिंदू बायल, आपलो घोव शेणिल्ल्यान, आपल्या पदरच्या दोगां भुरग्यांक घेवन, फोंडें म्हालांतल्या प्रियोळ गांवांत पावली आनी थंयच राबितो करून स्थायीक जाली. त्या भुरग्यांनी व्हड जातकीच केळ्यांचो वेपार सुरू केलो आनी तांकां लोक केळकार ह्या नांवान पाचारूंक लागले. तेच केळेकार रवीन्द्रबाबांचे पुर्वज.

पुर्तुगेजांनी केल्ल्या धर्मप्रसाराचो आनी उपरांतचे धर्मसमीक्षण हे संस्थेन केल्ल्या कारवायांक लागून त्या काळांतल्या समाजाचेर खर आघात जालो. हाका लागून गोंयचो समाज दुभंगलो. बाटिल्लो क्रिस्तांव समाज एके वटेन तर बाटूंक नाशिल्लो हिंदू समाज दुसरे वटेन. पुर्तुगेजांनी बाटयल्ल्या लोकांक आपले वरीच पुर्तुगेज करपाचो यत्न करून तांची भारतीय संस्कृतायेची नाळ तोडपाचो यत्न केलो. तांकां पुर्तुगेज नांवां दिलीं. तांच्यो रिती-विश्यो बदलायल्यो. धर्मबदलाक लागून आनी इंक्विझिशनाच्या धोरणाक लागून हिंदू आनी क्रिस्तांवां मदलो कुटुंबीक आनी हेर संपर्क तुटलो आनी तांचे मदल्यां एकचाराक वेर आयली. हिंदू समाजाक ह्या धपक्यांतल्यान सांवरपाक सुमार तीनशीं वर्सां लागलीं. तो पुर्तुगेज राजकर्त्यां पसून कडसरलो आनी आपल्याच घोंटेरांत रावंक लागलो. १८५० च्या अदमासाक हिंदू समाजांतले कांय भुरगे पुर्तुगेज शिकपाक लागले आनी सरकारी नोकऱ्योय करपाक लागले. त्या काळांत जाल्ल्या हिंदू वकिलां मदलो एक कर्तबगार मनीस म्हळ्यार लिंगुबाब दळवी, रवीन्द्रबाबाचो आजो. तांणी *'कुंकळ्ळी गांवाचा इतिहासा'* बरोबरच *'नोटरी वेवसाय मार्गदर्शिका'* हेंवूय पुस्तक बरयल्लें.

निर्शेल्ल्या हिंदू समाजाक उर्बा दिवपी एक घडणूक ५ ऑक्टोबर, १९१० ह्या दिसा पुर्तुगालांत घडली. आनी हिंदू समाजाक मातशें मेकळें वातावरण मेळ्ळें. ती घडणूक म्हळ्यार पुर्तुगालांत जाल्ली

राजक्रांती. राजशाय उमथून प्रजासत्ताक राज्य (Republic) अस्तित्वांत आयलें. धर्मसत्तेचो राजसत्तेचेर आशिल्लो अंकूश उणो जाल्ल्यान हिंदू नागरिकांकय राजकी समानताय मेळपाचीं चिन्नां दिसूंक लागलीं. हिंदू समाजांतल्या सांस्कृतीक फुडाऱ्यांनी वाचनालयां, वर्तमानपत्रां, तशेंच सामाजीक-सांस्कृतीक संस्था सुरू केल्यो. हिंदू विद्यार्थी पुर्तुगेज शिकूंक लागले. वैजकी, वकिली सारकें उंचेलें शिक्षण घेवंक लागले. वैजकी शिकून दोतोर जाल्ल्या त्या विद्यार्थ्यां मदीं एक दोतोर म्हळ्यार रवीन्द्रबाबांचो बापूय डॉ. राजारामबाब केळेकार, जांणी भगवद्‌गीतेचो पुर्तुगेज भाशेंत अणकार केलो. हो (पुर्तुगेजींतलो भगवद्‌गीतेचो पयलो



लिंगू रघुवीर दळवी

अणकार. आन्तोनियु बाराऑना ह्या पुर्तुगेज कवीन भगवद्‌गीतेचो 'Poema do Senhor' म्हूण अणकार केला, तो १९९६ वर्सा उजवाडा आयला. - भगवद्‌गीतेच्या पयल्या पुर्तुगेज अणकारप्याक हो अणकार तांणी राजारामबाब केळेकारांक अर्पण केला.) लिंगूबाब आनी राजारामबाब हांचे परंपरेचे वारस म्हूण फुडें रवीन्द्रबाब १९२५ वर्सा जल्माक येवंचे आशिल्ले.

पुर्तुगालांत लोकशायेचे राजवटीन मूळ धरलें ना. थंयची सरकारां एका फाटोफाट कोंसळूं लागलीं, म्हारगाय वाडूंक लागली आनी लोकशायेची प्रक्रिया फसली. परिणामीं, १९२५ त पुर्तुगेज लश्करान सरकाराचो ताबो घेवन, दो. ओलिवेयर सालाझार ह्या अर्थशास्त्राच्या प्राध्यापकाक पंतप्रधान केलो. कालांतरान, लश्कराच्याच तेंक्यान हुकूमशाय आयली. लोकांचे नागरी हक्क पांयातळा माड्डून गोंयांत जुलमी राजवट सुरू जाली. रवीन्द्रबाबांच्या पुर्तुगेज माध्यमीक शिक्षणाच्या काळांत, तांणी सालाझारशायेची जुलमी राजवट आनी पर्यायान विचार स्वातंत्र्याची धुसमटय अणभवली. सालाझारान गोंयांत आनी दीवांत नेमिल्ल्या कांय अन्नाडी आनी रानवटी अधिकाऱ्यांचोय अणभव तांणी घेतलो. तातूंतलो एक म्हळ्यार दीवचो गवर्नर. फेईयु फॉल्की आनी लोकांक गाळी संवत भोवपी तेनेंत एंर्रिकीश. १९४१ वर्सा रवीन्द्रबाब शिकपाक पणजे पावले, तेन्ना, एंर्रिकि काब्रीत नांवाचो, ''दिरेतोर दा आदमिनिस्त्रासांव सिवील'' चो एक अधिकारी, सालाझाराचे हुकूमशायेच्या संस्कारांत वाडिल्लो. ''चार चौग खंयूय एके सुवातेर उबे आसूं. तेवटेनच्यान तो गेलो जाल्यार मोटार थांबयतालो, मोटारींतल्यान देंवतालो आनी मूठ वयर करून ''कँ मान्दा? सालाझार, सालाझार, सालाझार'' (कोणाची सत्या चलता हांगा? सालाझाराची, सालाझाराची, सालाझाराची) अश्यो घोशणा दितालो'' (पांथंस्थ, पान १९).

हे समाजीक परिस्थितींत ''गोंयकार सामको लाचार जाला, सायबा सायबा करूनूच दीस काडपी जाला, 'जीव आसल्यार भीक मागून खायन' हाचे पेल्यान तो कसलोच दिग्विजय करूंक पावचो ना म्हणपाचो सोद म्हाका ह्याच वर्सा लागला'' अशें रवीन्द्रबाब बरयतात (*पांथस्थ*, पान २०).

ह्या वयांतूच रवीन्द्रबाबाची दत्ताराम सुखठणकार ह्या ताचे वांगडाच शिकपी भुरग्याकडेन वळख जाली. एक दीस ते दोगूय गोवा मॅडिकल कॉलेजीचो डीन, दोतोर फ्रोइलानु द मॅलु हांचे सभेक गेल्ले. रवीन्द्रबाब बरयतात: ''घसघस करून व्हांवतल्या घसघश्या सारक्या तागेल्या... उलोवपाचो ठेको कितें आसचो? 'आमी पुर्तुगेज ही गजाल आमी विसरूंक फावना.पुर्तुगेजांक लागुनूच आमी मनीस जावंक पावल्यात हे गजालिचो आमकां अभिमान दिसूंक जाय, हो.'' रवीन्द्रबाब फुडें सांगतात: ''आपणाक किरिस्तांवपणाचो अभिमान... शी.... इतलो लाचार जावप... सत्ते मुखार येदया व्हड मनशान?'' मागीर दत्तारामान हाची फोडणिशी करून सांगलें, '''तुका कितें दिसलें, तो पुर्तुगेज सत्येक मस्को मारता म्हूण? च्ये, तो मनापसून उलयला. ताका दिसता तें सत्यूच उलयला. गोंयांत किरिस्तांवपण आनी पुर्तुगेजपण वेगळावंक येनात. किरिस्तांव म्हळ्यारूच पुर्तुगेज असो अर्थ जाता.'... मागीर ताणें 'कार्ता ऑर्गानिका दु इम्पॅरियु कोलोनियाल' हाडून तांतलें एक कलम ताणें म्हाका वाचून दाखयलें. तातूंत इगर्जेचें वर्णन 'Instrumento do civilizacao e influncia national' अशें स्पश्ट उतरांनी केल्लें. सादे भाशेंत सांगचें जाल्यांर, गोंयांत 'लोकांक पुर्तुगेज करपाचें आनी पुर्तुगेज प्रभाव वाडोवपाचें' इगर्ज एक सरकारी खातें आशिल्लें. म्हणूंया, संस्कृतायेचें आनी धर्माचें खातें आशिल्लें. म्हाका हें नवें.'' अशें रवीन्द्रबाब बरयतात (*पांथस्थ*, पानां २०, २१).

ह्याच काळांत रवीन्द्रबाब मिनेझिस ब्रागांझ ह्या एका राष्ट्रवादी गोंयकाराच्या विचारान प्रभावीत जाल्ले. आन्तोनियु आल्वीस नांवाच्या मुंबयंतल्या पुर्तुगेज 'कोन्सुलान' मिनेझीस ब्रागांझांक एक उकती चीट बरयल्ली. ''हे चिटींत ताणें म्हळ्ळें, 'पुर्तुगेजांनी तुमकां पुर्तुगेज भास शिकयली. येवरोपेव संस्कृताये कडेन तुमचो संबंद जोडून दिलो, येवरोपेव चालि-रिती शिकयल्यो म्हूण हेर भारतियां परस तुमी वेगळे जावंक पावलें हे तुमी ना म्हणशात व्हय? पुर्तुगेज गोंयांत पावूंक नाशिल्ले जाल्यार तुमी आयज आसात तशे जावंक पावतले आशिल्ले व्हय?''' ते चिटीक मिनेझिस ब्रागांझान जाप दिवन बरयल्लें: ''भारतियां परस आमी वेगळे न्हय, अशें हांव खंय म्हणटां? उरफाटें, आमी वेगळे, सामके वेगळे अशेंच हांव म्हणीत आयलां. पुर्तुगेज गोंयांत पाविल्ल्यानूच कौरव-पांडवांच्या झुजाची कथा आमकां केन्नाच कोण सांगूक पावलो ना... आमकां मौर्य, गुप्त वा मोगल साम्राज्यांचो इतिहास कोणें शिकयलो ना. ताचे बदला इजिप्तांतल्या फाराओंचो इतिहास बेस बरो शिकयलो. शिवाजीच्या पराक्रमां बदला नेपोलियनाच्या पराक्रमांच्यो खबरी आमकां कळ्ळ्यो. *'शाकुंतला'* बदला आमी *'फ्रेइ लुईश् द सौझ'* नाटक शिकूंक पावले. *'रामायणा'* बदला 'उश् लुझीयदश'चीं पारायणां करूंक पावले... हेर भारतियांक

आपणालो इतिहास खबर आसा. आमकां गोंयकारांक आमच्या इतिहासा परस ज्यू लोकांचो इतिहास चड बरो खबर आसा. बाकिचे भारतीय भारतीय उरल्यात. पुर्तुगेजांनी आमकां पुर्तुगेज भास, पुर्तुगेज चाली-रिती शिकोवन... आमच्याच देशांत परकी करून उडयल्यात...'' (*पांथस्थ*, पान २१.)

असल्या ह्या ल्हान ल्हान घडणुकांनी आनी विचारांच्या संस्कारानी तरणाट्या रवीन्द्राचें व्यक्तिमत्व आकाराक येतालें. पूण तांच्या जिवितांतलो एक अणभव खूब म्हत्वाचो थारलो, ताणें जाणट्या रवीन्द्राचे जिणेक वेगळीच दिशा दाखयली. तो अणभव म्हळ्यार तांकां जाल्लो कोंकणीचो दिश्टावो.

### कोंकणीचो दिश्टावो

रवीन्द्रबाब 'आपूण कोण' हाचो सदांच सोद घेताले. समज येत सावन तांणी आपणाले जिणेंत 'crisis of identity' अणभविल्ली. रवीन्द्रबाब कोंकणी घराब्यांतले. घरांत जल्मा सावन कोंकणीच उलयताले. तीच तांची मायभास. ती तांकां शिकले बगर आयिल्ली. पूण ल्हानपणांतूच ते आपल्या आवय-बापाय वांगडा गुजरातांतल्या दीवाक गेले. थंय तांचें मुळावें शिकप गुजरातींतल्यान जालें. गोंयांतूच राविल्ले जाल्यार तांचें मुळावें शिकप मराठींतल्यान जावपाचें. पूण दीवाक तें गुजराती भाशेंतल्यान जालें. ह्या इतिहासीक अपघाताक लागून तांकां कांय गोंयकार 'गुजीर'य म्हणूंक लागिल्ले. तांकां कोंकणीचो दिश्टावो कसो जालो हो प्रसंग मातसो विस्तारान सांगपा सारको. कित्याक, एकाद्री सादी दिसपी घडणूक मनशाचे जिणेंत कसलें तरेचो बदल घडोवन हाडटा हाची देख तो प्रसंग दिता.

तरणाटो रवीन्द्र पणजे लिसेवाची परिक्षा दिवन प्रियोळा आयिल्लो, तेन्ना तुळशीदास जमनादास हो दीवकार तांगेर आयिल्लो. ताचे वांगडा तो दीवाक वचपाक भायर सरलो. तीन वर्सांनी आवय-बापायक मेळपाक. वाटेंत पुण्यांत दोन दीस रावले. रवीन्द्रबाब आमकां सांगतात, ''थंय, ह्या दोन दिसां भितर दोन गजाली म्हाका कळ्ळ्यो. एक, जी भास हांव बेस बरी उलयतालों ती गुजराती उलयतना हांव आतां आडखळपाक लागलां, उतरां सट्ट करून जिबेर येनात म्हणपाची. आनी दुसरी, जें जेवण हांव दीवाक आसतना सदां रुचीन बरें जेवतालों ताचो वास लेगीत म्हाका आतां सोंसना जाला म्हणपाची.'' (*पांथस्थ*, पान १४). मागीर ते मुंबय पावतकीच प्राणलाल कल्याणचंदाचे पेढयेर उतरले. ''हांव दोतोर केळेकाराचो पूत म्हूण कळटकूच प्राणलालाक आपणागेर कोण व्हीआयपी पाविल्ले वरी दिसलें आनी रांदप्याक आपोवन ताणें म्हजे खातीर अमकें कर, तमकें कर म्हूण ओर्दी सोडल्यो. 'ना ताची गरज ना. हांव हांगा जेवपाचा ना.' हांवें प्राणलालभाईक म्हळें.'' ''म्हाका तुमचें जेवण आवडना.'' ''कितें आवडटा तर?'' ताणे विचारलें. ''आमचें महाराष्ट्रीय भोजन.'' ''प्राणलालभाईन रवीन्द्रबाबांक... गिरगांवांत व्हरून बऱ्यांतले बरे महाराष्ट्रीय खानावळींत जेवोवन हाड म्हूण सांगलें. ताणें ताका वेलणकर खानावळींत व्हेलो. थंय वेटरान ताटांत जेवण हाडून दवरलें. रवीन्द्रबाब सांगतात: ''...हांव घुटमळ्यांत पडलों. म्हाका जाय आशिल्लें तें जेवण हें नाशिल्लें. म्हाका गोंयचें जेवण जाय आशिल्लें. नुस्त्याचें जाय आशिल्लें अशें न्हय. शिवराक उपकारतालें. पुणून गोंयचें शिवराक जाय आशिल्लें... हांवें वेटराक आपोवन विचारलें, 'गोंयकारांचें जेवण हांगा मेळना?' 'तें हांगा कशें मेळटलें? अनंताश्रमांत वच.' 'अनंताश्रम खंयसो आसा?' 'खोताचे वाडींत.' पूण थंय ते गेलेनात. तांणी धंयान शीत कालयलें आनी लिंबाचें लोणचें मदीं मदीं जिबेक लावन ते जेवले. ताटांतल्या बाकीच्या कित्याकूच हात लायनासतना आंवंक उठले. मागीर शान्तीलालान तांकां विचारलें,

'अशें कितें? जेवण आवडलें ना?'

'ना.'

'तूं महाराष्ट्रीय न्हय?'

'महाराष्ट्रीयच हांव.'

'महाराष्ट्रीयांची तर ही बऱ्यांतली बरी खानावळ.'

म्हळें, 'आसत... पुणून आमचें जेवण वेगळे तरेचें.'

'तुजी भास मराठी न्हय?'

'मराठीच भास म्हजी.'

'पुणून तूं वेटरा कडेन उलयतालो ती मराठी हांगासरले लोक उलयतात तसली दिसली ना.'

'आमची मराठी वेगळी. तिका आमी कोंकणी म्हणटात,' हांवें जाप दिली.

पूण ह्यो जापो दितकीच रवीन्द्रबाबांच्या अंतरंगांत एक व्हडलें मोड उठलें. ते म्हणटात: 'बारा वर्सां गुजराती वातावरणांत सारून लेगीत, गुजराती जावंक पावलों ना. ''सदांच हांव वेगळों अशें म्हाका दिसलें. पुर्तुगेज शिकलों, पुर्तुगेज भाशेचेर मना पसून मोग करूंक लागलों. 'तूं पुर्तुगेज' म्हूण ह्या शिक्षणान म्हाका ताळो सरांटून सांगलें. तरी आसतना पुर्तुगेज जावंक पावलो ना... फाटलीं तीन वर्सां महाराष्ट्रीय जावपाचो जीव ओतून यत्न केलो. आनी 'तूं आतां गुजीर उरूंक ना आमचे सारको महाराष्ट्रीय जाला' हे तरेचें चिंतामणरावां कडल्यान सर्टिफिकेट्य घेतलें. आयज पळेतां, हांव महाराष्ट्रीय न्हय. मागीर हांव कोण? 'तूं कोंकणी' भितर काळजाच्या खोल तळांत एक आवाज आयकूंक आयलो.'' रवीन्द्रबाब म्हणटात ''देवा? कसलें खंडीत जिवीत जियेतां हांव! उलयतां एके भाशेंत, बरयतां वाचतां दुसरे भाशेंत, शिकतां तिसरेच भाशेंत! असल्या मनशाचें व्यक्तित्व अखंड कशें उरतलें, सांग रे धनया.'' ते मुखार बरयतात, ''शिकल्यार खंयचीय भास येता. पुणून ती कितलीय आयली तरूय आमची जायना. जी शिकय नासतना येता तीच मनशाची निजाची भास आसता. म्हजी भास कोंकणी हाचो म्हाका पयलेच


TRADUÇAO LIVRE DE
RAJARÁMA PUNDOLICA SINAI QUELECAR
MÉDICO

BHAGAVAD-GUITA
(CÂNTICO DIVINO)

IMPRENSA NACIONAL
GOA — 1956

फावट दिश्टावो जालो... वेलणकर खाणावळींतल्यान हांव भायर सरलां त्या दिसा म्हजें रुपांतरण जालां. हांव आदलो उरूंक ना. नवो जावन आयलां. गुजराती आनी महाराष्ट्रीय वेगळे तशे महाराष्ट्रीय आनी कोंकणी वेगळे, म्हणूं मागीर कोंकणी आपणाक कोणूय. हें म्हाका त्या दिसा स्पश्ट बरें समजलां.''



À memória de Rajarama Pundolica Sinai Quelecar, autor da primeira tradução, livre e integral, da Bhagavad-Guitá para linguagem portuguesa.

मागीर दीवाक पावतकच तांणी आपल्या बाबाक पयलो प्रस्न केलो: ''आमचे भाशेंत कोणेंच कितेंच बरोवंक ना?'' आनी त्या दिसा तांकां वामन वर्दे वालावलीकार वा शणै गोंयबाबाची पयली वळख जाली. तांचें *कोंकणी भाशेचें जैत* हें पुस्तक बाबान पुताक हाडून दिलें. ''शणै गोंयबाबाली तळमळ, तांगेलो किंवाटो, तांगेली विद्‌वत्ता काळजाक स्पर्शून गेली. आनी हांव त्या दिसा शें-प्रतिशत 'कोंकणीवादी' जालों.'' अशें रवीन्द्रबाब आमकां सांगतात. (*पांथस्थ,* पानां १४-१७.)

मनशाची तरणाटी पिराय ही ताचे घडणेची पिराय. नवे संस्कार नवे विचार ताका घडयतात. नवे विचार पुस्तकां दितात, मनीस दितात, सांगाती दितात, विचारवंत दितात. तातूंतलो विवेकानन्द हो एक.

रवीन्द्रबाबाचे घडणेच्या प्रवासांत, तांचे पिरायेच्या सतराव्या अठराव्या वर्साचेर, विवेकानन्दालें जिवीत तांच्या हातांत पडलें. ह्या संन्याशांत तांकां व्हडलो देशभक्त दिश्टी पडलो, जो लोकांक उलो मारून सांगतालो, ''देश सोडून देव ना, देव सोडून धर्म ना... अख्खें जिवीत देशा खातीर झरयतलों असो नित्शय करात. गांवांगांवांनी लोकांक वचून सांगात, उठात, जागे जायात. कितले दीस अशे न्हिदून रावतले?... तुमच्यांत एक प्राण आसा, एक आत्मो आसा. ताका एकनिष्ठ रावशात जाल्यार तुमी आकांताचे शक्तिशाली जातले.'' (*पांथस्थ,* पान २४.) तांचें जिवीत वाचतकीच रवीन्द्रबाब आमकां सांगतात: ''आमच्या देशा कडेन अशें कितेंय आसा, की जें येवरोपा कडेन ना.. आनी भारताचो धर्मविचार, तत्त्वविचार, तांचें समाजशास्त्र, साहित्य, स्थापत्य सगलें समजू घेवपाचो, भारताच्या उदात्त ध्येयवादा कडेन एकरूप जावपाचो हावेस मनांत जागो जालो.'' (*पांथस्थ,* पान २५.)

POEMA DO SENHOR
Bhagavad-Guitá

भगवद्गीता

Vyassa

त्या वेळार भारतांतय इंग्रजां आड चळवळ चलताली. दुसरें महायुद्ध चलतालें. जपानान इंडोनेशिया, सिंगापूर, ब्रह्मदेशाचेर घुरी घालून तीं हाताशिल्लीं. आनी मागीर जपान हिन्दुस्तानाचे वाटेर पावलें. गांधीजींक हें आव्हान कशें दिसलें. तांणी म्हळें, जपानी घुरी परतून लावपाचें काम आमकांच करचें पडटलें. पूण ताचे खातीर हिन्दुस्तानाचो कारभार लोकांच्या हातांत दिवन इंग्रजांनी हांगासल्ल्यान वचूंक जाय. आनी काँग्रेसीन ८ आगस्ट, १९४२ ह्या दिसा 'तुमी हिन्दुस्तान सोडून वचात' (Quit India) हो थाराव पास केलो. हाचो परिणाम हरशीं न्हिदिल्ल्या गोंयचेरूय जालो. पयलेच फावट गोंयांत धव्यो गांधी टोपयो भुरग्यांच्या माथ्यार दिसूंक लागल्यो. तेन्ना रवीन्द्रबाब पणजे शिकताले. त्या वेळार तांकां नानदाद (डॉ. नारायण भेंब्रो), ॲड. पां.पु. शिरोडकार हांचें मार्गदर्शनूय मेळ्ळें. ह्याच वेळार तांकां सावरकरवादी विचारांची दीक्षा मेळ्ळी. ते म्हणटात, ''देड दोन म्हयन्यां भितर हांव कट्टो सावरकरवादी जालों. हिन्दुत्ववादीच खरो राष्ट्रवादी आसूं येता, पातेवपा सारको देशांत आसा तो फकत हिन्दू, अशें मानपाक लागिल्लों. हांवें आनी बाबलान (सिंगबाळान) एके रातीं 'ज्याची मातृभू पितृभू आणि पुण्यभू हिन्दुस्तान तोच हिन्दू', 'हिन्दुस्थान हिन्दुओंका, नहीं किसीके बापका' ह्या घोशणांनी पणजेंतल्यो कांय वणटी रंगयल्ल्यो.'' (*पांथस्थ,* पान २७.) मागीर आनीक कांय तेंपान राष्ट्रवादी फकत हिन्दू आसूं येता ह्या तांच्या सावरकरी संस्कारांक वेर गेली, जेन्ना रवीन्द्रबाबांची येवाग्रियु ज्यॉर्ज ह्या क्रिस्तांव विद्यार्थ्या कडेन वळख जाली. येवाग्रियु आपणाक ज्युलियांव मिनेझिसांचो शिष्य मानतालो. आनी जुलियांवाचो राष्ट्रवाद क्रिस्तांवांक इगर्जेच्या प्रभावांतल्यान मेकळे करूंक जाय, तेच बराबर तांकां हिन्दुत्वा पेल्यान व्हरूंक जाय (Contra Roma e alem de Benares) म्हळ्यार, रोमा आड आनी बनारसाच्या पेल्यान, अशें म्हणपी आशिल्ले. ते मुंबयंत 'गोमंतक' हें रोमी लिपयेंतलें पयलेंच कोंकणी राष्ट्रवादी नेमाळें काडटाले जें 'पुर्तुगेजांक लागून आमी देशभश्टे जाल्यात, आमच्याच देशांत परकी जावन पडल्यात' अशें सांगतालें, आनी पुर्तुगेज सत्ताधाऱ्यांक धसके दीत राविल्लें. येवाग्रियु त्रिश्तांव ब्रागांझ दा कुन्याक मानतालो, तसोच नेहरूंकय बी. जवाहरलालांच्या हातांत देश गेलो जाल्यार तो देशाक समाजवादी रूप दितलो. सावरकरां कडेन हिन्दुस्तानाच्या फुडाराचें असलें चित्र ना. कसलीच आर्थीक विचारधारा ना. आसा तो फकत देशा विशींचो जळजळीत अभिमान. असलो अभिमान सालाझार, हिटलर, मुसोलिनीकय आसा. देशभक्ता कडेन देशाच्या

अभिमाना भायर आनीक कितेंय आसूंक जाय, ते नासत जाल्यार देशभक्त 'म्हजो देश व्हडलो' अशें म्हणपाक लागता आनी हुकूमशाह जाता. असल्या येवाग्रियाच्या विचारांनी आपणाल्या राजकी विचारसरणींत बदल घडूंक लागलो अशें रवीन्द्रबाब सांगतात. (*पांथस्थ,* पानां २९-३१)

ह्याच काळांत तांची नर्सुबाब सुखठणकारां कडेनूय वळख जाली. नर्सुबाबान रवीन्द्रबाबांची वाचनाची आवड वाडयली. पुर्तुगेज साहित्य, पुर्तुगेज भाशेंतलें संवसारीक साहित्य, तेच भाशेन मराठी साहित्याची वळख करून दिली. शरतचन्द्र चॅटर्जीच्या कादंबरींची मामा वरेरकारान केल्लीं मराठी भाशांतरां वाचूंक लायलीं. आनीक एका लेखकाची ह्याच अदमासाक तांणी रवीन्द्रबाबांक वळख करून दिली. रवीन्द्रबाब सांगतात: 'गुजरातींत बरोवपी एक महाराष्ट्रीय लेखक हो. कितली सादी, सोंपी, सुटसुटीत, प्रांजळ शैली हाची... तुका आवडटलो' अशें म्हणून ताचें 'हिमालयांतला प्रवास' पुस्तक ताणें म्हजें फुडें दवरलां. लेखकाचें नांव आशिल्लें: काकासाहेब कालेलकर.'' (*पांथस्थ,* पान ३६.)

ह्याच काळांत रवीन्द्रबाबांनी अरविंद घोष आनी रमण महर्षींच्या आश्रमांक भेट दिली. थंय तांचें दर्शनूय घेतलें. पूण त्यांच्या आध्यात्मान रवीन्द्रबाबांक ओड लायलिना. आध्यात्मा विशींच्या रवीन्द्रबाबांच्या विचारांतूय पाँडिचेरीक मुळा सावन बदल घडून आयिल्लो. रवीन्द्रबाब बरयतात, ''जिवितांत अध्यात्म आसूंक जाय. उजवातेंत परमळ आसता तसो. पुणून उजवात जळटा तेन्नाच तिचो परमळ चोंय दिकांनी पातळूंक पावता. तसो, देशसेवेच्या खंयच्याय तरी वावरांत मनशान जिवीत ओपूंक जाय आनी मनीस जळूंक जाय. तेन्नाच ताच्यांतल्यान उक्ताडा येता तो अध्यात्म''. ते मुखार सांगतात, ''निखटो अध्यात्म बुवाबाजींत बदलता'' आनी रवीन्द्रबाब गोंयांत परततात. ''हे मुखार, खंयच्याच साधू संताच्या नादाक लागचों ना अशें थारावन'' (*पांथस्थ,* पान ४१.)

मागीर रवीन्द्रबाब र.धो. कर्वेच्या संपर्कांत पावले. कर्वे महाराष्ट्रांतलेच न्हय तर अख्ख्या देशांतले एक व्हडांतले व्हड बुद्धिवादी (रॅशनलिस्ट) मनीस, बर्ट्रांड रसेलांच्याच तोलामोलाचे अशें रवीन्द्रबाबांक प्रो. गावणेकारान सांगिल्लें. रवीन्द्रबाबान कर्वे कडेन पत्रवेव्हार सुरू केलो आनी आपल्यो जिज्ञासा भागोवचेलो यत्न केलो. कर्वेचे सुचवणेन रवीन्द्रबाबान उपरांतच्या दोन तीन वर्सांत बर्ट्रांड रसेल, चार्लस् ब्रॅडलॉ, इंगरसोल, ज्युलियन हक्स्ले हांचीं पुस्तकां वाचलीं. तांच्या मार्गदर्शनान रवीन्द्रबाबांक कसलीं पुस्तकां वाचचीं, जिवितांत कितें घेवचें आनी कितें भायर उडोवचें हें कळपाक लागलें. कोणूय केदोय कितेंय सांगता म्हूण तें मोन्यांनी मानून घेवंक जायना हे रवीन्द्रबाब तांचेच कडल्यान शिकले. मुखावयल्या आयुष्यांत गुरुतुल्य अश्या खूब जाणां कडल्यान रवीन्द्रबाबान कितें न्हय कितें घेतलां. रवीन्द्रबाब कबूल करतात: ''र. धोंनी जी 'नदर' दिल्या तिणें म्हाका खंयच व्हांवन वचूंक दिवंक ना. भावनेन व्हांवन गेलां, तेन्ना बुद्दीन म्हाका वाटायला.' (*पांथस्थ,* पान ४३.) रवीन्द्रबाबांच्या विचारांत आनी साहित्यांत जो बुद्दीवाद दिश्टी पडटा. ताचें मूळ हांगा मेळटा.

१९४५ वर्सा रवीन्द्रबाब मुंबय पावले. थंय 'जंल्मभूमि' ह्या गुजराती वृत्तापत्राच्या अमृतलाल शेटींची वळख जाली. तांकां लागून कितल्याश्याच भारतीय फुडाऱ्यां कडेन वळख जाली. एक खेपे चौपाटेर जावपी एके सभे कडेन वतना वाटेंत पुलिसांनी मिरवणूक आडायली. तातूंत तांणी लाठयो खाल्यो आनी टियर गॅसाचो अणभव घेतलो. ते बरयतात: ''...हो म्हजो पयलोच अणभव. आंग सगळें दुखपाक लागिल्लें. पुणून हे दुखी परस चड देशा खातीर लाठी खावंक मेळ्ळी हे खोशयेन जीव भुल्लुसून आयिल्लो.'' (*पांथस्थ,* पान ४८.)

मुंबयंत तांकां त्रिशतांव ब्रागांझा द कुंञ्य हांणी सुरू केल्ल्या गोआ कॉंग्रेस कमिटीच्या वावराची खबर कळ्ळी. गोआ कॉंग्रेस कमिटी म्हळ्यार त्रिशतांवांनी आपणाले तपस्येची पोसवण दिवन उबो केल्लो राजकी पक्ष. गोंयची सुटका हो एकूच ध्यास घेवन ते बशिल्ले. ते पार्टीचे एके मिटिंगेक रवीन्द्रबाब पावले, तेन्ना तांची मासिलोन आल्मेदी कडेन वळख जाली. तांणी पुर्तुगेज लिसेव केल्लो. पूण ते मुंबय इंग्रजींत बरोवपी एक 'फ्री लान्स जर्नलिस्ट' आसले. ते मुस्तींतले तरणाटे सामान्यतायेन जवाहरलालांचे भक्त आसताले. मासिलोन जवाहरलालांक येवरोपेव संस्कृतायेचे गुलाम, देशी येवरोपेव मानी. गांधीं कडेन ताची चड ओड. 'हो खरो हिन्दुस्तानी' म्हणी. मासिलोनागेरूच रवीन्द्रबाबाची मार्क फेर्नान्डीसा कडेन वळख जाली. पाकिस्तानांतल्यान आयिल्लो तो गोंयकार. थंय रवीन्द्रबाबान आनी मार्कान आपले खातीर एक काम सोदून काडलें. धोबी तलाव वाटारांत 'कुडांतले' कितले गोंयकार कॉंग्रेसीचे वांगडी जातात ते पळोवपाचें अशें तांणी थारायलें. पूण तें काम कठीण अशें मासिलोनान तांकां सांगलें. तांचो रोखडोच तांकां अणभव आयलो. कुडांत रावपी गोंयकार ''इगर्जेच्या प्रभावांत आशिल्ले. इगर्ज ते मुस्तींत पुर्तुगेजां परसूय चड पुर्तुगेज आशिल्ली. हे दोगूय तांकां 'कोंकणे' (हिन्दू) करूंक आयल्यात असो बावड्यांचो समज करून दिल्लो.'' ते दोगूय हें काम पयश्यां खातीर करतात असोय तांचो समज जाल्लो. रवीन्द्रबाब सांगतात: ''तांचे कडेन उगडो नागडो राष्ट्रवाद घेवन वचपांत अर्थ ना. पुणून हांच्यांत दोन व्हडले गूण दिश्टी पडटात. एक, हांकां गोंयचो सुमारा भायर मोग. आनी दुसरो, आपणाले भाशेची तांकां सुमारा भायर ओड. तांच्यांतल्या ह्या दोन गुणांक पोसवण दिवपीच एक कार्यावळ आमी आखूंक जाय. जाल्यारूच आमी तांकां आमचे वांगडा घेवंक पावतले'' अश्या निर्णयाचेर रवीन्द्रबाब आनी मार्क पावले. (*पांथस्थ,* पान ५१.)

१९४५ वर्सा 'गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनां'त काकासाहेब कालेलकर कोंकणीचो पाखो घेवन उलयल्ल्यान रवीन्द्रबाबांक कोंकणीचें म्हत्व कळून आयलें. काकासाहेबान आपल्या भाशणांत म्हणिल्लें: ''गोंयांत मराठीची परपंरा चलता हें खरें. पुणून तेच बरोबर गोंयांत सगलेच - हिन्दू, किरिस्तांव, मुसलमान, शिकिल्ले, शिकूंक नाशिल्ले, समाजांतल्या सगल्या थरांतले लोक घरा-दारांत, भायर चार-चौगांत कोंकणी, फकत कोंकणीच उलयतात. हेंवूय तितलेंच खरें. हीं दोन सत्यां मतींत धरून भाशेच्या प्रस्नाचो विचार जावंक जाय.'' फुडें काकासाहेबान म्हणिल्लें: ''फाल्यां पुर्तुगेज वतकूच गोंयांत पुर्तुगेजीची सुवात फकत कोंकणीच घेतली. शिक्षण

कोंकणींतल्यान चलतलें आनी राजकारभारूय कोंकणींतल्यानूच चलतलो. मराठीन तिका आधार दिवचो... मराठीन तिचो विरोध केलो जाल्यार मराठी गोंयांत चलपाची ना..." (*पांथस्थ,* पान ५३.)

त्या संमेलनांत शांताराम आमोणकार हो तरणाटो कोंकणींत उलोवपाक लागलो. सगळे उसळळे. बोवाळ जालो. काकासाहेब अध्यक्ष. तांणी सांगलें, संमेलन मराठीचें आसूं, पुणून तें कोंकणी विरोधी न्हय. हांव ह्या भुरग्याक कोंकणींत उलोवपाची परवानगी दितां. पुणून तुमकां अध्यक्षाचो निर्णय मान्य नासत जाल्यार हांव तुमचो निरोप घेतां, कित्याक तुमकां अध्यक्षाची गरज ना. अशें म्हणून काकासाहेब संमेलन सोडून गेले. रवीन्द्रबाबांच्या मत्तान कोंकणीची 'चळवळ' सुरू जाल्या ती त्या दिसा सावन. हाचे पयलीं कोंकणी-मराठी वाद चल्ला. ह्या वादांत मराठीवाद्यांचे सगले मुद्दे शणै गोंयबाबांनी कातरुनूय उडयल्यात. कोंकणी समाजाचो तांणी स्वाभिमान जागयला. धा कडेन शिंपडिल्ल्या कोंकणी समाजाक 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतान बांदून काडपाचोय यत्न तांणी केला. बऱ्यांतलें बरें साहित्यूय बरोवन दिलां. पुणून 'चळवळ' तांणी चलोवंक नाशिल्ली. काकासाहेबान कोंकणीचो पाखो घेत जाल्यार, फाल्यां स्वतंत्र हिन्दुस्तानांत, राज्यांची नवी रचना भाशेच्या तत्त्वाचेर जावपाची आसा तातूंत काकासाहेबांचो कोंकणीचो हो पाखो आडखळ हाडटलो म्हणपाचें म्हाराष्ट्र वळखलें आनी शिटकावलें, आनी देखून महाराष्ट्रान कोंकणी वांगडाच काकासाहेबांचोय विरोध केलो.

ह्या वादांत काकासाहेबां सारक्या व्हड देशभक्ताचो आधार मेळिल्लो पळोवन रवीन्द्रबाब भुल्लुसून आयले. तातूंत, बाकीबाब आनी लक्ष्मणराव हांचे सारकेले मराठी सरस्पतीची अखंड सेवा करीत आयिल्ले गोंयचे साहित्यकार काकासाहेबांच्या पंगडांत गेल्यात म्हूण रवीन्द्रबाबान आयकल्लें. रवीन्द्रबाबांचोय निर्णय जालो. तांच्या फुडल्या मिशनाचे बुन्यादीचो फातर त्याच खिणाक दवरला जातलो.

थोड्या दिसांनी मार्क फेर्नाण्डीस आपूण गोंयां वतां म्हणून रवीन्द्रबाबांक सांगूंक आयलो. रवीन्द्रबाबांनीय गोंयां वचचें थारायलें. जिस्त ह्या वेळार गोंयान कूस परतिली. आनी थोड्याच म्हयन्यांनी गोंयांतल्या सालाझाराचे जुलमी राजवटीक धसको दिवपाची क्रान्ती घडपाची आशिल्ली. ते क्रान्तीचें फुडारपण डॉ. राम मनोहर लोहियान, १८ जून १९४६ ह्या दिसा केलें आनी मागीर गोंयच्या इतिहासाचें नवें पर्व सुरू जालें. त्या पर्वाचे एक गवाय रवीन्द्रबाब आशिल्ले.

सालाझारशायेंत गोंयांत PIDE चें राज्य चलतालें. लोकांक नागरीक स्वातंत्र्य नाशिल्लें. लोकांचे "हात पांय बांदिल्ले ...आनी नाक वोंठ शिंविल्ले आशिल्ले. आमची गचीय हे राजवटीन अंदून धरिल्ली."



ल्हानपणांत, दीवाक कुटुंबा वांगडा

सालाझाराचे राजवटीक पयलेच फावट आहवान दिलें ते डॉ. राम मनोहर लोहियान. मडगांवांत. तो दीस आसलो १८, जून, १९४६. त्या दिसाचो एक गवाय आसलो रवीन्द्रबाब. तेन्ना तो एकवीसं वर्सांचो आसलो. डॉ. लोहियान केल्ल्या उत्स्फूर्त सत्याग्रहान, त्याच दिसा चारशें छत्तीस वर्सांच्या पुर्तुगेज सम्राज्याक वेर गेल्ली गोंयकारांनी पळेली. गोंयकारांनी तांचे इतलो धीट आनी निर्भय मनीस केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. लोहियाच्या सत्याग्रहान गोंय बदल्लें. गोंयच्या इतिहासान कूस परतिली. पूण गोंयची सुटका जावपाक आनीक १५ वर्सां रावचें पडलें.

उपरान्त रवीन्द्रबाब आपले परीन गोंयचे सुटके खातीर वावरूंक लागले. 'भूमिगत' वावर करूंक लागले. सशस्त्र क्रांतीकारकांच्याय पंगडांत गेले. रचनात्मक वावर करूंक लागले. पत्रकां वाटूंक लागले. वृत्तपत्रांय चलोवंक लागले. आनी एक दीस तांकां, अप्पासाहेब पटवर्धनां कडेन जाल्ले कणकवली गांवांतले भेटेंत, चर्चे उपरान्त एक दिश्टावो जालो: अहिंसा हें एक दिव्यास्त्र... तें मशीनगनाकूय निश्प्रभ करपी प्रभावी अस्त्र. (*पांथस्थ,* पान १६०.) हें कळटकूच रवीन्द्रबाबान वर्ध्याक वचपाचो निर्णय घेतलो, ह्या दिव्यास्त्राचे प्रयोग आनी संहरणासयत सगले आयाम नीट समजून घेवपाक नीट वर्ध्याक काकासाहेबां सरींच वचून रावतलों आनी तांच्या हाता खाला काम करून देशसेवेची तरा शिकून रोखडो गोंयां परततलों अशें तांणी थारायलें... तेन्ना रवीन्द्रबाबांच्या जिविताचें एक पर्व सोंपिल्ले, आनी नवें पर्व सुरू जाल्लें.

हो इतिहास रवीन्द्रबाबान आपल्यां *पांथस्थ* ह्या पुस्तकांत आपले नदरेन विसकावन सांगला. रवीन्द्रबाब त्या युगाचो एक प्रतिनिधी. तांच्या ह्या आत्मचरित्रात्मक पुस्तकांत तांचे विचार, उत्फर्के, मोग, क्रोध, आकांक्षा सगलें पळोवंक मेळटा. *पांथस्थ* हें त्या वेळच्या गोंयचेंच आत्मचरित्र. तातूंत गोंयचें पडबिंब दिसत. गोंयांत लोहिया आयिल्ले तेन्ना तांचे फाटल्यान महात्मा गांधी पर्वत कशे उबे राविल्ले. त्या दोगांयचें मार्गदर्शन हे चळवळीक जाल्लें जाल्यार गोंय वेगळेच वाटेन वचपाचें. पूण तशें जालें ना. आनी गोंयकारांच्या दुर्दैवान आमी लोहिया, गांधींचो आधार होगडावन बसले. शेकीं गोंयची सुटका सरकारान भारतीय लश्कर धाडून १९ डिसेंबर, १९६१ ह्या दिसा केली. त्या वेळार रवीन्द्रबाब पणजे पुर्तुगेजांचे कादयेंत आशिल्ले. सुटके झुजाच्या इतिहासान तांकां खुबशें कितें शिकयलां. ते अणंभवान गिरेस्त जाल्यात आनी हे सगलें रवीन्द्रबाबांच्या चिंतनांतल्यान आनी बरपांतल्यान तांच्या साहित्यांतल्यान आमकां दिश्टी पडटा.

### रवीन्द्रबाबाची बरोवपा फाटली भूमिका आनी प्रेरणा

रवीन्द्रबाबान आपूण कोण हाची सदांच जाणविकाय दवरल्या. ते आपणाक फकत लेखक मानिनात. रवीन्द्रबाबांची सगली जीण कोंकणी खातीर खर्चल्या. तांकां आनी कोंकणीक वेगळावंक नज. आपली बरपा फाटली प्रेरणा कितें हें रवीन्द्रबाब नमळायेन पूण खर आत्मविश्वासान सांगतात– ''हांव कोंकणीचो 'रायटर' न्हय, हांव कोंकणीचो 'फायटर'. तरणेपणांत पावल दवरलां तेन्ना लोहियांच्या प्रभावांत आयलों. गोंय स्वतंत्र जावंक जाय म्हूण ध्यास घेवन बसलों. आरंभाक जांकां हांवें म्हजे लिडर मानिल्ले ते म्हजे तकलेंतले पडले. म्हूण उपरांत म्हज्याच उजवाडांत म्हजी वाट सोदूंक लागलों. चवदा वर्सां हांव हे वाटेन चल्लों. गोंयचे सुटकेच्या गोवर्धन पर्वताक हांवेंय म्हजो तोणको तेंकयला. गोंय स्वतंत्र जातकूच तार्चे नकशा वयलें नांव पुसून काडपाक कांय 'घरचे भेदी आनी भायले चोर' मुखार सरले तेन्ना तांचे आड झुजपाक फुरफुरून आयलां... गोंयाक गोंय म्हूण दवरपाक म्हजेंय हातबोट लागलां. जे भाशेक लिपी ना, व्याकरण ना म्हूण महाराष्ट्रांतले व्हडले व्हडले विद्‌वान हिणयत आयिल्ले, ते कोंकणीक आयज जी कितें सुवात मेळूंक पावल्या ती तिका मेळची म्हूण हांवूय वावुरलां... म्हजें खरें योगदान तें हें, अशें मानीत आयलां. हांव 'रायटर' जालां तो म्हज्यांतल्या ह्या 'फायटरा'क लागून. कोंकणीक तिची हक्काची सुवात जोडून दिली म्हूण भागना, तिका साहित्याचे नदरेन तिच्या भयण-भासांचे पंगतीक व्हरून बसोवंक जाय... हें म्हज्यांतल्या 'फायटरानू'च म्हाका धोंगशीत सांगलां. ताचेच हे धोंगसणेक लागून हांव बरोवंक लागलां. हांव निखटो 'रायटर' न्हय. म्हाका कोणेंय 'रायटर' म्हणिल्लोय म्हाका आवडना'' (*सर्जकाची आंतरकथा* पानां २, ३).

हेंच मिशन घेवन रवीन्द्रबाबान १५ आगस्ट १९५३ त वर्ध्याक सावन 'मीर्ग' सुरू केलें. तेन्ना सावन तांची लिखणी जी चलपाक लागिल्ली तीं फाटलीं ५४ वर्सां. थांबनासतना पोट तिडकेन चलत रावल्या. ते आमकां सांगतात: '' 'आपणासि जे ठावें, तें इतरांसि शिकवावें, शहाणे करून सोडावे सकळ जना' हे शिकवणेक धरून सगलें बरयलां. हे शिकवणेंत इतलोच बदल केला- लोकांक शाणे करचे बदला म्हजे सारके पिशे करपाक वावुरलां.'' (*सर्जकाची आंतरकथा,* पान ३.) खासा आपणाक जें पटलां तें दुसऱ्यांक पटूंकूच जाय, ह्या भावार्तान ते बरयत आयल्यात. समाज प्रबोधनाची तांची एक पद्‌दत आसा. एक खासियत आसा तोच विचार ते परत परत लोकांक सांगतात. समजावन दितात. ते बाबतींत ते एक फिशाल शिक्षक. आपले हे पद्‌दती विशीं तें सांगतात: '''सॅवन्टी टायम्स सॅवन' सांगचें पडलें जाल्यारूय उबगूंक ना. फकत समजावन सांगपाची तरा मर्दी मर्दी बदल्ल्या. केन्नां चिमटे काडून सांगलां, केन्ना कुटल्यो मारून सांगलां, तर केन्ना सणकुटेर फुलोवनूय सांगलां. 'पाड पडूं हांचें, हे बदलपाचे नात' अशें म्हणून निर्शेवन ओगी बसूंक ना.'' (*सर्जकाची आंतरकथा* पान ३.) मराठी विद्‌वानांक कोंकणीची बाजू कळपाक जाय म्हणून *कोंकणीचे राजकारण* हें पुस्तक मराठींत बरयलां आनी आतां *भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र* हें मराठींत बरयल्लें नवें पुस्तक रोखडेंच येवपाचें आसा. एक बोली 'भास' म्हणून फुडें येता आनी आपले मर्दी सगलो बोली-परिवार सामावन घेता. 'बोलयो' कश्यो 'भासो' जातात, तशेंच कोंकणी-मराठी संघर्शाच्या इतिहासा विशीं अलिप्ततायेन आनी तर्कनिश्टतायेन आपले विचार ह्या पुस्तकांत तांणी मांडल्यात.

रवीन्द्रबाबान आपल्या आवडीच्या निबंध फॉर्मातल्यान कोंकणी गद्याचे बुन्यादीचो फातर घालो. आपले जिणेंत कितलेशेच कोडू गोड अणभव तांकां आयले. ताका लागून जे प्रस्न उबे रावले, आयुष्यभर तांच्यो जापो ते सोदीत रावले. ते सांगतात: ''(हाका लागून) म्हाका निबंधा खातीर विशय सोदूंक खंयच वचचें पडना. भोंवतणच्या जिवितांत जें घडटा-मोडटा तातुंतूच म्हाका विशय मेळटात. कवी जसो आपणाक कविता येता म्हणटा तसो निबंध म्हाका 'येता.' येतना तो आपलें रुपूय घेवन येता, मुडूय घेवन येता. बरोवंक बसना फुडें तो आपलें एक-एक आंग उकतें करीत वता. आनी आपणाक म्हजे कडल्यान बरोवन घेता.' *(सर्जकाची आंतरकथा, पान ९)* *हिमालयांत* आनी *जपान जसा दिसला* ह्या प्रवास वर्णनांनी लेगीत निबंधाचेंच रूप घेतलां.

### रवीन्द्रबाबांची शैली

रवीन्द्रबाबांची शैली ओडलायणी, सोंपी आनी सादी. शैली विशीं ते सांगतात: ''कोणाचेंच तिचे कडेन लक्ष वचचें ना इतली ती सादी आसूंक जाय... कितें सांगलां हाचे बदला कशें सांगलां हाचे कडेन वाचतल्यांचें लक्ष गेलें जाल्यार निबंध फेल जालो अशें मानीत आयलां.'' (*सर्जकाची आंतरकथा,* पान ९.) बरोवपाची कला सादपाक तांणी खर साधना केल्या. गावपी मनीस ताळो कमयता. तेचभाशेन बरोवपाची कला केळोवची पडटा. ते सांगतात: ''जें आयलां तें हांवें तर्जून पळेलां, घांसून-पुसून काडलां, सारकें जालां काय ना तें पळेलां आनी उपरांतूच छापूंक दिलां.'' (*सर्जकाची आंतरकथा,* पान १८.) ही सगली शिल्पकारिता - craftsmanship. तांचें बरोवप चडशें वैचारीक. ज्या विशयांचेर तांणी बरयलां त्या विशयांचें ते खोलायेन वर्सां संकिनी चिंतन करीत आयल्यात. विशयांच्यो सगल्यो कडो समजून घेतल्यात. तज्ञां कडेन त्या विशयांचेर चर्चा केल्या. तांचेर 'लेटेस्ट' कितें आयलां, तें सोदून तेंवूय नदरे खाला घालां आनी मागिरूच बरयलां. तांची बरोवपाची शैली सुंदर, सोबीत. आपणाली शैली सुंदर आसची हो हावेस तांणी मनांत केन्ना धरलो ना. ती स्पश्ट आसची, सादी आसची, कानाक गोड लागता अशी आसची, इतलोच हावेस तांणी बाळगिलो. वाक्यां सुटसुटीत आसचीं हो विचार बरयतां बरयतांच तांकां मागीर आयलो. कठिणांतले कठीण विशय लेगीत सोंपे भाशेंत सांगूंक येवंक जाय अशें ते म्हणटात. सोंपी आनी सादी शैली आपशीं येना. ती संस्कारिते सारकी केळोवची पडटा. औचित्य, शिश्टाचार मर्यादा हीं संस्कारितेचीं लक्षणां अशें ते मानतात. तीं शैलींतूय दिश्टी पडूंक जाय. उतरांत आशिल्लो नाद वाक्यांत येवंक जाय. उतराक सूर आसता तशें रुपूय आसता आनी तांकां नादा इतलेंच म्हत्व आसता. सूर, रूप आनी वजन ह्या तिनूय गजालींचो सारको विचार करून उतरां आमकां वापरूंक येवंक जाय अशें ते शैली विशीं आपले विचार मांडटना सांगतात. गद्य बरपा विशीं तांची आनीक एक सांगणी नव्या लेखकांनी लक्षांत दवरूंक

इश्टां वांगडा साठावो जल्मदीस मनयतना

जाय. ते सांगतात: "घरंदाज आनी संस्कारी मनशांच्या खबरां सारकें गद्य आसूंक जाय. वाचतल्याक वाज येवंक जायना. तांकां तें थिल्लर-शेंय दिसूंक जायना." (*सर्जकाची आंतरकथा,* पान २१.) महात्मा गांधींचे गद्य शैली वरीच तांचें गद्य सार्दे, नम्र आनी तितलेंच तेजिश्ट म्हणपाचें तांचें बरोवप वाचतल्याचे नदरेंत येता. लेखक प्रतिभावंत आसलो म्हणून भागना. ते प्रतिभावंत लेखकाकूय एक सल्लो दितात: "प्रतिभावंताक व्यासंगाची, निरिक्षणाची खावड मेळुंकूच जाय. आपणाले प्रतिभेक जेन्ना तो खावड दितलो तेन्ना तिचें काम ती भितल्ले भितर करीत रावतली आनी सट्ट करून एक दीस कितेंय तरी नवें वयर घेवन येतली. क्लासिकल साहित्या सारकी बऱ्यांतली बरी खावड दुसरी ना. "संवसारांतलें बऱ्यांतलें बरें साहित्य वाचीत राव. तूं वाडत वतलो. केन्नाय तरी एक दीस नवें चिरंतन मोलाचें कितेंय आमकां तूं वाचूंक दितलो." (*सर्जकाची आंतरकथा,* पान २४.)

रवीन्द्रबाब आपले परीन समाज बदलपाक मुखार सरिल्ले. तांचे नदरे मुखार आशिल्लो गोंयचो समाज. हे प्रेरणेनूच ते राजकारणांत पडले. "पुणून समाज बदलूंक जाय म्हणटल्या म्हज्यांतल्या कार्यकर्त्यानूच म्हज्यांतल्या साहित्यिकाक जाग हाडली आनी आपूण ताचे कडेन एकरूप जालो." (*सर्जकांतली आंतरकथा,* पानां ९, १०.) तांच्यांतलो साहित्यिकूच तांचेर आपणालो शेक चलोवंक लागला. देखुनूच सात वर्सां दिसाचीं धा-बारां वरां काम करून तांच्यांतल्या साहित्यिकान तांचे कडसून ९००, पानांचें महाभारत बरोवन घेतलें. ताचे खातीर ते उजवाती सारके जळून, महाभारताचो परमळ तांणी कोंकणीक दिलो. ते देवळांत वचना जायत, प्रसाद पाकळी घेना जायत. पूण तांच्या सगल्या साहित्याक 'अध्यात्मा'चेंच आंग आसा आनी म्हणुनूच, हें साहित्य तिगून उरतलें हातूंत दुबाव ना.

**रवीन्द्रबाब - कोंकणी भाशेचो सैद्धांतीक भाष्यकार**

कोंकणी मराठीची बोली न्हय, ती एक वेगळी भास हो विचार शणै गोंयबाबांनी आपले बरपावळींतल्यान मांडलो आनी कोंकणीची तांक सिद्ध करपाक कोंकणींत ललीत साहित्य आनी इतिहास धरून चार दसकांच्या काळांत कितलींशींच पुस्तकां बरयलीं: १९६१ त गोंयची सुटका जाले उपरान्त, कोंकणी-मराठी वाद पर्थून उप्रासलो आनी भाशीक तत्त्वाचेर गोंय महाराष्ट्रांत घालपाचो विचार फुडें आयलो. त्या वेळार कोंकणीची बाजू समर्थपणान मांडपाचें काम रवीन्द्रबाबान आंगार घेतलें आनी ते खातीर कोंकणी भाशेच्या सगल्या आंगांचेर आनी कोंकणी-मराठी संघर्षाचेर कोंकणी आनी मराठी ह्या दोनूय भासांतल्यान सैद्धांतीक आनी वैचारीक बरोवप केलें. गोंयांतल्या आनी महाराष्ट्रांतल्या सरसमान मनशांक आनी विद्वानांक कोंकणीची बाजू कळची हो ताचे फाटलो उद्देश आशिल्लो. म्हणून Sociolinguisticsच्या (समाजभासविज्ञानाच्या) आंगान कोंकणीच्या प्रस्नाचो खोलायेन अभ्यास करून ते तो प्रस्न कोंकणी आनी हेर लोकां फुडें फाटल्या चाळीस वर्सां सावन सतत मांडीत आयल्यांत. ह्या विशया वयलें *भाषिक संघर्षाचें समाजशास्त्र* हें तांचें मराठींत बरयल्लें पुस्तक रोखडेंच येवपाचें आसा. बोलयेची भास जावपाक एक प्रक्रिया जावची पडटा. ज्या वाटारांन ती उलयतात त्या वाटाराक सामाजीक, राजकी म्हत्व जोडचें पडटा आनी त्या वाटारांतल्या प्रतिशठीत लोकां कडल्यान उपरान्त तिचो आपलें अभिव्यक्तीचें माध्यम म्हणून उपेग जावचो पडटा. इतलेंच न्हय तर ते भाशेंत मागीर सतत साहित्य निर्माण जावचें पडटा. एकाद्री बोली 'आपूण भाशा जातली' हे जिद्दीन पेटत जाल्यार ती भास जाता. राजकीय अनुकुलताय, लोकांची अस्मिताय आनी तांचो नित्शय ह्या गजालींचेर भास बोली स्वरुपांत रावची काय भास म्हणून फुडें येवची हें निंबून आसता. कोंकणी, उर्दू आनी हिंदी ह्या भासांची देख दिवन ते हें आधारा सयत दाखोवन दितात.

हिंदीची देख दिवन तांणी आनीक एक निर्ष्कश मांडला. आपल्या परिसरांतल्या स्वतंत्र भासांक हिन्दीन आपल्यो पोटभासो मानल्यो आनी त्या पोटभासांतल्यान जें साहित्य निर्माण जालें, ताचो हिन्दी साहित्यांत आसपाव करून घेतलो. संघर्शाक जागोच दवरलो ना. कोंकणीचे बाबतींत मराठीक हें सुचलें ना. तिणें कोंकणी साहित्य दुसरे भाशेंतलें साहित्य मानलें. आपलेच बोलयेंतलें साहित्य मानलें ना.

खंयचीय भास जिती दवरची आसल्यार ते भाशेंतल्यान प्रभावी गद्याची निर्मिती जावची पडटा हाची शिटकावणी रवीन्द्रबाब कोंकणी बरोवप्यांक दितात. इतलेंच न्हय तर जाका आमी 'रद्दी' साहित्य म्हणटात, तें वर्तमानपत्री बरोवपूय भाशेंत सदांच निर्माण जायत रावचें पडटा. ते सांगतात, कविता हो भाशेचो प्राण, तर गद्य हें तिचें शरीर. शरिराची उपेक्षा भाशा सहन करिना. भाशेचो लोकां कडेन जितो संबंध आसचो पडटा, तो तुटल्यार भाशा खंयचेय नदरेन कितलीय समर्थ आसूं, ती जिती रावना हें ते संस्कृत भाशेची देख दिवन स्पश्ट करतात.

कोंकणी मुखावयल्या एका संकश्टाचीय ते आमकां शिटकावणी दितात. खंयच्याय भाशीक वाटारांत, थंय हेर भाशीक लोक सुमारा भायल्या प्रमाणांत येवन रावल्यार आनी त्या भायल्या लोकांचे सोयी

खातीर त्या वाटारांतले लोक आपली भास सोडून भायल्या लोकांचे भाशेंत उलोवंक लागले जाल्यार आपल्याच दोळ्यां मुखार आपलीच भास मरूंक पाविल्ली पळोवपाची तयारी थंयच्या लोकांक दवरची पडटा. गोंयच्या वास्को शारांत हें घडिल्लें आमी पळेतात.

कोंकणी मनशांचो एक समाज घडोवपाचो एक मंत्रय रवीन्द्रबाब आमकां दितांत. कोंकणी मनीस व्यष्टिपरक (individualistic) समष्टिपरक (socialistic) न्हय. व्यक्ती म्हणून कोंकणी मनीस व्हड जाल्यात, पूण तांणी सगल्यांक अभिमान दिसचो अशें सामुदायीक रासवळ-कार्य करूंक ना. जांका आमी व्हड कोंकणी मनीस म्हणटात ते सगले 'करियरिस्ट' म्हणुनूच फुडें आयल्यात. हाचीं कारणां ते सोदतात. कोंकणी समाजाचेर एका फाटल्यान एक अशीं कितलींशींच संकश्टां कोंसळत रावलीं. म्हणून कोंकणी समाज एक समाज म्हूण रावंक शकलो ना. तो महाराष्ट्र, गोंय, कर्नाटक आनी केरळ ह्या चार वाटारांनी शिंपडलो. नव्या समाजांत 'ऊपरोच' (भायलोच) म्हणून रावलो आनी सदांच 'सेकन्ड क्लास सिटिझन' म्हणून वावुरलो. १९३९ त ह्या चारूय वाटारांतले दूरदर्शी समाजसेवक एकठांय आयले आनी तांणी कोंकणी समाजा खातीर एक व्यासपीठ तयार करून दिले. तातूंतले माधव मंजुनाथ शानभाग हे एक फुडारी. तांणी एक मंत्र आमकां दिलो. आमकां सगल्यांक जोडपी कोंकणी भाशेचो विकास सादून आमी कोंकणी लोकांचो 'एक समाज' घडोवपाक जाय. ते खातीर तांणी 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य, एक संस्कृती' ह्या सूत्रांत आमी सगले एकामेकांक गुंथून घेवंया हें सांगलें. ह्या मंत्रान एक जबरदस्त क्रांती घडोवन हाडली. कोंकणी भाशेक 'भारतांतली एक म्हत्वाची साहित्यीक भास' म्हणून साहित्य अकादेमीची मान्यताय लेगीत मेळोवन दिली. हो कोंकणी समाजान केल्लो पयलो सामुदायीक पुरुषार्थ अशें रवीन्द्रबाब मानतात. पूण अजून फुडली वाट चलची आसा. लिपयांच्यो वणटी तोडच्यो आसात, मराठीचे वटेन आशिल्ल्या कितल्याश्याच जाणांक आमी आमचे वटेन हाडचे आसात. आजुनूय आमी गोंयांत 'शुद्‌ध कोंकणीवादी' सरकार सत्तेर हाडचें आसा. ह्याच कार्याक कोंकणी मनशांनी हाचे फुडेंय ओंपून घेवचें पडटलें अशी शिटकावणी ते दितात.

### कोंकणी मराठी सहयोग

रवीन्द्रबाबांक कांय लोक मराठीचो दुस्मान–, मराठी द्‌वेश्टो मानतात. हो समज बरोबर न्हय. ते मुळा सावन कोंकणी-मराठीच्या सहयोगाच्या पक्षाचे. खंयचेंय मराठी पुस्तक मूळ मराठींत वाचपा इतली मराठी दर एका गोंयकाराक येवंक जाय ह्या मत्ताचे. कोंकणी-मराठी सहयोग आजूय शक्य आसा अशें ते मानतात. आनी ताचे खातीर पांच सत्यांय ते सांगतात. पयलें सत्य: गोंयचो समाज एकभाशी **कोंकणी** समाज हें सगल्यांनी मान्य करचें. दुसरें सत्य: ह्या एकभाशीक समाजांत कांय लोकांचो संबंध मराठी कडेन आसा. कांय लोकांचो ना. तेन्ना गोंयची भास म्हणटकच दोनूय समाजांक एकठांय हाडपी आनी एकठांय दवरपी एके समान भाशेचोच उल्लेख जावंक जाय. तिसरें सत्य: कोंकणी ही फकत ख्रिस्ती समाजाची भास न्हय, ती जशी त्या समाजाची भास, तशी ती मराठी शारदेची अखंड सेवा करपी कवी बा. भ. बोरकाराची, कथाकार लक्ष्मणराव सरदेसायाची भास आनी रवीन्द्र केळेकार, पुंडलीक नायक हांचे सारक्या मराठी परंपरेंत वाडिल्ल्या कोंकणी लेखकांची भास, हेंवूय स्विकारूंक जाय. चवथी गजाल: कोंकणी कवी बोरकाराची आनी केळेकाराची जल्मभास, तशीच आपली भास मराठी अशें म्हणपी बा.द. सातोस्कार, प्रभाकर आंगले आनी रमाकांत खलप हांचीय बी भास. आनी पांचवी, आनी सगल्यांत म्हत्वाची, गजाल: कोंकणी हेर विकसीत भासां इतली आज विकसीत नासली तरी ती एक विकसनशील भास. आजय ती नेटान विकसीत जायत आसा ही वस्तुस्थिती मान्य करून तिका 'बोली' म्हणपाचें सोडून दिवंक जाय. ह्या पांच गजालींचेर दोनूय पक्षांचें एक मत जाल्यारूच कोंकणी-मराठी सहयोग आजय शक्य आसा. हें जालें ना जाल्यार संघर्श चलतलो आनी सहयोग जावचो ना अशें रवीन्द्रबाबांचें प्रामाणीक मत्त.

### शिक्षणाचें माध्यम

भुरग्यांची आवयभासूच तांचें शिक्षणाचें माध्यम आसूंक जाय अशें रवीन्द्रबाबांचें मत्त. इंग्रजी भाशेचे म्हत्व मान्य करुनूय ते म्हणटात, इंग्रजीक लागून आमची मौलिकताय नश्ट जायत आयल्या आनी स्वतंत्रपणान विचार करपाची आमची शक्तीय तिणें ना केल्या. इंग्रजीच्या बंदेपणांतल्यान देशाक जाता तितले बेगीन मुक्त करूंक जाय. नाजाल्यार हो देश आपली सगली मौलिकताय शेणोवन बसतलो. सत्त्वशून्य जावन देशांत शिक्षीत अडाणी लोकांची एक जमात उबी करतलो आनी ही जमात स्वातंत्र्यूय शेणोवन बसतली अशें ते सांगतात. हें जातलें जाल्यार इंग्रजीचें प्रशासनांतल्यान उच्चाटन जावंक जाय. ज्ञान-विज्ञानाचें एक जनेल म्हणून ती विद्येच्या मळार रावतली. फकत **एक** जनेल म्हणून. इंग्रजी वांगडाच आमकां विद्येच्या मळार आनिकूय चार-स जनेलां दवरचीं पडटलीं. तेन्नाच इंग्रजीचें जनेल आमकां उपेगी पडटलें.

इंग्रजी आमच्या देशांत एक 'transplanted' हुमटावन काडून परतून लायिल्ली भास. तिचीं मुळां हे भुयेंत खोल वचचीं नात. ती शिकून आमी फकत 'Bonsai' (मुळां कातरिल्ले, सुपुल्ले रूख) जातले. आमी 'खुजे' भारतीयच उरतले. 'कामाचें जग' एके वटेन आनी 'ज्ञानाचें जग' दुसरे वटेन अशें हें विखंडाचें जग इंग्रजांच्या काळा सावन सुरू जाल्लें. आमचे राज्यकर्तेय तेंच जग कायम जावचें म्हूण वावुरतात. हाका लागून १० लोक शिक्षीत आनी ९० लोक अशिक्षीत कायमचे उरतात. हें प्रमाण बदलचें न्हय असो निर्धार आमचे राज्यकर्ते करतात आनी 'शिक्षणतज्ज्ञ' तांच्या ताटां पोंदचीं माजरां जातात अशी टिप्पणी रवीन्द्रबाब आयचे भारतीय शिक्षण पद्‌धतीचेर करतात.

शिक्षणांतल्या नव्या प्रयोगांची म्हायती करून दिवपाक रवीन्द्रबाबान *नवी शाळा* (१९६२) ह्या गिजुभाई बधेकांच्या मूळ गुजराती पुस्तकाचो कोंकणींत रुपकार केला. तें पालकांनी मुजरत वाचचें. (*दिवा स्वप्न* हें गिजुभाईचें मूळ गुजराती पुस्तक, नॅशनल बुक ट्रस्टान ह्याच पुस्तकाचो रवीन्द्रबाबान कोंकणी अणकारूय करून




**मंगेश पांडगांवकार. 'गोमन्त शारदा पुरस्कार' भेटयतना.**

घेतला आनी तो *दिसा सपन* ह्या नांवान ... वर्सा उजवाडा आयला.)

संवसारांतलो खंयचोच स्वाभिमानी देश विदेशी भाशां मार्फत आपले शिक्षणीक, सांस्कृतीक आनी प्रशासकी वेव्हार चलयना. फकत भारतीयच हें करतात. कित्याक, आमकां स्वाभिमान ना. आमी वर्सां संकिनी गुलाम आशिल्ल्यान आजून गुलामींतूच रावतात. इंग्रजी गुलामीची भास आशिल्ली आनी आजूय ती आसा. व्हियेतनाम, टांझानिया, लिबिया सारक्या देशांनी स्वतंत्र जातकीच आपल्याच भासांतल्यान सगलो वेव्हार चलोवन, आर्थीक आनी राजकी स्वातंत्र्या बरोबर आपलें भाशीक आनी सांस्कृतीक स्वातंत्र्य राखून दवरलें. हीच देख आमी घेवची अशी रवीन्द्रबाबांची आमकां सांगणी.

### साहित्यीक रवीन्द्रबाब

रवीन्द्रबाबांचें साहित्य नियाळटकीच नदरेंत भरता ती तांच्या साहित्य विस्ताराची लांबाय रुंदाय, आशयाची अगडताय, तांच्या विशय-कॅन्वासाची भव्यताय आनी तांणी हाताळिल्ल्या विशयांची विपुलताय. तांची शैली एका फिशाल चित्रकाराची. ब्रशाच्या साप्प थोड्या फटकाऱ्यांनी चित्रकार जशें रंगयाळें आनी चित्तवेधक चित्र पितारता, तशे रवीन्द्रबाब आपल्या मेजक्याच उतरांनी सहजतायेन साहित्य-सृजन करतात. तांच्या उतरांनी कसलोच नेट ना, आवेश ना, दोळे दिपकावपी फोग ना, पुणून जेन्ना ते कितेंय बरयतात, तांची उतरां तांच्या विचारां कडेन एकरूप जावन, वाचतल्यांच्या मनांत ल्हवू ल्हवू झिरपतात आनी तांच्या मनाचो थाव केन्ना आनी कशीं घेतात तें तांकांच कळना.

१५ ऑगस्ट, १९५३ ह्या दिसा वर्ध्याक सावन 'मीर्ग' हें पंद्रशी कोंकणी नेमाळें सुरू करत सावन रवीन्द्रबाब फाटलीं ५४ वर्सां नेमान बरयत आयल्यात. आपली लिखणी तांणी कोंकणीचो प्रस्न मांडपा खातीर आनी कोंकणी समाजाचें प्रबोधन करपा खातीर झरयल्या. हेर पुस्तकां वांगडाच तांणी 'जाग' ह्या कोंकणी म्हयनाळ्यांतसून, 'सुनापरान्त' ह्या कोंकणी दिसाळ्यांतसून आनी 'नवप्रभा' ह्या मराठी दिसाळ्यांतसून सदरां चलोवन समाज प्रबोधन केलां. तांणी कोंकणी, मराठी, गुजराती आनी हिन्दी ह्या भासांतल्यान बरयलां. तेच बरोबर काव्य सोडल्यार साहित्याचे सगले प्रकार तांणी समर्थपणान केळयल्यात.

कोंकणीचो प्रस्न आनी ताचें म्हत्व मांडपा खातीर तांणी *आमची भास कोंकणीच* (१९६२), *शाळेंत कोंकणी कित्याक* (१९६२), ह्यो पटयो बरयल्यो, जाल्यार पुराय देशाच्या भाशीक, सांस्कृतीक इतिहासाच्या संदर्भात कोंकणीचो प्रस्न मांडपी *भौ भाशीक भारतांत भाशेचें समाजशास्त्र* (१९७४) हीं पुस्तिकां बरयली. मराठी भाशेंतल्यान *कोंकणीचें राजकारण* (१९६४) ही पुस्तिका बरोवन तांणी मराठी मनशा खातीर कोंकणीच्या प्रस्नाच्या राजकी आंगाची विसकावणी केली. तांच्या भाशा विशयक चिंतपाचो थाव दिवपी *भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र* हें मराठींतलें पुस्तक रोखडेंच येवपाचें आसा. गांधींच्या जिविताची आनी सत्याग्रहाची कोंकणी वाचप्यांक वळख करून दिवचे खातीर तांणी *सत्याग्रह* (१९५५) आनी *अशे आशिल्ले गांधीजी* (१९६०) हीं पुस्तकां बरयलीं. *कथा आनी काणयो* (१९६१) ह्यो कांय रुपक कथा, *तुळशी* (१९७१) ही नवलिका, *भज गोविन्दम* (१९७३) ही शंकराचार्याच्या एका स्तोत्राची अर्थावणी, *उजवाडाचे सूर* (१९७३) हे कांय लळीत निबंध, *हिमालयांत* हें भोंवडे वर्णन, *सांगाती* (१९७७), हीं चिंतना, *राजाराणी* (१९७९) हें भुरग्यां खातीर काणयेचें पुस्तक, *समिधा* (१९९६) हे वैचारीक लेख, *तथागत* (१९९८) हें गौतमबुद्धाचें जिवीत आनी तांचे सांगणे विशींचें अभ्यासपूर्ण पुस्तक, *ओथांबे* (१९९९) हीं चिंतनां, *सर्जकाची आंतरकथा* (२०००) हो तांच्या बरोवपा फाटले प्रेरणे संबंदाच्या लेखांचो संग्रह, *अथळ पथळ* (२००५) हो निबंध संग्रह, *भारत वर्षाची संस्कृतायेची साधना* (२००५) हें भारतीय संस्कृतायेचे समन्वयाचे साधनेचेर भाश्य करपी पुस्तक, *धुस्पल्लें जानवें* (२०००) हो वैचारीक निबंध-संग्रह अशीं साबार पुस्तकां बरोवन तांणी कोंकणी सरस्पत गिरेस्त केल्या आनी तिका कितलेशेच नवे आयाम दिल्यात.

ह्या पुस्तकां भितर लळीत साहित्याचे नदरेन मनाक ओड लावपी पुस्तक म्हळ्यार *हिमालयांत*. हें हिमालयाच्या वाटारांत केल्ले भोंवडेचें रोसाळ वर्णन. ही तांची 'aesthetic journey' आमकां हिमालयाच्या अध्यात्माच्या वाऱ्याचें आनी कवी-नदरेन तांणी केल्ले भोंवडेचें मनभुलोवणें दर्शन घडयता. रवीन्द्रबाब बरयतातः "पुणून हिमालयांतलें वारेंच अध्यात्माचें ताका हांव कितें करूं? तें मनाचेर

परिणाम केले बगर रावता व्हय? तुजी बुद्द कितलीय फातराळ आसूं, ती हांगा मोव पडटा. मोव पडली म्हणटकूच हिमालय तिका दिक् आनी काल हांचे पेल्यान भोंवडावन हाडटा आनी तिका सनातन तत्त्वांची वळख करून दिता. आत्मो आसा काय ना, हे विशीं तुज्या मनांत दुबाव आसूं, हिमालय तुका दाखोवन दिता, संवसारांत केन्नाच ना जायना असलें कितेंय आसा जायत जाल्यार तें एकूच - आत्मतत्त्व. जो संवसार तूं चोंयवशींनी पातळ्ळेलो पळेता तो ताची सांवळी, ताचें भायलें रूप. तुज्या अंतस्कर्णांतल्या अंतस्कर्णांत तेंच आसा आनी भायर हें जें सगळें दिसता तातुंतूय तेंच आसा. इतलेंच न्हय, तर हिमालय तुका सांगता: तूं आनी तें एकूच. तें आनी हें सगळें एकूच. तूं आनी हें सगळें एक....'' *(हिमालयांत,* पान ४७) न गाधिराज हिमालयाची आनीक बरी वळख आमकां रवीन्द्रबाबां शिवाय कोण करून दीत आशिल्लो?

*उजवाडाचे सूर* ह्या पुस्तकांत ते आमकां जिविताच्या मळार खंय तरी खोल खोल ओडून व्हरतात आनी आमकां जें दिसता ताचे फाटल्यान जें 'आसा' त्या सत्य-शिव-सुंदराची वळख करून दितात. आपल्या अंत्रूज म्हालाची वळख ते आमकां करून दिवन मंत्रमुग्ध करतात: ''आमची अंत्रूज म्हळ्यार 'अनंतउर्जित'. भर गिमांत लेगीत पांचवीचार. पुणून चोय वशिंनी दोंगरांनी वेश्टिल्ली. हाका लागून सकाळचो जावं वा सांजवेळचो जावं तांबडो सूर्य आमकां पळोवंक मेळना. हांगा सूर्य दोंगराफाटल्यान देंवले उपरान्तूच सुर्यास्त जाता. पुणून जेन्ना वयलें मळब तरेतरेचें रंग शिंपडायता, तेन्ना दोंगरूय मस्तींत आयिल्लेवरी दिसतात तांची मस्ती पळोवन 'हांकां मस्त करपी सूर्य खंय लिपला' हे पळोवपाखातीर कांय काजी तांचे फाटीर चडटात. त्यो चडून वयर पावचे पयलींच मळब दुसरो रंग पांगुरता. हो निळोय रंग न्हय, गोबरोय न्हय, काळोय न्हय. हाका नांवूच ना. हांवें ताका 'प्रार्थनेचो रंग' हें नांव दवरलां. ह्या रंगाचेर केन्ना केन्ना हय-न्हय-शीं शेंदुरी रंगाची एक रेग दिश्टी पडटा. पूण ती खिणावयर रावीच ना. अश्यावेळार प्रार्थना करपाची वान्सा जावंक जाय. वेदांतल्या रूशींक असल्या वेळार मंत्र 'दिसल्यात' जावंक जाय.'' अशें हें सुंदर वर्णन वाचतकीच कोण म्हणटलो रवीन्द्रबाब कवी न्हय म्हणून?

रवीन्द्रबाब सदांच विद्यार्थ्याचे भुमिकेंत वावुरतात. नवे नवे विशय ते शिकतात, तातूंत रस घेवन रमतात, खोलायेंत भितर देंवतात आनी मागीर त्या विशयाचेर एक पुस्तक बरोवपा इतलें ज्ञान ते जोडटात. *ब्रह्मांडांतलें तांडव* (१९८०) हें नक्षत्रविद्ये वयलें पुस्तक बरोवन तांणी एक क्रान्तीच केली. बाकीबाबान ह्या पुस्तकाक 'महाकाव्य' अशें संबोधून ताची व्हडवीक गायली. एका महाकवीन केल्ली दुसऱ्या महासाधकाची तोखणाय रवीन्द्रबाबांचो वावर जुस्त मोलायता.

रवीन्द्रबाब भारतीय संस्कृताय आनी भारतीय मानसाची खोलायेन विसकावणी करपी एक थोर आचार्य. *महाभारत* (१९८५) ह्या महाकाव्याचें दोन खंडांत अनुसर्जन करून, (८७४ पानांचो एक व्हडलो ग्रंथ कोंकणी साहित्याक दिवन ताका ऊंच पांवड्यार व्हरून दवरलें. भौतेक सगळ्या भारतीय भासांनी 'महाभारता'चीं भाशांतरां वा रुपांतरां जाल्यात. पुणून रवीन्द्रबाबांच्या अनुसर्जनाचीं कांय खाशेलेपणां आसात. तांणी व्यासाचे प्रतिभेचो थाव घेवपाचो यशस्वी प्रयत्न केला. हें अनुसर्जन पुणेच्या भांडारकर प्राच्य विद्या मंदिराचे संशोधीत प्रमाण आवृत्तीच्या आधारान केलां. हे आवृत्ती खातीर देशविदेशांतले विद्वान पन्नास-साठ वर्सां वावुरल्यात. देखून, कोंकणी महाभारत सामकें नवें ताल्ल आनी प्रमाण 'महाभारत' जालां. आनी देखून ह्या कोंकणी *महाभारता*चो इंग्रजी आनी हेर भारतीय भासांतल्यान अणकार करपाचो वावर साहित्य अकादेमी आनी गोवा कोंकणी अकादेमीच्या जोडपालवान जावपाक जाय. हें अनुसर्जन करून रवीन्द्रबाबांनी कोंकणी भासूच न्हय तर कोंकणीची शैलीय गिरेस्त केल्या.

१९८७ वर्साच्या ५ सप्टेंबर ह्या शिक्षक दिसा, ह्या महान ग्रंथाचें विमोचन तेन्नाचे पंतप्रधान राजीव गांधींच्या हातांतल्यान जावचे पयलीं रवीन्द्रबाबांनी कोंकणीची केस संक्षेपान तांचे मुखार व्यासपिठा वेल्यान मांडिल्ली. हाका लागून १९९२ वर्सा कोंकणीचो आसपाव भारतीय संविधानाचे आठवे वळेरेंत सोंपेपणान जावंक पावलो. *महाभारताचो विमोचन* सुवाळो पळोवचेलें भाग्य जांकां मेळ्ळें, त्या भाग्यवंतांत हांव एक आसलों. त्या दिसा सगल्या कोंकणी भक्तांचीं हड्डीं अभिमान फुलून आयिल्लीं.

रवीन्द्रबाब हे प्रज्ञावादी भारतीय विचार परंपरेंतले एक आर्विल्ले आचार्य. पुर्विल्ल्या भारतांतूच दैववादी विचार परंपरे आड वावुरपी प्रज्ञावाद नांवाचें मत्त उबें राविल्लें. नशिबांत आसा तशें घडटा जायत. पुणून प्रज्ञा जागी दवरून मनीस आपल्यो करण्यो करीत जाल्यार, ताच्यान आपलें भाग्य खात्रीन बदलूं येता अशें सांगपी हें मत्त. *तीन पावलां प्रज्ञावादाची* (२००५) हें भोवच मोलादीक पुस्तक बरोवन रवीन्द्रबाबांनी प्रज्ञावादाच्या उजवाडांत मनशान आपलें जिवीत कशें सारचें हें उकतें केलां. ताचे खातीर रवीन्द्रबाबांनी *धम्मपद, विदूरनिती* आनी *भगवद्गीता* हीं तीन पुस्तकां वेंचून काडून तांचेर भाष्य बरयलें. मनशान आपलें निजी जिवीत कशें नियंत्रीत करचें हें धम्मपद सांगता; समाजांत कशें चलचें हें *विदूरनिती* सांगता; आनी अध्यात्माच्या घुस्पागोंदळाच्या जाळ्यांतसून सुटका कशी करून घेवची हाचेर भगवद्गीता उजवाड घालता. ह्या उजवाडांत चलपी मनीस दैववादी केन्नाच जावचोना. आनी धर्मनितीच्या पिसायां फाटल्यान लागून खंयचे खंय व्हांवन केन्ना वचचो ना अशें रवीन्द्रबाब आमकां शिकयतात. पुर्विल्ल्या आनी आर्विल्ल्या भारतीय आचार्यांनी *ब्रह्मसूत्रां, भगवद्गीता* आनी *उपनिषदां* - हे प्रस्थानत्रयीचेर- मोक्ष सादचेल्या तीन ग्रंथांचेर - भाष्यां बरोवन समकालीन समाजाक दिशा दाखयली. रवीन्द्रबाब हेच परंपरेंतले आर्विल्ले आचार्य. तांचे हे नवे प्रस्थानत्रयींत तांणी गीते बरोबरच धम्मपद आनी विदूरनिती ह्या दोन ग्रंथांचो आसपाव केला. प्रज्ञावादाक आपणावन आमचो समाज निवृत्तीमार्ग सोडून प्रवृत्तीमार्गान वतलो आनी आपलें होगडायल्लें मानस (psyche) जोडून पर्थून तेजिश्ट जातलो असो तांचो विस्वास. आमचो मोक्ष, आमचें निर्वाण, आमचें सालवासांव आमच्याच विचारांनी आनी प्रयत्नांनी आमी *'ह्याचि देहीं, ह्याचि दोळां'* पळोवंक पावतले हे गजालीचेर तांणी ह्या ग्रंथांत भर दिल्या. आमची मन:शांती आमचेच ठांय आसा हें आमकां रवीन्द्रबाबांनी दाखोवन दिलां.

रवीन्द्रबाबांनी कोंकणी बरोबर मराठी आनी हिन्दींतूय साहित्य निर्मणी केल्या. मराठींत *जपान जसा दिसला* (१९७०) हें भोंवडे वर्णन बरयलां. त्या पुस्तकाची तोखणाय भौ. विजया राजाध्यक्ष हे समिक्षिकेन 'एक उत्कृष्ट भोंवडे पुस्तक' म्हूण केल्या. *ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत* (१९७०) ह्या पुस्तकांतल्यान तांणी संवादाच्या माध्यमांतल्यान काकासाहेब कालेलकरांची वळख मराठी वाचप्यांक करून दिल्या. हें पुस्तक वाचून मराठी लोकांच्या मनांत काकासाहेबां विशीं आशिल्ले गैरसमज पयसावपाक मदत जाल्या.



बस्ती वामण शणै, 'टी. एम्. ए. पै प्रतिष्ठाना'चो पुरस्कार भेटयतना

हें ह्या पुस्तकाचें व्हडलें यश मानूंक जाय. हें पुस्तक म्हळ्यार एक आर्विल्लें उपनिषद. हातूंत ऋषीतुल्य काकासाहेब आपलो शिष्योत्तम रवीन्द्रबाबाक म्हऱ्यांत बसोवन जीवन दर्शन घडयतना दिसतात.

स्वतंत्र लेखना वांगडाच रवीन्द्रबाबांनी कितल्याश्या पुस्तकांचे अणकार केल्यात. ते भौ भाशी अणकारपी. कोंकणी वांगडाच तांचें हिन्दी, मराठी आनी गुजराती ह्या भासांचेर प्रभुत्व आशिल्ल्यान तांणी गुजराती-हिन्दी, हिन्दी-गुजराती, गुजराती-कोंकणी, हिन्दी-कोंकणी अशे अणकार समर्थकायेन केल्यात. *महात्मा* (१९५५), *मानवताके झरने* (१९५५), *सगळे आमी भावभाव* (१९५५), *हिन्दू धर्म म्हळ्यार कितें* (१९५५)हे तांणी केल्ले कांय नांवाजिल्ले अणकार.

काकासाहेब कालेलकरांच्या सांगातान राविल्ल्यान रवीन्द्रबाबांच्या जिविताचेर विलक्षण प्रभाव पडलो. काकासाहेबांनी केल्ली तेजस्वी जिविताची उपासना- प्राणाची, तेजाची साधना, तशेंच पुरुषार्थाची प्रेरणा तांकां भावल्या. जें सत्य दिसता ताचे खातीर परिणामांची पर्वा करिनासतना प्राण ओंपपाची प्रेरणा काकासाहेबांनी तांकां दिली. रवीन्द्रबाबान आपल्या कोंकणीच्या वावरान हें सिद्ध करून दाखयलें. काकासाहेबांचीं १६ वयर पुस्तकां तांणी संपादीत केल्यांत, तशेंच महात्मा गांधींची स एक पुस्तकां 'नवजीवन प्रकाशन मंदिरा'खातीर संपादीत केल्यांत.

रवीन्द्रबाबान *काकासाहेब कालेलकर -अधिकृत जीवनी* (१९९०) हें हिन्दींत बरयल्लें ६१२ पानांचें चरित्र भारत सरकाराच्या प्रकाशन विभागान उजवाडयलां. तरेकवार तासांचें काकासाहेबांचें व्यक्तित्व वाचप्या मुखार घसघशीत उबें करपी अशें हें चरित्र. निखटें काकासाहेबांचें बरप वाचून आनी संशोधन करून बरयल्लें न्हय. ह्या चरित्राक तांगेल्या सान्निध्यांतल्यान मेळिल्ले अनुभूतिची जोड आसा, खोलाय आसा.

ह्या पुस्तकाचे अणकार मराठी आनी गुजराती ह्या भासांतल्यान जाल्ल्यान रवीन्द्रबाब हिन्दी, मराठी आनी गुजराती साहित्य संवसारांत पावल्यात. तांची साहित्यीक बांधिलकी फकत कोंकणी कडेन आशिल्ली. तांकां मराठी, हिन्दी आनी गुजराती ह्या तिनूय भासांतले यशस्वी लेखक जावंक येतालें. पूण कोंकणींतल्यानच बरोवप हेंच ताचें मिशन जाल्ल्यान, वेगळ्या वेगळ्या भासांनी बरोवन अदीक लोकां मेरेन पावपाचो मोह तांणी जाणविकायेन टाळ्ळो. कोंकणी समाजान तांचो हो त्याग केन्नाच विसरूंक फावना. पूण हेर भासांतल्यान तांणी केल्ल्या वावराक लागून ते आंतरभारतीचे दूत जाल्यात. आपल्या साहित्यांतल्यान ते सदांच नवे नवे विचार दीत आयल्यात. गांधी विचाराचे, तशेंच भारतीय संस्कृतायेचेय एक भाष्यकार जावन, कोंकणी समाजा मुखार एक नवी देख दवरुपा खातीर ते जिवीतभर वावुरल्यात. *महात्मा गांधी - एक जीवनी* हें गांधीचरित्र बरोवन तांणी गांधी जिविताचे नवे नवे आयाम दाखयल्यात. १९८५ वर्सा दिल्लींतले कॉंग्रेस शताब्दी समारोह समितीन तांचे कडल्यान हें गांधीचरित्र हिन्दींत बरोवन घेतलें. हाचे वयल्यान गांधी जीवनाचेर आनी विचारांचेर देशांतली एक अधिकारी व्यक्ती म्हूण तांकां मान आसा हें सिद्ध जाता. एक विचार ह्या रुपांत गांधींचें जिवीत विसकावन सांगपाचो तांणी यत्न केला. गांधी हो तांच्या फाटल्या चाळीस वर्सांच्या अभ्यासाचो आनी चिंतनाचो विशय जाल्ल्यान गांधी विचाराचे नवे नवे आयाम दाखयल्यात. 'उकतें बंड' ह्या प्रकरणांत गांधीजींनी चालू केल्ले अ-सहकाराचे चळवळीचो उल्लेख करून अहिंसेच्या तत्त्वा विशीं म्हत्वाचे विचार रवीन्द्रबाब अशे मांडटात:

> "युगांचीं युगां चिड्डून पडिल्लो लोक हड्डे मुखार काडून चलपाक लागिल्लो. इंग्रजांच्या साम्राज्या परस जें दुसरें एक भयांकृत साम्राज्य देशांत पाळांमुळां धरून घट जाल्लें तें भंयाचें साम्राज्यूच मुळा सयत हुमटून पडिल्लें.
>
> अठराशें सत्तावना सावन एकोणीसशें सात मेरेनच्या काळांत जें घडोवन हाडपाक क्रान्तिकारी देशभक्त आंवडेताले तें गांधींचे हे असहकाराचे चळवळीन कांय म्हयन्यां भितरूच घडोवन हाडिल्लें: लोक धीट जाल्लो आनी देशा खातीर मरपाक तयार जाल्लो. कोणाचीच हत्या करी नासतना, खंयच बॉम्ब फोडी नासतना, कित्याकूच उजो घाली नासतना,

सरकार बंद उडोवं येता - लिपून रावचें पडना, उकतेपणान हें काम करूं येता म्हणपाचें लोकांक आतां पटपाक लागिल्लें. गांधींची अहिंसा ही जैनांची, बौद्धांची वा हिन्दुंची पुर्वपुरातन काळा पसून चलत आयिल्ली अहिंसा न्हय; ही वेगळे तरेची एक अहिंसा; लोकांत-बायलांत आनी भुरग्यांत क्षात्र-तेज जागोवन तांकां झुजपाक मुखार काडपी अहिंसा म्हणपाचें स्पष्ट जाल्लें.

आदले कितलेशे क्रांतिकारी आतां गांधींक येवन मेळिल्ले.

हजार लोकांकडल्यान एकाच वांगडा हजार तरांचीं कामां करून घेवपी आनी सगळ्यांचेर बारीक नदर दवरपी एक आगळे वेगळे सेनानी आतां देशामुखार उबे राविल्ले.'' (*एका विचाराची जिवीत-कथा* पानां, ९७,९८.)

'*भारतवर्षाची संस्कृतायेची साधना*' (२००५) हें पुस्तक बरोवन रवीन्द्रबाबान आमकां वेदीक युगा पसून गांधी युगा मेरेनच्या आमच्या भारतीय संस्कृतायेच्या इतिहासांत भोंवडावन हाडल्यात. हें पुस्तक प्रत्येक शाळेंत आनी महाविद्यालयांत एक अनिवार्य पाठ्यपुस्तक म्हणून लावंक जाय. रवीन्द्रबाब समन्वयाचो साधक आशिल्ल्यान ताणें भारतीय संस्कृतायेचो अभ्यास हेच नदरेंतल्यान केला. आमची संस्कृताय पोरणी जावनूय आजय जिवीत तट्टटीत कित्याक उरल्या, हेर पोरण्या संस्कृतायां भशेन ती कित्याक नश्ट जावंक ना ह्या प्रस्नांच्यो जापो तांणी ह्या पुस्तकांत सोदल्यांत. तांकां दोन जापो मेळ्ळ्यात: ''एक, जिविताच्या सगल्या आंगांक सारकेंच म्हत्व आसा अशें मानून तांचो संतुलीत विकास करीत आयल्या म्हूण. आनी दुसरी, आपणा आशी-कुशीक आशिल्ल्या सगल्या वंश कुळांच्या लोकांक आपणा वांगडा घेवन मुखार चलत रावल्या म्हूण.'' आपल्या ह्या मोलादीक पुस्तकांत ते वेदीक काळांतल्या आर्यां पसून आयज मेरेन चलतले समन्वयाचे प्रक्रियेचेर खोलायेन विचार मांडटात. समन्वयाचो मूळ दिश्टावो वेदीक काळांतल्या आर्यांकूच कसो जालो. हें सांगतना ते बरयतात:

''आरंभाक ते एकामेकां आड किंवाट्यान झुजले. एकामेकांक ना करपाक वावरूंक लागले. अवचीत एक दीस तांकां दिश्टावो जालो. ते म्हणपाक लागले, 'अशीं झगडीं झुजां करून आमी एकामेकांक ना करूंक पावपाचे नात. आमकां सगल्यांक इतिहासविधात्यान एकेच भुंयेर हाडून सोडल्यात जाल्यार ताचो उद्देश वेगळ्या वेगळ्या कातींच्या, रुपांच्या आनी संस्कारांच्या लोकांक एकठांय हाडटकूच कितें जाता हें पळोवपाचो आसूंक जाय. आमचे मुखार आतां एकूच वाट उरल्या. ती म्हळ्यार, एकामेकां कडेन जुळोवन घेवपाची- दुसरी वाट ना. तांणी एकामेकां कडेन जुळोवन घेवपाचें व्रत घेतलें. जंय जुळोवन घेवप सामकेंच कठीण-शें दिसलें थंय तांणी थारायलें, आमी वेगळे वेगळे, पुणून एकामेकां शेजारा रावंया. कोणाकूच आपलें आगळे-वेगळेपण सोडपाची गरज ना. पुणून कोणेंच कोणाच्या जिवितांत आडखळी हाडच्यो न्हय. वेगळ्या वेगळ्या काती-रुपांच्या, वेगळ्या वेगळ्या चाली-रितींच्या, वेगळ्या वेगळ्या धर्म-संस्कारांच्या लोकांक एकठांय दवरपाचो हो जो प्रयोग आमगेल्या म्हालगड्यांनी आपणाल्या इतिहासाच्या आरंभाक केला तातुंतल्यान जाती जल्माक आयल्यो. समाज संघटनेचे नदरेन तांगेलो हो प्रयोग खूब म्हत्वाचो, खूब मोलाचो आशिल्लो. ह्या प्रयोगाक लागून वंशा-वंशा मजगतीं जीं झगडीं-झुजां चलतालीं तीं सगल्यांत पयलीं सासणाचीं सोंपलीं आनी तीं सोंपिल्ल्यान देशांत एकेतरेचे सवस्तकायेचें... शान्तिमय सहअस्तित्वाचें, 'पीसफूल को-एग्झीस्टंस'चें एक वातावरण निर्माण जालें.

''आमच्या भारतीय संस्कृतायेची ही साधना मागीर बौद्ध काळांतय चालू उरली. ह्या काळांत आयिल्ले भायले - यवन, शक, पहलवी, कुशाण - कालांतरान भितरले जाले, हांगाच रावले, कोण बौद्ध जाले, कोण वैष्णव जाले. आमची संस्कृताय घडोवपाक हांचोय हातभार लागला... 'विक्रमसंवत' हांचे मदल्या एका राजान सुरू केलां... मागीय मध्ययुगांत भायल्यान मुसलमान आयले आनी सात शतमानां राज्य करून हांगचेच जाले. मुसलमान आसुनूय तुर्की, पंठाण, मोगल, अरबांचे नदरेन ते आजुनूय 'हिन्दी'च उरल्यात. हांकां भारत सोडून दुसरो देश ना.

''भास, भेस, जेवण-खाण, शिष्ठाचार, साहित्य, संगीत, कला, स्थापत्य, आमचे संस्कृतायेच्या एकान एक आंगांत मुसलमानांचें योगदान पळोवंक मेळटा. हिन्दुंच्या भक्ती संप्रदायाचेर लेगीत मुसलमानी सूफी संप्रदायाचो प्रभाव दिश्टी पडटा.

''भारतीय संस्कृतायेची साधना हांगाच थांबिल्ली जाल्यार ती अर्दकुटीच उरतली आशिल्ली. इतिहास-विधात्याक ती अर्दकुटी उरिल्ली नाका आशिल्ली म्हूण जावंये, मुसलमानी शेक हांगा चलिल्लो आसतनाच ताणें येवरोपेवांक हांगा हाडून सोडले. पयले पुर्तुगेज पावले, मागीर डच आनी फ्रेंच आयले, निमाणे इंग्रज आयले.

''येवरोपेवां मदीं इंग्रज सगल्यांत चड कर्तुत्वी थरले. रेल्वे, पोस्ट, टेलेग्राफ, महामार्ग असलें एक जाळें विणून तांणी पुराय देस पयलीं एक केलो. मागीर सगले कडेन एकेच तरेचे कायदे, एकेच तरेचें प्रशासन (इंग्रजींत), एकेच तरेचें चलन, एकेच तरेचें शिक्षण (इंग्रजी माध्यमांतलें) चलयलें आनी हो विस्कळीत देश तांणी एका 'राष्ट्रांत' गुंथून काडलो. येतना ते आपले वांगडा एक धर्म (खिस्ती) घेवन आयिल्ले. कांय जाणांक तांणी बाटोवन खिस्तीय केले. पूण त्या खिस्ती धर्मा भायर ते येवरोपांतलो 'रेनेसांस' काळांतलो उदार मतवादी विचारूय घेवन आयिल्ले. तो खिस्ती धर्मा परस चड प्रभावी आशिल्लो. जे खिस्ती जाले नात, तांणी हो विचार घेतलो.

''ह्या विचारांचें म्हत्व वळखुपी तीग म्हापुरूस त्या




'लोकसत्ता'चे संपादपी कुमार केतकरां वांगडा

काळांत देशांत आशिल्ले. एक, राजाराम मोहन राय, दुसरे न्यायमूर्ती महादेव गोविंद रानडे आनी तिसरे, स्वामी विवेकानंद. रवीन्द्रनाथ, अरविन्द, गांधी हांच्याच संस्कारांत वाडल्यात. परिणाम- देशांत सुधारकांचो नवो वर्ग वयर सरलो तांणी वेगळ्यो वेगळ्यो चळवळी चलयल्यो आनी हिन्दू धर्मविचारांतूय निवळावणी सुरू केली... मागीर देशाक स्वराज्य मेळचें म्हुण्णूय लोक वावरूंक आनी झुजूंक लागले. विचारांचे शक्ती आड इंग्रजांची सत्या मोव पडली. पूण स्वराज्याचे चळवळीक आडखळ हाडपा खातीर तिणें आमच्या समाजीक जिवितांतल्यो सगल्यो भेगो, चिरो, वेरो सोदून तांकां पोसवण दिवन आमचे मजगतीं फूट घाली. परिणामीं, स्वराज्य आमकां मेळ्ळें पूण तें देशाच्या विभाजनाचें मोल दिवन.''

रवीन्द्रबाब आपल्या ह्या म्हत्वाच्या पुस्तकांतल्यान आमकां समन्वयाचो विचार सांगतात आनी विंगड विंगड प्रदेशांचें, भासांचें, धर्मांचें खेरीतपण राखुनूय आमी भारतीय म्हूण सुखान नंदपाक जाता हो संदेश आमकां दितात. हो संदेश आयच्या 'Globalization' वैश्वीकरणाच्या काळांतूय भोव म्हत्वाचो.

### हिन्दू समाज

हिन्दू समाज होवूय रवीन्द्रबाबांच्या चिंतनाचो एक मुखेल विशय. हिन्दू समाजांत भेदांची तत्त्वां घे म्हूण भरल्यांत. ह्या तत्त्वांक लागून हिन्दू समाज विस्कळीत जाला. पुणून तेच बरोबर हिन्दू धर्मसाधनेंत समन्वयाचें तत्त्व सदांच नेटान काम करीत आयलां. समन्वयाचें तत्त्व नाशिल्लें जाल्यार हिन्दू समाज ना जावन वतलो आशिल्लो अशें तांचें स्पश्ट मत. ते हिन्दू आशिल्ल्यान आपलें घर निवळ करप ही आपली लागणूक मानतात. धर्मा भितल्लो कोयर आनी घयरांव सान्न मारून भायर उडोवपाचें कर्तव्य प्रत्येक हिन्दूचें. हाचे खातीर ते जाती जाती भितर संवाद सादपाचेर भर दितात. 'जातीय' व्यासपिठा वेल्यान आपले विचार मांडपाक अनमननात. आमच्या धर्मगुरूंक अद्यावत शिक्षण दिवपाचे गरजेचेर भर दितात. जण एकल्याक आपलीं धर्म-पुस्तकां दोळे उकते दवरून वाचूंक येवंक जाय अशें तांचें म्हणणें. सद्धा कुड्डी आसूंक फावना. विवेकाचे कसवटणेक जें उतरना तें मोन्यांनी घेवपाक आमका कोणूच सांगिना. जें पटना तें घेवचो ना अशें म्हणपांतूच मनशाच्या मनीसपणाचें व्हडपण आसा अशें ते मानतात.

ही निखट्या बुद्दीवाद्यांची रीत न्हय. वेदांतले ऋषीय आमकां आमच्या आचारांत जें बरें आसा तेंच घेयात म्हूण सांगताले हाची याद रवीन्द्रबाब आमकां करून दितात. गौतम बुद्ध हिन्दू धर्माचो व्हडांतलो व्हड 'reformer' हें सांगपा खातीर रवीन्द्रबाबान *तथागत* हें बुद्ध चरित्र आमकां दिलां. बुद्धान तर आमकां स्पश्टच सांगिल्लें: 'हांव जें कितें सांगतां तें हांव सांगतां म्हूण मानून घेवं नाकात. तुमचे बुद्धीचे कसवटणेर तें घांसून पुसून पळेयात आनी थंय खरें उतरलें जाल्यारूच तें घेयात. शंकराचार्य विचारतालो, ''उजो शितळ म्हूण तुमकां सगल्या श्रुतींनी धरुंया सांगलें जाल्यार तुमी तें खरें मानतले व्हय?'' अश्यो देखी दिवन ते हिन्दू समाजाक आमचे बरे परंपरे कडेन व्हरतात. धर्मग्रंथांच्या मळार 'प्रामाण्यबुद्धी' आसूंक फावना. काळजांत उदेल्ल्या सत्या कडेन ती आसची. आमी फकत सत्याक एकनिश्ठ रावचें. मागीर सत्यूच इल्लें इल्लें करून आमचे मुखार अदीक स्पश्ट जायत रावतलें -The spirit of truth will lead us to all Truth हाची जाणीव ते आमकां करून दितात.

हाचे खातीर संवाद म्हत्वाचो अशें रवीन्द्रबाब मानतात. संवादानं सुसंवाद घडून येता. आनी मनां जुळपाक, वेगळ्या वेगळ्या विचारांच्या लोकांक, एकामेकांक समजून घेवपाक, लागीं येवपाक मदत जाता. हाचे खातिरूच तांकां आपयल्यार ते खंयच्याय पंथाच्या, जातीच्या, धर्माच्या व्यासपीठाचेर वचून आपले विचार मांडपाक फाटीं फुडें जायनात. विज्ञान आनी बुद्धीवाद ह्यो दोन तरसादी हातांत घेवन कोणूय मुखार सरत जाल्यार देवाधर्माच्या नांवान चलिल्ल्यो सगल्यो पिसायो ना करून उडोवं येतल्यो. धर्म सुधारपाचो होच एक उपाय.

हाचे खातीर सर्वधर्मसमभाव आपणावपाक जाय. संप्रदायवाद Communalism आमी सोदूंक जाय.

धर्मा धर्मा मजगतचीं धुमशेणां आळाबंदा पुरायपणान हाडपाची तांक जशी विज्ञानांत ना, बुद्धीवादांत ना, तशी सेक्युलरिझमांत ना. - सर्वधर्मउपेक्षा- भावांतूय ना फकत धर्मसमन्वयाच्या तत्त्वांत आसा.

रवीन्द्रबाबांच्या साहित्याचो आनी विचारांचो समाजाचेर कसलो प्रभाव पडला हाचो थाव घेवपाक हांवें कांय जाणां कडेन चर्चा केली. आपल्या ल्हानपणांत सावन तांकां पळोवपी एक तरणाटो म्हणटा:

''हांव कोंकणी, मराठी, इंग्लीश आनी हिन्दी भासांतली पुस्तकां आनी नेमाळीं वाचतां. रवीन्द्रबाब हो एकूच लेखक जो सोंपे आनी सुटसुटीत भाशेंत बरयता. तांची भास रोसाळ, प्रासादीक, म्होंवी. वाक्यां ल्हान. कुकूलीं. तांची शैली म्हाका भुलयता. म्हाका दिसता, हांवेंय अशेंच बरोवचें. हो केदो प्रभाव... तांचें *महाभारत* हातांत पडना फुडें म्हजे आवयन एकाच धपक्यान तें वाचून काडलें. हातूंतूच लेखकाचें यश आसा. तांची कोंकणीची भक्ती, गोंयचो मोग, पर्यावरणाची कदर, पुस्तकांचें प्रेम, साहित्या विशींची नदर ह्या सगल्यांचो प्रभाव आमचे पिळगेचेर आसा. आमची घडण आनी पोसवण ह्याच घटकांचेर जाल्या.''

भोवजन समाजांतलो एक पत्रकार साहित्यीक म्हणटा:

''रवीन्द्रबाबांचें साहित्य गोंयचें पुरतेंच मेरावल्लें,ना तर तें भारतीय लोकांकय मानवता. तांचेर प्रभाव घालता. आपल्या साहित्यान आनी विचारान कोंकणी समाजाक भारतीय समाज म्हूण घडोवपाक तांणी आधार दिला. गांधी विचार, बौद्धमत, हिन्दू विचार आनी हेर विचारधारांची वळख करून दिवन कोंकणी समाजाक विवेकी करपांत तांचो हात आसा.''

संवसारीक पांवड्याचो एक कोंकणी कादंबरीकार सांगता:

''हांव कोंकणी कडेन आयलों, तेन्ना कोंकणीच्या मळार रवीन्द्र केळेकारां सारकें हिमालया येदें उत्तुंग व्यक्तीमत्व आसा हें जाणून हांवें बरीच उभारी घेतली. रवीन्द्रबाबान कोंकणी साहित्यीक चळवळीक सत्याचें, वैचारीकतेचें आनी बुद्धीनिष्ठपणाचें अधिष्ठान दिलें. ताचेन कोंकणी चळवळ,जात, धर्म, अंधस्रद्धा हांचे पेल्यान एक निश्कलंक चळवळ म्हण मुखार आयली.''

रवीन्द्रबाबान भारी कश्ट उपसून, अंत:प्रेरणेचे उर्बेन - ज्ञानसाधनेचो दिवो पेटोवन तो फाटलीं स दसकां तेवत दवरला. ते आपलो वावर एक व्रत म्हणून करीत आयिल्ल्यान ते ज्ञान तपस्वी साधक जाल्यात. धर्मानंद कोसंबी, मोंसिन्योर दाल्गाद आनी शणै गोंयबाबांची ज्ञानसाधनेची परंपरा ते निश्ठेन फुडें चलयतात. तांकां पळेतकच भुंयेचेर घट्ट पांय रोंबून राविल्लो मनीस म्हाका दिसता. आपल्या ध्येयाची मोख अर्जुनाचे नदरेंतल्यान ते आजुनूय पळेतात. आपले 'रायटर-फायटर'चे भुमिकेंतल्यान आपूण पयशेकार केन्नाच जावचोना, पूण आपले आसपतीचे मर्यादेंत जीण सारतना, आपूण कसलीच तात्त्वीक तडजोडूय करचोना... हे निश्ठेन ते जिणे कडेन अलिप्ततायेन पळेतात.

रवीन्द्रबाब एक ग्रहस्थ धर्मी गोंयकार. तांचे हे जीवनयात्रेंत तांची सहचारिणी गोदुबाय तांकां आनंदान सांगात दीत आयल्या. घरांत आयिल्ल्या गेल्ल्याची प्रेमान सरबराय करतना तिणें आनी रवीन्द्रबाबांच्या घरच्यांनी कांयच उणें पडूंक दिना.

एकलव्याचे निश्ठेन आनी व्यासंगान तांणी जोडिल्लें ज्ञान ते मुक्त हस्तान वांटीत आसात. तातूंत किरपणपणांत नात. ज्ञानाचो उपेग समाज प्रबोधना खातीर करूंक जाय. ही तांची श्रद्धा कांय विद्वानांत दिश्टी पडटात तसलीं विक्षिप्तपणां तांकां मातूय आफडूंक नात.

नव्या बरोवप्यां खातीर तांच्या घराचीं दारां सदांच उकतीं आसता रवीन्द्रबाब तांकां साहित्य मळा वयल्यो नवो वाटो दाखयतात, संदर्भ आनी पुस्तकां दिवन तांची उमेद वाडयतात. नव्या लेखकाचे, कोंकणीच्या मळा वयल्या वावुरप्यांचे गूण ते अचूक हेरतात आनी तांच्या वावराक प्रेरणा दितात. तांच्या ग्रंथालयांत नवीं नवीं पुस्तकां येतात, तीं ते स्वता जावन विकतीं घेतात. आपूण वाचतात, ताचेर टिपणां काडटात आनी हेरांक वाचूंक दितात. आपल्या बरपाचेर ते तकस घेतात. वायफळ खबरांनी आपलो वेळ होगडायनात. तांकां विनोद आवडटा आनी बऱ्या विनोदाचेर ते खळखळून हांसतात. केन्ना केन्ना आपुणूय विनोद करतात.

धर्मकांड आनी कर्मकांड करिनासतना रवीन्द्रबाब आपल्या वावरांतल्यान 'अध्यात्म' जियेतात, उजवात जळटकीच परमळ पातळटा तसो. 'तुजो कर्म करपाचोच अधिकार, ताच्या फळाचो ना' हे वृत्तीन ते वावुरतात. 'सूख-दुःख, लाभ-हानी, जैत-हार समा लेख' ह्या श्रीकृष्णान अर्जुनाक दिल्ल्या उपदेसान ते आयजवेर चलत आयल्यात. आनी सगल्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, *'बुद्धौ शरणमन्विच्छ'* सदांच बुद्धीचो आश्रय घेवन चल ही श्रीकृष्णाची उक्ती तांणी आपले जिणेचो आदर्श मानल्या.

तांचे प्रवाही जिणेंत कांय म्हालगड्यांनी पेटयल्ल्या ज्योतींच्या उजवाडांत ते चलतात. तांचो बापूय डॉ. राजारामबाब, शणै गोंयबाब, डॉ. राम मनोहर लोहिया, गांधीजी, काकासाहेब हे ते पांच म्हालगडे. आपणाक जो उजवाड दिसला तो ते हेरांकूय दाखयतात. समाज प्रबोधकारांक नेणारां कडल्यान सदांच खूब सोंसचें पडलां.

रवीन्द्रबाब हाका आडवाद नात. आपल्या पेल्यांचें सोंसतना ते कोडू जावंक नात, cynic जावंक नात, निर्शेवंक तर नाच. तांची स्रद्धा मातूय हालूंक ना. म्हणून तांच्या विचारांत आनी बरपांत निर्शेणेचो आनी कोडसाणीचो लवलेशूय दिश्टी पडना.

तांणी तीस वर्सां वयर नेमान 'जागां'त बरयलां आनी हेरांकूय बरोवंक लायलां. 'जागा'चे अंक म्हळ्यार कोंकणी पत्रकारितेची आनी साहित्याची व्हड कोठी. गोंयचो समाजीक आनी सांस्कृतीक इतिहासाचो संदर्भ-सागर.

गोंयांक इतिहासान दालगाद, धर्मानंद, शणै गोंयबाब, लक्ष्मणराव, त्रिशतांव, बाकीबाब, मनोहरराय अशे निश्ठावंत आनीं प्रज्ञावंत दिले. तेच परी आमकां एक रवीन्द्रबाबय दिले. रवीन्द्रबाब म्हळ्यार रवीन्द्रबाब. लोहिया-गांधींच्या प्रभावांत ते आयले, काकासाहेब-विनोबांच्या सांगातान ते गरगरीत वाडले, आपणें मेळयल्लें ज्ञान भरून तांणी वांटलें. तांच्या कर्तुत्वान कोंकणी साहित्य लसलसलें तरतरलें.



सुरेशबाब आनी सुधाबाय वांगडा.

ह्या तांच्या परजळीत वावराक लागून म्हाका रवीन्द्रबाबाचो अभिमान दिसता. तांच्या वावराच्या उजवाडांत कोंकणी लोक फुडलीं पावलां नेटान उखलतले, तांचें अर्दकुटें सपन पुराय करपाक वावुरतले.

प्रेरणा दिवपी विचारांनी देशाची सेवा करपाची तांची तांक वाडटली हातूंत म्हाका मातूय दुबाव ना.

रवीन्द्रबाबांनी पळयल्लीं भौतेक सगलीं सपनां पुराय जाल्लीं देखपाचें समाधान तांकां मेळ्ळां. आपलीं सगलीं रिणां आपल्या वावरान तांणी फेडल्यांत आयज ते आपले जिणेच्या निमाण्या पर्वांत उबे आसात. आपले जिणेच्या वावराचो नियाळ तांणी अलिप्ततायेन घेतला. मर्णाच्या भंयाचेर तांणी जैत जोडलां. 'मरणा परस व्हड आमी' (*अघळपघळ*, पान ११४) ह्या निबंधांत ते बरयतात. ''कांय जाण म्हणटात, मनशान असलो कसलोय एक वावर हातांत घेवंचो, जो ताच्यान एकल्याच्यान केन्नाच करूंक जावपाचो ना, तसो. ताच्या एकल्याच्या आयुष्यांत केन्ना पुरो जावपाचो ना. आनी तो जीव ओतून करचो.

''म्हणटकूच, मरण येवन ताका घेवन गेलें जाल्यारूय ताचे निर्मणेक ते कशेंच हात लावंक पावपाचें ना. मरणाचो शेक फकत सैमाच्या संवसारांत चलता. मनशाचे निर्मणेच्या संवसारांत तो चलना. सैमाच्या संवसारांतली मनशाची कूड मरण घेवन वता, ताचे निर्मणेक तें हात लावपाचो धीर करिना. मनीस नाका उरूं. पुणून तो जें करता तें उरता. ना जायना.

मनशाची निर्मणी केन्ना ताका उगडासाच्या रुपान दवरता. केन्ना प्रेरणेच्या रुपान दवरता. व्हडले व्हडले चित्रकार आनी शिल्पकार संवसारांत आयिल्ले. साहित्यकार आयिल्ले. मरण सगळ्यांक घेवन गेलें. तांगेल्या चित्रांक, शिल्पांक, बरपांक तें हात लावंक पावूंक ना. बुद्ध, सोक्रतीश, येशू, मार्क्स, गांधी हांकांय तें घेवन गेलें. तांच्यो प्रेरणा तें ना करूंक पावूंक ना. मरणाचेर ह्या सगळ्यांची जैत जोडलां. हांचे मुखार ताचें शाणेपण चलूंक ना.''

मागीर रवीन्द्रबाब फुडें सांगतात:

''*अवचीत जिबेर रवीन्द्रनाथांचें एक कडवें घोळपाक लागलें,*

*जत बॉडो होओ, तुमि, मृत्यूर चेये तो बॉडो नोओ,*
*आमि मृत्यूर चेये बॉडो एइ शेष कथा बले.*
*जॉबो आमि चले..*

- केदेय व्हड जाशात गा तुमी. मरणा परस व्हड जावपाचे नात मू? आमी (साहित्यकार) मरणा परस व्हड. इतलेंच एक सांगून हांगासल्ल्यान हांव वचपाचों आसां!''

रवीन्द्रबाबान निर्भयतेन सांगिल्ले हें गीत वाचतकीच, टागोरांच्या आनीक एका गीताची म्हाका याद जाली. टागोर गायता:

*जोखोन राबो ना आमी ।*
*आमाके भुलिया जे ओ ।*
*मोने रेखो आमार गान ।*

टागोर म्हण्टा: जेन्ना हांव आसचोंना
तुमी म्हाका विसरा गा
म्हजे गीत मात मनांत दवरा

ह्या समयार आमच्या रवीन्द्रबाबांक हांव इतलेंच सांगन: ''रवीन्द्रबाब, कोंकणी लोक तुमचें साहित्य मनांत सांबाळून दवरतलेच आनी ताचे कडल्यान सासणाची स्फूर्तय घेतले.''

*(केंद्रीय साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली हांच्या 'लेखक म्हज्या जनेलांतल्यान' ह्या उपक्रमांत, गोवा कला अकादमी, पणजे, हांगच्या कृष्णकक्षांत, १८ एप्रील, २००७ ह्या दिसा केल्लें उलोवप)*

# ‘महामना: ख्यात...’चो संदेश दिवपी



♦ नागेश करमली

**१९५० च्या आसपासच्या काळांतलो एक म्हालगडो. फकत बरोवपी आनी उलोवपीच म्हालगडो न्हय. जाल्यार जो वावर करपाक जाय ताका कृतीची जोड दिवपी म्हालगडो! शणै गोंयबाबा उपरांत आपणाली पुराय जीण, पूर्णवेळ कोंकणीक ओंपपी कोण असो कोणेंय प्रस्न केल्यार ताची जाप निश्चितच रवीन्द्रबाब अशीच दिवची पडटली... फाटल्या अर्दशतकांत ह्या शेवाचें लसलशीत शेंप वयर सरून जें पीक आमच्या पोटांत पडलें, तिणें कोंकणी सयत आमकां सगळ्यांकच सबराभरीत करून सोडल्यात... ह्या “अजापा”चे रवीन्द्रबाब एक शिल्पकार...**

कोंकणीच्या पुनरुत्थानाच्या वावराक आतां शंबर वर्सां जावन गेल्यांत. ह्या एका शेंकड्या परस अदीक वर्सांच्या काळांत, कोंकणीन शुन्यांतल्यान म्हणटात तसो आपणालो संवसार उबो केला. हो संवसार उबो करपाक मोंसिन्योर दालगादा सारक्याचे श्रम सार्थकी लागल्यात. शब्दकोश रचून तांणी कोंकणीची नीज शक्त दाखोवन दिली. पूण हे शक्तीचो प्रत्यक्ष वेव्हारांत उपेग जावप गरजेचें आसलें. तें काम खऱ्या अर्थान शणै गोंयबाबान केलें. तांणी कोंकणीचे फाटल्यान गडगंज अशें वैचारीक बळगें उबें केलें. कोंकणी मनशा मदली कोंकणीपणाची अस्मिताय - स्वाभिमान, आंपशकमीपण आनी कर्तुत्वशक्त - तांणी जागयली. ते खातीर कोंकणी मनशाक व्हडवीक भोगची असो, ‘आमकांय इतिहास आसा’ अशें खडपसूक जावन सांगपी आमचो इतिहास धवळून काडलो; शब्दरूपान तो आमचे मुखार दवरलो. कोंकणी भाशेची तांक प्रगटावपी अशें अमोलीक अक्षर साहित्य रचलें. कोंकणींत विस्कटावन सांगपाक जायना अशें संवसारांत कांय एक ना असो खर आत्मविस्वास प्रगटायत, श्रीमद्भगवद्गीते सारक्या म्हान ग्रंथाचो, सामको सोंपे आनी रसाळ कोंकणी भाशेंत,



**गोंय मुक्ती उपरांत आझाद मैदानार भरिल्ले प्रार्थना सभेंत उलयतना. वांगडा शंकर भांडारी, काका कालेलकर, पुरुषोत्तम काकोडकार, बाकीबाब बोरकार आनी चंद्रकांत केणी.**

संवसारांत एकमेव थरचो असो अणकार करून दाखयलो. हें सगळें, कोंकणीच्या पुनरुत्थान युगाचें मुळावें कार्य. ह्या कार्यांतल्यान कोंकणीच्या सर्वांगी विकासाचो वावर फुडें व्हरपाची वाट मेकळी जाल्ली. पूण हे वाटे वयल्यान फुडलो मार्ग चलत वचपाक एके व्हड, सर्वसमावेशक चळवळीची गरज आसली. कोंकणी परिशदांच्या रुपान हे चळवळीक तशें पालंव फुटिल्लेंच. १९४२ वर्सा कोंकणी परिशदेचे तिसरे बसके उपरांत, कोंकणीचो संघटनात्मक वावर चालीक लावपाक मुंबयंत कोंकणी भाशा मंडळा सारकी संस्थाय स्थापन जाल्ली. शणै गोंयबाबां उपरांत कोंकणीचो वावर फुडें व्हरपाक तशे जायते जाण फुडें आयलेय. शणै गोंयबाबांच्या मर्णा वेळार "हांचो झेंडो सकला पडूंक फावना" असो हावेसय प्रगट जाल्लो. पूण त्या सगळ्याक एक मर्यादा आसली. काळजांत कोंकणीपणाची व्हडवीक आनी किरकोळ प्रमाणार जावपी साहित्य निर्मणी सोडल्यार कोंकणीच्या मळार व्हडलेंशें कांय घडनाशिल्लें. मुखेल म्हळ्यार, कोंकणीचो वावर जंय खासाखवान चलपाचो तें कोंकणीचें मूळ पीठ गोंय अजून परक्यांच्या शेकातळच्यान मुक्त जावंक नासलें. अशा वेळार गोंया भायर कोंकणीचो जो कितें वावंर करूं येता तो करपी अशे जायते जाण आसले. कांय जाण गोंयांतूय आसले. आनी हांतले बरेचशे जाण गोंयचे स्वातंत्र्य चळवळींतूय आसले. रवीन्द्रबाब हे तांचे मदले, तेन्नाचे म्हळ्यार १९५० च्या आसपासच्या काळांतले एक म्हालगडे. फकत बरोवपी आनी उलोवपीच म्हालगडो न्हय. जाल्यार जो वावर करपाक जाय ताका कृतीची जोड दिवपी म्हालगडो! शणै गोंयबाबा उपरांत आपणाली पुराय जीण, पूर्णवेळ कोंकणीक ओंपपी कोण असो कोणेंय प्रस्न केल्यार ताची जाप निश्चितूच रवीन्द्रबाब केळेकार अशीच दिवची पडटली. रवीन्द्रबाबान तशें पळोवंक गेल्यार मदें मदें राजकारणांतूय वांटो घेतला. पूण तोय ताच्या कोंकणीच्या वावराचोच एक वांटो म्हणून.

गोंयचे मुक्ती चळवळींत आसतनाच रवीन्द्रबाब आचार्य काकासायब कालेलकरांच्या संपर्कांत आयले आनी एक दीस तांचे सरीं वर्ध्याक पावले. काकासायब, भारतांत ज्यो व्हड भासो आसात तितल्योच देशांतल्यो भासो, अशें मानप्यां मदले नासले. ते भारतांतल्या सगळ्या लोकभाशांचो आदर करपी आनी तांचो पाखो घेवपी आसले. गोंय मुक्त जातकीच थंयची भास म्हूण कोंकणीकूच मानाचो पाट मेळूंक जाय अशें ते मानताले. हातूंत हेर भाशांक उण्यो लेखपाचो हेत नासलो. जे भाशेक जो हक्क आनी मान फावता तो तिका - ती भास. उलोवपी लोक संख्येन ल्हान आसले तरी मेळूंक जाय अशें ते म्हणी. अशा एका रुशीतुल्य आचार्याच्या सान्निध्यांत आसतनाच, रवीन्द्रबाबान वर्ध्याक काकावाडींतल्यान १९५३ वर्सा 'मीर्ग' हें पंद्रशी नेमाळें सुरू केलें. १५ ऑगस्ट १९५३ दिसा उजवाडा आयिल्ल्या मीर्ग नेमाळ्याच्या आरंभाच्या अंकांत पयल्याच पाना वयल्या संपादकियाचो माथाळो आसलो - "लोकभासांचें मीर्ग लागलें" ह्या संपादकियांत रवीन्द्रबाबान एके तरेन आपणालो फुडाराचो आजेंडाच उकतो केल्लो. तांणी बरयिल्लें - "कोंकणी विशीं आमकां जी भक्ती दिसता तिका लागून तिची तांकत तशी सेवा करची म्हणून आमी हें नेमाळें उजवाडाक हाडलां. कोंकणीचेर तिच्या पुतां कडसून आनी हेर लोकां कडसून आयजवेर जो अन्याय घडला तोय धुवन काडपाक जाय". आनी शेवटाक तांणी बरयिल्लें-"आतां लोकभासांचें मीर्ग लागलें; रोव घालुंया!"

फाटल्या अर्दशतकांत ह्या रोवाचें लसलशीत रोंप वयर सरून जें पीक आमच्या पोशांत पडलें, ताणें कोंकणी सयत आमकां सगळ्यांकच सबराभरीत करून सोडल्यात. रवीन्द्रबाबांलीं तीं काळवेधी उतरां. तेन्ना कोंकणी मुखार जीं आडमेळीं आसलीं - घरच्यांनी तशींच भायल्यांनीय उबीं केल्लीं - तांचो विचार करून आयचे परिस्थितीचेर विचार केल्यार आमचे आमकां अजाप जावपाचें. ह्या "अजापा"चे रवीन्द्रबाब एक शिल्पकार.

सुमार दोन वर्सां वर्ध्याक सावन मीर्ग चलयले उपरांत ताचें प्रकाशन बंद जालें. गोंयची मुक्ती चळवळ नेटान चलताली. रवीन्द्रबाब वर्धा सोडून मुंबय गेले. मुंबयंत तांणी *गोमन्त भारती* हे संस्थेची स्थापना

केली. *मीर्ग* नेमाळें गांधी विचाराचो पुरस्कार करपी नेमाळें आसलें जाल्यार *गोमन्त भारती* मुखेलपणान गांधी साहित्याचो कोंकणींतल्यान अणकार करून प्रसार-प्रचार करपी संस्था आसली. जायत्या जाणांनी रवीन्द्रबाबांक प्रस्न विचारिल्लो - ''गोमन्त भारती तर्फेन फकत गांधी साहित्यूचं कित्याक?'' रवीन्द्रबाबान प्रस्नाक जाप दितना म्हणिल्लें, - ''कोंकणींत आज आमकां एकमेकां पसून वेगळावन घालपा खातीर न्हय, जाल्यार एकमेकांक मयपासान जोडपी साहित्य जाय. संत साहित्यान हेर भासांनी असो वावर केला. त्याच तोलाचो वावर कोंकणींत गांधी साहित्य करतलें.'' हाचो अर्थ हेर साहित्याची गरज ना अंसो जायना. तेंय निर्माण जावचेंच. पूण गोमन्त भारतीचो भर गांधी साहित्याचेर आसा अशें रवीन्द्रबाबांचें म्हणणें आसलें. गोमन्त भारतीन त्याच नांवाचें, रोमी लिपयेंत कोंकणींत एक नेमाळेंय चलयिल्लें. राष्ट्रवादी विचारां वांगडाच, गोंय चळवळीकूय आधार करप हो ह्या नेमाळ्याचो उद्देश आसलो. रवीन्द्रबाब ताचे संपादक आसले.

१९६१ चे अखेरेक गोंय मुक्त जालें आनी कोंकणी सयत रवीन्द्रबाबाच्या वावराचोय केंद्रबिंदू अर्थातूच गोंय जालें. कामां सुमारा भायर वाडलीं. रवीन्द्रबाब एका हातांत लिखणी आनी दुसरे वटेन कोंकणी आनी गोंया खातीर एक झुजारी जावन काम करूंक लागले. कारण, कोंकणी भाशे सयत गोंयची नांव-निशाणी पुसून उडोवपी विलिनीकरणाची चळवळ गोंयांत सुरू जाल्ली. मराठी आपली परपंरा म्हणपी कोंकणीचें अस्तित्वूच नाकारूंक लागिल्ले. कोंकणी ही मराठीची बोली हो वाद आशिल्लोच. ताका राजकी रंग चडिल्लो. महाराष्ट्रवादी गोमन्तका सारको गोंय ना-नपयत करूंक पळोवपी पक्ष निर्माण जाल्लो. कोंकणीचीय म्हूण - आयचे इतली नासली तरी एक शक्त आसली. तिका संघटीत रूप दिवपाची गरज आसली. ते नदरेन वावरूय सुरू जाल्लो. कोंकणीचे बरोवपी-वावुरपी एकठांय येवन आपणाल्या वावराची मांडावळ करूंक लागिल्ले. हांतल्यानच १९६२ च्या मे म्हयन्यांत कोंकणी परिशदेचें आठवें अधिवेशन मडगांवां घडोवन हाडपाचें थरलें. आजवेर परिशदेचीं अधिवेशनां गोंया भायरूच भरिल्लीं. पयलेच फावट परिशद आपणाल्या मूळ पिठांत - गोंयांत - येवपाची आसली. रवीन्द्रबाबांचो फुडाकार हे संबंदांत म्हत्वाचो आसलो: तेच ह्या अधिवेशनाचे येवकार अध्यक्ष आसले आनी अध्यक्ष आसले डॉ. मनोहरराय सरदेसाय. त्या वेळार, राज्यसभेची उपाध्यक्ष आशिल्ली श्रीमती व्हायोलेट आल्वा, अधिवेशनाची उद्घाटक म्हूण आयिल्ली. रवीन्द्रबाब आनी मनोहरराय ह्या दोगां दिग्गजांच्या भावनां परसूय बुद्दीक आवाहन करपी भाशणांनी कोंकणी परिशदेचें हें मुक्त गोंयांतलें पयलेंच अधिवेशन खूब गाजलें. मनोहररायान निर्धारी उतरांनी सांगिल्लें - *''कितलीं मोडां आयलीं गेलीं / विजेन हाणली उज्या बडी / तरीय म्हजी खोंप सान / हाल्ली पूण उबली ना.''*

स्वताक 'रायटरा' वांगडाच 'फायटर' मानपी, रवीन्द्रबाबांलें ह्या अधिवेशनांतलें येवकार अध्यक्ष म्हूण केल्लें भाशण जाल्यार मुक्त गोंयांत फुडाराक करपाच्या वावराचो एक आलेखूच न्हय तर एक दस्ताऐवज कसो आसलो. मराठीवादाक लेखून तांणी सांगिल्लें, ''भूतकाळ हें सारें, अन्न न्हय'' पुरुशार्थहीण मनीस इतिहासाचेर भाश्य करून ओगी बसतलो अशें सांगून तांणी म्हणिल्लें — ''क्रांतीकारी नवो इतिहास घडोवंक मुखार सरतलो.'' हें सांगतना तांणी कोंकणी मनशाच्या पुरुशार्थीपणाकच साद घाल्लो. हो साद फुकट वचूंक ना हें आज आमी सगळेच पळयतात. गोंयांत मराठीक एक सुवात आसली तरी कोंकणीची सुवात तिका मेळची ना अशेंय रवीन्द्रबाबान सांगिल्लें.

ह्या अधिवेशना उपरांत गोंयांत जायतें कितें घडलें. गोंयांतलीं आनी महाराष्ट्रांतलीं नेमाळीं विलिनीकरणाचो आक्रमक प्रचार करतालीं. कोंकणी आड वीख ओंकतालीं. गोंय आनी कोंकणीची बाजू मांडपाक आमचे कडेन फावोशें माध्यम नासलें. अशा वेळार रवीन्द्रबाब केळेकार, शंकर भांडारी, श्रीपाद घारसे, उदय भेंब्रे, चंद्रकांत केणी हांचे सारकेल्यांच्या प्रयत्नांतल्यान, आनी साळगांवकार, शांतीलाल खुशालदास आनी तिंबले ह्या खण मालकांच्या आर्थीक आदारान १९६३ वर्सा मडगांवांत राष्ट्रमत हें मराठी दिसाळें जल्माक आयलें. ह्या दिसाळ्या खातीर गोंय, गोंयची अस्मिताय, कोंकणी, कोंकणीपण ह्या विशयांचेर रवीन्द्रबाबान शेंकड्यांनी लेख बरोवन एके तरेन जागृताय यज्ञच आरंभलो. बरोवपा वांगडाच प्रत्यक्ष लोकां मदें वचून बसका-सभांनी भाशणां करून लोकांक खरें-फट कितें तें समजावनय सांगलें. हें काम सामान्यां भायलें आसलें. तें करतना गाळीं-फस्तीं वांगडाच फातर-गुंड्यांकूय तोंड दिवपाची पाळी येताली. (१९६६-६७त) ओपीनियन पोल आयलो तेन्ना जाल्यार रवीन्द्रबाबान गोंय सांबाळपा खातीर रातीचो दीस करीत म्हणटात तशें काम केलां. आदींच म्हळां ते प्रमाण, एका हातांत लिखणी आनी दुसरे वटयां झुजारी (फायटर) जावन रवीन्द्रबाब वावुरल्यात. ओपीनियन पोलांत विलिनीकरण मातयेभरवण जालें आनी नीज गोंयकारांचें जैत जालें. सगळ्यांच्या मनां वयलो एक भार—एके तरेचो ताण - ना जालो. कोण कोण म्हणूंक लागले - ''आतां संघर्ष पर्व सोंपलें. आतां विधायक वावराचें पर्व सुरू जालां'' संघर्षा वांगडा थोड्याभोव प्रमाणांत, रवीन्द्रबाबां सारक्यांलो साहित्य निर्मणे सारको विधायक वावरय चालू आसलो. पूर्ण संघर्षपर्व सोंपलां अशें रवीन्द्रबाब आजय मानतात अशें म्हाका तरी दिसना. कोंकणी खातीर विधायक वावर करीत आसतना जंय संघर्ष करूंक जाय ताका फाट करप ना ही रवीन्द्रबाबाची भुमिका आजूय आसा अशें खात्रेन म्हणूं येता.

ओपीनियन पोला उपरांत, १९६९ च्या नोव्हेंबरांत, पणजेंत दुसरी कोंकणी लेखक परिशद (म्हळ्यार आतांचें साहित्य संमेलन) जाल्ले. रवीन्द्रबाब त्या संमेलनाचे अध्यक्ष आसले. त्या वेळार तांचें भाशण जांणी आयकलां वा वाचलां तांकां रवीन्द्रबाबांच्या कोंकणी खातीर संघर्षरत रावपाचे भुमिकेची सुलूस मेळ्ळे बगर रावना. ह्या भाशणांत तांणी कोंकणी लेखक आनी वाचपी हांचें नातें, पुस्तकां उजवाडावपाची मशिनरी, साहित्य निर्मणी, कोंकणी दिसाळ्याची गरज, कोंकणींतल्यान शिक्षण, आदी विशयांचेर साहित्यकारांक मार्गदर्शन केल्लें. आमकां फकत कोंकणी खातीर कोंकणी नाका. आमकां नवो, सगळ्यांक समदृष्टीन वागोवपी आनी वर्तुपी समाज घडोवपाचो आसा ते खातीर कोंकणी जाय अशें तांणी प्रतिपादन केल्लें. रवीन्द्रबाबांनी हें सांगून वर्सां उलगलीं. पूण तांची सांगणी पोरणी जावंक ना. कारण आजय तो विचार तसोच जिवो तट्टटितूच







'काउन्सील ऑफ ॲक्शन'च्या सत्याग्रहाचें फुडारपण करतना.

आसा.

रवीन्द्रबाबान फक्त दुसऱ्यांक सांगपाचेंच काम करूंक ना. जें सांगला तातूंतलें आपणाले तांकी भितर स्वताय करून दाखयलां. तांणी विपूल म्हणूं येत अशी साहित्य निर्मणी केल्याच. महाभारता सारक्या महाकाव्याचें कोंकणींत अनुसर्जन करून, कोंकणीच्या गळ्यांत तांणी सुंदर असो रत्नहार घाला. हेर भाशांतल्या उत्कृष्ट अशा पुस्तकाचे तांणी कोंकणींत अणकार केल्यात. हिन्दींत महात्मा गांधी आनी काकासायब कालेलकार हांचीं मोलादीक अशीं चरित्रां बरयल्यांत. ह्या सगळ्या वावरा सांगाता तांणी, सुमंत केळेकारा सारक्या कल्पक आनी कर्तृत्वी बापोलभावाक सांगाताक घेवन *जाग* सारकें, ऊंच पांवड्याचें म्हयनाळें चलोवन दाखयलां. १९७१ वर्सा रवीन्द्रबाबाचे प्रेरणेन आनी मार्गदर्शना खाला सुमंतबाबान *जाग प्रकाशन* सुरू केलें. *प्रसादा फूल* ह्या प्रातिनिधीक काणयां झेल्यान आरंभ जाल्ल्या ह्या प्रकाशनान आजवेर सत्तरां वयर पुस्तकां उजवाडा हाडल्यांत. कोंकणींत ऊंच पांवड्याचीं दर्जेदार पुस्तकां उजवाडावपी संस्था म्हणून *जाग*ची नामना आसा. सुमंतबाब आज आमचे मदें नात. रवीन्द्रबाबांचीय आतां वाडटी पिराय जाल्या. *जाग* प्रकाशन आनी *जाग* म्हयनाळें आतां माधवी सरदेसाया सारकेले नवे पिळगेच्या हातांत पावलां आनी तांचो प्रवास सुसंगीत चालू आसा.

बऱ्याच वर्सांच्या प्रयत्नां उपरांत केंद्रीय साहित्य अकादेमीन कोंकणीक भारतांतली एक आधुनीक साहित्यीक भास म्हणून १९७५ वर्सा मान्यताय दिली. महाराष्ट्रांतल्या पु.ल. देशपांडेंसयत साहित्य अकादेमी वयल्या मराठी वांगड्यांनी हे मान्यतायेक विरोध केलो. आनी मान्यताय काडून घेवची अशी मागणी केली. हाचेर १९७६ वर्सा साहित्य अकादेमीन मान्यतायेचो फेरविचार केलो आनी मराठी वांगड्याची मागणी भायर उडयली. कोंकणी मान्यतायेचेर नव्यान म्होर मारली. साहित्य अकादेमीन कोंकणीक मान्यताय दिवची म्हूण वेगवेगळ्या थरांवयल्यान वेगवेगळ्या लोकांनी प्रयत्न केले. ह्या प्रयत्नांत रवीन्द्रबाबांच्या वावराचोय खूब मोटो वांटो आसा. साहित्य अकादेमी वयले साहित्यकार वांगडी तशे देशांतल्या हेर साहित्यकार विद्‌वानांक कोंकणीचो प्रस्न समजावन दिवपाचो तांणी जो यत्न केला तो खरेच अप्रूपाचो आनी मोलादीक.

रवीन्द्रबाबांनी पिरायेचीं ८२ वर्सां पार केल्यांत. अजुनूय तांचें विचारमंथन आनी अक्षरवेध चालूच आसा. रवीन्द्रबाबान जिवीतभर समर्पीत वृत्तीन कोंकणीचो वावर केला. जायत्या वादविवादांक तोंड दिलां. विरोधकांक निर्जाप करपी जापो दिल्यात. आनी हें सगळें करतना तांणी आपणाले ऊंच विचारसरणेचो पांवडो मात केन्नाच सकला घसरूंक दिलोना. शणै गोंयबाबान आपणाले बरपावळींतल्यान आमकां कोंकणी लोकाक स्वाभिमानान माथें ऊंच करून जियेवपाची आनी जिवितांत उंचेले हावेस बाळगुपाची शिकवण दिल्या. रवीन्द्रबाबान हेच विशीं वेगळे तरेन सांगलां. रवीन्द्रबाब, १९७८ त कोची-केरळांत जाल्ल्या कोंकणी परिशदेच्या बाराव्या अधिवेशनाचे

कोंकणीच्या म्हालगड्या वावुरप्यां वांगडा सुनीतिकुमार चटर्जीक गोंयांत येवकार दितना.

अध्यक्ष आसले. त्या अधिवेशनांत कोंकणी लोकां विशीं उलयतना तांणी म्हणिल्लें – "कोंकणी लोक आसतीत पस्तिसूच लाख. पुणून हुशार. किरकोळ न्हय देशाच्या वेगळ्या वेगळ्या मळांनी तांणी जी सेवा केल्या तिवूय सामान्यांतली न्हय. शाणेय ते आनी वेव्हारीय बी. ते मातशे 'पिशे' जावंक जाय. अवेव्हारी जावंक जाय. कोंकणी सरस्पतीचें दिव्य - भव्य मंदीर आमी आमच्याच जिवितांत उबें करून दाखयतले म्हणपाचें 'पिशें' तांकां लागत जाल्यार ह्या देशांत ते केदो चमत्कार करून दाखयतीत, सांगूं नजऽ"

आपणाल्या विचाराच्या ह्या 'पिशें' जावपाच्या सुत्राक धरूनूच तांणी मुखार म्हणिल्लें – "ती पळे, भारतमाता कळवळून सांगता: *'महामना: स्यात् तद्‌व्रतम्'*—व्रत घेयात मन व्हडलें करतले म्हूण. नदरेचो आवाठ वाडयतले म्हूण. काळीज उदार करतले म्हूण. अखख्या संवसाराक वेंगेंत घेवपा इतले आमी व्हड जातले म्हूण. मन येदें व्हडलें जातलें तेन्ना उडपाक आमकां हें मळब पावचें ना. हाच्याकूय व्हडलें, खूब व्हडलें मळब आमकां दी म्हूण आमी देवा कडेन मागूंक लागतले."

कोंकणी कडेन अटूक नदरेन, संकुचीतपणान पळयतल्यांच्या दोळ्यांत रवीन्द्रबाबान घाल्लें हें अंजन. आनी आमच्यांतल्याय थतरवितर मतीच्या, जाती-कातीच्या भिंगांतल्यान समाजा कडेन पळयतल्याचे तकलेर मारिल्लो एक खुटलोय बी. कोंकणी ही कोंकणी लोकांची भास आसत. पूण तिका देशा येदी करपा खातीर रवीन्द्रबाबान जें योगदान दिलां, ताका तुळा ना. रवीन्द्रबाब साहित्य अकादेमीचेर कोंकणीचे प्रतिनिधी तशेंच अकादेमीच्या कार्यकारी मंडळाचे वांगडी म्हूण आसतना, १९८२ वर्सा कोंकणी परिशदेंच्या चवदाव्या अधिवेशना निमतान, तांच्या फुडाकारान, त्या वर्साचो साहित्य अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार प्रदान करपाचो सुवाळो गोंयांत जाल्लो. ते निमतान पुरस्कार सन्मानीत तशेच साहित्य अकादेमीचे वांगडी आशिल्ले, वेगवेगळ्या भाशांतले देशांतले व्हड व्हड साहित्यीक गोंयांत आयिल्ले. तांचे वांगडा सुसंवाद सादपाचो आनी ते वरवीं आमचे नदरेंतलें विशाळपण जोखून पळोवपाची संद आमकां मेळिल्ली. ती एक सुरवात आशिल्ली. आज कोंकणी साहित्यकाराक त्या विशाळत्वाचो आनिकूय अणभव आयला. भुगोलीक शीम ही आमचे व्हडविकेक आडखळ करूंक ना. कोंकणी आनी हेर भारतीय भाशांतल्या लेखकां मदले संबंध वाडूंक लागले. अणकारां वरवीं आमचे मदें परस्पर आदान प्रदान जावंक लागलां. हेर भाशांतले साहित्यकार आज कोंकणी कडेन आदर-मानान पळोवंक लागल्यात. हे प्रक्रियेचें मुळावण रवीन्द्रबाबान घाल्लें हें आमी विसरूंक फावना. हेच प्रक्रियेक लागून, कोंकणी जेन्ना संविधानाच्या आठव्या परिशिष्टांत वचपाचो वेळ आयलो तेन्ना कसलीच आडखळ आयली ना हेंय आमी विसरूंक फावना.



# ॠगळें 'फायट' दिवन मेळयलां!



♦ गुरूनाथ केळेकार

**म्हजे नदरेन रवीन्द्र हो एक विचार. गोंयाक जाय आशिल्लो तेन्ना परगटलेलो विचार. ह्या विचारान गोंयाक जें जाय आशिल्लें तें मेळोवन दिलें... मनोहरान "मागले बगर सगलें मेळ्ळें" म्हळें. ताचो एक खाशेलो अर्थ आसा. पूण शब्दार्थान तें घेतलें जाल्यार रवीन्द्रान फायट दिवन सगळें मेळयलें म्हणचें पडटलें. विचार आनी पेन घेवन तो झुजलो. रवीन्द्र हो आज विचार जाला. जसो म्हजो तसो सगळ्या आमचो. सासणाक उरपी विचार. रवीन्द्र तुजो कोण हें विचारपाची गरज उरंक ना.**

इश्ट रमेश वेळुस्कारा बरोबर एक दीस खंय तरी वतालों. वाटेर ताच्या एका मित्रान ताका हटकिलो. आमी थांबले आनी उपरांत "कशें, कितें? ॠट मरे?" उलोवणीं सुरू जालीं. मदींच रमेशान म्हजी वळख करून दिली. हे गुरुनाथ केळेकार... **मार्ग** नांवाची -

रमेशाच्या इश्टान ताका तोडलो आनी विचारलें -

"रवीन्द्र केळेकाराले कोण?"

रमेशान म्हळें, "भाव."

"खासा भाव?" ताचो प्रस्न.

"न्हय. तिपोलभाव.". हांवें जाप दिली.

तितल्यान ताचें समाधान जालें. आमी "बरें·तर, मेळचें..." म्हणून फुडें सरले.

हांवें रमेशाक विचारलें, "रमेश, आडनांव सांगुंकूच जाय रे?"

"तोय एक पार्ट आसा..." रमेशाची जाप. रमेशाक जे वळखतात ते ताका 'पार्ट' आवडटात म्हणपाचें जाणात.

हांवें म्हळें, "बापायचें नांव विचारनात हें व्हडलें. पूण तितल्यानूय तें सोंपना. आतां हें आयक. पयर मडगांवां एके

मानेस्त दिसतले क्रिस्तांव बायलेन म्हाका वाटेर आडायलो आनी परबीं दिलीं. Congratulations Mr. Kelekar. Read in Papers. You are honoured! कोणाक लेखून ती हें म्हणटा तें कळूंक म्हाका वेळ लागलो ना. हांवें कितें जाप दिली ती कोणाक सांगूं नाका. हांवें 'Thank you' म्हळें. तीय खोशी आनी हांवूय भितरले भितर हांसलों.''

''असोय एक पार्ट आसता...'' रमेश.

''अशे कितले पार्ट आसतात रे? हांव मडगांवांत गेल्लीं चाळीस मायज वर्सां रावतां. जायते जाण म्हाका वळखतात. तातूंत कांय इश्ट आसात, तर कांय तोंड-वळखीचे आसात. थोडे हांव दिसना फुडें रावतात, थोडे मान वयर काडिनात; तर थोडे दुसऱ्या फुटपाथा वयल्यान म्हाका पयसुल्ल्यान 'काम बरें चल्लां आं' म्हणत सपोर्ट दितात. पयर मडगांवां एक ल्हानशी सभा आशिल्ली. माचयेर बशिल्ल्यांत एक हांव आशिल्लों. अध्यक्षान भाशणाक सुरवात करतना सांगाताक बशिल्ल्यांचीं नांवां घेवंक आरंभ केलो आनी तातूंत म्हजो उल्लेख सरळ रवीन्द्र केळेकार म्हण केलो. मुखार बशिल्ल्यांतल्या एक दोग जाणांनी कुरवांनी ताका चूक जाल्या म्हण शिटकायलें तेन्ना ताणें जीब चाबली.''

''होय एक पार्ट जालो! अशें हें चलताच. तुका ते रवीन्द्रबाब धरतात...'' रमेश म्हाका समजावंक लागलो.

हांवें म्हळें, ''तशे हांवें जायते पार्ट केल्यात रे! पूण हो म्हाका बिलकूल सोबना आनी सोडीय ना.''

रमेश सांगूंक लागलो - ''रवीन्द्रबाबाचें नांव समस्त गोंयकारांचे जिबेर घोळटा. तांणी ताका पळयलाच अशें म्हणूंक येवचें ना!''

''म्हाका हें कळटा रे! थोड्यांनी ताका पळयला, थोड्यांनी ताका पळोवंक ना, ताचो फोटो पळयला आनी दुसऱ्या कडल्यान ताचे विशीं आयकलां. थोड्यांक तो कळ्ळा. थोड्यांक कळूंक ना. थोड्यांनी ताचें बरप वाचलां. थोड्यांक तो जाय. अ. ना. म्हांबऱ्याचे भाशेंत सांगचें जाल्यार कांय जाणांक तो 'जाय-नाका' तर कांय जाणांक तो 'नाका-जाय'. अशें कितेंशें रवीन्द्राचे बाबतींत आसा. हाका लागून 'केळेकार' म्हणना फुडें रवीन्द्र हें उतर तोंडांतल्यान भायर सरता, हें म्हाका कळटा'' हांव उलयलों.

''खरें,'' रमेशान म्हळें, ''पोलिटिकल लीडर नासतना रवीन्द्रबाबान जितली गोंयकारांचे तकलेंत सुवात मेळयल्या तितली दुसऱ्या कोणेंच मेळोवंक ना!''

म्हाका दिसता अशे कितलेशेच तरेकवार पार्ट हांवें रवीन्द्रा भोंवतणी केल्यात. थोडे म्हज्या वांट्याक आयल्यात.

रवीन्द्र आनी हांव आमी दोगूय केळेकार. आमचे बापूय बापोलभाव. देखून आमी तिपोलभाव.

आमी दोगूय केळेकार ह्या अर्थान समान-नामी, हें जालेंच, पूण आमचें भुरगेपण गोंया भायर गेलां हो एक अदिकतराचो पार्ट म्हणूंक जाय. रवीन्द्राचें ल्हानपण दिवाक आनी म्हजें मुंबय. त्या काळार जीं कुटुंबां नोकरे खातीर गोंयां भायर वतालीं तीं ह्या धाग्याक धरून संबंद वाडयतालीं.

म्हजो बापूय शिवाजीबाब मुंबय गिरगांवांतल्या त्या काळच्या नामनेच्या मॅजेस्टिक सिनेमांत मॅनेजर आशिल्लो. आनी रवीन्द्राचो बापूय राजारामबाब दोतोर ह्या नात्यान दिवाक सेवा करतालो. हाका लागून रवीन्द्राची आनी म्हजी आवय लागीं आयलीं. हाचोय एक परिणाम म्हणून रवीन्द्र म्हाका लागींचो जालो आसूंक जाय.

आनीक एक म्हत्त्वाचें कारण म्हळ्यार, १९२५ ते १९३५ हो काळ भारताचे स्वातंत्र्याचे चळवळीचो चडटो काळ. गोंया भायर आशिल्ल्यांक हे चळवळीचो स्पर्श जातालोच. देशप्रेमान भुरगेपणांत सावन आमी भारून वचूंक हें एक कारणशें म्हाका दिसता.

म्हज्या बापायच्या अचकीत उद्‌भवलेल्या अनारोग्याक लागून हांव स वर्सांचो आसतना आमकां सासणा खातीर मुंबय सोडची पडली आनी गोंयां पिर्वोळा आमच्या चौगां-घरांत रावंक येवचें पडलें. १९२५ वर्सा जल्माक आयिल्लो रवीन्द्र पंदरा-सोळा वर्सांचो आसलो. फोंड्या आयज जाका आल्मेदा हायस्कूल म्हणटात ताका पुर्तुगेजां काळार 'आल्मेयदा कुलेजियु' म्हणटाले. थंय पुर्तुगेज लायसियमाचें शिकप दिताले.

आमचें चौगां-घर पिर्वोळा. फोंडेंच्यान सात किलोमिटरांचेर पूण तेन्ना तें 'पयस' लागतालें. आल्मेयदा कॉलेजींत रावपाक-जेवपाक हॉस्टेल आशिल्लें. रवीन्द्र ह्या हॉस्टेलांत रावतालो. ही कॉलेज चालंत उच्च पुर्तुगेज शिक्षण दिता आसतना देशभक्तीय रुजयताली, हाचें कारण, हे कॉलेजींत प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसायां सारकेले शिक्षक शिकयताले. आल्मेयदा कुलेजीन गोंयचे मुक्ती चळवळीक जायते स्वातंत्र्य सैनीक दिले. आज ही संस्था हायस्कुलूच न्हय तर एक कॉलेज चलयता. ह्या कॉलेज विद्यार्थ्यांनी संस्थेच्या पूर्वेइतिहासाचो अभ्यास करून तो लोका मुखार दवरूंक जाय.

रवीन्द्र केळेकाराच्या मनांत भुरगेपणांत देशप्रेमाचे संस्कार जालेच, ताका आल्मेयदा कॉलेजींत सारें मेळ्ळें. टिळक, आगरकर, सावरकर, आंबेडकर, गांधी, नेहरू, रवीन्द्रनाथ, अरविंद, रमण महर्षी हे कोण आनी कितें करतात हाची जिज्ञासा उत्पन्न जाली. शरतचंद्र, मैथिलीशरण, राहुल सांस्कृत्यायन, प्रेमचंद, खांडेकर, फडके, माडखोलकर हे लेखक त्या काळार गाजताले. हो रवीन्द्राचो फॉर्मेशनाचो काळ म्हणूंक जाय. त्या काळा सावन रवीन्द्राच्या हातांत पुस्तक आयलें तें केन्नाच सुटलें ना.

फोंड्यां शिकप घेतासतना पुर्तुगेज लेखकांचींय पुस्तकां रवीन्द्राच्या हातांत आयलीं. एगश मुनीश, ज्यूलियु दिनीज, ज्यूलियु दान्तश, ऍसा द कैरोश, फेर्नांदु पेस्सोआ हे पुर्तुगेज लेखक आनी स्टीफन झ्वैग हो जर्मन लेखक बी त्या काळा वाचप्यांक पिशें लायताले.

मुळांत रवीन्द्राचो बापूय दो. राजाराम केळेकार पुस्तक-मोगी तसो चिंतक. रवीन्द्राच्या घरांत ज्यो पुस्तकांच्यो आरमारी आसात तांतल्या दोन तीन आरमारींनी पुर्तुगेज, फ्रांसेज, इंग्लीश भाशांतले ग्रंथ आसात. हे रवीन्द्राच्या बापायन पुंजायल्लें धन. जिविताच्या सोंपत्या काळार राजारामबाबान भगवद्‌गीतेचो पुर्तुगेज अणकार करून पुर्तुगेजांक चड उपकारांत दवरल्यात. हें दायज मेळिल्ल्यान रवीन्द्राची बुन्याद घट घट जायत गेली.

फोंड्यां शिकूंक रावपी रवीन्द्र दर आयतारा घरच्या जेवणाक



भुरगेपणांत... राजारामबाब, गंगाबाय आनी भावंडां- सरोजिनी, देवेन्द्र आनी मोगरें.

पिर्वोळा सुमंतागेर येतालो. रवीन्द्र घरा (चौगा-घरांत) पावलो रे पावलो चैतन्याचें एक ल्हार आमचें घर व्यापतालें. १५ वर्सां गोंयां भायर सारिल्ली म्हजी आवय तर 'टागोर' आयलोत म्हणून ताका येवकार दिताली. तिच्यांत एक वेगळेपण आशिल्लें.

आमच्या ह्या चौगां-घरांत त्या काळार म्हजो बापूय शिवाजीबाब, सुमंताचो बापूय घारूबाब, नरेंद्राचो बापूय (म्हणचे शंकर भांडाऱ्यान जाचे कडल्यान हजर-जबाबीपण जोडलें तो मामा) श्रीपादबाब हांचीं बिराडां रावतालीं. अर्दी-मर्दी मडगांवां प्रोफसोरकी करपी मुकेबाब केळेकार चार दीस मडगांवच्यान रावंक टॅक्सीन येतालो. मुकेबाबाक तर गोंयभर बुद्धीमान केळेकार म्हण वळखताले.

हे सगले जाणटेले भाटकार सकाळची च्या जाले उपरांत आनी सांजेच्या पांचां उपरांत घराच्या बल्कांवार बसून चकाटां मारताले. पूण हीं तशीं फकत चकाटां नासतालीं. तांतूंत कितें तरी आशिल्लें. ते कोणाच्या भानगडींचेर उलयनाशिल्ले. ते गांधी - नेहरूंचेर उलयताले. भारतीय स्वातंत्र्य लढ्याचेर थंय चर्चा चलताली. त्या दिसांनी गोंयांत केसरी, ज्ञानप्रकाश, नवशक्ती, लोकमान्य, नवा काळ आदी मराठी दैनिकां येतालीं आनी चित्रमयजगत, किर्लोस्कर आदी मासिकां येतालीं. हीं नेमाळीं केळेकारांली बौद्धीक खाज भागयतालीं. बल्कांवा वयल्या गजालींनी रंग भरतालीं. मर्दींच एकलो आपणें बेळगांव काँग्रेसी वेळार गांधीजींक लागींच्यान कशे पळयले ताची वर्णना करून सांगतालो.

आयतारा रवीन्द्र फोंड्यां सावन पिर्वोळा येतालो तो उजवाड बरोबर घेवनूच म्हळ्यार, अतिताय जावची ना. आमी भुरगे–सुमंत, मोहन, हांव ताका रावताले. तो वांगडा कसल्यो थरारक खबरी घेवन येता त्यो आयकूंक! तेन्ना रवीन्द्र आतां भाशेन सदरोच घालतालो, काय लांब हातांचें खोमीस घालतालो हाचो उगडास काडटना हांव गोंदळटां. धवो शुभ्र भेस आसतालो हें नक्की. मानेर केंस वाडयतालो काय दिसता. ताची मूर्त दोळ्यांत भरऽ सारकी आसली. सात्वीक तशी प्रभावी. त्या काळार कोणा तरी साहित्यिकान आपले मराठी कथेंतल्या नायकाक रवीन्द्र केळेकाराचें नांव दिल्लें हाचो म्हाका उगडास जाता. त्या काळार सामान्यतायेन मराठी बगर वाचूंक कांयच मेळनाशिल्लें. गोंयांत - पणजे मडगांवां - 'टायम्स ऑफ इंडिया' येतालो. तो म्हाड्डोळा पावनाशिल्लो. तेन्ना लोकांत 'कोंकणी' हो विशय सन्मानाचो नाशिल्लो.

तेन्ना सभा जायनाशिल्ल्यो अशें न्हय. जाताल्यो त्यो कसल्यो काय म्हळ्यार मराठी शाळांचे वर्सुकी बक्षीस समारंभ. गांवांत वर्साक एक फावट हो समारंभ जातालो. शाळा मराठी. भुरग्यांचीं नाटकुलीं बी मराठींत जातालीं. कोंकणींत करपाचें धाडस कोणाक जाय नाशिल्लें. अश्या समारंभाक पणजे मडगांवच्यान कोणूय नांवाजतो मानेस्त अध्यक्ष म्हणून हाडटाले. भाशणां सगळीं मराठी. अध्यक्ष सदांच आपल्या भाशणाची सुरवात ''मी ह्या सन्मानास पात्र नसताना आपण, मला हे स्थान दिले यासाठी कसे आभार मानावे हें मला कळत नाही'' म्हणून सुरवात करतालो. समारंभाक गांवांतले आठ धा जाणटे,बांकीचीं भुरगीं. फकत बोवाळ घालतालीं.

रवीन्द्र आयतारचो आमगेर आयलो की त्या दिसाच्यो बल्कांवा वयल्यो गजाली अर्थभरीत जाताल्यो.तांतलें अवांतरपण वतालें. १९४२-४३ चो तो काळ. देसांत आनी खासा करून मुंबयंत 'चले जाव' चळवळीन उग्र रूप धारण केलें. गांधीन इंग्लेजांक 'चले जाव' 'चलूंक लागात' Quit India - म्हण फर्मायलें. रोखडेंच तांकां - गांधी, नेहरू आनी हेर वरिष्ठ फुडाऱ्यांक - धरून बंदखणीत घाले. दिसानदीस उंचाबळावपी खबरो येताल्यो.

साताऱ्या सावन एक खबर आयिल्ली. थंय नाना पाटील नांवाच्या फुडाऱ्यान 'पत्री' सरकार स्थापन केलां आनी इंग्लेजांक आनी देश-घातकी अधिकाऱ्यांक किडनॅप करून तांच्या पांयांच्या तळव्यांक पत्रे मारून तांकां सोडटात म्हणटाले. मागीर पत्री सरकार न्हंय, प्रती

सरकार,म्हण रवीन्द्र सांगतालो. पत्रे बित्रे मारतात तें फट, पूण तांकां धरून शिक्षा करतात हें खरें अशें सांगून चित्र स्पश्ट करतालो.

दुसरे वाटेन जयप्रकाश नारायण,अच्युत पटवर्धन, डॉ. राम मनोहर लोहिया, अरुणा असफअली अंडरग्रावंड जाल्यांत ही खबर ताणें हाडिल्ली. हे रगता वयले फुडारी गांधीजींक नेहरूंक मानताले, पूण तांची अहिंसा उपकरना म्हणटाले. लोकाक हें पट्टालें आनी समाजांत तांचो मोग वाडिल्लो. जॉर्ज फर्नांडिस, मधु लिमये, एस्.एम्.जोशी, ना. ग. गोरे, अशोक मेहता, युसूफ मेहरअली अशीं कितलींशीं नांवां तेन्ना गाजतालीं. रवीन्द्रा मार्फतीन तीं आमच्या कानार पडटालीं.

आनीक एक गजाल घडूंक सुरवात जाली. रवीन्द्राक मेळपाक विश्वनाथ लवंदे, जयवंत मांद्रेकार, वामन सरदेसाय हे मुखार क्रांतिकारी म्हण गाजिल्ले. तरणाटे पिर्वोळा येताले आनी एके कुडींत तांचे भितर 'फुतुफुतू' चलतालें. कितें पूण तांचे भितर शिजता ताचो म्हाका वास येतालो.

१९४६ मेरेनचो काळ रवीन्द्रान पयलीं फोंड्यां आनी उप्रांत पणजे काडलो. पणजे तो म्हात्म्याले कॉलेजींत शिकतालो. होच तो काळ जेन्ना डॉ. राम मनोहर लोहिया गोंयांत आयले आनी तांणी गोंयभर उचांबळाय पातळायली. देश स्वतंत्र जावपा कडेन पावला, गोंयाकूय एक दीस मुक्त जावचें आसा, हाची जाण गोंयभर फाकारूंक लागिल्ली.

हा वेळ मेरेन आमचो पत्रवेव्हार,वाचन, व्यापाऱ्यांचें हिशेब बरोवप, आमचीं भजनां, देवस्पणां (कांय गाराणीं सोडल्यार) आनी नाटकां मराठींत जातालीं. शिगम्याक तीन नाटकां गांवांत जातालीं. तांतलें एक कोंकणी करूंक कोण तयार नाशिल्ले.

म्हणटकीर बरोवपाची आवड आशिल्ले आमीय बी मराठींतल्यानूच बरयताले. म्हाका याद जाता, रवीन्द्रान ना. सि. फडकेक एक बायलांच्या प्रस्नाचेर चर्चा केल्लें पत्र बरयल्लें. पूण तें आपल्या नांवान न्हय. आमच्या घरांतले एके चलयेच्या नांवान. दादल्यान बरयल्ल्या पत्राक कर्वे घडये उत्तर दिवचे नात असो ताणें अदमास केलो आसूंक जाय.हें पत्र फडकेन आपल्या साप्ताहिकांत पुराय छापलें आनी ताका लांबलचक उत्तर बरयलें. गोंयां पावल्यार भेट जावची अशी अपेक्षाय परगटायिल्ली. घरांत हें साप्ताहिक पोस्टमनान दिलें आनी घे! घरभर खळखळ आनी खवदळ! सगलींच बायलां तो पत्र वेव्हार वाचूंक तें मराठी साप्ताहिक 'म्हाका दी, तुका दी' करूंक लागलीं..

आज जेन्ना कोंकणीक राजमान्यताय, संविधान मान्यताय आनी समाज मान्यताय मेळ्ळ्या तेन्ना हें उकतें करूंक आडखळ नासची, की रवीन्द्राचो गोदूबाय कडेन प्रेमपत्रवेव्हार सगळो मराठींत जाल्लो, ह्या म्हज्या दाव्याचो एखाद्रो स्टेटमेण्ट काडून रवीन्द्र इन्कार करीतशें म्हाका दिसना.

बुद्द गंभीर प्रस्न करता अश्या वयाच्या ह्या काळार, प्रस्नांचीं उत्तरां सोदपाच्या ह्या काळार, रवीन्द्र भोंवडेर भायर सरलो. तो शांतिनिकेतनांत गेलो तेन्ना थंय रवीन्द्रनाथ नाशिल्ले. तो पाँडिचेरीक (पुदुचेरी) गेलो थंय ताका अरविंदांचें आनी मदरचें दर्शन घडलां आसूंक जाय सेवाग्रामाक गांधी नाशिल्ले... अश्या अनेक ठिकाणांक ताचे जिज्ञासेन ताका व्हेलो.

गोंयांत तेन्ना चळवळ चलनाशिल्ली अशें न्हय. चळवळ घरां पुरती मर्यादीत आशिल्ली. प्रार्थना म्हणप, सूत कातप, स्वच्छतेच्यो कार्यावळी आटापप आनी केन्ना केन्ना प्रभातफेरयो काडप मडगांवां चलतालें. पुर्तुगेजांक हे आपणाक बादिकार जातलें अशें दिसनाशिल्लें. डॉ. लोहिया गोंयां जून १९४६ त आयले तेन्ना गोंयचे सुटके झुजारी स्वातंत्र्याची मागणी करूंक पयले फावट रस्त्यार आयले.

आतां पुर्तुगेज सरकाराक जाग आयली आनी गोंयांत सालाझाराचें विक्राळ रूप दिसूंक सुरवात जाली. जायत्या फुडाऱ्यांक धरले आनी तांकां मिलिटरी कोर्टा मार्फत ख्यास्त फर्मावन आफ्रिकेंत धाडले. हांतल्या दिवाकर काकोडकारक - तो कॉम्युनिस्ट जाल्ल्यान आनी सालाझाराचें कॉम्युनिस्टांक काबार करपाचें धोरण आशिल्ल्यान काबु व्हेर्द नांवाच्या जुंव्यार आफ्रिकेक मारून दिलो. थंय तो पिसो ज़ावचे धडेर पाविल्लो. गोंय मुक्ति उप्रांत तो गोंयां आयलो.

अशे परिस्थितींत सळसळट्या रगताचे तरणाटे वोगी कशे रावतले? कांय जाणांनी शस्त्रां हातांत घेतलीं, कांय जाण लिपचोरयां पत्रकां काडून वाटूंक लागले, काय जाणांनी गोंयचे सरादी भायर भारतांत कॅम्प स्थापन करून थंयच्यान ते पुर्तुगेजांचेर घुरयो घालूंक लागले. रवीन्द्रानूय ही वाट धरली आनी तो सरादी वयल्या वांगड्यांक मेळून हिंसक चळवळींत वांटेकार जालो. पूण हे चळवळींत ताका विचित्र अणभव आयलो. पाखल्यांचो कांटो काडटना आपलेच मनीस कांटे जावन नाका जातात आनी तांचोय कांटो काडीनसो दिसता अशी कितें परिस्थिती तो अणभवूंक लागिल्ल्यान ताणें विटून मुंबयची वाट धरली.

शेणिल्ल्या रवीन्द्राच्या जिविताक मुंबयन नवी दिशा दिली. आमी सगळे सुधाबाय सुरेश आमोणकार हांकां वळखतात. मुंबय वसंतबाब बोरकार रावताले. सुधाबाय तांची धूव. वसंतबाब कविराय बाकीबाबांच्या भावांतले. बाकीबाब तांगेर येवन - वचून आसताले. वसंतबाब मुंबय काँग्रेसींत एका वरिश्ठ पदार आशिल्ले. ते धवोच सदरो घालताले आनी घरा भायर सरतना घरकान्नीक बरोबर घेवन भायर सरताले. आज सुधाबायक सदांच सुरेशबाबां बरोबर आमी पळेतात ताचे फाटल्यान हें दायज आसा अशें म्हणूं येता. तर वसंतबाब श्री. कांकासायब कालेलकार हांकां अर्दीमर्दी मेळटाले. तांच्यांत आपलेपणाचे संबंद आशिल्ले. काकासायबांक डिक्टेशन घेवपाक आनी प्रवासांत वांगडा रावपाक एक लेखनीक जाय आशिल्लो. बाकीबाबां मार्फतीन रवीन्द्राची वसंतबाबां कडेन वळख जाली आनी वसंतबाबान रवीन्द्रा मुखार वयलो प्रस्ताव दवरलो आनी रवीन्द्रान तो मानून घेतलो. तेन्ना वयार आयिल्ले तरणाटे नोकरी सोदताले. रवीन्द्राकूय नोकरी मेळ्ळ्यार जाय आशिल्ली. हेवटेन गोदूबाय रावताली. रवीन्द्र काकासायबांक मेळ्ळो आनी तांचें परमिशन घेवन लग्ना उपरांत गोदूबायक घेवन वर्ध्याक कार्कासाहेबां सरीं रावंक गेलो. १९५० उपरांतचो हो काळ. काकासायबां सरीं रवीन्द्रांक 'गांधी' मेळ्ळे, 'साहित्य' मेळ्ळें, 'नदर' मेळ्ळी आनी पुत्रप्राप्तीय जाली.आतां फाटीं पळोवपाची गरज उरली ना.

रवीन्द्र जे बुनयादीचेर घडिल्लो ती बुनयाद म्हळ्यार कोंकणी. हे

कोंकणीचे वेध रवीन्द्राक वर्ध्याक लागूंक लागले.

गोंयकार एक सुसंस्कृत समाज. तो कोंकणींतल्यान बरयना जालो तरी हेर सगळे वेव्हार कोंकणींतल्यान करता. ताचो 'मी' केन्नाच गेला आनी 'हांव' ही गोंयकाराचे अस्मितायेची, अस्तित्वाची कुरू. हे अस्मितायेची, अस्तित्वाची ताका जाण करून दिवंक जाय. ताचो 'हांव' घट करूंक जाय.

शणै गोंयबाबांनी गोंयकारांच्या परधार्जिणेपणाचेर घाव घालून तें खिळाखिळावन उडयल्लें. सुरवेक शणै गोंयबाब एकलेच आशिल्ले. कार्लायल म्हणटा, "सुरवेक दर एक नवें मत एकलें एकसुरें आसता. ताका कोंबऱ्यो फुट्टात. आंकऱ्यो येतात. उपरांत काण, ताळयो, खांदयो... ताचो सावळी दिवपी रूख जाता. जाय कोंबऱ्यांची राखण करपी वांगडी."

शणै गोंयबाबांक हे हाता वयल्या बोटां इतले मेळिल्ले. तांतले मुंबय बयाभाव (का. श्री. नायक), एफ. जे. मार्टिरीस आनी गोंयांत रामचंद्र शंकर नायक, पांडुरंग भांगी, शांताराम आमोणकार, वामन सरदेसाय, रवीन्द्र केळेकार हे मुखेलपणान वावुरताले. कोंकणीक तर काकासायब कालेलकरांचोय पालव मेळिल्लो. लोकभास लोकाचें जिवीत फुलयता आनी परगटायता आनी तुमची लोकभास तर तुमकां एकचार शिकयता अशें ते म्हणटाले.









रवीन्द्राक वर्ध्या काकासायबांचें 'ज्ञाननिधीचें सान्निध्य' मेळ्ळें आनी ताका सर्वार्थान देस समजलो, तशी देसाची बुनयाद समजली. दुबाव पयसावले.

आतां रवीन्द्राक गोंयची ओड लागली. वर्ध्या सावन गोंय लागीं करपाचो एक प्रयत्न म्हण रवीन्द्रान कोंकणींतल्यान 'मीर्ग' सुरू करपाचो निर्णय घेतलो. १५ ऑगस्ट १९५३ दिसा मीर्गाचो पयलो अंक भायर सरलो. तो आठ पानी आशिल्लो आनी ताची वर्सपटी तीन रुपये आशिल्ली. मीर्गाचो प्रतिनिधी जावपाचो पार्ट रवीन्द्रान म्हाका दिलो. ताचे पयलीं रवीन्द्राक मेळूंक हांव वर्ध्याक वचून आयलों. हांव थंय काकासायबांक मेळ्ळों आनी ती संद सादून तांची मुलाखत घेवपाचें धाडस हांवें केलें. तांकां हांवें 'देसांत इतल्यो भासो चलतात आसतना एके नवे भाशेची कसली गरज?' असो वेंधळो प्रस्न केलो ताका तांणी 'तुमकां गरज नाशी दिसता मूं, करूं नाका!' अशी जाप दिली आनी उपरांत निर्मिती – creatiity म्हळ्यार कितें तें सांगलें. आपले भाशेची सेवा म्हळ्यार आपल्या मनशांची सेवा. तो भार जायना, तो आनंद जाता आनी तांतल्यान a thousand flowers bloom म्हणपाचें तांणी सांगलें.

तेन्ना गोंयांत हांव कुडचड्यार नोकरी करतालों. म्हाका याद जाता ते प्रमाण ७५ 'मीर्गा'च्या अंकांचें पार्सल येतालें. हांगाच पयले फावट नागेश करमली नांवाची व्यक्ती म्हाका भेटली जी मुखार थोर स्वातंत्र्य सेनानी जावची आशिल्ली. बंडखोर कवी जावची आशिल्ली.

पूण हो पार्ट म्हाका सुखाचो गेलो ना. कोंकणी भक्त मेळच नाशिल्ले. सामान्यतायेन सगळेच मराठीवादी आशिल्ले. तांकां 'मीर्ग' दोळ्यां मुखार नाका आशिल्लें. थोड्याक दुसऱ्या एका कारणाक लागून 'मीर्गा'चो राग येतालो. वर्ध्या सावन रवीन्द्र केळेकार 'जाणवायो' सांगता म्हणून. आनी त्योय बावटे पत्रकां च्चेरयां लावंक फावना ह्या अर्थाच्यो. करता तें दिसा उजवाडे करात. सत्याग्रह करात: लिपचोरयां केल्लें काम भिरांत रिगयता - असलें कितेंशें 'मीर्ग' सांगतालें तें वाचप्यांच्या उस्तऱ्यां वतालें.

## भुरगेपण ते तरणेपणाच्या हुंबऱ्यार

निमाणे जे मध्यान राती म्हाका कुडचड्यार धरलो त्या प्रसंगार तांकां हेर साहित्या वांगडा 'मीर्गा'चेय अंक मेळ्ळे आनी ते ट्रंकांत भरून, म्हाका धरून घेवन गेले.

मीर्ग दोन-एक वर्सां चल्लां आसूंक जाय. उपरांत काकासायब दिल्लीक गेले. रवीन्द्रान बिराड दिल्लीक व्हेलें. गांधी स्मारक संग्रहालयांत रवीन्द्रान नोकरी धरली आनी 'सान्निधीं'त रावन काकासायबांक 'मंगल प्रभात' काडूंक आधार दिलो.

ह्याच काळांत रवीन्द्रान हिमालयाचीं भोंवडी केली. आनी कांय काळा उपरांत आमकां *हिमालयांत* हें साहित्य अकादेमीचें पयलें इनाम जोडपी पुस्तक दिलें.

गोंयांत तेन्ना पुर्तुगेजांक धांवडावचेली चळवळ खतखतताली,

सळसळटाली. अशे परिस्थितींत दिल्लींत रावप रवीन्द्राक पचना जालें. काकासायबांक'चंद्रकांत केणी' दिवन रवीन्द्र मुंबय रावंक आयलो. मुंबय ताणें 'गोमंत भारती' ही संस्था स्थापन केली आनी 'गोमन्त भारती' ह्या नांवाचें रोमी कोंकणी नेमाळें सुरू केलें. मुंबयंत खास करून कुडांनी जे क्रिस्तांव भाव रावताले तांचे कडेन सामाजीक एकचार सादचो हे खातीर हो ताचो वावर आशिल्लो. 'गोमन्त भारती'न गांधी साहित्याचो कोंकणी अणकार करून कांय पुस्तकां उजवाडयलीं. स. रामचंद्र नारायण नायक हांणी चडश्या पुस्तकांचो अणकार करून दिलो.

ह्या साहित्याचो १९५८-५९-६० ह्या काळांत आमकां हांगां गोंयांत उपेग जालो. सुटके झुजारी गांवागांवांनी भोंवताले आनी ह्या पुस्तकांचें वांटप करून गांधी-विचार पातळायताले. सुटकेची चळवळ जागृत दवरताले.

रवीन्द्र उपरांत मुंबय रावूं नज जावन गोंयां आयलो. ताका गोंयचे मुक्ती पयलीं पुर्तुगेजांचे बंदखणींत रावपाचें दोन फावट भाग्य प्राप्त जालें. ह्या काळांत बंदखणींत ताचें 'नवी शाळा' हें पुस्तक जल्माक आयलें.

इश्ट अशोक कामतीन एक पुस्तक बरयलां – ''कोण कोणाचो न्हय!'' ताची याद जाता. पूण तशें न्हय. रवीन्द्र जसो म्हजो, तसो सगळ्या गोंयकारांचो. सगळ्या कोंकणी संवसाराचो. शणै गोंयबाबान कोंकणीची बुनयाद घट केली आनी रवीन्द्रान...

आन म्हाका डॉ. र. वि. पंडिताची याद जाता. र.वि. पंडित कांय थोड्यां संबंदान गोड उलयताले. तर थोड्यां संबंदान कोडू आनी तिखूय उलयताले. निमाणच्या दिसांनी तांकां मेळूंक गेल्लों तेन्ना ताणी म्हळें, ''जाणा गुरुनाथ, हांव रवीन्द्रा विशीं खूप तीख उलयलां. पूण रवीन्द्र कितें म्हणटा तें हांव जाणां. रवीन्द्र कोंकणीचो भाष्यकार. ही उपाधी ताचे बगर कोणाकूच लागू जायना. शणै गोंयबाबा उपरांत रवीन्द्राचेंच नांव कोंकणीच्या संदर्भांत घेवचें पडटलें. रवीन्द्र कोंकणी पर्सनिफायड!''

म्हजे नदरेन रवीन्द्र हो एक विचार. गोंयाक जाय आशिल्लो तेन्ना परगटलेलो विचार. ह्या विचारान गोंयांक जें जाय आशिल्लें तें मेळोवन दिलें. उणाव भरून काडलो. गोंय एक स्वतंत्र कोंकणी राज्य जालें.

कोंकणीक जेन्ना विधानसभेन मान्यताय दिली तेन्ना तें बील म्हजे भाशेन जायत्या जाणांक बरें लागलें ना. रवीन्द्राक हांवें हें म्हळें. रवीन्द्रान जाप दिली - ''तशें न्हय तें. कोंकणी राजभास जाली. राणी जाली. आतां दुसरे खंयचेच भाशेक हें शिंवासन मेळचें ना ही मोट्यांतली मोटी इतिहासीक घटना.''

मनोहरान ''मागले बगर सगलें मेळ्ळें'' म्हळें. ताचो एक खाशेलो अर्थ आसा. पूण शब्दार्थान तें घेतलें जाल्यार रवीन्द्रान फायट दिवन सगळें मेळयलें म्हणचें पडटलें. विचार आनी पेन घेवन तो झुजलो.

रवीन्द्र हो आज विचार जाला. जसो म्हजो तसो सगळ्या आमचो. सासणाक उरपी विचार. रवीन्द्र तुजो कोण हें विचारपाची गरज उरूंक ना.

''बरयता तें पन्नास वर्सां उपरांतची पिळगी वाचतली अशें बरोवंक जाय.'' रवीन्द्र म्हाका सांगता.




रवीन्द्राचें साहित्य आतां युनिव्हर्सिटी विद्यार्थ्यांच्या अभ्यासाचो विशय जालां. भारतीय साहित्य अकादमीन ताच्या साहित्याक लागून रवीन्द्राक फेलोशीप प्रदान करून तो Legend of its own time म्हण मान्यताय दिल्या.

रवीन्द्राचीं यशां आसात तशीं अपेशांय आसात. महान साहित्यीक आनी विचारक म्हण ताका मान्यताय मेळ्ळी. पूण राजकी फुडारी म्हण रवीन्द्राक मान्यताय मेळ्ळी ना. ते नदरेन ताणें केल्ले यत्न जैतिवंत जाले नात. गोंयांत 'नवी शाळा' रुजली ना. नवें शिक्षण रुजलें ना. हें रवीन्द्रा परस गोंयकारांचेंच लुकसान म्हणूंक जाय.

पेडणेच्या साहित्य संमेलनांत जर्मन कवी ब्रेक्टची एक कविता हांवें वाचून दाखयल्ली. तातूंत कवी म्हणटा,

*''जुलमा आड झुजतना हांव म्हज्या लोकां वांगडा रावलों;*
*हांवें कविता रचून भास गिरेस्त केली;*
*म्हज्या काळार जांकां मान दिनाशिल्ले*
*तांचो पाखो हांवें घेतलो;*
*आज लोक पोटभर जेवतात तें पळोवन,*
*भाशेचें आमचें वैभव पळोवन*
*आनी जुलमी तोंड घेवन गेल्लो पळोवन*
*म्हाका दिसता, म्हजें नांव कित्याक उरूंक जाय?*
*म्हजें नांव कित्याक उरूंक जाय?*
*फुडार उजळ आसा...''*

आज सगळ्या गोंयांत कोंकणीक फुलोर आयला. १९४७ आनी २००७! आमी खंय आशिल्ले, खंय पावले? जांच्यो गच्यो अंदल्यो तांकां कोंकणीन वाचा दिल्या. हें पळोवपाचें भाग्य रवीन्द्राक (आनी ताचे कडेक रावपी म्हाकाय) मेळ्ळां. आनीक कितें जाय?

बाकी वैयक्तीक सुखा-दुःखां कडेन कशें पळोवचें हें ह्या महाभारतकाराक खबर आसा. हांवें सांगची गरज ना.

# गिन्यानाग्निहोत्री रवीन्द्रः कांय विचार



◆ नंदकुमार कामत

**पूण कितलेशे भारतीय साहित्यीक रवीन्द्रबाबा भशेन ब्रह्मांडाचो मोग करतात आनी आपलें गिन्यान थळावे भाशेंतल्यान भौसा मेरेन पावयतात? एक आडवाद आशिल्लो– शिवराम कारंथांचो. तांचेंय व्यक्तिमत्व रवीन्द्रबाबाक समांतर. रवीन्द्रबाबांची कशीय वळख करून दियात, पूण हांव तांकां सगळ्यांत पयलीं वळखलों तो एक ब्रह्मांडमोगी म्हणून... रवीन्द्रबाबा इतलो ब्रह्मांडाचो – आकाशगंगा, गिरे, नखेत्रांचो – मोग कोंकणी संवसारांत दुसऱ्या कोणेंच केल्लो म्हाका दिसूंक ना...**

रवीन्द्रबाबाक ८२ वर्सां जालीं? खरेंच दिसना. हे पिरायेचेर तांकां साहित्य अकादेमीची भौमानादीक फेलोशीप मेळटा हातूंत अजाप ना. कोंकणींतलो हो एक महामनीस. तांचें जिवीत देखदिर्णे. उण्याच तीन पिळग्यांचो हो आधारवड. गोंयसून बेळगांव वचचे पयलीं म्हाका सामके लागीं आशिल्ले कवी शंकर रामाणी हांच्या *निळें निळें ब्रह्म* कवितां झेल्याची याद जाता. तो तांणी म्हाका आनी रवीन्द्रबाबाक ओंपला. म्हजी हरकत आसतनाय तांणी रवीन्द्रबाबा बरोबर म्हजें नांव जोडलें. हो केदो व्हड भोवमान! रवीन्द्रबाबाचें एकेक संपादकीय, एकेक लेख म्हळ्यार एक हितगूज, एक ललीत निबंध. दरेका निबंधांत खूब 'लावड थिंकींग' आसता. गिन्यान, तत्वगिन्यानाच्या ब्रह्मांडांतल्यान हो ब्रह्मांडमोगी आमच्या बोटाक धरून एक पासय मारून हाडटा. जेन्ना जेन्ना हांव तांचे लेख वाचतां, म्हाका संत तुकारामाची याद जाता. *'तुका म्हणे होय मनाशी संवाद, अपुलाचि वाद आपणांसि'* देहूच्या दोंगरा इतलोच सोबीत *'वृक्षवल्ली आम्हां सोयरे'* करून उडोवपी रवीन्द्रबाबाचो प्रियोळाचो वाठार. थंय हेन्री डेव्हीड थोरो भशेन तांचें 'लावड

थिंकींग' चलता. ते उलयतात तशेच बरयतात. एक वझरो कशी तांची शैली. ह्या मनशाक किते म्हणचें हाचेर हांवें खूब विचार केलो. मागीर दिसलें, तांणी कसल्यो चळवळी केल्यो, किते वाचलें, किते बरयलें हें सगळें कुशीन दवरुनूय आयज म्हजे सारक्या पन्नाशी कडेन पाविल्ल्या वाचप्या मुखार रवीन्द्रबाबाची जी प्रतिमा उबी रावता ती वेदोपनिषदीक अग्निहोत्र्याची. पूण हें निखटें गिन्यानाचें अग्निहोत्र. म्हणून रवीन्द्र केळेकार हे 'गिन्यानाग्निहोत्री'. तांचें पुराय जिवीत एका एपिस्टेमॉलॉजिस्टा भशेनच गेलां. कणाकणान तांणी मणामणांचें गिन्यान पुंजयलां. आमचेच न्हय तर, हे फुडेंय येवपी पिळग्यांक गिन्यानाचें पिशें लायतले, लागतलें जाल्यार गोंयांत तरी रवीन्द्रबाब सोडल्यार दुसरें व्यक्तिमत्व ना. ह्या मनशाची नदर कितली विशाळ ताची वळख म्हाका *ब्रह्मांडांतलें तांडव* ह्या पुस्तकांतल्यान ११८० वर्सा जाली.

: २ :

### ब्रह्मांडमोगी रवीन्द्रबाब

अ‍ॅस्ट्रॉनॉमी (खगोलविज्ञान)चो मोग करपी मनशां म्हाका आवडटात. तांकां ब्रह्मांडाचो जो साक्षात्कार जाता तातूंत अध्यात्म, तत्वगिन्यानाची भर पडली म्हणटकीच जिवीत फुलून येता. रवीन्द्रबाबा इतलो ब्रह्मांडाचो - आकाशगंगा, गिरे, नखेत्रांचो मोग-कोंकणी संवसारांत दुसऱ्या कोणेंच केल्लो म्हाका दिसूंक ना. दुर्बिणीक दोळे दसोवनूच, आत्मसंतुश्ट जावन रवीन्द्रबाब रावंक नात. तांकां उर्मी जाली - हें गिन्यान आपले पुरतें उरूं नज. तें कोंकणींत हाडूंक जाय. रोखडेंच तांणी *ब्रह्मांडांतलें तांडव* हें १५२ पानांचें सोबीत, देखदिणें पुस्तक आमचे मुखार दवरलें. योगायोग म्हळ्यार १९८० वर्साच गोंयांत खगोलविज्ञान लोकां मेरेन पावोवपाची चळवळ नेटान सुरू जाल्ली. आमचे मित्र आनीक मार्गदर्शक, गोंयचो इतिहास, संस्कृताय ह्या विशयां वेले एक तज्ज्ञ बाब पर्सिवाल नोरोञ्य. हांकांय ब्रह्मांडाचो खूब मोग. १९८२ वर्सा तांणी गोंय सरकाराचे सेवेंत आशिल्ल्या आपल्या कांय इश्टांक घेवन 'अ‍ॅसोसिएशन ऑफ फ्रेंडस ऑफ अ‍ॅस्ट्रॉनॉमी' ही संस्था स्थापन केली. आयज हे संस्थेचो हांव उपाध्यक्ष आसा. पूण म्हजी प्रेरणा आशिल्ली *ब्रह्मांडांतलें तांडव*. म्हज्याच आग्रहान आमी रवीन्द्रबाबाक पणजे जुंता हावजा वेले आमचे खगोल वेधशाळेंत आपयले. मुखेल सोयरे म्हणून. तेन्ना रवीन्द्रबाबान आपल्या ब्रह्मांड मोगाचें पिशें उकतें केलें. फुडल्या वर्सा आमचो देश पृथ्वीच्या गुरुत्वाकर्शणाची शीम हुपून चंद्राचो वेध घेवपाक चंद्रयान-१ अंतराळांत धाडटलो. आमी मंगळाचेरूय वचूंक सोदतात. पूण कितलेशे भारतीय साहित्यीक रवीन्द्रबाबा भशेन ब्रह्मांडाचो मोग करतात आनी आपलें गिन्यान थळावे भाशेंतल्यान भौसा मेरेन पावयतात? एक आडवाद आशिल्लो- शिवराम कारंथांचो. तांचेंय व्यक्तिमत्व रवीन्द्रबाबाक समांतर. रवीन्द्रबाबांची कशीय वळख करून दियात, पूण हांव तांकां सगळ्यांत पयलीं वळखलों तो एक ब्रह्मांडमोगी म्हणून.

:: ३ ::

### दार्शनिक/तत्वगिन्यानी रवीन्द्रबाब

रवीन्द्रबाबान बरयिल्लीं चडशीं म्हत्वाचीं पुस्तकां हांवें वाचल्यांत. तांचें खूबशें लिखाण अजुनूय संकलीत जावंक ना. तांच्या लिखाणांतल्यान हांव तांचें तत्वगिन्यान सोदतां. कल्पना आयडियाज सोदता. सॉक्रेटीसाच्या स्कूलाचो, बर्ट्रांड रसेल, एरिक फ्रॉम, कार्ल पॉपरचो म्हजेर खूब प्रभाव आसा. रवीन्द्रबाबान तत्वगिन्यान असो विशय घेवन प्राध्यापकी पद्धतीन कांय बरोवंक ना. हांव सोदतां, रवीन्द्रबाब केवलाद्वैतवादी कांय विशिश्टाद्वैतवादी?. आदि शंकराचार्य समजप सोंपें न्हय. पूण रवीन्द्रबाबाच्या चिंतनांत उपनिशदां येतात, धम्मपद येता, भक्तीसंप्रदाय येता, वारकरी संत येतात, तुलसीदास आनी नरसी मेहताय येता. ज्या मनशाक काकासायबां सारको 'ज्ञाननिधी' मेळ्ळो ताच्या मनाचेर कसलें जोत चल्लां आसतलें ताची कल्पना करूं येता. रवीन्द्रबाबाची नदर 'अ‍ॅनालिटिकल' कांय 'सिंथॅटीक' हें सोदपाक गेल्यार ते पृथक्करणवादी-अ‍ॅनॅलिस्ट नासून विचारसंगम, संस्कृतीसंगम घडोवन हाडपी विचारवंत म्हणून तांची वळख पट्टा. भारतीय भासो, पूर्वेचें अध्यात्म आनी विदेशी भासो, अस्तंतेची संस्कृताय हांचो मेळ घालप कठीण. आकांताचें वाचन करपी जायते लोक हांवें पळयल्यात. पूण आपणें जें वाचलां ताचेर तांचें चिंतन ना. तांकां आपल्या वाचनाचो आपरोस काडूंक जमना. फिलॉसॉफीचे भायर एक प्रांत आसा 'हायपरफिलॉसॉफीचो'. रवीन्द्रबाब एक 'हायपरफिलॉसॉफर'. तांची शैली म्हळ्यारच तांचें 'हायपरफिलॉसॉफिकल स्कूल'. जांणी जवाहरलाल नेहरूंचो 'भारताचो सोद' हो ग्रंथ तन्मय जावन वाचला तांकां 'हायपरफिलॉसॉफर' नेहरूंचो अणभव येतलो. नेहरू अज्ञेयवादी, नास्तीक. पूण तांच्या मुत्युपत्रांत जिणेची-मर्णाची 'हायपरफिलॉसॉफी' दिसता. नाजाल्यार मर्णा उपरांत आपली रक्षा देशांत सगळे कडेन उडोवपाची सुचोवणी ते करचे नाशिल्ले. तांचे इत्से प्रमाण तशें जाल्ल्यान दरेका भारतियाच्या रगतांत आता नेंहरूंचे रक्षेंतलो उण्यांत उणो एक तरी अणू आसतलोच हें खंयचोय वैज्ञानिक दाखोवंक शकतलो.

गांधी युगाची निमणी स्टेज आनी पुराय नेहरू यूग पळयिल्ले रवीन्द्रबाब. जीण, मनीस, सैम, ब्रह्मांड हातूंत तांकां अद्वैत दिसता. ह्या अद्वैताचोच पुरस्कार तांच्या लिखाणांत दिसता. उपनिशदांतल्यान विचारांचें सूत ते आमचे मेरेन पावयतात. *'एकं सत् विप्रा बहुधा वदन्ति'* ह्या वचना प्रमाण एकूच ब्रह्मवाक्य उलोवपी हो विप्र - रवीन्द्रबाब. विशय राजकी आसूं जावं सामाजीक, ग्लोबलायझेशन आसूं नाजाल्यार ग्लोबल वॉर्मिंग, मनीस म्हणून जियेवपाक आमी कितले नालायक आसात तें रवीन्द्रबाब चिमटे काडीत आमकां दाखोवन दितात. तांची हायपरफिलॉसॉफी आसा एके नवे मांडणे खातीर - पृथ्वीचे, मनीसजातीचे, भारतीयांचे. *'विरक्तस्य तृणं भार्या, निस्पृहस्य तृणं जगत्'* अशें मानपी हो मनीस. कोंकणींतलो सुभाशितकार.

'द कोटेबल कोटस् ऑफ रवीन्द्रबाब' म्हणून पुस्तक काडटलो जाल्यार हजारां वयर मोतयां, माणकां हातांत येतलीं. रवीन्द्रबाबान लव्हलॉक, मार्ग्युलीस, विल्सन, गुल्ड, डॉकीन्स, क्वामेन बी वाचला जाल्यार हांव नकळो - पूण प्रियोळ सावन ते समेस्त ब्रह्मांडाची चिंता करतात. *'चिंता करितो विश्वाचि'* अशा स्थितप्रज्ञ योगांत वचपाचो यत्न करतल्या रवीन्द्रबाबाक ज्ञानेश्वरा भशेन मदेंच उमाळे येतात - उण्याच, पंदरा-वीस फावटीं तरी तांच्या लिखाणांत हांवें वाचलें -



''घळघळ दुकां व्हांवलीं/व्हांवंक लागलीं.' कसलीं हीं दुकां रवीन्द्रबाब? कोणा खातीर? आयच्या जमान्यांत सगळ्यांच्याच दोळ्यांचेर साय येवन दुकांच आटिल्ले वरी जाल्लीं आसतना हो हायपरफिलॉसॉफर अनुश्टुभ आक्रंदन करता. अशी संवेदनशीलता, सेन्सिटिव्हिटी संप्रक्त, सॅचरेटेड जिणेंतल्यानूच येता म्हणून ज्ञानेश्वरा भशेन *'विश्वाचे आर्त माझ्या मनी प्रकाशले'* अणभव घेत रवीन्द्रबाब आपली हायपरफिलॉसॉफी आमकां सांगतात. मंत्रयुगांतल्यान यंत्रयुगा कडेन आनीक यंत्रयुगांतल्यान आमी तंत्रयुगा कडेन पावले. मंत्र, यंत्र आनी तंत्र - हें सगळें अभ्यासून रवीन्द्रबाब आमकां जागे करतात.

:: ४ ::

## 'पॉलिटिकल सोशियॉलॉजिस्ट' रवीन्द्रबाब

वीसेक वर्सां पयलीं रवीन्द्रबाबाचो एक लेख वाचून हांव सामको अस्वस्थ जालों. तांणी एक सिद्धांत मांडून भविश्याची शिटकावणी दिल्ली. तांच्या ह्या सिद्धांताक हांव 'केळेकरज सबमर्जन्स थिअरी' - 'केळेकारांचो विलयन सिद्धांत' अशें नांव हांगा मुजरत दिवंक सोदतां. वीस वर्सां पयलीं गोंयाक घटकराज्य मेळिल्लें. *'आयज आमचें राज्य आयलें'* अशी भावना जाल्ली. कोंकणी राजभास जाल्ली. जनमत कौलाक २० वर्सां जाल्लीं. पूण जशें वयर वयर, सुपरफिशियली दिसता तशें गोंय ना, तशें गोंयांत घडना हें अचूक वळखुपी आशिल्ले रवीन्द्रबाब. तांणी स्पश्ट बरयिल्लें- गोंयचें 'मर्जर' जावंक ना. पूण गोंय आनी गोंयकार फुडाराक 'सबमर्ज' जातले.

रवीन्द्रबाब संविधानाचे दुस्मान तर? भायल्यांचो द्वेश करपी? मात्तूय न्हय. जाल्यार 'सबमर्जन्स सिद्धांत' तांणी कित्याक आनी कसो मांडलो? सोंपे भाशेन आयज होच सिद्धांत मांडटलो जाल्यार म्हणचें पडटलें -१) गोंय एके संक्रमण अवस्थेंतल्यान वता. २) 'लेबर शिफ्ट' जाता तशी 'सोशल शिफ्टूय' जाता. ३) ही 'सोशल शिफ्ट' अशा एका पांवड्यार पावता की थंय थळाव्या लोकांक, नीज गोंयकारांक घुसमटून गेल्ले भशेन दिसता. 'सबमर्ज' जाल्ले भशेन दिसता. रवीन्द्रबाबान सबमर्जन्स सिद्धांताचो मागीर विस्तार बी करूंक ना. पूण ते नियाळ घेत रावले- गोंयचें उद्येगीकरण, शारीकरण, प्रदुशण, पर्यटन. ओपीनियन पोलाचो अजेंडाच आसलो - गोंयचेर मोग करतल्यां खातिरूच जाय वेगळें गोंय.' हातूंत हो भायलो - तो भितरलो अशी वांटणी नाशिल्ली. पूण १९८७ उपरांत राजकी आर्थीक वेवस्थेन विकासाचें अशें एक 'मॉडेल' गोंयाक हाडून दसयलें की, तरातरांचो लोक गोंयांत घुसूंक लागलो, मेळटा थंय रावंक लागलो. झोपडपट्टी गोंयचे संस्कृतायेंत कशीच बसना. पूण ही मुक्ततायेचीच देणगी. 'सबमर्जन्स थिअरी' कितली खरी तें गोंयचे 'लँड माफिया' आयज दाखोवन दितात. कांय गांवांनी मनशाक लासपाक वा पुरपाक मसंडी नात पूण कोट्यांनी रुपया मोडून विदेशी लोकांनी जमनी घेतल्यात. २००१ वर्साचे मनीसमेजणे प्रमाण वट्ट १ लाख ७७ हजार लोक गोंयांत हेर राज्यांतल्यान येवन रावल्यात. गोंयचें जननप्रमाण देंवत आसा. गोंयकारांचो आंकडो कसोच वाडना. पूण भायल्यान लोक येत आसात. असो एक संक्रमणबिंदू येतलो जेन्ना गोंयांत गोंयकार अल्पसंख्यांक जातले. मागीर गोंयचें कितें? कोंकणीचें कितें? धार्मीक संतुलनाचें कितें? रवीन्द्रबाबाचे 'सबमर्जन्स थिअरी'चो

जायत्या जाणांनी धिक्कार केला. तातूंतले चडशे गोंयांतले नवे वसाहतदार आसात. तांणी अस्वस्थ जावपाचेंच. भारतीय संविधानान खंयच्याय नागरिकाक खंयूय वचून (काश्मीर, हिमाचल प्रदेश, सिक्कीम, उत्तराखंड सोडून) नोकरी, व्यवसाय, धंदो करपाचो, स्थायीक जावपाचो हक्क दिल्लो आसलो तरी सामुहीक (मास) वसाहतीकरणाचें मेकळें परमीट दिवंक ना. अशें कितेंय सुपुल्ल्या राज्यांत फुडाराक जावं येता हाचें घटना समितीच्या १९४७-५० काळखंडांतल्या साद्या-भोळ्या वांगड्यांक सपन पडूं नासलें. 'सबमर्जन्स थिअरी'चो प्रत्यय मुंबयंतल्या मराठी, पारशी, गुजराती, पाठारे-प्रभू, कोळी, आगरी, ईस्ट इंडियन समाजाक दर दिसा येता आनी थंय जाल्ल्या 'डिमोग्राफिक इनसेक्यूरिटीज'चे फाटभुंयेचेर शिवसेनेचें राजकारण उबें आसा. 'सबमर्जन्स थिअरी'चो प्रतिवाद करपी कांय तरणाटे विचारवंत सांगतात - कितें जालें पयलींचें गोंय गेल्यार? आमी नवे गोंय, नवें गोंयकार घडोवया'. म्हळ्यार सुटके उपरांतच्या नववसाहतकारांची 'निओ-गोवन्स', नवे गोंयकार ही नवी जमात आमकां स्वीकारची पडटली. जे चल्लां तें पळोवन गोंयचें चर्च अस्वस्थ आसा. 'सबमर्जन्स थिअरी'चो चड प्रभाव थळाव्या क्रिस्तांवांचेरूच जायत रावतलो. त्रिश्तांव ब्रागांज कुंज्यान 'डीनॅशनलायझेशन ऑफ गोअन्स' बरोवन एका सांस्कृतीक दुयेंसाचेर बोट दवरिल्लें. 'डिमॉग्राफीक आनी कल्चरल सबमर्जन्सा'क लागून गोंयकारूच 'डिगोअनाइझ' जायत रावले जाल्यार म्हजे पिळगेचेर 'डिगोअनायझेशन ऑफ गोअन्स' बरोवपाचो वेळ येतलो, सांगूं नज. कितेंय आसूं. प्रत्येक समाजाचें एक 'डायनॅमिक्स' आसता. रवीन्द्रबाबाक वीसेक वर्सां पयलीं जो दिश्टावो जालो तो एका खांप्या पॉलिटिकल सोशियॉलॉजिस्टा भशेन. सबमर्जन्स डायनॅमिक्साचो.

:: ५ ::

## प्रवासी रवीन्द्रबाब

रवीन्द्रबाब खूप भोंवला. अखखें हिंदुस्तान ताणें पांया खाला, नदरे खाला घाला. तो हिमालयांत पावलो. जपानाक भेट दिवन आयलो. जिचेर शीण काडटा पूण जिच्या पुतांचेर मोग करता ते अमेरिकेकूय वचून आयलो. *हिमालयांत* आनी *जपान जसा दिसला* ह्या दोनूय प्रवासवर्णनांक तुळा ना. एका चिंतकाच्या प्रवासाच्यो ह्यो पटयो. हांवें *वेळे वयल्यो घुलो* वाचपाक घेतिल्लें तेन्नाच रवीन्द्रबाबाची 'प्रवासी नदर' म्हाका दिशिल्ली. रवीन्द्रबाब सादोसुदो प्रवास करिना. ही ट्रॅव्हल्स फॉर ए कॉज. रवीन्द्रबाबाचो दरेक प्रवास म्हणुनूच एका गिन्यान यात्रिकाचो प्रवास थारता. प्रवासा विशीं बरयतना जे सांस्कृतीक, वैचारीक संदर्भ येतात तांकां लागून हीं वर्णनां सुंदर जातात. रवीन्द्रबाबां कडल्यानूच दत्ता दामोदर नायकान स्फूर्त घेतिल्ली आसूंक जाय. गोंयकार संवसारभर शिंपडल्यात. मादैरा जुंव्याचेर, पिटकेर्न जुंव्याचेर, इतलेंच न्हय, ज्योकीं गॉमीश आनीक हेल्गा अंटार्क्टिकाचेरय तीन.तीन म्हयने रावन आयल्यांत. शंबरेक देशांनी गोंयकार आसतनाय प्रवासवर्णनाची परंपरा गोंयांत कित्याक ना? असल्या साहित्यान कोंकणी सरस्पतीचें मकर कित्याक सजूंक ना? दिलीप बोरकार, दत्ता नायक, उषा पाणंदीकार, हर्षा शेटये अशीं थोडींच नांवां सोडल्यार प्रस्न पडटा - आमी प्रवास करतात कांय पिकनिको?




रवीन्द्रबाबाच्या प्रवासवर्णनांक कोंकणींत जी सुवात आसा तिचो जागो अजुनूय कोणें घेवंक ना. हातुंतूच सगळें आयलें. हांव जाणां, प्रवासवर्णनांचीं तांचीं दोनूच पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. पूण अजूनय हांगा थंय पडून आशिल्ले प्रवासा वेले तांचे लेख संकलीत जावंक जाय.

:: ६ ::

## रवीन्द्रबाब - एक काव्यांजली

*तुमी गोंयचे रवीन्द्र, कोंकणीचे नाथ...*
*तुमची जिणूच एक गिन्यानाची गीतांजली!*
*ब्रह्मांडाचो तुमचो ध्यास,*
*वांगडाच मनांत तुळस आनीक वोंठांर तुळशीदास!*
*मीरा तुमकां चुमता आनी कबीर शेलो दिता,*
*फुजियामाची थंडाय तुमकां हिमालयांत व्हरता .*
*प्रियोळचो परमळ ब्रह्मांडांत परमळ्ळो,*
*अग्निहोत्रांतलो हविर्भाग एक योग जालो!*
*जिणेचे जून पिरायेर झळकता*
*एक हय-न्हयशें हांशें -*
*तुमच्या निक्त्याच जाल्ल्या भुरग्याच्या*
*अपुरबायेच्या मुखामळा वरी चेऱ्याचेर*
*तुमी 'ब्रह्म' जाले रवीन्द्रबाब?*
*हो प्रस्न आतां वोंठांर येता - अचकीत!*

# पंचामृत

◆ दत्ता दामोदर नायक



**जें आमी मुद्‌दम पुंजायतात ताचो पुरुमेंत जाता. जें आमी आमकां कळनासतना पुंजायतात, पचयतात तो पावसाच्या दिसांनी कोठयेकुडींत करून दवरिल्लो पुरुमेंत नासता. तें आमचें 'संचीत' आसता... शाणेपण सांगपी शाणे लोक आमकां वाटे पावलाक मेळटात. असल्या शाण्या लोकांचें शाणेपण आमकां पुरो जालें. आमकां रवीन्द्रबाबा भशेनच पिशे लोक जाय. अशा पिश्या लोकांच्या पिशेपणांतल्यानच फायच्या दिसाचे लोक शाणे जावंक पावतले...**

रवीन्द्र केळेकार हें एक वेगळेंच रसायन! खंयच्याच मापात आनी फास्केंत तें बसना. रवीन्द्र केळेकार ह्या नांवातूच एक नाद आनी अर्थ हांची गोडसाण आसा. तें एक पंचामृत.

राम, कृष्ण, बुद्‌ध, गांधी आनी टागोर हीं भारतीय संस्कृतीच्या मकरांतलीं पांच संस्कृतीक दैवतां! ह्या पांचूय–म्हापुरुशांनी आपले जिणेंत दिल्ली देख आनी तांणी दिल्ल्या संस्कृतीसत्वांचो पाक खिरोवनूच रवीन्द्र केळेकार नांवाचो मनीस जालो. गोंयचे सुपुल्ले वाटयेंतल्यान हें पंचामृत आमकां चाखूंक मेळ्ळां.

तो मोझायक खरो पूण गोठिल्लो मोझायक न्हय. रवीन्द्र केळेकार हो एक मॅल्टींग मोझायक. तो असेंद्रीय फातर न्हय. ती भारतीय संस्कृतीच्या रुखा वयली जिती, जिवी, तट्टीत, रसरशीत कोमरी. दिखाळ, हरव्या, पांचव्या देठाची. मातयेंतलो रोस, मळबांतलें वारें आनी सूर्याचें वत पिवन ती लिकलिकता. पावसाची दडक येवन गेले उपरांत ते कोमरे वयल्यान टप् टप् करून जे ओथांबे पडटात तांणी आमकां न्हाणयलां. हें सादें भिजप न्हय.



रवीन्द्रबाबान आपले जिणेंत कितलें सोंसलां भोगलां, हांव जाणां. अशें आसुनू पावसान भरून वोतपी वेलंगेच्या वझ्र्या भशेन आशिल्ली तांची जीण म्हाका मेळची, तांचे भशेन सादे, सोंपें, सुटसुटीत, आनी भास,शैली, अर्थ हांचे म्हौंवे गोडसाणेन थपथपिल्लें बरोवप म्हाकाय जमचें अशें म्हाका सदांच दिसलां.

रवीन्द्रबाबांचे भाशेंतलें आनी विचारांतले मिर्गाच्या पयल्या पावसांत भिजिल्ल्या मातयेच्या वासाचें ताजेपण आसा तें म्हाका खूब भावलां.

फ्रांन्सीस बेकनान एक फावट मूंय, कोळी आनी म्हौंवामूस हांची देख दिल्या ताची म्हाका याद जाता. तो म्हणटा, मूंय फकत पुंजायता आनी साठयता. कोळी आपल्या आंगांतलो स्राव काडून जाळें विणटा. म्हौवांमूस मात जें करता तें वेगळेंच आसता. तो फुलाफुलांच्या काळजांतलें म्हौंव चोखता, तें आपल्या आंगांत पचयता आनी मागीर तें म्हौंव म्हौंवातल्यान सांठयता.

रवीन्द्र केळेकार हें एक अशे तरेच्या म्हौंवामुसांचे मालें.

जें आमी मुद्दम पुंजायतात ताचो पुरुमेंत जाता. जें आमी आमकां कळनासतना पुंजायतात, पचयतात तो पावसाच्या दिसांनी कोठयेकुडींत करून दवरिल्लो पुरुमेंत नासता. तें आमचें 'संचीत' आसता.

भारताच्या आनी गोंयच्या इतिहासांतल्या एका भांगरा युगांत, एका रेनासान्साच्या काळांत जीण सारपाचें भाग्य रवीन्द्रबाबाक मेळ्ळें. जांच्या बुडकुल्यांत जांणी कांय घेतलेंच ना आनी बांयंत बुडुनूय जे सुके सडसडीत उरले असले कर्म– कट्टे लोक हें सांस्कृतीक रेनासान्स सोंपलां अशी पिरंगण करतात. रवीन्द्रबाब त्या काळाच्या स्मृतिरंजनांत गुल्ल जाता तसो फुडाराचे फांतोडेचें उदेंत सपनूय पळयता.

बर्नाड शॉन म्हळां. - Future belongs to those unreasonable men & women, who look forward, who are certain about uncertainty and who have the ability and confidence to think differently.

रवीन्द्र केळेकार हो कलंदर फकीर अश्या पिश्या मनशांत मोडटा.

शाणेपण सांगपी शाणे लोक आमकां चांटे पावलाक मेळटात असल्या शाण्या लोकांचें शाणेपण आमकां पुरो जालें.

आमकां रवीन्द्रबाबां भशेनच पिशे लोक जाय. अश्या पिश्या लोकांच्या पिशेपणांतल्यानच फायच्या.दिसाचे लोक शाणे जावंक पावतले.

अशें म्हणटात – बरेच कर्मकट्टे लोक पावसांत भिजतात. खूब थोडे लोक पावस भोगतात.

पावसाच्या उदका इतलें दुसरें पवित्र तीर्थ खंयचेंच ना.

रवीन्द्र केळेकाराच्या ओथांब्यांत न्हावप हो एक तीर्थ–भोग अशेंच हांव समजतां.

पिरायेचें अंतर आसलें तरी म्हाका रवीन्द्रबाब हो म्हजो इश्टूच कसो दिसता. म्हज्या मनांत तांचे विशी उपाट आदराची भावना आसा. पूण कांय वेळार ज्या मनशा विशीं तुमकां सुमारा भायर आदर आसता त्या मनशाचो तुमकां भयसो दिसता.

म्हाका रवीन्द्रबाबांचो असो भंयसो दिसूंक ना. तांणी म्हाका तो दिसपाक दिवंक ना. हें तांचे व्हडपण. देखून इश्टाच्या आपलेपणान, उकतेपणान आनी मेकळेपणन हांव रवीन्द्रबाबां कडेन आनी रवीन्द्रबाबां विशी उलयलां. कसलीच भीड म्हाका दिसूंक ना. रवीन्द्रबाब म्हजेर तिडकत काय हो दुबावूय येवंक ना.

हांव तांचेच पिरायेचो, अणभवान, साधनेन आनी गिन्यानान तांचेच तांकीचो अश्या पिशेपणांतल्यान हांव तांचे कडेन वागलां. खूब खेपो म्हाका रवीन्द्रबाबांचो दुस्वास जाला. मत्सरसो दिसला.

# रवीन्द्रबाब - म्हाका दिसला तसो

♦ शोतेर नॅ. बार्रेत

**सालाझाराच्या राज्यांत एलिसांव हें उतर चडशें वेव्हारांत मेळनासलें. फकत शब्दकोशांनी आसतालें. म्हणून १९६३चे अखेरेक "सांगा सगळ्या घरादारा, आमचीं मतां केळेकारा" म्हूण नारे गाजयत मोटारी भोंवूंक लागल्यो, तेन्ना मातशें अजापशें दिसलें. सिंने मेत्रॉपॉलींत वा सिने लतांत नवो सिनेमा बी आयला काय–वा नव्या तियात्राची जाहिरात बी न्हय मू? असो दुभाव येवंक लागलो. आनी मोटारींत धवोफुल्ल आनी लांबचो लांब सदरो घालून रवीन्द्रबाबाक पळेतच, "हो तांचो पाद्री वा बिस्प बा न्ही मू?" असोय दुभाव जायत्यांक मारिल्लो...**

"ग्राश" हें मूळ पुर्तुगेज उतर. तें कोंकणींत पुरायेन भरसलां. ताचो खरो अर्थ, कितेंय चकचकावंक वापरतात ती वस्त, चड करून मोच्यांक बी. म्हणचे "बूट पॉलीश". पूण कोंकणीत आयलां त्या "ग्राश" उतराचो वापर वेगळे तरेन जाता. कोणाचीय हिसपा भायर वाखाणणी वा तुस्त करप जाता तेन्ना "हो कितें ताका ग्राश मारता?" वा "पंप मारता" असो जाता. म्हणून माधवीबायेन म्हाका आपल्या तात्याचेर, म्हणचे रवीन्द्रबाबाचेर - ताचे बरपावळीचेर वा वावराचेर-कितेंय बरशीत काय म्हूण विचारलें आनी तेच बरोबर, सगलें बरें बरेंच बरोवंक जाय अशें ना, क्रिटिकल बरयल्यार अदीक बरें; तोच म्हणटा, आपणाक सर्टिफिकेटां नाकात... म्हूण सांगलें, तेन्ना हांव मातसो पेंचांत पडलो... मागीर मातसो धिरिश्ट जावन लिखणी हातांत धरली.

हांवें रवीन्द्रबाबाक पयलो केन्ना पळयल्लो ताचो बरो उगडास जायना. १९६२त दो. मनोहररायाचे येजमानके खाला मडगांवां आठवें कोंकणी संमेलन जाल्लें तेन्ना काय? वा, काकासाहेब कालेलकरां ब्ररोबर 'राष्ट्रमत' दिसाळ्याक भेट



**गोदूबाय वांगडा आंगणांत...**

दिवंक आयिल्लो तेन्ना काय? पूण स्वतंत्र जाल्ले गोंयचे पयले विधानसभेचे वेंचणुकेंत काँग्रेसीचो उमेदवार म्हूण मडगांवां उबो राविल्लो, ताचो जाल्यार म्हाका निगूत उगडास आसा. सालाझाराच्या राज्यांत एलिसांव वा वेंचणूक हें उतर चडशें वेव्हारांत मेळनासलें. फकत शब्दकोशांनी आसतालें. म्हणून १९६३चे अखेरेक ''सांगा सगळ्या घरादारा, आमचीं मतां केळेकारा'' म्हूण नारे गाजयत मोटारी भोंवूंक लागल्यो, तेन्ना मातशें अजापशें दिसलें. सिने मेत्रॉपॉलींत वा सिने लतांत नवो सिनेमा बी आयला काय-वा नव्या तियात्राची जाहिरात बी न्हय मू? असो दुभाव येवंक लागलो. आनी मोटारींत धवोफुल्ल आनी लांबचो लांब सदरो घालून रवीन्द्रबाबाक पळेतच, ''हो तांचो पाद्री वा बिस्प बा न्ही मू?'' असोय दुभाव जायत्यांक मारिल्लो. तेन्ना इतलो लांब सदरो घालपी तो एकलोच काय दिसता म्हाका.

उपरांत हांव फेलीस्युबाबाक लागून कोंकणीच्या चड आनी चड मोगांत पडत रावलों. ताका लागून कोंकणीच्या मळार वावुरपी म्हालगड्यांची लागींच्यान वळख जावंक लागली. महाराष्ट्राच्या आनी मराठीच्या आक्रमणाक लागून कोंकणी भक्तांक दोन मळांचेर झुजचें पडलें. एक साहित्याच्या आनी दुसरें राजकी. हो ''बॅलन्स'' तेन्ना सामको गरजेचो आसलो. गोंयचो फुडार नदरे मुखार दवरल्यार, ओपीनियन पोल जिखप जितलें गरजेचें आसलें तितलेंच गरजेचें कोंकणीक साहित्य अकादेमीची वेगळी भास म्हूण मान्यताय मेळप, हेंय आसलें. हे, गोंयची अस्मिताय आनी वेगळेपण राखून दवरपाचे, चळवळींत अनेक जाणांचें लुकसाण जावंक पावलां, अशें जायत्यांक दिसता. बाकीबाबा सारकेल्या साहित्यीक म्हापुरसान आपले आवयभाशे कडेन तेन्ना तडजोड केल्ली जाल्यार (आनी तशें करपाक महाराष्ट्रांतल्या आनी गोंयच्या मराठी साहित्यिकांचें चेपण ताचेर आसलें) कोंकणीक मान्यताय इतले बेगीन मेळची नासली, अशें म्हणटात. आनी रवींन्द्रबाब? रवीन्द्रबाबान,हेर भारती भासांतल्या साहित्यिकांक कोंकणीची वळख, बारीकसाण दिवप आनी, तेच बरोबर, ''लॉबींग'' करूंक नासलें जाल्यार? ताका ह्या वावरांत दुसऱ्यांचो आधार मेळ्ळा आसतलो, दुभाव तरी?

आयज ''केळेकार'' हें उतर दोळ्यां मुखार दिसतच रोखडेंच ''कोंकणी'' हें उतर येवन ताका दसूंक लागता. लोखंड आनी मॅग्नेट दसतात तशीं. केळेकार, तो मागीर गुरूनाथबाब जावं, वा सर्गेस्त सुमंतबाब जावं, वा सर्गेस्त शशिकरबाब जावं, गोदूबाय जावं, सर्गेस्त कुमुदिनीबाय जावं, हांचीं नांवां घेतच खंय तरी रवीन्द्रबाबाचो प्रभाव दिसूंक लागता. हीं तर घरचीं नांवां, रवीन्द्रबाबाच्या बरपाक लागून कितले बरयणार जागवल्यात काय आनी नवे तयार जाल्यात काय? स्टीफन ज्वैग, रवीन्द्रनाथ ठाकूर,खलील गिब्रान, लियो टॉलस्टॉय, महात्मा गांधी, जवाहरलाल नेहरू,झ्यूल्यु दांतश, हे म्हजे आवडीचे लेखक. केन्नाय तांचो विसर पडटालो. पूण हालींचीं कितलींशीं वर्सां जालीं - तीसेक आसूंये - 'जागा'ची 'नदर संपादप्याची' तांचो विसर पडूंक दिना. तशेंच दुसऱ्यांचे बाबतींत जाता आसतलें.

पुस्तकांचो मोग आसलल्यान हांव फावता तसो थोडीं पुस्तकां घेतालों. दिसतालें, म्हजे लागीं पुस्तकांचें भांडार आसा. पूण एक दीस पिरवळा पावलों आनी रवीन्द्रबाबाचीं पुस्तकां पळयलीं; तेन्ना जाणवलें, रवीन्द्रबाब कितलो गिरेस्त आनी ताची गिरेस्तकाय खंय आसा ती. तेन्नाच्यान हांवें म्हजी फाट थापटुपाचें बंद केलें. रवीन्द्रबाब आनी गोदूबायचो प्रभाव खंय आनी कितलो पसून पडूं येता? कोणाकूय जाणा जावंक जाय जाल्यार, माधवीबायेचेर नदर मारल्यार जाता. हें बरयतां म्हूण मोगाबाय आनी दो. जयवंतरावान म्हाका क्षमा करची. माधवीच सांगता तशें, ताचें भुरगेपण आनी युवावस्थेंतलें वाडप पिरवळाच जालां. (रवीन्द्रबाब तिचो मामा आनी गोदूबाय तिची आत्या.) म्हणून ती एक मिठाकण जाल्या. कोणाल्याय जेवणांत विरगळून त्या जेवणाक सुवाद हाडटा. रवीन्द्रबाबाक असल्यो आनिकूय मिठाकणयो तयार करचे खातीर देवान बरे भलायकेचें लांब आयुष्य फाव करचें, इतलेच आंवडे.

# दुर्बीण, मार्सेल प्रुस्त आणि रवीन्द्र केळेकर



♦ विश्राम गुप्ते

**केळेकरांनी कोकणी अस्मितेला मराठी अस्मितेच्या विरोधात उभं केलं. कोकणीला मराठीचा पर्याय त्यांनी सपशेल नाकारला... कोंकणी अस्मितेच्या युक्तिवादाला उठाव दिला. त्यांचा हा ध्यास मराठीच्या चष्म्यातून एकांगी भासत असला तरी कोकणीच्या चष्म्यातून बघितल्यास तो एक सांस्कृतिक पराक्रम ठरण्याचीच शक्यता आहे... श्रेयसाचा पाठलाग करणारा हा चिरतरुण विचारवंत आधुनिक कोकणीचा फिल्डमार्शल आहे हे केळेकरांच्या रणांगणावर विरुद्ध दिशेला उभे असलेले सगळे सैनिक मान्य करतात.**

१९८५ चे ते जादूई दिवस. मी नुकताच गोव्यात आलेलो. गोव्याच्या दर्यादिगेवर सतीश, दिलीप, शिरीश, मनोज, धर्मानंद, नंदकुमार, शरद या मित्रांच्या मैत्रीच्या जाळ्यात मी आपसूक जाऊन अडकलो. या साऱ्या मित्रांना भेटण्याचा अड्डा म्हणजे पणजीतल्या 'वर्षा बुक डेपो'समोरचा गाडा. (तिथे फोर स्क्वेअर सिगरेट मिळे.) नव्या मित्रांशी गप्पा रंगत. मित्रांमुळे अनेक गोष्टी सुसह्य होतात. नव्या मित्रांमुळे गोवा माझा झाला. मी स्वतःला गोवेकर समजू लागलो.

याच काळात मी दिलीप आणि नंदकुमार या दोघांकडून रवीन्द्र केळेकरांचं नाव ऐकू लागलो. 'कोकणी महाभारता'चा प्रकल्प तेव्हा जोरात सुरू होता. रवीन्द्र केळेकर 'कोकणी महाभारत' लिहितायत अशी चर्चा होती. कोकणीमध्ये महाभारत येतय, आणि ही घटना कोकणीसाठी अत्यंत अभिमानास्पद असल्याचा बहुतेकांचा निर्वाळा होता. तोपर्यंत मी कोकणीची एक ओळ वाचली नव्हती. पण कोकणी महाभारत काहीतरी मोठी घटना असावी आणि ते लिहिणारे श्री. रवीन्द्र केळेकर हे मोठे लेखक असावेत अशी एक धाकमिश्रित आदराची भावना



जनार्दन फळदेसाय, उदय भेंब्रे आनी चंद्रकांत केणी वांगडा

माझ्या मनात रुजू लागली होती.

त्या जादूभऱ्या दिवसांमध्ये अनेकदा सायंकाळी मी 'वर्षा बुक डेपो'समोर उभं राहून मित्रांशी चकाट्या पिटत असे. वेळ कसा धुरासारखा उडून जाई. आमच्या चर्चा फक्त साहित्यिकच नसत तर त्या पंचविशीतल्या तरुणांच्या तोंडी शोभणाऱ्या असत. एकदा सुमारे चार-साडेचार वाजण्याच्या सुमारास मी वर्षा समोरच्या गाड्यावर उभा होतो. आणि सात-आठ जणांचा एक घोळका मी हॉटेल प्रकाशमधून बाहेर निघताना बघितला. घोळक्याच्या शिर्षस्थानी पांढरा खादी पायजमा आणि सदरा घातलेली, चष्मा लावलेली, ओठावर पांढुरक्या मिश्या राखलेली आणि खांद्यावर शबनम बॅग अडकवलेली सुमारे पंचावन्न छप्पन्न वर्षांची, गोरीपान, किरकोळ अंगयष्टीची एक व्यक्ती किंचित खांदे वाकवून चालत होती. मोरामागे जसा त्याचा पिसारा जातो तसा त्या व्यक्तीच्या मागे चाहत्यांचा पिसारा चालला होता. कोणीतरी म्हटलं, हे रवीन्द्र केळेकर. मी त्यांना दुरून पण व्यवस्थित निरखून बघून घेतलं. 'अच्छा, तर हेच ते रवीन्द्र केळेकर' मी स्वत:ला सांगितलं. केळेकर या नावाचा उच्चार मी तेव्हा 'केळकर' करीत असे. आडनांवाच्या विशिष्ट उच्चारांमधून सुद्धा तुम्हाला स्वत:ची सांस्कृतिक अस्मिता कोरता येते हे मला पुढे कळलं.

त्या काळांत नागेश करमलींची ओळख झाली. ते त्या वेळी कोकणी महाभारताच्या प्रतींच्या आगावू ऑर्डर घेत होते. जवळचं पावतीबुक काढून त्यांनी माझ्या नावाने कोकणी महाभारताच्या द्विखंडात्मक आवृत्तीचे पैसे घेतले. (ते तेव्हा फार जास्त वाटले होते) 'कोकणी महाभारत' ही भारतीय स्वातंत्र्यासारखी एक अभूतपूर्व घटना आहे असा माझाही त्या काळी समज झाला होता. मी आगावू पैसे भरून माझ्या प्रतीची तजवीज़ केली.

हे द्विखंडात्मक कोकणी महाभारत मला पूर्ण केव्हा वाचणं शक्य होईल हा प्रश्न माझ्या सारख्या मराठी पर्यावरणात लहानाचा मोठा झालेल्याला तेव्हा अजिबात पडला नाही. 'दोस्ती के लिये सबकुछ' हा माझा खाक्या. कोकणी मित्रांना आनंद व्हावा म्हणून या आगामी ग्रंथाचं ॲडव्हान्स बुकिंग मी केलं होतं. कुठल्याही चांगल्या कामासाठी 'फंड रेझिंग'ला आपण ज्या नि:स्वार्थी मनाने मदत करतो तसं हे होतं.

पुढे, म्हणजे बहुधा १९८६च्या सुमारास दिलीप म्हणाला, "चल आपण रवीन्द्र केळेकरांच्या घरी जाऊ या. तुझी अन् त्यांची ओळख करून देतो." मग दिलीपच्या दुचाकीवर मी मागे बसून रवीन्द्रबाबांच्या प्रियोळच्या घरी गेलो. वेळ सकाळची सुमारे साडेनऊची असावी. त्यांच्या घराच्या अंगणात आनंदी ऊन पडलं होतं. हिरवी झाडं पांढुरकी दिसत होती. प्रियोळमध्ये ती माझी पहिलीच खेप.

आम्ही केळेकरांच्या ओसरीमध्ये बसलो. दिलीपने त्यांना माझं नांव सांगितलं. त्या वेळी त्यांनी माझ्याकडे ओझरतं बघून घेतलं. त्यांची पत्नी तिथेच उभी होती. गुप्ते म्हणजे तू महाराष्ट्रीयन नं? असं तिने कोकणीतून विचारलं. मी हो म्हटलं. रवीन्द्रबाब दिलीपशी बोलण्यात रंगून गेले. माझ्या वाट्याला श्रोत्याची भूमिका आली. त्या दोघांच्या संवादामध्ये मला जरा एकाकी पडल्यासारखं वाटू लागलं होतं खरं.

केळेकर माझ्याशी आपणहून केव्हा बोलतील याची मी वाट बघत होतो. लेखक मोठा असल्यामुळे आणि मी परका असल्याने थोडा संकोच, थोडी भीती आणि चिमूटभर आत्मविश्वासाचा अभाव होताच. मग रवीन्द्रबाबांनी खिशातून सहजपणे विल्सचं पाकीट काढलं. सिगरेट पेटवली आणि शांतपणे हवेत धूर सोडला. तंबाखूच्या वासाने माझं मन उल्हासित झालं. पण केळेकरांनी मला काही सिगरेटची ऑफर केली नाही. ते दिलीपशीच बोलत होते.

चर्चा बहुतेक समाजसेवेवर आली. नेमके तपशील आठवत नाहीत. पण समाजसेवा, आंदोलनं इत्यादींवर दोघं बोलत होते. विल्सचा धूर पडवीत भरलेला होता. बाहेर छान ऊन पडलं होतं. आणि रवीन्द्रबाब काहीतरी बोलले त्यावर मी अनावर प्रतिसाद दिला. (माझी जुनी सवय.) समाजसेवेबद्दल जे लोकप्रिय समज असतात त्यांना खोडून काढणारं माझं ते विधान होते. मी ते माझ्या भाषेतून म्हणजे मराठीतून बोललो. रवीन्द्रबाबांनी हातातल्या सिगरेटची राख झटकली. माझ्याकडे निरखून बघितलं आणि माझं वय विचारलं. मी ते सांगितलं. त्यावर त्यांनी माझी 'तोखणाय' केली. खरं तर ते त्यावेळी मला जे बोलून गेले ते आख्ख वाक्य मला आठवतंय.

त्यांनी मला सिगरेट ऑफर केली. मी ती आनंदाने त्यांच्या आगपेटीचा वापर करून पेटवली. आणि मग कुठे आमच्या 'तिघांच्या' गप्पा सुरू झाल्यात. माझा समाजसेवेचा अनुभव, विचारधारेचा संपर्क, वाचन, सेवा, मानवता, साहित्य, आवडते लेखक... मी, दिलीप आणि रवीन्द्रबाब गप्पांमध्ये गुंग झालो होतो. (सवयीनुसार) मी माझी मते ठामपणे मांडू लागलो. साहित्याबद्दल, विशेषत: मराठी

साहित्याबद्दल माझं वाचन मी त्यांच्याशी शेअर करू लागलो. मित्राशी बोलताना ज्या समान पातळीवर जाऊन बोलणं होतं तसं माझं आणि रवीन्द्रबाबांचं झालं होतं.

रवीन्द्रबाब मग मला प्रेमाने घरात घेऊन गेले. त्यांच्या त्या प्रशस्त घराच्या अंतर्गत रचनेची माझी स्मृती किंचित धूसर झाली आहे. (२२ वर्षे!) पण माझ्या आठवणीनुसार दिवाणखान्यालगतच मोकळ्या गॅलरीमध्ये, बहुधा भिंत किंवा लाकडी रेलिंगच्या आसपास मी एक वस्तू बघितली. ती चंदेरी किंवा काळ्या रंगाची दुर्बीण होती. आकाशाकडे तोंड वर करून असलेली दुर्बिणीची नळी मी केळेकरांच्या घरी बघितली. तोपर्यंत मी दुर्बीण प्रत्यक्षात कधीच बघितलेली नव्हती.

रवीन्द्रबाब आकाशातले तारे न्याहाळतात हे नंतर कळलं. लेखकाची दृष्टी जर आकाशात असेल तर वाचकालाही त्या आकाशतत्त्वाशी नातं वाटतं. दूरचं जग जवळ आणणारी दुर्बीण ही लेखकासाठी एक लेखणीच असते. रवीन्द्रबाबांनी आकाशदर्शनावर पुस्तक लिहिलंय. हे आकाशाचं प्रवासवर्णनच असावं. *भारतवर्षाची संस्कृतायेची साधना* हे त्यांचं भारतीय सांस्कृतिक इतिहासाचं पुस्तक त्यांच्या वैचारिकतेच्या दुर्बिणीतूनच त्यांनी बघितलं असावं. दुर्बीण... आकाशाकडे शोधक निग्रहाने बघणारी ती नळी आणि रवीन्द्रबाब हे 'असोसिएशन' माझ्या मनात बावीस वर्षांपासून ठाण मांडून बसलं.

मग रवीन्द्रबाबांनी आत्मीयतेने मला त्यांच्या पुस्तकांच्या खोलीत नेलं. एका ओळीत ठेवलेली ती सुंदर काचेची कपाटं. त्यात रचून ठेवलेले ते अप्रतिम, रोमांचकारी असे शेकडो ग्रंथ उत्सुकतेने काचेबाहेर बघत होते. आषाढी एकादशीला सावळ्या विठूला बघून पंढरीचे वारकरी कसे धन्य होतात तसं मला ते ग्रंथ बघून झालं होतं. मी पावलागणिक (मनातल्या मनात) चित्कारत होतो. रवीन्द्रबाब रंगात आले. त्यांनी मला त्यांच्याकडल्या या अनमोल रत्नांबद्दल सांगणं सुरू केलं होतं. काचेच्या कपाटांच्या त्या ओळीसमोरून मी हळूहळू जात होतो. आतला पारदर्शक खजिना डोळे भरून बघत होतो. अन् माझी पावलं एका ठिकाणी थांबली. मी आनंदाने चित्कारलो, 'अरे, मार्सेल प्रुस्त!'

प्रुस्तच्या *रिमेंब्रन्स ऑफ थिंग्ज पास्ट* या त्रिखंडात्मक महाकादंबरीचे तिन्हीही जाडजूड खंड काचेमागे उभे होते. त्यांचं ते आकाशी निळं-पांढरं मोहक मुखपृष्ठ, तो लीभस आकार. त्या काचेच्या कपाटातून आखखा मार्सेल प्रुस्त मला खुणावत होता. त्याला बघून मला सौंदर्याची ऊर्मी आली. दोनेक वर्षांपूर्वी प्रुस्तची ट्रायलजी वाचून काढण्याची एक हळवी शपथ मी घेतली होती. हाच प्रुस्त रवीन्द्रबाबांच्या कपाटामध्ये त्याच्या लिखाणाला शोभेल अशा विश्रब्ध अविर्भावात उभा होता. काळ थांबलेला होता.

मार्सेल प्रुस्त हा अभिजात फ्रेंच लेखक. त्याचं आत्मज्ञान त्याने नजाकतदार महिरपी लिखाणातून जगासमोर मांडलं. ते सी. के. स्कॉट मॉन्सरिफ या अनुवादकाने इंग्रजीमध्ये अनुवादित केलं आहे. *रिमेंब्रन्स ऑफ थिंग्ज पास्ट*चे ते तीन खंड बघून मला झालेला आनंद रवीन्द्रबाबांनी हेरला होता. प्रुस्तला ओळखणारा एक मित्र त्यांना भेटला होता. 'किती मराठी लेखकांना प्रुस्त हे नाव माहीत असेल?' त्यांनी मला मिश्किलपणे विचारलं. प्रश्नांतली खोच मला कळली होती.

मार्सेल प्रुस्तचं *रिमेंब्रन्स ऑफ थिंग्ज पास्ट*... आकाशाचा वेध घेणारी ती अनोखी दुर्बीण... स्वच्छ नितळ सूर्यप्रकाश आणि प्रियोळमधलं हिरव्या गार छायेत उभं असलेलं रवीन्द्रबाबांचं ते अभिजात घर. त्या भेटीच्या स्मृतीचा शिक्का माझ्या हृदयावर बावीस वर्षांपूर्वी उमटला. आजही तो अस्पष्ट झालेला नाही. दोन-अडीच तासांच्या गप्पांनंतर मी रवीन्द्रबाबांचा निरोप घेतला. दिलीप खूष होता. मी पण खूष होतो. रवीन्द्रबाबही खूष झालेले दिसले. आम्हाला निरोप दयायला ते अंगणांत आले होते. मग प्रियोळ जे मागे पडलं ते पडलंच.

त्यानंतर आजपर्यंत माझी आणि केळेकरांची भेट कधी झाली नाही. त्यांना दुरून बघण्याच्या संधी खूप आल्यात. पण भेट झाली नाही हे वास्तव आहे. आज ती भेट रवीन्द्रबाब नक्कीच विसरले



माधव गडकरी आणी शंकर भांडारी वांगडा...

# न्हिदिल्ल्याक जागोवपी पुस्तक!



♦ मुकेश थळी

**मोह घालपी, मनभुलोवणी शैली! रसाळ, म्हॊंवाळ, सोंपी, सादी, सुटसुटीत! ल्हान ल्हान वाक्यां, नाजूक, नकसूद उतरां, मुदयेर थीक कशीं. कलात्मकताय आनी लालित्य जिस्ताक जिस्त... तातूंत आगळें–उणें कांयच ना. हे कलात्मक व्हांवतेक लागून वाचप्याचें लक्ष मूळ विचारांच्या शब्दा पोंदच्या झऱ्या पसून कशेंच विचलीत जावचें ना हाची खोल जाण ह्या लेखकाक आसा... जडजंजाळ, कठीण, क्लिश्ट, गहन, खोल चिंतनात्मक विशय लेगीत स्फटिका भशेन नितळ उतरांनी मांडूं येता हाची देख हे दिसपट्येंतल्या साहित्यांतलें संगीत दिता.**

डायरी वा दिसपटी हो एक साहित्यप्रकार. भोव थोड्या भासांतल्या साहित्यकारांनी हो प्रकार केळयल्लो दिसता. पूण कांय साहित्यकारांनी बरयल्ल्या डायऱ्यांक चिरंतन मोलाचें म्हत्व फावो जालां.

रवीन्द्र केळेकारांलें *वेळे वयल्यो घुलो* तांचे डायरेचेर आधारिल्लें पुस्तक. हें पुस्तक मुदलांत १९७१ त उजवाडाक आयिल्लें. १९७०-७१ वर्सा लेखकान बरयल्ल्या डायऱ्यांतले विचार ह्या पुस्तकांत आसात. लेखकाची पिराय तेन्ना सुमार ४६ वर्सांची. हालींच *वेळे वयल्यो घुलोची* दुसरी आवृत्ती उजवाडाक आयल्या. नवे आवृत्तींत शुद्धलेखनाच्या नेमांचे; आनी कांय उतरांचे, वाक्यांचे मांडावळीचे बी ल्हान सान बदल सोडल्यार विचारांचे नदरेन कांयच बदल करूंक नात.

मनोहरराय सरदेसाय हांची प्रस्तावना बरेंच कितें सांगता. तातूंतलीं हीं कांय वाक्यां पळेयात –

'रवीन्द्राचे हे दिसपटयेक ताच्या जिविताची लांबाय-रुंदाय आनी खोलाय आसा.'

'सत्याचो सोद लावपी हीं चिंतना.'




'रवीन्द्राचें बरप म्हळ्यार एक साधना, आपूण कोण तें जाणा जावपाची, आपणाक सुदारपाची.'

'ताच्या बरपांतलें दर एकलें उतर जंय आसूंक जाय थंयच आसा.'

'जो ही दिसपटी वाचता... (ताका) हीं चिंतनां खोल खोल ओडून व्हरतात.'

संवसारीक साहित्यांत कांय डायऱ्यो अजूनय साहित्यमोगी वाचतात. लॉर्ड व्हेवल हांचे डायरेंत स्वातंत्र्या पयलींच्या काळाचेर उजवाड पडिल्लो मेळटा. *द डायरी ऑफ सॅम्युएल पिप्स* हीय एक वाचपा सारकी दिसपटी. *डायरीज ऑफ व्हर्जीनिया व्हुल्फ, जर्नल्स ऑफ अर्नोल्ड बेनेट, जर्नल्स ऑफ आंद्रे जिद, डायरीज ऑफ थॉमस हार्डी, डायरीज ऑफ फ्रान्ज काफ्का* ह्योय डायऱ्यो गाजल्यात. कथाकार आनी कादंबरीकार सॉमरसेट मॉम हांची *रायटर्स नोटबूक* ही दिसपटी वाचपा सारकी आसा. *मार्किंग्स* ही दाग हेम्मरशॉल्ड हांची डायरीय अशीच. *टू वॉर विथ विटकर: द वॉर टायम डायरीज ऑफ द काउंटलेस ऑफ रॅनफर्ली* ह्योय डायऱ्यो दिसपटी फॉर्माची तांक आनी बळगें दाखयतात. काकासायब कालेलकरांच्यो दिसपटयो म्हळ्यार गिन्यानाच्यो खणी. *वा. ल. कुलकर्णी यांच्या डायरीतील पाने* हे पुस्तक मराठींतलें दिसपटयेचें एक बेस बरें पुस्तक. हिंदी भाशेंत *मलयज की डायरी, निर्मल वर्मा की डायरी* आनी कवी अज्ञेयाची *शेषा* आनी हेर डायऱ्यो आसात. रवीन्द्रबाबांची डायरी ही कोंकणी भाशेंतली पयली दिसपटी. कोंकणी भाशेक समृद्ध करपी. कोंकणी संवसाराक डायरी फॉर्माचो जादू दाखोवन दिवपाचें श्रेय रवीन्द्रबाबाक वता.

रवीन्द्रबाबांचे हे डायरेंत काकासायबांचो उल्लेख खूब कडेन आयला. 'काकासायब कालेलकार फुडारांतल्या नेतृत्वाचे आद्य ऋषी' असो एक लेख आपणें बरयल्लो अशें लेखक एका पानार सांगता. काकासायबांक लेखक प्रस्न विचारता. प्रस्नाक मेळिल्ली जाप आपणाक कशी पटली तेंय लेखक मुखार स्पश्ट करता आनी वाचप्यांकूय ताची स्फटिका भशेन स्पश्टता दिता. काकासायबांचो लेखकाचेर बरोच प्रभाव दिसून येता.

श्रीकृष्णा विशींय लेखकाक आकर्शण आसा. ताच्या देखणेपणा विशीं माहिती दिवपी लेखकान डायरेंत एक पान बरयलां.

राम मनोहर लोहिया हांचीय लेखकाक खूबच अर्थ-अपुरबाय आसा हें खुब सुवातांनी दिसून येता. लोहियांच्यो कितल्योश्योच गजाली ताकां आवडल्यात. पूण तांचे विशीं संतुळीत विचार करतना ते संयम बाळगून बरयतात. ते सांगतात, 'लोहिया जवाहरलालजीं संबंदान जें उलयताले तें आयकूं नज जातालें.' मुखार म्हणटात, 'पूण तांणी (लोहियान) जें सोंसलां तें सोंसपाचें व्हय? लोखणाच्या काळजाचे ते.'

जिणेचो अर्थ कितें ह्या विशयाचेर खूब खोलायेन चिंतून लेखकान दिसपटयेचें एक पान बरयलां. आपूण ते नदरेन कितें आनी कसो चिंततां हे विसकटावन सांगतना वाचप्यांक लेखकान विचारप्रवृत्त केल्यात. चिंतपाक लेखकाक कसल्याच विशयाचो पातसो ना. जाती आसूं, समाजीक बदल आसूं, हिंप्प्यांची जीण आसूं, समलैंगीकताय आसूं, नीत आसू, देवधर्म आसूं, लेखक आनी साहित्य आसूं, नाजाल्यार जिणेंतलें दिसपट्टें सैमीक सौंदर्य आनी तातूंतलें काव्यमय लालित्य आसूं, लेखक नव्यान ताका फुडो करता आनी आपणाक तें कितें भिडलां तें वाचप्यां मुखार मांडटा. अशें करतना तो वाचप्यांचेर आपले निश्कर्श लादिना वा थापिना. वाचप्याक चिंतूंक लायता. ताचे मेंदूचे सुप्त कप्पे कार्यप्रवण करता. हें लेखकाचें व्हडलें यश!

भोंवतणी जे बदल घडतात. ते विशीं लेखक भोव सादूर आसा हें ठांय ठांय होलमता. डायरेच्या एका पानार अशें आयलां -

'काकासायबांनी एके कडेन विद्वानांक एक बरें पियाद मारलां... एक कितें तरी समजायतां समजायतां मदींच एक संस्कृत वाक्य घालां आनी मुखार म्हळां - जंय बुद्द चलना थंय संस्कृत चलता!

फाटल्या काळार, मदीं मदीं संस्कृत वाक्यां घाले बगर खंयच्याच विद्वानाक बरोवंक येनाशिल्लें. न्हय... संस्कृत वाक्यां घालून जाका बरोवंक येना ताका लोकूच विद्वान लेखिनाशिल्ले.

आतां संस्कृत भाशेची सुवात इंग्लीश भाशेन घेतल्या. (१२-११-१९७०)

रवीन्द्रबाब केळेकार खूब वाचतात. वाचन ही तांची एक साधना. चौफेर वाचनाक लागून तांचें व्यासंगी व्यक्तीमत्व घडलां आनी हाची झलक संबंद दिसपटयेंत वाचप्याक पावला कणकणीं मेळटा. देशी तशेंच विदेशी लेखकांचें बरें बरें साहित्य तांणी वाचलां. तें विशींचीं तांचीं पारदर्शक मतां आनी विचार वाचूंक मेळटात आनी ते साहित्य वाचपाची वाचकाक प्रेरणा मेळटा.

जिणेच्या म्हालसागराचे वेळेर लेखक रावला. फेंसाळपी दर्यांतल्यान तरेतरेच्यों घुलो, शिपयो उसळून वेळेर आयल्यात. लेखकान त्यो दर दिसा पाशियेंसान पुंजायल्यात. तांचे रंग, गंध, आकार, रूप हांचो स्वता अणभव घेतला आनी वाचप्यांकूय तो तितलेच उत्कटतायेन वांटला. मनोहरबाबान प्रस्तावनेंत योग्य उतरांनी म्हळां - 'ह्यो(य) घुलो कानाक लायल्यार तातूंतल्यान जिविताच्या दर्याचो उलो कानांत गाजतलो.'

रवीन्द्रबाबांच्या खंयच्याय लेखांत गांधींजीं विशीं आनी आमकां खबर नाशिल्ल्या नव्या गजालीं विशीं माहिती मेळप हातूंत अजाप कसलें? देखीक, दिसपटयेचें हें सातवेंच पान पळेयात -

'आचार्य कृपालानींचें Gandhi, His Life and Thought आयज वाचून सोंपयलें. कृपालानींचें खंयचेंय बरप हांव रुचीन वाचपी. (राजाजींचें आनी लोहियांचें वाचपी, तशें.) पुणून ह्या पुस्तकान मातसो निर्शेलों म्हळ्यार जाता. हातूंत कृपालानींनी गांधी विशींचे आपणाले उगडास दिल्यात जातले अशें दिशिल्लें. गांधी विशींचो तांगेलो estimate

तरी आसतलो अशें मानिल्लें पळोवंक गेल्यार, हें गांधींचें चरित्र!

गांधींचीं चरित्रां हाच्याकूय बरीं दुसऱ्यांनी बरयल्यांत.

पुस्तक सोंपता सोंपता हांव खंती जालों. चड करून गांधींच्या जिवितांतल्या निमाण्या वरसांची खबर वाचतना. ह्या निमाण्या वरसांनी गांधी सामके एकले पडिल्ले. तांगेले लागशिल्ले लोक लेगीत तांचे पसून पयस गेल्ले. कोणूच तांगेलें म्हणणें आयकून घेनाशिल्लो. इतलेंच न्हय तर दिल्लींत तांगेली पतूय देंविल्ली. कृपालानींनी ह्या पुस्तकांत एक खबर दिल्या. एक फावट खंय गांधींनीं सरदार पटेलांच्या सेक्रेटरीक एका कामा खातीर आपोवंक धाडलो. जाल्यार, ताणें आपणाक वेळ ना म्हूण सांगून धाडलें!

जे निसणीचो आधार घेवन हे लोक वयर सरिल्ले ती निसणूच तांणी वयर सरना फुडें भायर उडयल्ली!

खरें म्हळ्यार, ते मुस्तींत एकल्याचीच तकली जाग्यार आशिल्ली, ती गांधींची. स्वराज्य लागीं पावपाक बाकीचे सगळे - कोण जाणा, कशे म्हूण! - कोणाच्या तरी हातांतलीं बावलीं जावन नाचताले!'

जिवितांत उमेद भरून आसूंक जाय. मन सदांच तरतरीत दवरूंक जाय. टवटवीत ताजेपण आनी नित्य नूतन अशी ही उर्जा कशी कितें राखूं येता हाचो दिश्टावो लेखकाक एक दीस ताची भाची घडयता. फाल्यां दिवाळी अशें म्हणत आनंदांत नाचपी आपली भाची लेखकाक आपणाल्या भुरगेपणाचो उगडास करून दिता. रवीन्द्रनाथांनी *गीतांजलींत* सांगिल्लें तत्वगिन्यान तकलेंत घोळूंक लागता आनी एक व्हड तत्वगिन्यान लेखकाचे सुपीक प्रतिभेंतल्यान उदेता. तांच्याच उतरांनी -

> 'जिविताचीं तीन-चार रुपां पळेलीं. सगळींच 'सुंदर' आशिल्लीं. अर्थान उपाट भरिल्लीं आशिल्लीं. दर एके अवस्तेंत कोणाचो तरी म्हाका सांगात एका सारको मेळत आयला. 'तो म्हाका हाताक धरून चलयत चलयत हांगा मेरेन घेवन आयला. हांव चलत आसां आनी 'तो' म्हाका उलो मारीत आपयत आसा. भुरगेपणांत जो म्हजे वांगडा खेळटालो तोच आयज म्हजे म्हऱ्यांत रावन म्हज्या वावरांत वांटो घेत आसा आनी हांसत हांसत नव्या रुपान सांगात दीत आसा.
>
> 'आयज म्हजे जिणेच्या 'आनंदा'नूय नवें रूप घेतलां...'

राजाजींच्यो खबर नाशिल्ल्यो गजाली दिसपटयेंत आयल्यात. निरद चौधरी, खलील जिब्रान, सॉमरसेट मॉम, फ्रेंच लेखक गुस्ताव्ह फ्लॉबॅर, दाग हेम्मरशॉल्ड, जे. कृष्णमूर्ती, तुलसीदास आनी हेर संत, आनी हेर कितल्याश्याच देशी आनी विदेशी लेखकांच्या साहित्या विशींचे संदर्भसंपन्न उल्लेख दिसपटयेंत आयल्यात. चित्रकार, स्वातंत्र्यसैनीक, समाजसुधारक आनी हेर प्रतिभावंतांच्यो आनी विचारवंतांच्यो गजाली लेखक रवीन्द्रबाब हे दिसपटयेंत 'एक आशिल्लो राजा आनी एक राणी' हे भाशेन, काणी सांगिल्ले वरी, सोंपेपणी कथन करता.




समग्र रवीन्द्र केळेकार साहित्याचें एक लक्षांत भरऽ सारकें पर्जळीत खाशेलेपण आसा. हय. प्रस्थापीत तशेंच उदेत्या आनी फुलपी-वाडपी लेखकान शिकपा सारकें अनुकरणाचो मोह जावपा सारकें.

कितें तर तें?

मोह घालपी, मनभुलोवणी शैली! रसाळ, म्होंवाळ, सोंपी, सादी, सुटसुटीत! ल्हान ल्हान वाक्यां, नाजूक, नकसूद उतरां, मुदयेर थीक कशीं. कलात्मकताय आनी लालित्य जिस्ताक जिस्त जाय तितलेंच. तातूंत आगळें-उणें कांयच ना. हे कलात्मक व्हांवतेक लागून वाचप्याचें लक्ष मूळ विचारांच्या शब्दा पोंदच्या झऱ्या पसून कशेंच विचलीत जावचें ना हाची खबरदारी जाण आनी जतनाय ह्या लेखकाक आसा.

जडजंजाळ, कठीण, क्लिश्ट, गहन, खोल चिंतनात्मक विशय लेगीत स्फटिका भशेन नितळ उतरांनी मांडूं येता हाची देख हे दिसपटयेंतल्या साहित्यांतलें संगीत दिता.

पुस्तकाची पयली आवृत्ती १९७१ त उजवाडाक आयिल्ली. नवी आवृत्ती अंदू २००७त आयल्या. मांडावळ, अक्षर रचना, चित्रां, छापप, आकार सगल्याच आंगांनी ही आवृत्ती सुंदर जाल्या. पुस्तकाचें मोलूय सामकें आकर्षक! १८४ पानांचें पुस्तक, आनी मोल फकत ८० रुपया.

हो लेख सोंपयतना दिसपटयेंतल्या ह्या चाळिसाव्या माणकुल्या पूण चिंतपाक प्रवृत्त करपी पाना कडेन लक्ष ओडपाचो मोह जाता -

> पणजे थावन परततना एका बुक-स्टॉलांत भितर सरलों. नवीं पुस्तकां आयिल्लीं. तीं पळेतालों.
>
> म्हजे वांगडा एकलो आशिल्लो. तो भायर उबो रावलो आनी म्हजें सोंपच ना-शें दिसतकूच वाजेवन म्हणूंक लागलो, 'चल... या रे... फाल्यां परतें येवं येत...'
>
> हांवें हॉचनरचें Papa Hemingway घेतलें आनी भायर सरलों.
>
> वाटेर ताका हांवें विचारलें, 'तूं पुस्तकां बी वाचिना?'
>
> 'पुस्तकां? न्हीद पडना तेन्नाच घेतां हातांत.' ताणें जाप दिली.
>
> 'वाचपाक?'
>
> 'न्हय... न्हीद येवपाक...'
>
> म्हाका हांसो आयलो. म्हळें, न्हिदिल्ल्यांक जागोवपाक लोकांनी पुस्तकां बरयल्लीं. युग बदल्लें. आतां लोक न्हिदपाक पुस्तकांचो उपयोग करपाक लागले!...'

*वेळे वयल्यो घुळो* दिसपटी न्हिदिल्ल्याक जागृत करता हें मात खरें !

❧

# रवीन्द्रबाबाल्या आप-बरपाची व्हांवती

♦ किरण बुडकुले

**ह्या पुस्तकां वरवीं गद्य लेखनाचे वाटेर नव्या सोपणांची उभारणी केल्या. तटस्थतायेन आपणाल्या अणभवविश्वाक तिजपाचो यत्न, उगडासांत लेगीत 'स्व'ताक केंद्र सुवात दिवंक अनमनप, आनी कालचित्रण करतना अळंग समाजमानसाचो थाव घेवप ह्यो मोरवी ह्या आपबरपांत दिसतात. पूण निरीक्षक आनी गवाय जेन्ना अणभवांतलो 'वाटेकार' आसता, तेन्ना वस्तुनिश्ठता आनी व्यक्तिनिश्ठता हांची संतुळा राखूंक पळेतल्याक भरती-सुकती चुकना; भोंवरे-भाटी टळना.**

कोंकणी सरस्पतीचे गर्भकुडींत कांय विशेश व्यक्तिमत्वां अक्षर रुपान शाश्वत जावन रावल्यांत. तांचीं नांवां घेतले बगर कोंकणी वाचप्याचें पंचायतन पुराय जायना. हे दैवतावळींतलें एक पर्जळीत नांव म्हळ्यार रवीन्द्र केळेकार. तांचे साहित्यीक गरिमेचें-व्हडविकायेचें - वर्णन करतना प्रतिभावंत आनी प्रज्ञावंत हीं दोनय विशेशणां मुजरत वापरचीं पडटात. हाचें कारण म्हळ्यार रवीन्द्रबाबान साहित्य-साधना करतना आपणाले प्रज्ञेकय सतत पालय फुटत रावची म्हण सदांच जतनाय घेतल्या. हाका लागून साहित्य-सांगाती रवीन्द्रबांबा परसय विचार-वांगडी रवीन्द्रबाब सदांच चार पावलां फुडें उरला. विशेश म्हळ्यार, ह्या दोगां परस सामाजीक-भौशीक बांदिलकी आशिल्लो जीवनोन्मुख वावुरपी तशेंच जागाचो संस्थापक संपादक आनी वृत्तपत्र स्तंभकार रवीन्द्रबाब धा आंगळां वयर रावला.

ललीत गद्याच्या विवीध प्रकारांचेर आपणाली खाशेली छाप दवरून रवीन्द्रबाबाले सुलभ भाशेन कोंकणी गद्याच्या वाठारांत मोलाची भर घाल्या. सोंपी भास, मेकळी विचारं-सांखळी आनी तट्टटीत उतरावळ हें तांगेले लिखणेचें वैभव.

मात निबंद-नवलिका-लेख-अग्रलेख बरोवपी रवीन्द्रबाबान कविता बरयिल्ली दिसना. तांकां कवीले गदय बरोवपाचे तांकी विशींच शंका आसा. पूण ह्या साहित्य उपासकान आपणाले म्हींवे शैलीन कोंकणी गदयांत मात कांय खाशेल्या साहित्य प्रकारांचें मुळावण घालां. जाल्यार कांय प्रकार तांणी कुशळतायेन हाताळून तांचें भांगर केलां. हातूंतले मुखेल प्रकार म्हळ्यार दिसपटी, उगडास, जीण आनी आपबरप तशेंच भोंवडेवर्णनां. हे वाटेर तांचें अनुकरण करपी दत्ता दा. नायक, दिलीप बोरकार, सुमेधा कामत देसाय, दामोदर मावजो, सुमंत केळेकार, स. फ्रँडी द कोश्त आदी मेजकेच पूण लोकप्रिय कोंकणी बरोवपी आसात. अप्रत्यक्षपणान हे प्रकार आपणाल्या सर्जनशील बरपांत वापरप्यां मदीं चंद्रकांत केणी आनी दत्ता श्री. नायक हांचो उल्लेख गरजेचो. कविते विशीं खास आस्था नाशिल्ल्या ह्या लेखकाच्या ह्या योगदानाक कवितेनच जोखचें जाल्यार म्हणचें पडटलें, *'मै अकेला ही चल पडा था जानिब-ए-मंजिल/लोग आते गये कारवां बनता गया।'*




तांगेल्या सर्जनशील बरपांत आप-बरपांचो अग्रणी वांटो आसा. प्रस्तुत लेखांत तांगेल्या *सर्जकाची आंतरकथा* आनी *पांथस्थ* ह्या दोन पुस्तकांचो संदर्भ घेवन तातूंत दिसपी लेखक, ताची विचारीकता आनी - जंय जाणवता थंय- विसंगती/विरोधाभास हांची विस्कटावणी करचेलो यत्न जातलो. तशें पळेल्यार दरेक लेखक आप-उकतावण करता-केन्ना जाणून बुजून केन्ना नकळटां, अदीक करून कविते सारक्या सृजनांत लेखक अचळय पूण सुक्षीमपणान देंवता; जाल्यार गदयांत ताका सोदून ठळकपणान खिळावप चड कठीण नासता. मात रवीन्द्रबाबाची गजाल मातशी वेगळी. तांच्या मतान, तांणी जाणीवपूर्वक आपल्या बरपांत आपली निजी जीण वा व्यक्तिमत्व दाखोवचेलें टाळ्ळां. जें कितें दिसलां तें संदर्भानुसार वा निमित्यमात्र...! देखून तांगेली *'सर्जकाची आंतरकथा'* विल्यम वर्डस्वर्थाचे 'प्रेल्यूड' हे प्राक्कथनपर म्हाल-कविते वरीच आपजीण जावंक न्हय जाल्यार 'लेखकाच्या अंतराची उदरगत' उकतावंक सोदपी बरपावळ जावंक आंवडेता. तेच परी, *पांथस्थांत*य तांणी स्पश्टच म्हळां, तें 'पुस्तक उगडासांचें जाल्ल्यान तें आत्मकथे सारकें दिसूं येता. पुणून... ही आत्मकथा न्हय... उगडास सांगतल्याच्या संस्काराची फाटभूंय वाचप्यांक थोडी भोव कळची तितले पुरतेंच थोडें आत्मकथन हातूंत केलां.' ('प्राक्कथन').

*सर्जकाची आंतरकथा* ठळकपणान तीन वांट्यांनी वांटूंक जाता. एक वांटो सृजन-प्रक्रिये विशींचो. म्हळ्यार, बरोवपी कोण, बरपा फाटली प्रेरणा, बरोवप्याचें ध्येय वा मोख, बरपा वेलो प्रभाव आनी वाङ्मयचौर्य, बरोवप्याची साधना आनी खावड. भोंवडी-स्वाध्याय हांचें महत्व हे संबंधीचो आसा. दुसरो वांटो व्हड सामाजीक नदर आनी भौशीक वावर केल्ल्या साहित्यिकां खातीर मुजरत वापरला; जाल्यार तिसरो वांटो साहित्या कडेन जोडिल्ल्या पत्रकारिता, प्रगतिशीलताय आनी पलायनवाद, नामना आनी इनामां, सायंटिफीक टॅंपर आनी नैतीक टॅंपर आदी विशयां खातीर आसा.

ह्या पुस्तकांत लेखक एक भौशीक बांदिलकी आशिल्लो, भाशे कडेन खाशेली लागणूक दवरिल्लो, साधनेक नेमान सुवात दिवपी सर्जक तशेंच आपले वेले 'हजारांनी प्रभाव' मानपी व्यासंगी प्रतिभावंत म्हूण भेट्टा. साहित्याक तो जिविताचें उपफळ मानता. मायभाशे विशींचे बांदिलकेक तो अनन्यसाधारण म्हत्व दिता. सर्जका मदल्या 'लेखका'परस तो ताचे मदल्या 'झुजाऱ्याक' म्हळ्यार 'फायटरा'क वयली सुवात दिता. आयच्या तशेंच भावी बरोवप्यांक तो खाशेल्यो शिटकावण्योय दिता. देखीक, अकालीं 'पूर्णवेळ लेखक' जावपाचो धोको; सुंदर शैली परस सोंप्या विचार-उकतावणाचो वयलो दर्जो राखचेली गरज; सृजन ही सतत चालू उरपी प्रक्रिया ही चत्राय; स्वाध्याय निरंतर चालू दवरचेली कसवटणी; आपणाक पटिल्लो विचार बुद्धीच्या वरकुलार घांसून स्विकारले उपरांतच ताचो प्रामाणीकपणान फाटपुरावो करचेली लागणूक, आदी.

सर्जक रवीन्द्रबाबाक असंख्य बरोवप्यांचो ओडो आसा; हातूंतले कांय तांगेले हीरो वा रोल मॉडॅल आशिल्ले हें होलमता. तांगेल्या आवडट्या प्रभाव-क्षेत्रांत जे कृष्णमूर्ति, टॉलस्टॉय, र. धों. कर्वे, कोशकार केतकर हे गिन्यानस्रोत आसपावतात. जाल्यार गीता, बुद्ध, ख्रिस्त हीं तांगेलीं प्रेरणाथळां आसात अशें वाचप्याक दिसता. तांचे मदल्या सर्जकाक मूल्यां, संस्कार आनी विचार दिवप्यां मदीं गांधीजी, काकासाहेब कालेलकर, लोहिया, मीरा आनी कबीर हीं श्रद्धास्थानां स्पश्टपणान गणूंक मेळटात. हांचे भायर दृश्टे-लेखक-झुजारी म्हूण तांगेले रोल मॉडॅल जवाहरलाल नेहरू, मार्सेल प्रूस्त, फेर्नांद पेस्सोअ, रवीन्द्रनाथ नदरे सामकार उबे जातात. बाकीबाब, दत्ताराम सुखठणकार, चा. फ्रा. हे कोंकणी मनीस तांकां जिवाभावाचे कशे दिसल्यात हें पुस्तक वाचतना वाचप्याक जाणवता.

*सर्जकाची आंतरकथा* वाचतना लेखकाच्यो कांय धारणा खटकतात, जाल्यार ताचे कांय दुराग्रह वा विचारांतल्यो विसंगती जाणवले बगर रावनात. देखीक, (१) तो म्हणटा, 'कवीक बरें गदय बरोवंक येना वा बऱ्या वक्त्याकय बरें बरोवंक येना, ते रेटरिकांत घुसपल्ले लोक'. ही लेखकाची एक लटीक धारणा. ती कितलींशींच उदाहरणां दिवन फट थारावंक येता. बापू वा जवाहरलाल हे सुंदर वक्ते पूण आकांताचे गदय बरोवपीय; तीच गत्त दो. मनोहरराय सरदेसायांची वा उदय भेंब्रे हांची. बाकीबाबांलें गदयय तांगेले कविते वरीच ओडलायणें. पुंडलीक नायक हांचें ललीत गदय आनी कविता तेच तांकीची. (तांचें ललितेतर गदय चड वाचूंक मेळिल्लें ना.) देखून लेखकालें मत पटना. अशेंच तांचें आनीक एक मत्त म्हळ्यार, जे कोंकणी भाशी हेर भासांनी

बरयतात ते 'साहित्यीक शिंदळकी' करतात. हें मत्त तिडकी भरशीं मांडलें तरी सिद्ध कशें करप? खंयचो लेखक खंयचे भाशेंत बरोवंक सक्षम आसा हें निमाणें कोण थारायतलो? खुद्द तो बरोवपी काय हेर कोणूय? कर्नाडाचें तुघलक कन्नड भाशेंत कशें जालां हें हांव सांगूंक शकना; पूण तें इंग्लीशींत उत्तम जमलां. कोंकणींत तांकां तशेंच जमत आशिल्लें हें कोणाच्यान सांगूंक जायत?




२) 'कोंकणीक उबंत उडोवन जे गोंयकार नांव जोडपा खातीर मराठींत बरयतात' अश्यां मदल्या एका कवीक ह्या दुटप्पीपणा खातीर लेखक माफ करूंक शकना हें पुरायेन पट्टा. ताचे तसले भुमिके खातीर तो 'त्राय्जांव' (द्रोह) हें उतर वापरता, हें बरें आसा. पूण ताचें नांव सांगपाचें टाळटा हें योग्य न्हय. तो गोंयकार म्हूण वा मित्रवर्गी म्हूण ताका अशी खाशेली सूट मेळटा? अशें करपांत अन्याय तर आसाच पूण एक धोकोय आसा. हाका लागून नवो वाचपी तो कोण हें आपले परीन थारावन भलतेच व्यक्ती विशीं गैरसमज करून घेवंक शकता. ते भायर, नांव स्पश्ट बरयल्यार खुद्द त्या कवीक आपली 'देफेज' करूंक जाय जाल्यार संद मेळटा, कारण हें विधान ताचे हयातींत केल्लें आसूं येता.

३) अशीच एक पटपाक कठीण गजाल म्हळ्यार, ज्ञानेश्वरी सारके ग्रंथ वाचपा विशींचें विधान: 'मनीस तेंच तेंच वाचत रावलो म्हणटकूच ताचें मन भेरेता. वाचता ताचो अर्थ ताच्या लक्षांत वचना. वाचता ते विशीं इल्ली इल्ली करून एके तरेची वंदनशील सुप्ती ताच्या मनांत निर्मण जाता.' (३२) हांगा एक म्हणचें पडटा. वाचन हातूंत मनन आसपावना जाल्यार अशें जावं येता. हरशीं कितलेशेच नमळ प्रज्ञावंत - कोणाकच आपले विद्वत्तेचें दर्शन घडयनासतना - आपल्या स्वाध्याया खातीर अशें तरेचे ग्रंथ-पारायण आनी चिंतन-मनन करीत आयल्यात. मनशान आपली बुद्द आनी मनाचीं कवडां धांपून वाचल्यार अशी 'सुप्ती' येवं येता; बरपांतलो आशय-मूल्यां सांडून कुड्डी विभूतीपुजा केल्यार वा आपणाक त्या विचारां वेलो 'अधिकारी' मानल्यारय अशें घडूंक शकता. पूण सरसकट हें विधान खरें मानूंक मन तयार जायना.

४) कांय कडेन लेखक भावनेच्या भरांत अनिश्ट, अशिश्ट वा अयोग्य उतरां खास गरज नासतनाय विशिश्ट मुद्द्यांक वंगण लावचे खातीर वापरिल्ले वरी वापरता. घोव-बायले मदीं मेकळी स्पेस - अवकाश - नासतना जियेवपी जोडप्यां मदले बायलेक उद्देशून रवीन्द्रबाबान 'रखेल' हें उतर वापरलां; ताची खरीच गरज आशिल्ली? 'साहित्याच्या मळावेली शिंदळकी' ह्या लेखांत घडये अनावधानान 'कलवंत' हें उतर 'शिंदळ' हाका समांतर वापरलां हें खूब खटकता. तांगेले पिळगेक तर हें निखालस सोबना. ते पिळगेची नदर कशी आसची हाची बरी देख सुमंतबाब केळेकारांल्या उगडास बरपांत मेळटा. लेखकान अशी भावनीक मेकळीक घेतल्यार ताका आदर्श मानपी भावी बरोवपीय अशीच सूट घेवपाची शक्यताय आसा.

५) वाचतना एक-दोन दुबावी मुद्दे जे म्हाका चूक दिसल्यात तेय मांडटां. व्यास-वाल्मिकी विशीं लेखक 'एकलोय ब्राह्मण न्हय. एकलो जातीन कोळी. जाल्यार दुसरो खारवी. तांचे मुस्तींत साहित्याच्या मळार ब्राह्मणूच शेक चलयताले. पूण एकलोय ब्राह्मण हांकां चिड्डूंक पावलो ना. फाटीं उडोवंक पावलो ना.' अशें विधान करता. ताचे फाटलो हेतू भोवच उदात्त आनी प्रेरणादायी आसा खरो, पूण विधान पुरायेन बरोबर ना. व्यास पराशरपुत्र आशिल्लो आनी आठव्या वर्सा बापूय ताका विद्यार्जना खातीर वांगडा घेवन गेल्लो अशें पुराण सांगता. दोगांयच्या उदाहरणा वेल्यान एक स्पश्ट 'जाता: तत्कालीन वर्ण-वेवस्था कर्मनिश्ठ आशिल्ली, जन्मनिश्ठ न्हय. देखून जात वावरा प्रमाण थारताली. दुर्दैवान हें उपरांत ना जालें वा हितसंबंदितांनी ना केलें.

६) जेन ऑस्टेन ही ब्रिटीश लेखिका, अमेरिकन न्हय. चड करून 'ट्रायडन' म्हूण उल्लेख जाला तो लेखक जॉन ड्रायडन हो अठराव्या शेंकड्यांत विडंबन काव्या खातीर तसोच काव्य विचारा खातीर नामना जोडिल्लो ब्रिटीश लेखक आसूंक जाय काय दिसता.

अर्थात, वयले सगले मुद्दे लक्षांत घेतले जाल्यार लेगीत *सर्जकाची आंतरकथा* हे बरपावळीचें म्हत्व साहित्य-प्रकारा नदरेन (नवें मुळावण घालपी म्हूण) जावं, आशयसुत्रांचें विविधतायेक आनी विशिश्टतायेक लागून जावं, वा लेखकीय हावेस वा हेतूं उदात्ततायेक लागून जावं, अनन्य साधारण थारता. असलें बरप स्फुर्तीदिवपीच न्हय तर नवोदितांक वाट दाखोवपीय थारता.

अशे तरेन *सर्जकाची आंतरकथा* साधक बाधक वटींनी नियाळटना, तांगेल्या *पांथस्थ* ह्या दुसऱ्या 'आपबरपा'क समांतर नदरेन पळोवपाक फावोसो आदार मेळटा.

'पांथस्थ' ह्या पुस्तकांत लेखकान १९४६-४८ दरम्यानचे गोंयचे मुक्ती-चळवळी कडेन संबंधीत मुखेल घडणुकांचो थोडे भितर आलेख मांडला. मात हें बरप म्हळ्यार 'आत्मचरित्र' न्हय हें तांणी भर दिवन सांगलां. पूण प्रस्तावना बरयतना दो. मनोहरराय सरदेसाय हांणी *पांथस्था*क आत्मचरित्रच म्हळां. हातूंत लेखकाचें कुटुंबीक दायज, भुरगेंपण, शिकप, मना वेले आनी जिणे वेले प्रभाव तशेंच 'चळवळींतले अणभव' हांचें दर्शन घडटा. डॉ. राम मनोहर लोंहिया, त्रिस्तांव ब्रागांस कुन्य, मिनेझिस ब्रागांस, एव्हाग्रियु ज्योर्ज, ज्युलियांव मिनेझिस, मार्क फेर्नांन्दिश आदी ध्येयवादी आनी तेजस्वी म्हामानव हांगा भेट्टात. तेच परीन पांडुरंग कामत, दत्ताराम सुखठकार हीं लेखकाल्या मर्मबंदांत सुवात मेळयिल्लीं सामान्य मनशांय मेळटात.

ह्या पुस्तकांतलो भोव ओडलायणो अणभव म्हळ्यार लेखकाक ापणाल्या कोंकणी दायजा विशीं आनी मिशना विशीं जाल्ली ाणीव. तशी लक्षवेधी गजाल ताचेर जाल्या कांय आगळ्या ंस्कारांचीय. हांगा सावकरवादी विचारसरणे वांगडा जाल्ली ताची वती वळख, अरविंद आस्रमाक दिल्ली भेट आनी थंय जाल्लो मनिरास, आनी उपरांत र.धों कर्व्यां कडेन चिटींच्या माध्यमांतल्यान ्डून आयिल्ली - काल्पनिक भासपी इतली पूण खरेली आंतरभेट. ंगाच तांगेले स्वतंत्र विचारसरणेचें मुळावण पडलां जावंक जाय. परांत लेखकाची मुंबय वारी आनी थंयची मुक्ती चळवळ आनी ाणे गोंयबाबाक प्रत्यक्ष भेटचेंली धडपड ह्या गजालींचो वृत्तांत येता.

*पांथस्थ*तलें सगल्यांत ओडलायणे आनी स्फुर्तीदायी प्रकरण म्हळ्यार गोंयान जेन्ना कूस परतिली' हें. ताचे मागीर फुडाऱ्यां मजगतच्यो ोशी आनी उबंत पडिल्ली चळवळ हांचो खंतीन भरिल्लो आलेख ाता. हांगा जशे फुडारी सुवार्थी, मोटवे नदरेचे आनी अहंकारी म्हूण ाणवतात. तसोच खुद्द लेखकय वैफल्यग्रस्त आनी म्हूण घडये ूर्वग्रहग्रस्त, एकांगी आनी पक्षपाती दिसता.

अशें म्हणटना *पांथस्था*च्या लेखकाचेर दोशारोपण करचेलो हेतू ा वा ताचेर हेत्वारोपण करचेलोय इरादो ना. पूणूं, अश्या 'धृष्ट' वेधानाचो विपर्यास जावन खुद्द म्हज्याच निपक्षपातीपणाचेर ्रश्नचिन्ह उबें जावंक शकता हाची पुराय जाणीव बाळगुनूच हें ्तप्रदर्शन केलां.

हाचें कारण अशें: जरी एक 'विश्रुत पथीक' म्हूण *पांथस्थ*तल्या युगाचे इतिहासिकताये कडेन म्हजे पिळगेचो 'थेट' संबंद आशिल्लो नासलो, तरीकूय १९४६-१९५४ ह्या दरम्यान म्हगेली पिळगी जल्मल्या आनी ह्या युगाच्या परिणिति-काळांत ती वाडल्या - पोसवल्या. देखून हे पिळगेचे जाणटेलेय आपसूक ह्या भाराविल्ल्या युगाचे 'गवाय' जावंक पावल्यात. कांय जाण सोयिस्करपणान अळंग, कात-सांबाळपी 'प्रेक्षक' म्हूण; जाल्यार कांय जाण मोने, निस्पृह 'वावुरपी' म्हूण; जाल्यार हेर कांय जाण लेखका वरीच सर्वज्ञात पुरोगामी 'पायक' म्हुणूय...!

ह्या म्हायती-स्रोतां वरवीं म्हजे पिळगेक अजाणतां उपरोक्त काळा विशीं व्यक्ती-घडणुकां विशीं थोडें भोव बाळकोडू अपरिहार्यपणान पाविल्लें; तेंवय बी भुरगेपणांत - *पांथस्थ* (वा ताची संस्कारपूर्व आवृत्ती 'गवाय एका कल्पांतांचो') उजवाडा येवचे आदींच *पांथस्थ* वाचले उपरांतच्या अर्दतपाच्या काळांत हांवें साबार हयात व्यक्तीं कडल्यान त्या काळाचो आपरोस मागून, जमता तसो म्हजे पुरतो (अर्दकुटो!) आलेख मांडचेलो यत्न केला. पूण हाताक लागिल्ली बरीच म्हायती तशेच तातूंतले प्रसंगनिश्ठ निश्कर्श वा व्यक्तिसापेक्ष मतां लेखकान उक्तायिल्ल्या आशया कडेन फावो तशीं जुळनात.

हांगा लेखकाच्या वा ह्या म्हायती स्रोतांच्या सत्यासत्या परसय, (परिस्थितीजन्य घडणुको वा व्यक्तिसापेक्ष अणभवांचें) विश्लेशण करतल्यांच्या 'व्यक्तित्वां'चें खेरीतपण तशेंच (तांणी जे सुवाते वेल्यान पळेलां ताका अनुरुप) 'दिश्टीकोणा'चें वेगळेपण अधोरेखीत जाता. म्हणचेच *पांथस्थ*तल्या ह्या वांट्यांत ('जेन्ना गोंयान कूस परतिली') येवपी लेखकाचे अणभव खरे मानुनूय. तातूंतले सगलेच निश्कर्श वा सगलींच व्यक्तिनिश्ठ विधानां सत म्हूण स्वीकारूंक आडखळ जाता. हे खातीर, कोणेंय जाणविकायेन संशोधन करून दुबावी भासपी गजालींच्यो साबार वटी समाजा मुखार वा वाचप्या मुखार दवरूंक जाय.

पूण अशें म्हळ्ळां म्हूण *पांथस्थ*तले इतिहासिकतायेक सामकी



डॉ. दत्ताराम सुखठणकार, डॉ. मनोहर (मनूबाब) सरदेसाय हांचे वांगडा...



पीटर आल्वारीसां वांगडा...

कडसारावंक मेळना. हांवें *पांथस्था* वेल्या नियाळांत उकतेपणान मानून घेतलां ते प्रमाण, ''बऱ्याचशा उपरांतच्या पिळग्यांतल्या (म्हजे सारक्या) वाचप्यांक तातूंत विश्वासार्ह (आनी लेखकाच्या समकालिनां कडल्यान मेळून स्वीकृत जाल्ली) म्हायती मेळटा. देखीक, स. दयानंद बांदोडकार हांची परतंत्र गोंयांतलो सळसळट्या रगताचो तरणाटो म्हूण वळख... आल्मैद कॉलेजीचो अंत्रुजेंतलें संस्कृती केंद्र म्हूण वा गोंयच्या निद्रिस्त अस्तित्वाच्या पुनरुज्जीवनाचो मळो म्हूण [जो] आलेख... इतलेंच न्हय, तर, कडसरायिल्लो द्रश्टो र.धों कर्वे हांचो मेजक्याच तरणाट्यां वेलो प्रभाव आनी एकंदर समाजांत तांगेल्या 'समाजस्वास्थ्या'चें जावपी 'स्वागत' (हेवूय) *पांथस्थां*तले इतिहासिकतेचे वादातीत विशुद्ध नमुने... हेच तरेचे विचार वा मतां रवीन्द्रबाबांचे पिळगेंतल्या वा तांचे परस जाण्ट्या व्यक्तीं कडल्यान वेगळ्या संदर्भांत म्हजे पिळगे मेरेन पावल्यांत. हातूंतले जायते आजय आमचे मर्दी आसात.'' ('पश्चात पथिकाचे नदरेंतल्यान *पांथस्थ*', जाग, ऑगस्ट २०००, २२).

म्हणटरीच, *पांथस्थ* विशिश्ट मर्यादे भितर कांय जायना, समकालीन समाजाचो इतिहासीक दस्तावेज थारता. लेखक मात ह्या बरपाक उगडास कशे गणटा आनी तार्चे वर्णन 'बुद्धिनिश्ठ आनी प्रामाणीक व्यक्तीन आपले परीन मांडिल्लें समकालीन घडणुकांचें मोस्त्र' अशें करता. लेखकान *पांथस्थांत* वाटसूराची भूमिका आपणावन स्पश्ट मानून घेतलां, ''*पांथस्थ* सगळें सांगिना. वाटे वयल्यान वतना ताका जें दिश्टी पडटा तेंच आनी तितलेंच सांगता.'' पूण तरीकूय ह्या पांथस्थान देखलां तें सगळेंच सांगूक ना. म्हाका तरी ह्या बरपांत लेखकाली ''जाणविकायेन केल्ली गतस्मृतिचीं चिकित्सक उजळणी'' दिसल्या. पूण ही उजळणी रवीन्द्रबाबान आपणाले खास शैलीन - सुलभ आनी सभावीक अशे लालित्यपुराय तरेन - केल्ल्यान, ती भोव वाचनीय जाल्या.

विशेश म्हळ्यार घटिताचेर आदारीत उगडास बरप जावनय ताचीं जीं कांय विलक्षण तासां उल्लेखनीय थारतात; तीं अशीं आसात:

१) मौखीक इतिहास आनी अप्रूप कल्पनाशक्त हांचो सैमीक (दिसचो असो) संयोग केळोवपाची कळाशी. हाचें उदाहरण म्हूण केळेकार कुटुंबाचो नदरे पलतडचो इतिहास रवीन्द्रबाबान उबो केला तो पळोवं येता.

२) व्यक्तिगत जिणे विशीं विशेश कांय सांगचेलें टाळून लेगीत लेखकाचें भावविश्व. तागेल्या संस्कारांची बुन्याद आनी फाटभूंय, तशेंच तागेल्या जीवनमूल्यांचीं आधारथळां *पांथस्थांत* ठळकपणान उबीं करपाचें तांगेले लिखणेचें कसब.

३. वाचप्याचे सभावीक उत्सुकतायेक मीठ घालिनासतना लेखकान *पांथस्थाक* निखट्या नीज निवेदनाच्या पांवड्यार केळोवनय, व्यक्ती म्हूण आपणाली ठोस वळख वाचप्याक करून दिवपांत मेळयिल्लें घणघणीत येस.

४. भोव अकृत्रीम आनी मनाक लागींच्यान आफुंडपी अणभव म्हूण यादगार थारपी 'गांधी हत्या' हो *पांथस्थांत*लो प्रसंग!. हृदय भास, उत्कट भाव आनी काव्यात्म मन हांचो त्रिवेणी संगम हांगा सहजतायेन घडून आयला हें वाचप्याक जाणवता.

अशेच तरेचे कांय प्रसंग वा किमान परिच्छेद *सर्जकाची आंतरकथा* वाचतना, श्रीधर व्यंकटेश केतकर वा बाकीबाब वा डॉ. लोहिया हांचे विशीं बरयल्ल्या लेखकाच्या निवेदनांत (वज्रसदृश्य दवार्थेबे कशे), अचळय उदेतात, आनी नकळटां रवीन्द्रबाबाले असामान्य प्रतिभेचे तेंगशेचें खिणयाळें दर्शन वाचप्याक घडयतात. पृथक विचार-विकाराचें धुकें कडून निर्भेळ मनीसपणाचें वा कंवळे आपुलकायेचें वत पडना फुडें रवीन्द्रबाबाचीं श्रद्धास्थानां तांकां प्रिय आशिल्ल्या हिमालयाच्या तेमकां वरीच लकलकतात. अशी अनुभूति वाचप्याक हीं पुस्तकां वाचतना परतू परतून येता हेंच तांचें अर्जित!

निमाणें: निबंद वा ललीत गद्य लेखनांत रवीन्द्रबाबाची सर करपी लेखक मेजकेच आसतले. आयचे घटकेक कोंकणींत तरी तांचो हात धरपी नवे पिळगेंत उदेवचो आसा. (बरपांत दिसपी भास, उतरावळ, शैली, साजरेंपण, वर्णन-अल्पताय, विचार-प्रवर्तनाचो वाव, संदर्भ-वैभव, विशय वैविध्य, लेखकाच्या वाचनाची गिरेस्तकाय, बुद्धिनिश्ठताय आनी सुगमताय हे घटक लक्षांत घेवन हें मत उकतायलां) रवीन्द्रबाबान *सर्जकाची आंतरकथा* आनी *पांथस्थ* ह्या पुस्तकां वरवीं गद्य लेखनाचे वाटेर नव्या सोपणांची उभारणी केल्या. तटस्थतायेन आपणाल्या अणभवविश्वाक तिजपाचो यत्न, उगडासांत लेगीत 'स्व'ताक केंद्र सुवात दिवंक अनमनप, आनी कालचित्रण करतना अळंग समाजमानसाचो थाव घेवप ह्यो मोखी ह्या आपबरपांत दिसतात. पूण निरीक्षक आनी गवाय जेन्ना अणभवांतलो 'वांटेकार' आसता, तेन्ना वस्तुनिश्ठता आनी व्यक्तिनिश्ठता हांची संतुळा राखूंक पळेतल्याक भरती-सुकती चुकना; भोंवरे-भाटी टळना.

# सर्जकाची आंतरकथा: एक सत्यकथा



♦ प्रकाश पर्येंकार

**कोंकणी भाशेक, कोंकणी साहित्याक आनी कोंकणी समाजाक रवीन्द्रबाबान खूब दिलां. पुराय कोंकणी समाज ताचे कडेन आदारान आनी प्रेमळ भावनेन पळयता. कोंकणीचें तारूं भर दर्यांत वाट सोदतालें तेन्ना तेन्ना ताचे लेखणेन ताका तडीची दिका दाखयल्या. *सर्जकाची आंतरकथा* ह्या पुस्तकांत तांणी स्वत: 'फोलेर' जावन दिका दाखयल्या. हांगा ते आपणाकूय उक्तायत वतात आनी तेच बराबर ते हेर विभूतींकय चित्रायत वतात. ह्यो साहित्य उपासकांच्यो कथा. एका परस चड सर्जकांच्यो आंतरकथा...**

भौ. रवीन्द्र केळेकार हे कोंकणी भार्शेतल्यान लेखन करपी एक म्हालगडे भारतीय साहित्यीक. शणै गोंयबाबा उपरांत कोंकणी साहित्याच्या मळार विचारांचें पाजण दिवपी एक तपस्वी सर्जक. फाटलीं पांच दसकां ते गोंयच्या साहित्यीक, राजकी आनी सांस्कृतीक मळार एके विशिश्ट उजू दिकेन वावर करीत आसात. रवीन्द्रबाब हे गोंय मुक्ती आदल्या आनी उपरांतच्या काळाचे चिकित्सक साक्षी. गोंय आनी गोंया भायल्यो साबार घडणुको तांणी अणभवल्यात, नियाळ्ळ्यात आनी जायते फावट अस्वस्थ जावन आपली लेखणी हातांत घेतल्या. मिर्गाचो पावस पडटकच सैमसृश्ट किल्लता आनी सृजन उत्सव सुरू जाता... ह्या लेखकाचेंय तशेंच जालां. १५ ऑगस्ट १९३५ वर्सा तांच्याच प्रयत्नान मीर्ग नेमाळें सुरू जालें आनी थंय सावनूच रवीन्द्रबाबालो साहित्य सृजन उत्सव सुरू जालो. ह्या कोंकणी साहित्य उत्सवाचे साबार पेणे आयज आमकां तांच्या विवीध पुस्तकांच्या रुपान पळोवपाक मेळटात.

रवींद्रबाबाल्या साहित्यांत वैचारीकतायेची खाशेली बसका आसा. तातूंत चिंतनशीलतेचो आगळ आसा. तातूंत आसात

शुन्यांतल्यान विश्व निर्माण करपाचे मळब हावेस. तातूंत पळोवंक मेळटात जिविताचे संघर्श. तांचे लेखणेंत आसा पोटतिडक आनी मनांतले उमाळे. तांच्या साहित्यांत आसात इतिहासीक तथ्यां आनी मार्गदर्शक तत्वां. ते उलयतात थोडेशे आपले विशीं आनी करून दितात वळख साहित्य मळा वयल्या दिग्गज विभुतींची. *सर्जकाची आंतरकथा* ह्या तांच्या पुस्तकांत अश्याच कांय विचारांनी भरिल्लो दोणो ते वाचकां मुखार दवरतात. एकूण ३६ आत्मनिश्ट निबंधां वरवीं ते आपणाक उकतायत वतात आनी साहित्याच्या विश्वांतलीं सत्यां ते लेखकांक आपले खाशेले शैलेंत सांगत सुट्टात.

आपले आवयभाशे भायर गुजराती, मराठी, हिन्दी, इंग्लेज आनी पुर्तुगेज अश्या पांच भासां कडेन लागींचो संबंद आशिल्लो हो लेखक साहित्याक जिवीत घडोवपी एक वावर मानता. ताका लागून तो म्हणटा, *'साहित्यिकार हो विचारवंतूच आसूंक जाय. खासा चिंतपी आनी दुसऱ्याक चिंतूक लावपी आसूंक जाय.'* रवीन्द्रबाबालो पिंड विचारवंताचो. ते विचार करतात. दुसऱ्याले विचार वाचतात आनी स्वता विचारांत पडटात. अश्या वेळार ते आपणाकूच प्रस्न विचारतात. तांच्यो जापो सोदपाचो प्रयत्न करतात आनी आपणाक होलमल्लें सत्य साहित्यांतल्यान मांडटात. कोंकणींतले तांचें बरप खंतींतल्यान, तिडकींतल्यान आनी लागणुकेचे जाणिवेंतल्यान जल्माक आयलां अशें तांचें प्रांजळ मत. रवीन्द्रबाब बरोवंक लागिल्ले तेन्ना कोंकणींत भोव थोडें बरें आनी दर्जेदार साहित्य आशिल्लें. ही तांच्या मनांत खंत आशिल्ली. कोंकणी भासूच न्हय म्हणून तिका उणाक लेखपी जायते जाण आशिल्ले. आपले भाशेक उणाक लेखप्यांचेर ते तिडकतात आनी म्हणटात, *'हांव कोंकणीचो रायटर न्हय. हांव कोंकणीचो फायटर. हांव रायटर जालां तो म्हज्यांतल्या फायटराक लागून.'*

रवीन्द्रबाब गांधीवादी विचारांचो रोस पियेल्लें एक कोंकणी व्यक्तिमत्व. गांधींचें सांगाती काकासायब हांच्या सान्निध्यांत राविल्ले. तांच्या जिणे प्रभावान दिपकावन गेल्ले. तसो तांकां साबार जाणांचो सहवास लाभलो. ह्या सहवासान रवीन्द्रबाबा भितर एक समाजसेवक, स्वातंत्र्य सेनानी आनी लेखक किल्लून वयर आयला. आपल्या जिवितांत तांणी विवीध तासां जोडल्यांत. तांचें एक तास झुजाऱ्यांचें. ते झुजल्यात आनी झुजत आसात. ह्या झुजांत तांणी आपले लेखणेक विचारांच्या निसाण्याचेर धार काडल्या. आपणाक पटलां तें दुसऱ्यांक पटूंक जाय ह्या हावेसान परत परत त्याच विशयाचेर बरयत रावल्यात. कोंकणींत हें जाय, तें जाय, कोंकणी भास समृद्ध जावपाक जाय, ह्या तांच्या हावेसाक लागून णवशीं पानांचें *महाभारत* तांचे कडल्यान बरोवन जालां. नक्षत्रविद्ये वयलें पुस्तक *ब्रह्मांडांतलें तांडव* मोठ्या यत्नान तांचे कडल्यान बरोवन जालां.

*सर्जकाची आंतरकथा* ह्या पुस्तकांत लेखक आपले भितर आशिल्ल्या सर्जकाची आंतरकथा सांगता. आपणें बरोवपाची प्रेरणा कोणा कडल्यान घेतली? हांव कित्या खातीर बरयतां? निजाचें आनी घेतिल्लें खंयचें? अश्या कांय प्रस्नांच्यो जापो ते सोदतात. तरणाटे पिरायेर लेखकाच्या हातांत विवेकानंद पडलो. पुस्तकांतल्यान मार्क्साची भेट जाली. डॉ. लोहियांच्या प्रभावा खाला आयले. गांधी समजुपाक वर्ध्याक गेले. काकासायब कालेलकरांची भेट जाली. पुस्तकांच्या मोगात पडले... त्स्वैग, दोस्तॉयव्हस्की, गोर्की वाचले. बुद्ध, तॉलस्तॉय, गांधी, रवीन्द्रनाथ वाचून काडले... रवीन्द्रबाब आपूण पुस्तकांच्या सांगातान कसो जियेतां हें सांगतात. ताका लागून ते म्हणटात 'पुस्तक म्हाका निखटें पुस्तक केन्ना दिसलें ना. तातूंत म्हाका एक व्यक्ती दिश्टी पडल्यां. एक विभुती मेळ्ळ्यां. एक सांगात मेळ्ळा...' जायत्या जाणां कडल्यान जायतें घेतलां पूण आपलें निजाचें कितलें आनी दुसऱ्यांचें कितलें? असो तांकां प्रस्न पडटा आनी वाङ्मयचौर्याचेर आपलें मत उकतायतना ते विनोबा भावेंची एक देख दितात. ते म्हणटात, विनोबान शंकराचार्य, ज्ञानेश्वर आनी गांधी कडल्यान खूब कितें घेतले पूण विनोबा तिगां मदले एकूय नाशिल्ले. लेखक असो आसपाक जाय अशें ते सांगतात.



रवीन्द्रबाब कोंकणीचे एक म्हालगडे. तांच्या साबार मार्गदर्शक तत्वांनी कोंकणी भाशीक आनी साहित्यीक चळवळीक उजू दिका दिल्या. *बरोवप्याची साधना* ह्या निबंधांत ते आपले लेखन प्रक्रिये विशीं सांगतात. बरोवप ही कला. तिची साधना करची पडटा. सातत्य बाळगुचें पडटा. बरयल्लें परत परत वाचचें पडटा. घांसून पुसून काडचें पडटा. आपणें जें बरयलां तें आपणाक पयलीं कळूंक जाय. कठिणांतले कठीण विशय लेगीत सोंपे भाशेत सांगूंक येवंक जाय अशें सांगतना ते भारतीय आनी पाश्चात्य लेखकांच्यो देखी दितात. लेखन करप्यांक दोन गजाली ते मुजरत सांगतात. एक वाचन, दुसरें भोंवप. गांधी, काकासाहेब आनी विनोबा कशे भोंवताले तें ते सांगतात. काकासायब धा-बारा वरां काम करताले आनी ते एका सारके भोंवताले. वसीं मनशाक जाणटीं करिनात. तेंच तेंचपण ताका जाणटो करता अशें ते सांगतात. ते खातीर मनशान एका सारको एकलोच भोंवत रावंक जाय अशें सांगतना

ते बौद्ध भिक्षूंचे भोंवडेची खबर सांगतात.

लेखकान स्वाध्याय करपाक जाय. तातूंत शिस्तबद्धताय जाय, नियोजन जाय, अशें तांचें म्हणणें जिविताचे वाटेर मेळपी अणभवांची सदां नोंद करपाक जाय. ते खातीर दिसपटयेचें लेखन करप म्हत्वाचें अशें तांचें मत. *दिसपटी* ह्या निबंधांत ते ह्या साहित्य प्रकाराचें म्हत्व सांगतात. हांगा ते कृष्णमूर्ती, टॉलस्टॉय,आंद्रे जीद, सॉमरसॉट मॉम हांच्या दिसपटयांची देख दितात. कोंकणींत *वेळे वयल्यो घुलो* नांवाची दिसपटी बरोवन उजवाडा हाडिल्लो हो लेखक वेगवेगळ्या तरांच्या दिसपटयांची खबर सांगता. महादेवभाई देसाईनी वीस खंडांनी बरयल्ले दिसपटयेची खबर सांगून सरदार वल्लभभाई पटेल, गांधी आनी रोमां रोलां संदर्भांत केल्ल्या भाश्याचो उल्लेख करतात.

*सर्जकाची आंतरकथा* ह्या पुस्तकांत रवीन्द्रनाथ, काकासायब, विनोबा, जवाहरलाल, खलिल जिब्रान, फेर्नांदु पेस्सोअ, उमाशंकर, बाकीबाब आनी चा. फ्रा. अशे णव व्यक्तीचित्रणात्मक निबंध आसपावल्यात. रवीन्द्रनाथाली पयली आनी निमणी कविता, तांचे कवितेची तांक, भारतीय साहित्यमळार तांचें स्थान हाचेर ते भाश्य करतात. रवीन्द्रनाथ एक कवी, कथाकार, कादंबरीकार, नाटककार, चित्रकार,संगीतकार, शिक्षणतज्ञ, देशभक्त - अश्या तांच्या साबार व्यक्ती विशेशतायांचेर ते उजवाड घालतात. रवीन्द्रनाथांच्या अंतरंगात देंवन ते म्हणटात, 'ते एक व्हड कमिटेड राष्ट्रपुरूस आशिल्ले. ते सुधारकां मजगतचे एक व्हड सुधारक आशिल्ले आनी राष्ट्रवाद्यां मदले एक व्हडले राष्ट्रवादी आशिल्ले' तशेंच वेदा पसून गांधी - रवीन्द्रनाथा मेरेनचें सांस्कृतीक दायज आपलें केल्ल्या काकासायबांक ते *'भारतीय संस्कृतायेचे उद्गाते'* म्हण पाचारतात.

राष्ट्रीय पांवड्यार साबार महात्मा जावन गेले. ह्या ऋषीतुल्य व्यक्तींचें कार्य व्हडा तोलामोलाचें आशिल्लें. विनोबा भावे हेच जातकुळयेंतले आशिल्ले म्हणपाचें रवीन्द्रबाब सांगतात आनी तांच्या कांय कार्यगुणांचेर उजवाड घालतात. गरिबां खातीर भूंय मागपाक तांणी चवदा वर्सां पस्तीस हजार मैलांचो प्रवास केलो हें सांगतनाच विनोबा हे ज्ञानेश्वर, तुकाराम तशेच कबीर हांचे तोडीचे साहित्यकार आशिल्ले हें सांगपाक ते विसरनात. श्रमाक म्हत्व दिवपी विनोबांचे सादे सोंपे शैलेतलें सात हजार पानां भरतलीं इतलें साहित्य वाचूंक मेळटा अशें सांगून ते तांच्या कार्याची तुस्त तोखणाय करतात. जवाहरलाल नेहरूंच्या साबार म्हत्वाच्या पुस्तकांचो लेखक उल्लेख करता. जवाहर राजकारणी आशिल्ले पूण ते एक चिंतक साहित्यकारूय आशिल्ले अशें सांगतात. 'तुमी अंनमनूं नाकात. धिरान मुखार पावल घालात. तुमकां जैत मेळटलेंच मेळटलें. जैत सदांच धिरान पावल घालून मुखार सरतल्यांकूच मेळटा. तें भित्र्यांक, फाटल्यान फुडल्यान पळोवन जतनायेन चलतल्यांक केन्ना मेळना', ह्या तांच्या पुस्तकांतल्या एका प्रेरणा दिवपी वाक्याचो आवर्जून उल्लेख करून दिसता.

ह्या पुस्तकांतल्या वेगवेगळ्या निबंधांनी रवीन्द्रबाब जिविताचेर प्रभाव घालपी कांय उत्कृष्ट पुस्तकांचो उल्लेख करतात. खलिल जिब्रानाचें 'The Prophet' हें अशेंच एक ल्हानशें पुस्तक ज्या पुस्तकान कितल्योश्योच पिळग्यो प्रभावीत केल्यात. खलिल जिब्रानान घोवा बायले संदर्भांत सांगिल्लें तत्वगिन्यान सांगतां सांगतां लेखक आपल्या जिवितांतली खाजगी गजाल अचळय सांगून वतात. ते म्हणटात 'म्हाका म्हज्या खाजगी जिवितांतल्यो खबरी कोणाक केन्ना सांगच्योश्यो दिसल्यो नात. तितलें म्हज्या जिविताक मोलूय ना. पुणून एक गजाल केन्ना केन्ना भीड मुरवत कुशीक दवरून सांगचिशी दिसता. सांगतांय बी - लग्न जावन आतां आमकां पन्नास वर्सां जालीं, आमचो सभाव वेगळो. आमची अभिरुची वेगळ्यो. आमचे आदर्शूय वेगळे. इतलें आसूनय ह्या पन्नास वर्सांच्या काळांत एक दीस लेगीत एकामेकांचेर तापिल्ल्याचो वा झगडल्ल्याचो आमकां उगडास जायना. आमच्या जिवितांचेर जाल्लो जिब्रानाचोच हो प्रभाव अशें हांव मानतां.'


JANUARY — Tuesday 31st, 1989



खलिल जिब्रानाचें 'The Prophet' हें एक ल्हान पूण म्हान पुस्तक, तशेंच टॉलस्टॉयचें War and Peace हें आकारान आनी आशयान आकांताचें पुस्तक. ह्या पुस्तकाची रवीन्द्रबाब वाचकांक तोंड वळख करून दिता. टॉलस्टॉयची ही नवलकथा म्हळ्यार गंगा आनी ब्रह्मपुत्रा हांच्या संगमा सारकी. तिची तडूच दिश्टी पडटा. दोळ्यांत फकत विशाळकायूच भरता अशें लेखक म्हणटा. विश्वसाहित्यांतली ही व्हडांतली व्हड अशी कादंबरी. ही कादंबरी लेखकान खंय सात खेपो बरयल्ली. रवीन्द्रबाब लेखका विशीं बरयतात. ताचे लेखन प्रक्रियेचेर बरयतात. साहित्यकृतीचेर बरयतात...

आनी वाचकांची ते साहित्यकृती संबंदांतली उमळशीक वाडोवन दवरतात. भारतीय साहित्या संदर्भांत ते भगवद्‌गीतेचें व्हडपण सांगतात. भगवद्‌गीता खणींतलें रत्न अशें सांगतात.

फेर्नान्दु पेस्सोअ ह्या पुर्तुगेज कवीचेर बरयल्ल्या निबंधांत रवीन्द्रबाब ताचे दुखखी जिणेचें चित्र वाचप्यां मुखार दवरतात. भौतीक जिणेंत अपेशी थारिल्ल्या ह्या कवीची भितल्ली जीण समृद्‌ध आशिल्ली हें ते सांगतात. पेस्सोआच्या मरणा पयलीं ताचे कवितेचें एकूच पुस्तक उजवाडा आयिल्लें. मरणा उपरांत ताच्या लेखनाचे इकरा खंड उजवाडा आयल्यात. मरणा पयलीं ह्या कवीक पुर्तुगालाक कोण वळखऽ नाशिल्लो, तो भायर पडले उपरांत ह्याच मनशाकडेन आख्खो संवसार विश्वसाहित्यांतली एक अद्‌भूत घडणूक म्हण पळोवपाक लागलो. फेर्नान्दु पेस्सोअ हो कवी तोलामोलाचो साहित्यीक आशिल्लो म्हणपाची वाचकांक रवीन्द्रबाब वळख करून दिता.

रवीन्द्रबाब वेगवेगळ्या साहित्यकारांचे विचार आपले लेखणेंतल्यान वाचकां मुखार दवरतात. ते तांचे जिणेचो सोद घेतात. साहित्याचेर भाश्य करतात. हें तांचें भाश्य त्या साहित्यकाराचें मूळ साहित्य वाचपाक वाचकांच्या मनात उमळशीक जागयता. उमाशंकर जोशी हे व्हड साहित्यीक आशिल्ले. स्थान, मान, धन, भौमान मागपाक ते कोणा कडेन केन्ना गेले नात. पुणून गुजरातीचे अध्यापक, कुलपती, राज्यसभेचे सभासद, यु.जी.सी.चे आनी साहित्य अकादेमीचे अध्यक्ष, - हीं, आनी विश्वभारती-शांतीनिकेतनाचें आचार्यपद हीं सगळीं पदां तांकां सोदीत तांचे कडेन आयलीं म्हणपाचें सांगून लेखक तांच्या व्यक्तिविशेशतायांचेर उजवाड घालता. दुसऱ्या एका निबंधांत लेखक बाकीबाब बोरकार हांचे समग्र साहित्य-जिणेचेर भाश्य करता. मुंबयंत जाल्ले भेटी विशीं ते सांगतात. बाकीबाबांच्या मनांत कविता शिजता... ती पानार उतरता... हें रवीन्द्रबाबान लागींच्यान पळयलां आनी अणभवलां. *'कितें जाता, रसमजना... थाव लागना... कविता अवचीत येता आनी तीच म्हजे कडल्यान बरोवन घेता... हांव तेन्ना हांव नासतां'* अशे तांकां बाकीबाब सांगताले. एका गद्य लेखकान एका कवीची निर्मिती प्रक्रिया लागींच्यान अणभविल्ल्याची ही सुखद घटना. निमाणे कडेन बाकीबाब आत्मसन्मानी आशिल्ल्याची ते एक देख दितात. बाकीबाबांक सातान्याच्या मराठी साहित्य संमेलनाचे अध्यक्ष करपाच्या संदर्भांतली ती गजाल. अध्यक्षपद जाय जाल्यार कोंकणी संदर्भांतली भुमिका स्पश्ट करची अशी अट घालतकच त्या वेळार बाकीबाबान म्हणिल्लें, *'कोंकणी विषयींच्या माझ्या विचारांना मी मुरड घालावी म्हणून जर तुम्ही मला ही लांच देणार असाल तर लक्षांत ठेवा, बोरकर स्वत:ला विकणारा माणूस नाही...'* अश्यो साबार गजाली रवीन्द्रबाब आपले लेखणेंतल्यान वाचकां मुखार दवरीत वतात. कोंकणी कवी चा. फ्रा.चोय ते असोच सोद घेतात. तांच्या जिविताचीं आगां विस्कटावन सांगतात. कोंकणी संघटक, पत्रकार, कवी, नाटककार अश्यो चा.फ्राच्यो साबार भुमिका आपले लेखणेंतल्यान चित्रायतात.



उमाशंकर जोशी, मंगेश पाडगांवकार, नरेश मंत्री वांगडा...
प्रियोळ, मे-१९६१

रवींद्रबाब एक लेखक. एक चळवळी. साहित्याच्या मळार तांकां दुसऱ्यांले भाशेचो द्‌वेश करपी दिसतात, भाशेक उणाक लेखपी भेट्टात तेन्ना ते तांचेर माडभर उसळटात. बरोवप्यांनी आपले आवय भाशेंत बरोवचें अशें तांचें प्रामाणीक मत. एकाद्रे व्हडले भाशेत बरयल्यार आपणाक चड प्रसिद्‌धी मेळटली, आपूण चड वाचकां मेरेन पावतलों अशें येवजून जे कोण फकत परकी भाशेंत बरयतात ते तांचे नदरेन साहित्याच्या मळार शिंदळकी करपी थारतात. साहित्याच्या मळार जायते फावट जाचीं पुस्तकां चड आसात ताका व्हड साहित्यकार म्हण पाचारतात. कोणा एकल्यान एकूच पुस्तक बरयलें म्हूण तो ल्हान जायना अशें लेखक आपलें मत मांडटा. ते मुखार वचून म्हणटात, साहित्याच्या मळार कोण कोणाक वयर काडिना. कोण कोणाक सकल उडोवंक पावना. जण एकलो आपुणूच आपल्या गुणांनी साहित्याची सुवात वेंचून काडटा आनी थंय तो आपल्या अधिकारान वचून बसता...

सुरवातेक सांगलां तशें, रवींद्रबाब फाटलीं पांच दसकां सातत्यान बरयतात. थांबऽ नासतना बरयतात. कोंकणी भाशेक, कोंकणी साहित्याक आनी कोंकणी समाजाक रवीन्द्रबाबान खूब दिलां. पुराय कोंकणी समाज तांचे कडेन आदारान आनी प्रेमळ भावनेन पळयता. कोंकणीचें तारूं भर दर्यांत वाट सोदतालें तेन्ना तेन्ना तांचे लेखणेन ताका तडीची दिका दाखयल्या. *सर्जकाची आंतरकथा* ह्या पुस्तकांत तांणी स्वत: 'फोलेर' जावन दिका दाखयल्या. हांगा ते आपणाकूय उक्तायत वतात आनी तेच बराबर ते हेर विभूतींकय चित्रायत वतात. ह्यो साहित्य उपासकांच्यो कथा. एका परस चड सर्जकांच्यो आंतरकथा...

# पांथस्थः कांय प्रश्न

♦ अना म्हांबरो



**रवीन्द्रबाबांलीं कांय श्रद्धास्थानां आसात. तातूंत गांधी, टागोर, लोहिया, काकासायब कालेलकार बी येतात. हांचेर ते आदरान, आनी वेळ पडल्यार, भक्तिभावान बरयतात. निदान वाचप्यांक तसो भास जावं येता. एक तर ह्या मनशाचे दोन तांकां दिसनात, वा दिसलेय जाल्यार ते सांगतान. ही गजाल अदीक करून गांधींचे बाबतींत जाता. रवीन्द्रबाबांलें एक खाशेलेपण म्हळ्यार, विचार मांडटना ते वाचप्यां परस दोन सपणां वयर बसून आपणाले विचार मांडटात. हेर गोंयकारां वरी ते 'हांव सांगतां तें तूं आयक' अशें वाचप्यांक सांगनात...**

रवीन्द्रबाब केळेकार हे एक विचारवंत. ते सतत चिंतन करतात आनी बरयतात. बरपांत ते आपले विचार मांडटात. केन्ना केन्नाय डायरेच्या रुपांत, केन्ना केन्नाय मुलाखतीच्या रुपान, केन्ना केन्नाय निबंधाच्या वा टिपणाच्या रुपान.

एके वटेन पळेल्यार विचारवंतांचें बरें आसता. विचार मांडटना तांकां धरबंध नासता. ते विचार मांडीत आसतात आनी ते समजून घेवप्याक आपले कुवती प्रमाणें ते समजून घेवचे पडटात. हाका लागून विचारवंतांचे सगळे विचार सगल्यांक सारके समजतातूच अशें ना.

नाय जाल्यार विचारवंतांचो पांवडो खूब ऊंच आसता. तांची विचार मांडपाची शैलीय तांचे कालेतीक सोबशी आसता.

रवीन्द्रबाबांची विचार मांडपाची शैली सुरबूस. गोपाळ कृष्ण गोखले जे पद्धतीन गणितां सोडयताले अशें म्हणटात, ते पद्धतीन रवीन्द्रबाब विचार मांडटात.

रवीन्द्रबाबांलीं कांय श्रद्धास्थानां आसात. तातूंत गांधी, टागोर, लोहिया, काकासायब कालेलकार बी येतात. हांचेर ते आदरान, आनी वेळ पडल्यार, भक्तिभावान बरयतात. निदान



**गोंय मुक्ती उपरांत 'आकाशवाणी' पणजीन घेतिल्ल्या पयल्याच सर्वभाशीक कविसम्मेलनाच्या अध्यक्षपदा वयल्यान उलयतना - प्रभाकर माचवे, उमाशंकर जोशी, बाकीबाब, मंगेश पाडगांवकारांच्या सांगाताक**

वाचप्यांक तसो भास जावं येता. एक तर ह्या मनशांचे दोन तांकां दिसनात, वा दिसलेय जाल्यार ते सांगतान. ही गजाल अदीक करून गांधींचे बाबतींत जाता.

रवीन्द्रबाबांलें एक खाशेलेपण म्हळ्यार, विचार मांडटना ते वाचप्यां परस दोन सपणां वयर बसून आपणाले विचार मांडटात. हेर गोंयकारां वरी ते 'हांव सांगतां तें तूं आयक' अशें वाचप्यांक सांगनात. पूण तांगेल्या बरपाचो गूण असो की ते विचार मांडटना अशे तरेन मांडटात की तांगेल्या कागदा वेल्या उतरांतल्यान वाचप्याक - बारीक कान लायल्यार - 'हाचेर तुका कांय सांगूंक वाव ना' असो आवाज आयकूंक येतलो.

दर एका विचारवंताचे आवडीचे म्हूण कांय विशय आसतात. ताचेर तो अधिकारवाणीन बरयता. हेर विशयांचेर तो आपणाक त्या त्या वेळार जें कितें दिसता तें बरयता. रवीन्द्रबाबांक तुमी अशें कित्याक करतात अशें विचारशात ज़ाल्यार ते आपली आपूण मुलाखत घेवन तांतल्यान जाप दितले, "हांव जीवनवादी!" तात्पर्य कितें? जिणेक स्पर्श करता त्या सगल्या विशयांचेर ते बरयतात.

दुसरें तात्पर्य अशें: खंयच्याय विचारवंताक आपले विचार मांडपाचें जें स्वातंत्र्य आसता तें तांकांय आसा आनी तें ते पुरायेन घेतात.

हालीं रवीन्द्रबाबांलीं तीन पुस्तकां हातांत पडलीं: १) *घुस्पल्लें जानवें*, २) *ओथांबे*, आनी ३) *पांथस्थ*. हांतले पयलें पुस्तक म्हाका बरें लागलें ना. दुसरें सुरबूस लागलें - तांतले कांय विचार पटले नात तरीय. तिसरें पुस्तक *पांथस्थ* - अदीक बरें लागलें. कारण ती आत्मकथा दिसली जाल्यार आत्मकथा न्हय म्हूण आनी तातूंत गोंयचे सुटकेच्या झुजाचो इतिहास आसलो तरीय तो झुजाचो इतिहास न्हय म्हूण (हीं उतरां रवीन्द्रबाबांलींच). ह्या पुस्तकांत खुबश्या लोकांचीं नांवां आयल्यांत. तांणी वा त्या काळा वयल्यो घडणुको जांकां खबर आसात तांणी तांतले माहितीचे गूण-दोश दाखोवपाचे. तें काम आमचें पामरांचें न्हय.

*पांथस्थ* वाचून म्हज्या मनांत कांय प्रस्न उप्रासले. कांय अर्थ नाशिल्ले (अमिताभ बच्चन टी.व्ही. वयले 'कौन बनेगा करोडपती' कार्यावळींत वांटो घेवपी लोकांक विचारता तसले), कांय, भुरगे फेल जावचे म्हूण शाळा मास्तर परिक्षेक कठीण पेपर काडटात आनी तातूंत घालतात तसले.

ह्या लेखांत हे प्रस्न म्हजे पद्धतीन मांडपाचो यत्न केला. आदीं रवीन्द्रबाबांलें म्हणणें मांडटां. उपरांत म्हज्या मनांत उपराशिल्लो प्रस्न मांडटां. जापो वाचप्यांनीं दिवपाच्यो.

रवीन्द्रबाब म्हणटात, तांगेल्या जाण्टेल्यांचो 'केळमे रोवप, घडावलीं काडप, गांवांतलीं हेरांलीं घडावलीं विकतीं घेवप आनी तीं भाणस्तारे व्हरून विकप हो मुखेल धंदो.' म्हूण लोक तांकां केळेकार म्हूण पाचारपाक लागले. कांय काळान केळेकार हेंच आडनांव तांकां दसलें.

हाचेर प्रस्न उप्रासता तो असो की केळेकारांनी केळ्यां बदला आंब्यांचो धंदो केल्लो जाल्यार तांकां आंबेकार हें आडनांव पडटलें आसलें? पणसांचो धंदो केल्लो जाल्यार लोक तांकां पणसांकार म्हणटले आसले? (अशें जाल्लें जाल्यार कोंकणी साहित्यांत जळींमळीं केळेकार दिसतात ते बदला आंबेकार, तोरांकार, घोंटांकार, आंबलेकार, पणसांकार, कुंवलेकार दिसतले आसले.)

रवीन्द्रबाब मुखार म्हणटात, 'म्हज्या आज्याचे पिळगेंतल्या कांय केळेकारांक जे छंद लागिल्ले तें खावन पिवन सुखी भाटकाराच्या भुरग्यांक लागतात तसले आसले.'

वाचप्यांक प्रस्न: खावन पिवन सुखी भाटकारांच्या भुरग्यांक कसले छंद लागतात? ह्या छंदांची म्हायती आमसाण तिखसाण लावन दियात.

रवीन्द्रबाबांक तांगेल्या बापायन 'चंद्रकांत' नांव दवरिल्लें. तांच्या आज्यान (लिंगूबाब दळवी हांणी) चंद्रकांता बदला तांकां रवीन्द्र नांव दवरलें. आनी तेंच तांकां दसलें.

- रवीन्द्रबाबांक रवीन्द्रा बदला चंद्रकांत नांव पडिल्लें जाल्यार कोंकणीवादयां भितर सध्या जीं धुमशेणां चल्ल्यांत तीं वाडटलीं आसलीं काय उणीं जातलीं आसलीं?

- चंद्रकांत नांव आशिल्ल्या मनशांचे गूण आनी दुर्गूण सांगात.

दीवाक आसतनाच्यो खबरो सांगतना रवीन्द्रबाब दोतोर शिकीत कार्दोझ आनी तेनेन्त एर्रिकीश् हांच्या खडेगांठ झगड्याचें वर्णन करतात. तेनेन्त दोतोराच्या पोल्यार सणसणीत थापटां फुलयता आनी दोतोर दर खेपेक दुसरो पोलो मुखार करता. निमाणे कडेन तेनेन्तीची गाळ आयकतकूच तो 'मूयतु ओब्रिगादु' म्हणटा. ही खबर सांगून रवीन्द्रबाब म्हणटात: 'शिकीत कार्दोझ त्या दिसा म्हज्या दोळ्यां मुखार गरगर करून वाडून मळबाक तेंकिल्लो.'

- मनीस खरोच असो गरगर करून वाडून मळबाक तेंकूंक शकता?

काय रवीन्द्रबाबांक तसो भास जाल्लो?

- 'हात मळबाक तेंकले' हे म्हणणेचो अर्थ सांगात.

उपरांत रवीन्द्रबाब गोंयां परततात. त्या वेळच्या गोंयचें हें वर्णन वाचातः 'पांचवोचार वाटार, तांबडीगुंज माती, निर्लेशार मळब, सर्वीफुल्ल कुपां.'

- हें वर्णन गोंयच्या खंयच्या वाटाराक लागू पडटा?

- रवीन्द्रबाबांनी केल्यांत तसलीं उतरांचीं गांठवलां करात. 'हळडुवो जाल्ल बेबो' पद्दतीचीं...

ते आदीं एके कडेन रवीन्द्रबाब म्हणटातः 'त्या वेळचे म्हजे उगडास... चुन्नां, चारां, काण्णांचे, बिब्यां म्हुट्ट्यांचे, आंब्या पणसांचे, तोरंगां अनसांचे, गोंयच्या सैमा कडेन त्या वेळार लक्ष वचूंक नाशिल्लें.'

- ह्या बरपांतलो विरोधाभास दाखयात. चुन्नां चारां काण्णां हो सैमाचो वांटो, हय काय न्हय? न्हय जाल्यार कारणां सांगात.

उपरांत रवीन्द्रबाब फोंड्यां आल्मैद कुलेजींत शिक्षणा खातीर वतात. त्या वेळच्या फोंड्याचें वर्णन करतना ते म्हणटातः 'गोंयांत सत्ययुग चलतालें ते मुस्तींतलें हें फोंडें.'

- रवीन्द्रबाबांलो जल्म सत्ययुगांत जाल्लो हाचेर तुमचो विस्वास बसता?

- तसो तो जाल्लो अशें गृहीत धरलें जाल्यार रवीन्द्रबाबांची सद्या पिराय कितली आसतली?

त्या वेळच्या फोंड्याच्यो खबरी सांगतना रवीन्द्रबाब म्हणटातः '... दोन रुपयांक शंबर मानकुराद आंबे आनी एका आण्याक बारा बांगडे मेळटाले. खानावळींत जेवंक वतालों. म्हयन्याक सात रुपये. दोनूय वेळचें जेवण. जाय तितलें जेव.'

- रवीन्द्रबाब तेन्ना दिसपट्टे कितले बांगडे खाताले हें अदमासान सांगात.

रवीन्द्रबाब तेन्ना बर्व्यांले ब्राह्मणींत च्या घेताले. थंय कितें मेळटालें?

'दोन पयशांचो शिरो, दोन पयशांचीं भर्जी, दोन पयशांचो च्या... रुपया खर्चून खर्चनासलो.'

- रवीन्द्रबाबांच्या त्या वेळच्या म्हयन्याच्या खर्चाचो हिशेब दियात.

रवीन्द्रबाब फोंड्यांत तीन वर्सां उरले. तांकां ते 'भांगराचीं वर्सां' म्हणटात.

- रुप्याचीं वा पितूळचीं कित्याक म्हणिनात? भांगर, रुपें आनी पितूळ हांचे त्या वेळा वयले दर सांगात.

*कोंकणी भाशेचें जैत* पुस्तक हातांत पडनां फुडें रवीन्द्रबाबांच्या तोंडांतल्यान 'हे राम' हीं उतरां आयलीं.

- कित्याक आयलीं?

- 'गांधी' सिनेमांत हीं उतरां कोणाच्या तोंडांतल्यान केन्ना आयकूंक येतात?

रवीन्द्रबाबांलो एक इश्ट दत्तारामबाब सुखठणकार. तांचे विशीं बरयतना ते म्हणटातः 'दत्ताराम पिरायेच्या हिसपान मॅच्युअर, 'दत्तारामाची तकली एकाच वांगडा धा दिकांनी धांवपी', 'असल्या प्रसंगार दत्तारामाची तकली बरी काम करताली.'

- 'दत्तारामबाब आनी तांची तकली' ह्या विशयाचेर साडे-सतरा वळींचो एक वैचारीक निबंद बरयात. पयल्या परिच्छेदांत तांचे तकलेची लांबाय, रुंदाय आनी खोलाय हांचेर भर दियात.

- गोंयांत मॅच्युअर तकल्यो कितल्यो आसूं येतात हें निमाणें खानेसुमारीच्या आधारान सांगात.



'भारत-जपान मैत्री संघान' मोरारजी देसायांक येवकार दिवपाक घडोवन हाडिल्ल्या सुवाळ्यांत काकासाहेब, बरेच मंत्री, शरद पंड्या वांगडा लोक्यांत.

रवीन्द्रबाबांलो दुसरो इश्ट नर्सुबाब सुखठणकार. तांचें हें वर्णन:

'मोटवो, नाजूक, शिडशिडीत, चारचौगांत दिश्टी लेगीत पडनाशिल्लो.'

- ह्या वर्णनाच्या आधारान नर्सुबाबांचें चित्र काडात.

उपरांत रवीन्द्रबाब म्हणटात: '...एक दीस ताणें शरतचंद्र चटर्जीचे *श्रीकांत* हाडून म्हाका वाचूंक दिलें. *श्रीकान्तान* म्हाका पिशें लायलें.'

- 'श्रीकांत' आनी 'श्रीकान्त' हांतलें खंयचें स्पेलींग तुमकां बरें लागता?

भारताचो उदात्त ध्येयवाद समजून घेवपा खातीर रवीन्द्रबाबांनी पाँडिचेरीच्या अरविंदांच्या आश्रमाक भेट दिवपाची केली. बापाय कडेन पयशे मागले. तांणी ३०० रुपयांची मनीऑर्डर धाडली. ती पळोवन घारुदादान (बापोलयान) म्हळें, 'हो बापुयूच ह्या भुरग्याची वाट लायतलो.'

- रवीन्द्रबाबांले सध्याचे व्याप पळेत जाल्यार घारुदादालीं उतरां खरीं जालीं, अशें तुमकां दिसता?

एक फावट रवीन्द्रबाब विवेकानन्द वाचतात. तांगेलें बरप वाचतकूच 'खंयचो प्राणवान भुरगो हिमालय मोखून मारपाक फुरफुरून येवंचो ना?' असो ते प्रस्न करतात.

- 'प्राणवान' आनी 'हिमालय मोखून मारप' ह्या कठीण उतरांचे अर्थ सांगात.

- तुमचे कडेन कोणेंय हिमालय दिलो जाल्यार तुमी तो खंय आनी कसो मोखून मारतले?

शरतचंद्रांचें *विप्रदास* पुस्तक रवीन्द्रबाबांनी २५ खेपो वाचलें आनी ते २५ खेपो रडले.

- तांच्या २५ वे खेपेच्या रडपाचें प्रात्यक्षीक करून दाखयात.

रवीन्द्रबाबांलीं हीं वाक्यां वाचात:

१) म्हज्यांत भितर *विजेची करंट* सुर्रर करून वचची तशेंशें कितें जालें.

२) पणजेंत दत्तारामाचो रूम *आमचें हेडक्वार्टर.*

- करंट आनी हेडक्वार्टर ह्या उतरांचीं लिंगां सांगात. रवीन्द्रबाबांनी तांचीं जीं लिंगा दिल्यांत तीं व्याकरणांत बसतात?

रवीन्द्रबाबान एके कडेन एकल्याचें वर्णन केलां: 'ऊंच, बारीक, शिडशिडीत, रुंद कपल, तेजस्वी दोळे आनी मुमुरखो हांसो.'

- हें वर्णन हांचे भितरल्या कोणाक लागता? - १) दत्ताराम सुखठणकार, २) दयानंद बांदोडकार, ३) नर्सुबाब सुखठणकार, ४) विसू लवंदो, ५) सुर्या वाघ.

१९४७ वर्सा रवीन्द्रबाब आशियाई परिशदेक हाजीर रावपा खातीर दिल्लीक गेले. सरोजिनी नायडू अध्यक्षाच्या कदेलार बशिल्ल्यो. तांगेलें आंग सुटिल्लें. 'अध्यक्षाच्या कदेलार आशिया खंडाचो नक्सो जाल्लेवरी त्यो सोबताल्यो', ते बरयतात. - अॅटलस काडून आशिया खंडाचो नक्सो पळेयात. तातूंत आनी सरोजिनी नायडूंत साम्य कितें आसा तें दोंगर, न्हंयो, तळीं,जंगलां हांचो आधार घेवन सांगात.

केळेकार गोंयचे सुटकेच्या वावरांत घुसपल्ले आसतना एके कडेन बरयतात: 'घरा गेलों. पुस्तकाच्यो (त्रिशतांव ब्रागांझाच्या) प्रेस कॉपयो बॅगांत पोंदा घाल्यो. वयर म्हजीं खोमसां कालसांवां दाळ्ळीं (सदरो लेंगो अजून घालूंक लागूं नाशिल्लों.)



- रवीन्द्रबाबांलें हें वर्णन वाचून ताच्या आधारान तांचें खोमीस कालसांव आनी वयर घुस्पल्लें जानवें घाल्लें तीन-रंगी चित्र काडात.

सूर्या वाघा संदर्भांत रवीन्द्रबाब एके कडेन बरयतात: कांय जाणां कडेन खिणा पुरतोच संबंद आयलो तरूय तांची छाप काळजांत उरता... अंतरमनांत खंय तरी ते सुवात घेवन बसतात. म्हज्या जिवितांत असले चार-स जाण आयल्यात.

- रवीन्द्रबाबांल्या अंतरमनाचें क्षेत्रफळ (लांबाय × रुंदाय) सांगात.

भुरगेपणांत रवीन्द्रबाबाक घारुदादान 'वाळेस' म्हणिल्लो. आतां तांकां लोक 'गांधीवादी' म्हणटात. खासा ते आपणाक 'जीवनवादी' म्हणटात.

- वाळेस ते गांधीवादी ते जीवनवादी... रवीन्द्रबाबांचे जिणेच्या ह्या प्रवासाचें वर्णन करात.

- वाल्याचो वाल्मीकी जालो तसो वाळेसाचो गांधीवादी जालो अशें दाखोवन एक दोन अंकी संगीत नाटक बरयात.

# *'सांगाती'*च्या सांगातान

♦ राजय पवार

**दरेका मनशांत एक 'चिंतक' आसता. पूण ताका वैचारीक बसका आसता अशें ना. चडशे 'चितक' चंचल आसतात. जो स्थीर आसता तोच खरो आनी बरो विचार दिवंक पावता. रवीन्द्रबाबां मदलो 'चिंतक' अणभवसंपन्न, स्थीर, वैचारीक बसका लाबिल्लो आशिल्ल्यान वाचकांक दरेका चिंतनांत 'एक विचार' गावता. आनी हो विचारूच आमकां वाचतां वाचतां जिवितांचे खोलायेंत व्हरून सोडटा... 'सांगाती सारकें पुस्तक दर एकल्या कडेन आसुंकूच जाय. जाणें जाणें तें वाचलां ताचेर ताचो प्रभाव पडटलोच. तो विचार करूंक लागतलो, चिंतक जावंक पावतलो...**

आयजवेरचे म्हजे जिणेंत हांवें जें पुस्तक चडांत चड फावटी वाचलां तें म्हळ्यार रवीन्द्रबाब केळेकार हांचें *सांगाती*. जितले फावटी वाचलां तितलेय फावटी कितें तरी नवें हाताक लागलां. १९७७ वर्सा 'जाग प्रकाशना'न उजवाडायिल्लें हें पुस्तक खऱ्या अर्थान 'सनातन'. पोन्नें तरीय सदांच नवें!

लेखन करचे खातीर वा लेखक जावचे खातीर जल्मजात प्रतिभा आसची पडटा, हें म्हाकाय पट्टा. पूण कितें कोण जाणा, जितले फावटी हांवें *सांगाती* वाचलां तितलेय फावटी म्हाका दिसलां, दर एकल्यान आपले जिणेंतलीं चिंतनां कागदार देंवोवचीं आनी लेखक जावचें. ते भायर, हें पुस्तक वाचून सोंपता थंय निमाणे कडेन दरेका वाचकाक एक 'आशेचें कीर्ण' रवीन्द्रबाबूच दाखयतात - 'पुस्तक सोंपलें म्हुण सांगिना. जाच्यान जाता ताणें तें मुखार चलोवचें अशें सांगून तुर्ताक हांव कडेक सरतां.' बर्नाड शॉनूय आपलें एक पुस्तक अशेच तरेन सोंपयिल्लें खंय -'to be continued by them that can.' हातूंत 'जाच्यान जाता' वा 'that can' हीं उतरां वयलेवयर जरी सादीं दिसलीं तरी



आवय वांगडा...

तातूंत जबाबदारेचो खोल अर्थ रिगला. जो चिंतता, जाच्या चिंतनांक अणभवांची गडगंज बसका लाबल्या ताणें 'आपले विचार, आपलीं चिंतनां समाजाच्या उपेगा खातीर अक्षरबद्ध करचीं. रवीन्द्रबाबूय पुस्तकाच्या मनोगतांत निमाणे कडेन म्हणटात 'हीं चिंतनां कोणाकूय जिविताचे खोलायेंत व्हरूंक पावलीं जाल्यार म्हाका समाजाची बऱ्यांतली बरी सेवा केल्ल्याची खोस भोगतली.'

दरेका मनशांत एक 'चिंतक' आसता. पूण ताका वैचारीक बसका आसता अशें ना. चडशे 'चिंतक' चंचल आसतात. जो स्थीर आसता तोच खरो आनी बरो विचार दिवंक पावता. रवीन्द्रबाबां मदलो 'चिंतक' अणभवसंपन्न, स्थीर, वैचारीक बसका लाबिल्लो आशिल्ल्यान वाचकांक दरेका चिंतनांत 'एक विचार' गावता. आनी हो विचारूच आमकां वाचतां वाचतां जिविताचे खोलायेंत व्हरून सोडटा.

हें पुस्तक बरोवचे आदीं तांणी पाश्कालचें *पांसें* हें पुस्तक वाचिल्लें आनी तातूंतल्यान प्रेरणा घेवन किर्ते तरी नवें बरोवचें अशें तांकां दिसलें. तांणी डायरी (दिसपटी) बरोवपाची थरयली. तशे जायते जाण दिसपटी बरयतात. पूण तातूंत सातत्य राखून तें काम तडीक व्हरप कांय मेजक्याच लोकांक जमता. रवीन्द्रबाबान ते आदींच *वेळेवयल्यो घुलो* हें दिसपटयेच्या रुपांतर्लेच पुस्तक बरयिल्लें. उपरांत परतून जेन्ना ते दुसरी दिसपटी बरोवंक बसले तेन्ना तांणी तेच तरेचें 'मोनोटनस' बरयनासतना नव्या स्वरुपांत, म्हळ्यारच चिंतनांच्या स्वरुपांत डायरी बरयली आनी ताका योग्य आनी सार्थक नांव दिलें - ''सांगाती''.

*सांगाती* हातांत घेतकींच पयलेंच चिंतन आमकां जिर्णेतल्या प्रखर वास्तवाची जाणवीक करून दिता. आमचे 'लघु जिणेचें' 'दीर्घ महत्व' पटोवन दिवपी तें चिंतन दरेका वाचकाक चिंतूंक लायता. धर्तरे वयलें आमचें जिवीत म्हळ्यार एके तरेची बिझनेस ट्रिपूच कशी, हें सांगतना ते म्हणटात, 'अमकेंच एक काम अमक्याच दिसां भितर करून आमकां परतुपाचें आसा. खर्चाक लेगीत आमकां 'आयुश्याचीं अमकींच वर्सां 'सँक्शन' जाल्लीं आसात (पान १). हांगा कोणूच अमर जावन उरचो ना. देखून आपलें नांव तरी अमर करून दवरचे खातीर मेळिल्ल्या जिवितांत किर्ते तरी बरें करचें आनी कश्याय कशे दीस फास्तियार करचे परस दरेका खिणाचो सद्उपेग करून घेवचो अशे विचार दिवपी हें चिंतन.

हांवें खंय तरी वाचिल्लें -- 'जे वाचतले तेच वांचतले'. जिर्णेत वाचनाचें म्हत्व सांगतना ते म्हणटात, 'स्वाध्यायाक वेळ मेळना हें खरें न्हय. मनीस कितलोय कामांत आसूं, ताका जेवपाक वेळ मेळटा, न्हिदपाक मेळटा जाल्यार वाचपाकूय मेळूंक जाय. गिन्यानाच्या मळार 'फ्रॅश' उरपा खातीर ताका वेळ काडूंक येवंकूच जाय. ना जाल्यार मरण ताका खावन उडयतलें' (पान ३:३). रवीन्द्रबाबांक लेगीत वाचनानूच गिरेस्त केल्यात हें आमकां तांचे खंयचेय साहित्यकृतींतल्यान होलमता. तांच्या जायत्या पुस्तकांत वेगवेगळ्या विचारवंतांचे, लेखकांचे उल्लेख मेळटात. *सांगाती* पुस्तकांतूच ते म्हणटात, 'किर्ते म्हूण कोण जाणां, दोन दीस नवें किर्ते वाचलें ना जाल्यार म्हज्यांतलें सत्वूच ना जावन गेल्ले वरी दिसता. हारशांत म्हजें तोंड लेगीत म्हज्यान पळोवं नज जाता' (पान २:३). हाचे वेल्यानूच तांणी कितलें वाचलां आसूं येता हाची कल्पनाय करूं नज.

रवीन्द्रबाब म्हणटात, '...लोकांनी तिडचें; आपणें थंड आसचें' '(पान ३:४). खोलायेन विचार केल्यार कळटलें, लोकांनी तिडचें, आनी आपणें थंड आसचें अशें जण एकल्यान थारायलें जाल्यार कोणूच कोणाचेर तिडचो ना, कारण आमी सगळे 'जण एकले' मेळुनूच 'लोक' जातात.

ते म्हणटात, 'म्हज्यांतल्या कवीक जाग हाडली बायलांनी आनी चिंतकाक भुरग्यांनी' (पान २१:२७). दर एकल्याचे जिर्णेत बायल आनी भुरगीं हांकां खाशेली सुवांत आसता. सुंदरताय, भावना ह्यो गजाली बायलांक लागींच्यो आनी प्रस्न करप, चिंतप ह्यो गजाली भुरग्यांचे सबावगूण. तेच नदरेन विचार केल्यार रवीन्द्रबाब म्हणटात तें पट्टा. खुद्द रवीन्द्रबाबान हे आदीं 'इंद्रकार' ह्या नांवान काव्यरचनां केल्या. ते भायर तांच्या निबंदांनी लेगीत काव्यात्मक रचना दिश्टी पडटा. हें काव्यूच आमकां तांच्या निबंदांची रूच लायता. भुरगीं आनी चिंतप ह्यो दोनूय एकामेकांत भरसून वचपी गजाली. भुरगीं ल्हान आसतनाच 'हें अशें कित्याक?'. 'हें किर्ते?', 'हें तशें कित्याक न्हय?' अशे साबार तरांचे प्रस्न करतात. कांय पालक 'नाका जाल्ले प्रस्न करूं नाका' असो धेंगसो घालून तांच्यांतल्या चिंतकाक ना करतात. रवीन्द्रबाब मात ह्या चिंतपी भुरग्यांक लेखतात. कारण आपल्यांतल्या चिंतकाकूय तांणीच जागयला हें ते अनमननासतना मान्य करतात.

जायते जाण अल्पसंतुश्ट आसतात. मनशान मुखार वचपाचे बाबतींत सदां सातत्य राखूंक जाय. थांबता तो फाटीं पडटा. आनी, मुखार वचचे खातीर आमची कसली न्हय कसली मोख आसुंकूच जाय- ती मोख साध्य केले उपरांत दुसरी मोख... मागीर तिसरी... हाका लागून आमी आळशी जावंक पावचे नात. हो विचार ते एकाच वाक्यांत सांगतात, 'आमच्यो सगळ्यो गरजो केन्नाच भागूंक जायनात'

(पान २३:३३).

अमकींच वर्सां सँक्शन जाल्ली 'बिझनेस ट्रीप' कशी आमची ही खिणयाळी जीण. हे जिणेंत आमकां 'खूब किते' करपाचें आसता. पूण ही जीण आमकां 'खूब ल्हान' दिसता. कांय जाण तर तिका आळवा पाना वयलो थेंबो अशें म्हणटात. जीण इतली ल्हान तरी ती निराश जायनासतना जगप हें कांय जाणांक जमना आनी ते बेजारून, उबगून आत्महत्या करतात... रवीन्द्रबाब म्हणटात, 'जीण म्हळ्यार: आळवा पाना वयलो उदका थेंबो. असली ही जीण लेगीत कांय जाणांक जड जावची? आनी 'मेल्लों जाल्यार सुट्टलों आशिल्लों' अशें म्हणपाकडेन ते पावचे? खिणयाळे जिणेची केदी शोकान्तिका ही?' (पान २४:३६).

एके कडेन रवीन्द्रबाब म्हणटात, 'म्हाका कोणेंय फटयल्यार जाता. हांव कोणाक फटोवंचो ना. पुणून एकल्यान एक खेपे फटयतकूच ताचे कडल्यान दुसरे खेपे फटोवन घेवंचो ना' (पान ५६:७८). गांधीजी म्हणटाले, 'एका पोल्यार मारतकीच दुसरोय मुखार करचो'. पूण गांधीवादी रवीन्द्रबाब मात म्हणटात, 'एकल्यान एक खेपे फटयतकीच ताचे कडल्यान दुसरे खेपे फटोवन घेवंचो ना.' होच आयच्या काळाक सोबपी वास्तववाद. 'म्हाका कोणेंय फटयल्यार जाता. हांव कोणाक फटोवंचो ना.' हो गांधीवाद. रवीन्द्रबाबांच्या चिंतनांत गांधीवादा वांगडाच आयच्या काळाक सोबपी वास्तववाद येता. देखूनच तांचे मदलो चिंतक मनाक भावता.

जण एकल्याक दिसता, आपल्या जिवितांत फकत सुखूच आसचें, दुःख अजिबात आसचें न्हय. पूण जे भाशेन, दीस आसा म्हण रात आसा, वोत आसा म्हण सावळी आसा, ओलें आसा म्हण सुकें आसा, ते भाशेन, सूख आसा म्हण दूख आसा. एकल्या बगर दुसऱ्याक म्हत्व ना. जण एकल्याचे जिणेंत सुखा वांगडा दूख वा दुखा वांगडा सूख आसतलेंच. दोगांयकय आमचे जिणेंत सुवात आसा. रवीन्द्रबाब हें सुखा-दुखाचें अस्तित्व मान्य करून थंयच थांबनात. तातूंतल्यान येसस्वीपणान वाट चलत रावपाचो एक 'जिणे मंत्र' दितात - 'जिवितांत दोनांकूय सुवात आसा. सुखाक : तें जिवीत जियेवपाची आमच्यांत आस्त जागयता म्हुण. आनी दुख्खाक : आमकां घटमूट करता म्हुण. पुणून दों भितल्ल्या एकल्याचोय आमचेर शेक चलूंक फावना. एकल्या मुखार आमी ल्हान जावंक जायना' (पान ४४:६०). रवीन्द्रबाब फकत problem मांडनात, तर ताचे वेलो उपाय सोदून काडटात, मांडटात. खंय तरी वाचिल्लें हांवें, 'If you don't come out with solution then you are the problem'. जिणेंत सूख-दूख आसतलेंच. पूण त्या जिविता कडेन पळोवपाची आमची नदर -- जिणेदिश्ट म्हत्वाची. आमची attitude पॉझिटिव्ह काय निगेटिव्ह? आमची जिणेदिश्ट आशावादी काय निराशावादी? हाची जाप जण एकल्यान सोदपाक जाय. आनीक एका चिंतनांत केळेकार म्हणटात, 'निराशावाद म्हणटा : जिवीत आसा देखून दुखख आसा. आशावाद म्हणटा : जिवीत आसा देखून सुखाची आस्त आसा' (पान २४:३५). आमची जिणेदिश्ट निराशावादी जाल्यार दुखाचेंच अस्तिव जाणवतलें, आनी जर ती आशावादी आसत जाल्यार सुखाचें अस्तित्व जाणवतलें



फोटो: र. वि. पंडित

**गोदूबाय वांगडा...**

अर्थशास्त्राच्या जायत्या पुस्तकांनी एक देख वाचूंक मेळटा. जोतीं तयार करपी एके कंपनीन दोन 'मार्केटींग ऑफिसर' नेमले आनी तांकां खूब लोकवस्ती आशिल्ल्या एका रानवटी प्रदेशांत सर्व्हे करपा खातीर धाडले. दोगांकय तो वाठार समान तरेन वांटून दिल्लो. त्या प्रदेशांत कोणूच जोतीं वापरनाशिल्लो. त्या लोकांनी जोतीं म्हणटात ती वस्तच पळोवंक नाशिल्ली. सर्व्हे केले उपरांत दोगांयनी आपापले रिपोर्ट धाडले. एकल्यान बरयलें : 'ह्या वाठारांतले लोक जोतींच वापरनात. तांकां जोत्यां शिवाय भोवपाची संवय जाल्या. तांकां जोत्यांची गरज लागना. देखून हांगा कोणूच जोतीं विकतीं घेवचो ना. हांगा जोत्यांच्या वेवसायाक scope ना.' दुसऱ्यान बरयलें: 'ह्या वाठारांतल्या एकल्याय मनशाच्या पांयांक जोतें ना. आजवेर ते जोत्या शिवायच फातरांतल्यान, कांट्यांतल्यान चलत आयल्यात. ह्या लोकांक जोत्यांची ताकतिकेन गरज आसा. जाता तितले बेगीन आमी हांगा जोत्यांचो वेवसाय सुरू करुंया. हांगा ह्या वेवसायाक हिसपा भायर scope आसा.' सगलें एकसारकेंच तरी दोगांयलेंय attitudes वेगवेगळ्यो जिविताचेंय अशेंच आसता. रवीन्द्रबाब फकत दोनूच वळींनी ही गजाल पटोवन दितात. *सांगातीं*तलीं सगलीं चिंतनां वाचत जाल्यार एक गजाल लक्षांत येता ती अशी, रवीन्द्रबाबांल्या चडांत चड चिंतनांचो अंतःप्रवाह (under current) म्हळ्यार सूख आनी दूख. तोच आमच्या जिविताचो अंतःप्रवाह. *सांगातीं*त सूख आनी दूख हांचे विशीं भाश्य करपी कांय चिंतनां अशीं आसात :

१) 'रामाक खंयचीय गजाल सुखान आनी सोंपेपणान मेळूंक पावूं ना... रामाचो जल्म दुख्खांच सोंसपाखातीर जाल्लो! आनी लक्षांत दवरूंक जाय : राम ईश्वराचो अवतार आशिल्लो!' (क्रमांक ३८),

२) '.... मनीस वयर सरतलो जाल्यार ताणें सुखां मुखार शेंपडी हालोवंक जायना. आनी दुख्खां पळोवन पळूंक जायना. तशें

सुखाक वोगींच भियेवंकूय जायना आनी दुख्खाक वोगीच वेंगावंकूय जायना.' (क्रमांक: ३९),

३) 'जिवितांत सुखा इतलीच दुख्खाक सुवात आसूंक जाय. ना जाल्यार जिवीत अर्दकुटेंच उरता... दुख्खासारकें दुसरें टॉनीक ना. आनी दुख्खासारकें दुसरें विद्यालयूय ना... दुख्खाक भियेवप समा न्हय' (क्रमांक: १४९),

४) 'दुख्खां चुकोवप हो मनशाचो सभाव आशिल्लो जाल्यार मनीस व्हडल्या व्हडल्या त्यागांक तयार जावचो नाशिल्लो... मनशाचो सभाव : केदींय व्हडलीं दुख्खां वा अरिश्टां येवं, तीं सोंसपाची म्हज्यांत तांक आसा हेंच दाखोवन दिवपाचो...' (क्रमांक : १३३)




५) 'एकल्या भक्तान सांगिल्लें : 'दुख्ख ही त्या प्रियतमाची मुदी. तुका ताचो उगडास करून दिवपी'. तेन्नापसून जेन्ना जेन्ना दुख्खांत बुडलां तेन्ना तेन्ना म्हाका तातूंत 'हांव आयलां, पळे' हो त्या प्रियतमाचो उलो आयकूंक आयला...' (क्रमांक: १२५),

६) 'जिवितांत दोनांकूय सुवात आसा. सुखाक : तें जिवीत जियेवपाची आमच्यांत आस्त जागयता म्हुण. आनी दुख्खाक : आमकां घटमूट करता म्हुण...' (क्रमांक : ६०),

७) 'जण एकल्याचें दुख्ख ताच्या काळजायेदें' (क्रमांक: ४०).

केन्ना केन्ना २०-३० वळींतल्यान तर केन्ना निखट्या पांच उतरांतल्यानूच सुखा-दुखाचेर भाश्य करपी केळेकारां मदलो 'चिंतक' मनाक भावता. कारण तें भाश्य सुकें- खरखरीत - रुक्ष नासता... तर तातूंत समजिकायेचीं - सादीं सुटसुटीत - काव्यात्मक उतरां आसतात. रवीन्द्रबाबांचें *सांगातीच* न्हय तर हेर खंयचेंय पुस्तक वाचतना एक गजाल लक्षांत येता ती म्हळ्यार, रवीन्द्रबाबांच्या दरेका निबंदांत एक 'कवी' दिश्टी पडटा. देखूनच अशे तरेचे निबंद वाचतना तकली जड जायना.

*सांगाती* म्हाका जगतना जायते फावटी उपेगाक पडटा... सांगात दिता. निराशेच्या खिणाक धिटाय जागयता. जियेवपाचें तत्व सांगता. पूण... केन्ना केन्ना म्हाका *सांगातींतले* कांय मुद्दे पटनात. कारण म्हज्यांतलो चिंतक ते मानपाक तयार जायना म्हणून आसत वा *सांगातींतूच* तो मुद्दो विरोधाभास निर्माण करता म्हणून आसत. देखीक, 'सैमांतलें सगळेंच पूर्ण. तणाचें पातें पूर्ण. माडाचें चुडत पूर्ण. तुळशिचो रोप पूर्ण... आवय पूर्ण. भुरगेंय पूर्ण. कित्याक - सैमांतलें मूळ तत्व पूर्ण. पूर्णांतल्यान पूर्णच जल्मा येता...' (पान ७७: १०६). म्हजें मानप वेगळें. हांगा कांयच पूर्ण ना. सगळें अपूर्ण. देखूनच तर दर एकल्यांत 'पूर्ण जावपाची' इत्सा निर्माण जाता. रोप्याक झाड जावचेंशें दिसता. आवयक आदर्श आवय जावचीशी दिसता, आजी जावचीशी दिसता, भुरग्याक व्हड जावचोसो दिसता... दर एकल्याक कोण न्हय कोण, कितें न्हय कितें जावचेंशें दिसता... पूर्णत्व नासता देखुनूच तर 'अमको जावप' अशी इत्सा निर्माण जाता. ह्या संवसारांतले नाद अपूर्ण, उतरां अपूर्ण, गिन्यान अपूर्ण. आमची वाटचाल आसता, हें मेळूंक नाशिल्लें 'पूर्णत्व' जोडपाचे दिकेन. म्हजे नदरेन 'पूर्णत्व' ही subjective गजाल. तें भायर ते unachievable लेगीत. पूण जो ताचे लागसार पावता तो आमचे नदरेन पूर्ण.

देवा विशीं जायतीं चिंतनां प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्षपणान *सांगातींत* वाचूंक मेळटात. रवीन्द्रबाबांचो देवाचेर विस्वास आसा हें तर कळटाच. ते भायर देव म्हळ्यार 'अमकीच मूर्त' न्हय, तो अमूर्त, हो विचारूच स्पश्ट जाता. एका चिंतनांत ते म्हणटात, 'देव म्हज्यांत कोणाक सोदता? ताच्या भक्ताक? सेवकाक? कांय सगळ्यांची सेवा आनी भक्ती करपी खासा आपणाकूच?' (पान ८३:११५). हातूंतलें निमाणें वाक्य खूब महत्वाचें. भक्ती आनी सेवा ह्या मार्गानूच गेल्यार देव मेळटा हें खरें. पूण चडशे जाण ही भक्ती आनी सेवा देवाची (ते ते मुर्तीची) करप म्हूण समजतात. खरें म्हळ्यार, भक्ती, सेवा करप आसता ती दुसऱ्यांची (मनशाची वा खंयच्याय जिवाची) आनी अशी दुबळ्यांची वा दुसऱ्यांची सेवा करतल्याचे कुडींतच देव वास करता... देखूनच रवीन्द्रबाब म्हणटात, 'देव म्हज्यांत कोणाक सोदता?... सगळ्यांची सेवा आनी भक्ती करपी खासा आपणाकूच?'

Beauty lies in the eyes of the beholder हे तत्व पटोवन दिवपी एक सुंदर काणी ह्या पुस्तकांत आसपावल्या. जण एकल्यान ही काणी वाचपाकूच जाय. काणी साप्प ल्हान आसा. ती अशी :

सुंदर आनी कुरूप ह्यो दोगी भयणी एक खेपे खंय न्हावपाक दर्यावेळेर गेल्यो, आपापलीं लुगटां दोगांयनी वेळेर दवरलीं आनी दोगी उदकांत देंवल्यो. मदींच कुरूपाक कितें येवजलें, कोण जाणा. तें अवचीत उदकांतल्यान भायर आयलें आनी सुंदराचीं लुगटां न्हेसून बेगीबेगीन थंयचे पाशार जालें. सुंदर वयर येवन पळयता जाल्यार, वेळेर आपलीं लुगटां नात. कुरूप न्हेसून गेलां. कितें करतलें? नागडें रावतलें? बावड्याक कुरूपाचीं लुगटां न्हेसून वचचें पडलें. दोगांय खंय एकामेकांक अजून मेळूंक पावूंक नात. हाका लागून खंय लोक गोंदळ करतात. सुंदराक कुरूप लेखतात, आनी कुरूपाक सुंदर मानतात. तरी बरें, संवसारांत कांय जाण आसात जे लुगटां पळोवन फटवनात. लुगटां कोणायचीं घालीं तरूय सुंदर खंयचें आनी कुरूप खंयचें हें ते जिस्त वळखून काडटात (पान ८४:११८).

ही काणी वाचतकीच सुंदर आनी कुरूप ह्या उतरांच्यो व्याख्या जाणून घेवपाची इत्साय निर्माण जायना. सगळें कशें नितळ, स्पश्ट

दिसपाक लागता.

म्हाका याद जाता... १३ ऑक्टोबर १९९६ च्या (आयतारच्या) 'सुनापरान्तां'त 'एक चीट तळमळ्यांची' हें म्हजें बरप उजवाडा आयिल्लें. तें वाचून रवीन्द्रबाबान माधवी सरदेसायां कडल्यान एकाद धाडून म्हाका परबीं भेटयलीं आनी घरा येवन मेळपाचें आमंत्रण दिलें. येदो व्हडलो लेखक 'म्हाका मेळूंक सोदता' ही गजाल त्या वेळार म्हजे भितर उमेदीची ल्हारां उसळावन गेली. हांव मुखावेल्या आयतारा (२० ऑक्टोबराक) वचून तांकां मेळ्ळों. म्हजे सारक्या ल्हान पिरायेच्या भुरग्यान जाणट्यांचेर कितें तरी बरयलें म्हण म्हजी खूब तुस्त जाली... दनपारच्या जेवणा खातीर तांणी केल्लो आग्रो मोडूंक शकलों ना. येदो व्हडलो लेखक कितले नमळायेन, खालतेपणान उलयता, गजाली करता... उपदेश करतना लेगीत खंयच 'हांव सांगतां, तूं आयक' हे गजालीचो वास लेगीत मारनाशिल्लो. ते उपरांत इतले नमळायेन 'ल्हानपण' घेवन उलोवपी दुसरो लेखक हांवें अजून मेरेन पळोवंक ना. हें सगळें याद जावपा फाटलें कारण म्हळ्यार *सांगाती*तलें ८७ पाना वेलें १२३ आंकड्याचें चिंतन. 'मनीस जाणा आपुण ल्हान म्हुण. ल्हान म्हुण तो ल्हान. पुणून तो 'जाणा' आपुण ल्हान म्हुण. देखून तो व्हड.' स्वता रवीन्द्रबाब अशे वागतात देखून अशे तरेचें चिंतन आपसूक येतलेंच. सगळ्यांनीच अशें वागल्यार आमचो समाज खऱ्यांनीच civilised दिसपाक लागतलो.

*सांगाती*त आडवीं बरयिल्लीं ल्हान ल्हान चिंतनां जर उबीं बरयलीं जाल्यार त्यो ल्हान ल्हान कविताच कश्यो! देखीक:

१) 'हांवें सुर्याक फाट केली. आनी मुखार दिसली म्हाका शेकानशेक पातळ्ळेली म्हजीच सांवळी' (पान ८४: ११७).

२) 'केन्ना केन्ना दिसता : ही काळखी रात केन्नाच सोंपपाची ना. आनी धीर सुट्टा. निर्शेणेच्या ह्या खिणांतूच जिस्त फांतोड सुरू जाल्ली आसता' (पान ७१: ९७).

३) 'रातीचो धीर केदो! फांतोड जातली हे आशेन वाडट्या काळखांत सवनरात जागीच रावता!' (पान ९८: ९३).

रवीन्द्रबाबांच्या चिंतनांनी 'हुसको' हो एक म्हत्वाचो घटक. तांकां समाजाचो हुसको, मनशांचो हुसको, देशाचो हुसको, राजकारणाचो हुसको... आदी. जो चिंतता ताकाच हुसको जाता आनी हुसको जाता तोच चिंतता. कित्याक, तो 'जागो' आसता. रवीन्द्रबाबां मदलो हो 'जागृत चिंतक' दर चिंतनांतल्यान झळकता.

मोगान सगळें जिखप शक्य आसा. जायते प्रस्न मोगान सोडोवं येतात. मनशान थंडसाणेन, मायेमोगान वागल्यार कोणाचेंय परिवर्तन करप शक्य आसा हें पटोवन दिवचे खातीर रवीन्द्रबाबांक फकत पांचूच शब्द पुरो जातात... 'मोग फातरिचेंय लोणी करता.' (पान ६:८)

रवीन्द्रबाबां मदलो हो 'जागृत चिंतक' चिंतता तेन्ना तो अतिरेक करपाक वचना, तो neutral रावन चिंतता. ते म्हणटात, 'चित्र पयसल्यान सारकें दिसना. लागिंच्यानूय सारकें दिसना. अमक्याच एका अंतरार रावन पळेल्यारूच तें सारकें दिसता. जिविताचेंय अशेंच. जे मातूय येवजिनात तांकां जिवीत कितें तें समजना. जे चड येवजितात तांकांय कळना. एका अंतरार रावन येवजिल्यारूच जिविताचो अर्थ समजतलो' (पान ४३:५७). रवीन्द्रबाबय अशेच तरेन अमक्या एका अंतरार रावन चिंततात. आनी कोणाच्याय विचारांनी ते व्हांवनूय वचनात. ते थीर रावतात. आपल्याच एक चिंतनांत ते म्हणटात, 'व्हांवती न्हंय व्हांवता-शी दिसता. समाजूय व्हांवता. पूण व्हांवतासो दिसना. कोणें तरी मदीं थीर उबो रावंक जाय. म्हणटकूच तो व्हांवता काय ना तें कळटलें.' (पान ५४:७५)

आजवेर आमी आयकत आयल्यात, कळाव जाता आसत जाल्यार ताकतीक करपाक जाय. वा जे सवकासायेन करतात तांकां कळाव जाता. पूण रवीन्द्रबाब म्हणटात, 'ताकतीक केल्यार कळाव जाता? आतां खंयचें खरें?... ताकतीक केल्यार कळाव जाता हें, काय कळाव जाल्यार ताकतीक करची पडटा हें!?' (पान ९८:१४४). चिंतपाक लावप हेंच तर *सांगाती*चें काम.... लेखक म्हण तांचें तें कर्तव्य. कर्तव्य ह्या उतराचो सोपो आनी सरळ अर्थ सांगतना ते म्हणटात, 'दुसरे करतात तें हांव करतां.करूंक जाय म्हण. दुसरे करिनात तें हांव करतां. केले बगर रावं नज म्हूण' (पान १००:१४८).

मनशान मळबाक हात तेंकयले तरी पांय जमनीर दवरूंक जाय. कितलेंय येस मेळ्ळें तरी भुल्लसून वचूंक उपकारना. आपले कडल्यान 'हाचे परस बरें' जावचें आसा... हो मंत्र मनांत बाळगूंक जाय. जाल्यारूच आमची उदरगत जातली. तिका सातत्य आसतलें. नाजाल्यार थांबतले, आनी शेणटले. होच विचार व्यक्त करतना ते बरयतात, '.... आमच्या सगळ्यांच्या हातांतल्यान बऱ्यो क़रण्यो घडटात केन्ना केन्ना. The best is yet to be ही वळ आमची सांगाती जायत जाल्यार, आमचे बरे करणेचो कैफ तकलेंत रिगचे पयलींच आमकां भितल्ल्यान एक आवाज आयकूंक येतलो: इतल्यान भुल्लुसून वचूं नाका. हाच्याकूय बरी करणी तुज्याच हातांतल्यान ह्या मुखार जावपाची आसा' (पान १०२:१५२).

खंयच्याय साहित्यिका विशीं बरयतना शेवट कसो करचो होच प्रस्न पडटा. खंय थांबचें, कशें थांबचें... ह्या प्रस्नांत बरोवपी घुस्पता... आनी उपाय ना जावन तो कसोय बसो सोंपयता. म्हजेंय तेंच जालां.

*सांगाती* विशीं बरयलां तेंच तुमकां *उजवाडाचे सूर* वा *समिधा* वाचतना जाणवतलें. रवीन्द्रबाब म्हळ्यार एक 'जागृत आनी अस्वस्थ असो जिणे-सूर.' रवीन्द्रबाब म्हळ्यार एक 'light house' रवीन्द्रबाब म्हळ्यार विचारांचें 'power house'. जिणेंत दर एकल्याक तशी सांगात्याची गरज आसता, तशीच दरेका वाचकाक *सांगाती*ची गरज आसता.

रवीन्द्रबाब केळेकार 'कोंकण टायम्स'च्या जुलय-सप्टेंबर २००७ च्या अंकांतल्या लेखांत म्हणटात, '.... *कबीर रचनावली*, *श्रीरामकृष्ण कथामृत* आनी *गीतांजली* हीं पुस्तकां जण एकल्यागेर आसुंकूच जाय. जांगेर तीं नात तांकां संस्कारी मनीस मानूंक हांव सपसप तयार जावंचो ना.' त्याच सुरार म्हणचेंशें दिसता, '*सांगाती* सारकें पुस्तक दर एकल्या कडेन आसुंकूच जाय. जाणें जाणें तें वाचलां ताचेर ताचो प्रभाव पडटलोच. तो विचार करूंक लागतलो, चिंतक जावंक पावतलो. जाचे लागीं *सांगाती* आसचेंना ताणें जिणेंत कितें तरी miss केलां. इतलें मात खात्रेन म्हणूं येतलें.'





# काळजाचे खोलायेंतल्यान आयिल्लें अणभवामृत

♦ हरिश्चंद्र नागवेंकार

**जो आशय सांगपाक कांय जाण पानांचीं पानां खर्चितात, तेंच रवीन्द्रबाबांनी थोडे भितर इतल्या प्रभावीपणान सांगला की ह्या निबंदांचो ल्हान आकार, होच तांचो बरो गूण थरला. मनीस-जिणे कडेन संबंदीत आशिल्ल्या विवीध विशयां वयलीं रवीन्द्रबाबांचीं चिंतनां ह्या पुस्तकांत आसात... ह्या विशयां कडेन पळेतना सामान्य मनशाची नदर जें टिपून घेवपाक शकना, तें रवीन्द्रबाबाचे बारीक नदरेन टिपलां... मनशाक आपणालें खरें सूख कित्यांत आसा हें खबर ना हे गजालीची खंत तांच्या कितल्याश्याच निबंदांनी उक्ती जाल्ली आमकां दिसता.**

*आशिकु शीक* हो रवीन्द्रबाब केळेकार हांचो निबदां-झेलो हांवें बारीकसाणीन वाचलो आनी म्हाका जाणवलें, ह्या झेल्याचें नांव *आशिकुशीक* आसलें तरी ह्या पुस्तकांतल्यान अमृताच्या रुपान परगट जाल्ले अणभव आशिकुशींतल्यान न्हय तर रवीन्द्रबाबांच्या काळजाचे खोलायेंतल्यान आयल्यात. आशिकुशींतल्यान घेतिल्ल्या ह्या अणभवांतल्यान रवीन्द्रबाबांची समृद्‌ध जीण वाचप्यां सामकार ठसठशीतपणान उबी जाताच. पूण तेच बराबर गोंय आनी भारत हांचें जिणेंतल्यो म्हत्त्वाच्यो घडणुकोय तांच्या आशय-संपन्न निबंदांतल्यान व्यक्त जातात. आयज मेरेन तांचे लिखणेंतल्यान निर्माण जाल्ल्या निबंदां-झेल्यांनी तांकां एक स्रेश्ठ निबंदकार म्हूण नामना मेळोवन दिल्या. एक गजाल स्पश्ट करीन दिसता, ती म्हळ्यार निबंद-बरपाच्या मळा वयलें तांचें कर्तुत्व गोंय वा कोंकणी वाठारा पुरतें मर्यादीत ना. अखिल भारतीय मळा वयल्या निबंदां कडेन येसस्वी सर्त करपाची तांक तांच्या निबंदांत आसा.

रवीन्द्रबाबांचो निबंद इतलो समृद्‌ध आनी उंचेल्या पांवड्या वयलो, हाचें कारण कितें असो कोणाकूय प्रस्न पडटा; तेन्ना

ाणें एकूच गजाल करची - ती म्हळ्यार वीन्द्रबाबांचो वट्ट जिणे पट आपणाले ादरेखाला घालचो. जिणे अणभवांची खोलाय आनी व्यापकताय आशिल्लें बरप, हें फकत आशय-संपन्नच आसना, तर तें आपशींच कलात्मकूय जाता. रवीन्द्रबाबांचो जिणे-पटूच पळयात. तरणाटे पिरायेर गोंयच्या सुटके-झुजांत वांटो घेतले उपरांत तांणी गांधीवादी विचारप्रणालीच्या प्रसाराचे चळवळीक स्वताक ओंपून घेतले. हो वावर तांणी वर्ध्याक, मुंबय आनी दिल्लीक रावन केलो. गोंयचे मुक्ती उपरांत रवीन्द्रबाबांनी गोंयाक स्वराज्य मेळोवन दिवपाच्या इतिहासीक वावरांत आपणालें व्हड योगदान दिलें. गोंयचे भाशेक-कोंकणीक - तिची हक्काची सुवात मेळोवन दिवपा खातीर मुक्त गोंयांत सुरू जाल्ले चळवळीक तांणी फुडारपण दिलें. गोंयचें राजकी भवितव्य थरोवपा खातीर घेतिल्ल्या ओपीनियन पोला आदीं आनी ओपीनियन पोलाच्या प्रचाराच्या वेळार, गोंयच्या स्वतंत्र अस्तित्वाचे वटेन लोकांनी कौल दिवचो म्हुणून तांणी इतिहासीक असो भोव मोलाचो वावर केलो. कोंकणी भाशेक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळची म्हूण गोंयांतल्या आनी गोंयां भायल्या कोंकणी विरोधकांचीं सगळीं आडमेळीं हुपून तांणी आनी तांच्या सहकाऱ्यांनी येसस्वी प्रयत्न केले. कोंकणी भाशेक गोंयचे राजभाशेचो दर्जो मेळोवन दिवप, गोंयांक राज्याचो दर्जो मेळोवन दिवप आनी कोंकणीक संविधानाचे आठवे वळेरेंत मानाची सुवात जोडून दिवप, हे खातीर गोंयांतल्यान जितले म्हूण प्रयत्न जाले, तातूंत रवीन्द्रबाबांचो मोलाचो वांटो आसा. ह्या सगल्या प्रयत्नांतल्यान गोंयकारांनी 'स्वराज्य' मेळयलें आनी आपणालें अस्तित्व तिगोवन दवरलें. रवीन्द्रबाबांच्या निबंदांनी आमकां तांची ही भौशीक जीण खूब प्रत्ययकारी रितीन परगट जाल्ली दिसता. आयज मेरेन तांणी बरयल्ल्या निबंदां-झेल्यांतल्यान आमचे मुखार उबो जाता तो एक झुजारी, विचारवंत, गांधीवादी, कोंकणी आनी गोंय हांचो अभिमानी, समाजप्रबोधनकार, आनी भारतीय संस्कृतायेंतल्या 'सत्यम्-शिवम्-सुंदरम्'तायेचो तळमळीचो पुरस्कर्तो.




तांच्या *ओथांबे* ह्या निबंदां-झेल्याचो हे दृष्टीन हांगा खाशेलो उल्लेख करूंक जाय. हाचें कारण, तांच्या *आशिकुशीक* ह्या निबंदां झेल्यांतले निबंद *ओथांबे* तल्या निबंदांचेच कुळयेंतले. वाचन, मनन, चिंतन आनी अणभव-ग्रहण हांच्या सोबीत संगमांतल्यान आयिल्ले विचार *ओथांबे* आनी *आशिकुशीक* ह्या दोनूय संग्रहांनी परगट जाल्यात. तांच्या हेर निबंदां झेल्यांतल्यान विचार हो मुदयेच्या कलात्मक कोंदणांतल्या वज्रा सारको परगट जाता. पावसाचे दडके उपरांत झाडांच्या पानां वयल्यान जशे थेंब पडटात, तशे तांचे विचार आमच्या काळजांत रिगतात. म्हणुनूच तांकां दिल्लें *ओथांबे* हें नांव फावो अशेंच आसा. *ओथांबे* तल्या वट्ट १४९ निबंदांतले कांय निबंद तीन-चार वळींचे आसात. पूण तांचो आकार म्हत्त्वाचो न्हय.

जो आशय सांगपाक कांय जाण पानांचीं पानां खर्चितात, तेंच रवीन्द्रबाबांनी थोडे भितर इतल्या प्रभावीपणान सांगला की ह्या निबंदांचो ल्हान आकार, होच तांचो बरो गूण थरला. मनीस-जिणे कडेन संबंदीत आशिल्ल्या विवीध विशयां वयलीं रवीन्द्रबाबांचीं *चिंतनां* ह्या पुस्तकांत आसात. धर्मसमन्वय, अध्यात्म, शिक्षणाचो खरो अर्थ, स्रम प्रतिशठा, सत्याचो आग्रो, दादलो-बायल हांचे मदली समानता, उदरगतीचो खरेलो अर्थ, सुखा फाटल्यान धांवपी मनीस, वर्णाश्रम आनी जाती-वेवस्था, कश्टांचें म्हत्त्व, आत्मज्ञान, जिणेंत कसले तरेचें येस आवंडेवपाक जाय, चारित्र्यशीलता, उलोवण्यांतलो संयम, मनशाचे जिणेंतलें भाशेचें स्थान आनी शिक्षणाचें माध्यम म्हूण मायभाशेचो वापर, स्वताचे संस्कृतायेचो सांबाळ, सामाजीक बांधिलकी, तत्त्वनिशठा आनी वेव्हारवाद, मनशाची सुरक्षीत जिणे कडेन धांवपाची प्रवृत्ती, मनशाचें व्हडपण कशें मेजप; पोरणी आनी नवी समाज-वेवस्था, स्वातंत्र्याचो अर्थ अशे कितलेशेच विशय घेवन तांणी तांचेर आपणालें भाश्य केलां. ह्या विशयां कडेन पळेतना सामान्य मनशाची नदर जें टिपून घेवपाक शकना, तें रवीन्द्रबाबांचे बारीक नदरेन टिपलां. समाजांत मानवी मुल्यां पांयां पोंदा पडल्यांत, मनशाक आपणालें खरें सूख कित्यांत आसा हें खबर ना हे गजालीची खंत तांच्या कितल्याश्याच निबंदांनी उकती जाल्ली आमकां दिसता. पूण, अशें घडलें म्हूणून मनीसजातीच्या भविश्यकाळा विशींचो तांचो आशावाद मातय उणो जायना. समाजांत बरो मनीस निर्माण जातलो हो विस्वास तांच्या बरपांतल्यान ठळकपणान उकतो जाल्लो आमकां दिसता.

*ओथांबे* निबंदां झेल्यांत आयच्या समाजा विशीं जी खंत परगट जाल्या आनी भविश्यकाळा विशीं जो आशावाद उकतो जाला, ती खंत आनी आशावाद ह्यो दोनूय गजाली *आशिकुशीक* ह्या तांच्या नव्या निबंदां झेल्यांत खूब प्रभावीपणान व्यक्त जाल्ल्यो आमकां दिश्टी पडटात. ह्या निबंदांचें रूप मातशें वेगळें. जिवितांतल्या यादींचेर हे चडशे निबंद आदारिल्ले आसात.

*ओथांबे* तल्या निबंदां वरीच *आशिकुशीक* तल्या निबंदांनीय श्री. रवीन्द्रबाब जिवितांतली घडणूक, तांच्या जिवितांत कसलींय आयिल्लीं मनशां, तांकां जांचो अखंड सांगात लाबला त्या पुस्तकांतलें विश्व, तसोच तांच्या मनाक आफडून गेल्लो कसलोय विचार मांडून विशय मुखार व्हरतात आनी सुंदर वेगळे वेगळे अणभव वाचकां मेरेन पावोवपाचो आनी जिणेच्या प्रवासांत आपणाक होलमल्लें सत्य सडेतोडपणान आनी कोणाचीच भीड-मुर्वत धरिनासतना मांडपाचो तांणी येसस्वी प्रयत्न केला. हें सत्य कोणाक कोडू लागतलें, कोणाक गोड लागतलें, हाची तांकां पर्वा ना. आपुणूच सगलें जाणां, सत्य आपणाकूच होलमलां, होय अभिनिवेश ना. एक गजाल सामकी म्हत्त्वाची. ती म्हळ्यार तांच्या वट्ट निबंद-बरपांत तांच्या सगल्या

निबंदां झेल्यांत आपणाक होलमल्लें सत्य तांणी निर्भीडपणान वाचकां मेरेन पावयला.

*आशिकुशीक* ह्या संग्रहांतल्या विशयांचो आवाठ इतलो व्हडलो आसा की वाचक तातूंतल्यान खोलायेन परगट जाल्ले अणभव, वेगळ्या वेगळ्या विशयांचें तांचें ज्ञान, तांचें आकांताचें वाचन. हें सगळें पळोवन अजाप भरीत जाता. ह्या निबंदां-झेल्यांत तांणी हाताळिल्ले तरातरांचे विशय खंयचे तें पळोवप समा थारतलें: पुस्तकांतल्या सांगातांतलें सूख, जाणटेपणांतलो घुस्मटमार, मनशान अखेर मेरेन काम करपाची गरज, स्वातंत्र्य मेळुनूय गोंयकारांची बंदेपणांत रावपाची आवड, व्हड मनीस कोणाक म्हणप, फळादीक जिविताचें प्रतीक शणै गोंयबाब आनी तांणी जागयिल्ली धनीपणाची भावना, कोंकणीक मेळिल्ली मानाची सुवात, संस्कृतायेच्या मळार नवी भर घालप होच जिविताचो उद्देश, राम मनोहर लोहियांच्या रुपांतलो तेजस्वी मनीस, साने गुरुजी, काळाच्यो शिमो हुंपपी साहित्यूच खरेलें साहित्य, रामायणान केल्लो समाज वयर काडपाचो वावर, सर्वपल्ली राधाकृष्णन हांणी मांडिल्ले हिन्दू धर्म आनी संस्कृताये विशींचे विचार, धर्म आनी संस्कृताय, चातुर्वर्ण्य, हिंदू संस्कृतायेंतल्यो विसंगती, बायलांची आवतिकाय आनी तांच्या कर्तुत्वाचो मार्ग, इंग्लेज भाशेचो प्रभाव, आयचें शिक्षण, गोंयचें उद्योगीकरण आनी गोंयच्या विकासाचो मार्ग, भारतांतली विवीधताय आनी तिची शक्त, नेतृत्वाचो निकश, हिन्दू धर्माक अदीक उजळ करपाचो मार्ग, मनुस्मृतींतलीं बरीं-वायट वैशिश्ट्यां, देव कसलो जाय?, श्रमाचें मोल, एडस् आनी फ्री सॅक्स, उपासाचें अस्त्र, जाणट्यांक आशिल्ली भुरग्यांच्या मोगाची भूक, सत्तेच्या विकेंद्रीकरणाची गरज आनी गांवांच्या पांवड्या वयलें नियोजन अशे अगणीत विशय घेवन रवीन्द्रबाबांनी समाजाक मार्गदर्शन केलां.

ह्या सगल्या निबंदांतल्या विवीध विशयांचेर तांणी केल्ल्यीं चिंतनां वाचप्याक भावतात, ताचें मुखेल कारण म्हळ्यार, आपणाले विचार तांणी सादे-सोंपे भाशेंत मांडल्यात. वाचकां कडेन आपूण खबल्यो मारतां, अशी नदर दवरून तांणी हे निबंद बरयल्यात. It is a tete-a-tete with the readers, अशें तांचें स्वरूप. उतरांचो पाल्हाळ लायनासतना थोड्याच उतरांनी, व्हड आशय आशिल्लो विचार वाचकांक पटोवन दिवप, त्या विचाराचीं बरीं-वायट आंगां समजावन सांगप आनी आपणाक जें न्याय्य दिसता, ताचो पुरस्कार निर्भीडपणान करप, हें सगलें तांणी अभिव्यक्तीच्या सौंदर्याचें भान दवरून केलां. आपणाल्या निबंदाचो रुपकार सुंदर जातलो हाची जतनाय तांणी घेतल्या. तांच्या जिवितांत आयिल्ल्या वा तांणी पुस्तकांत वाचिल्ल्या एकाद्र्या व्हड मनशाचे जिणेंतलो एकाद्रो प्रसंग वा घडणूक सांगून वा एकाद्रो विचार मांडून ते आशयाची मांडणी करतात. कांय निबंदांनी ते पुराणांतल्या घडणुकांचे वा पात्रांचे दाखले दिवन आपणालें मत वाचकां मेरेन पावयतात. तांचे कांय निबंद कथात्मकतायेचें वैशिश्ट्य लाबिल्ले आसात. जाणटेपणांतलो घुस्मटमार चित्रीत करपी तांचो निबंद एके जाणटे बायल मनशेचें चित्रण करता, तें कथात्म जालां. व्यक्तिचित्रणाचे दृष्टीनय हो निबंद वाचकांच्या ध्यानांत उरता. तांच्या निबंदांतलीं हेर कांय व्यक्तिचित्रणां अशींच सुरबूस जाल्यांत. देखीक: काकासाहेब कालेलकर, राममनोहर लोहिया, बाकीबाब बोरकार, शणै गोंयबाब, Revenge - a story of hope ह्या पुस्तकाचेर बरयिल्ल्या निबंदांत ज्या पात्रांचें उल्लेख आसा ते लॉरा, आनी इसूफ मियां.

आपणाल्या निबंदांत वातावरण निर्माणी कशी करप, हें ज्या निबंदकाराक कळटा आनी जाका ह्या कामांतली कुशळटाय लाबल्या तो आपणालो विचार प्रभावीपणान परगट करूंक शकता. रवीन्द्रबाबांचे लिखणेक ही कुशळटाय लाबल्या. हाचें कारण वाचन-मनन-चिंतन, जिवितांत विवीध मळांचेर घेतिल्ले समृद्ध अणभव, तेच प्रमाण नदरेची बारीकसाण आनी खंयच्याय विशयाचे खोलायेंत वचपाची वृत्ती आनी भाशे वयलें प्रभुत्व हे साहित्यिकाक सामके गरजेचे आशिल्ले सगले गूण तांचे कडेन आसात. ह्या निबंदांतल्यान परगट जाल्ले तांचे विचार वाचकांक उंचेल्या विचारीक पांवड्यार व्हरपी अशे आसात. इतिहास, पुराणां, भारतीय संस्कृताय, भारतीय समाज, भाशा, मनशाचो विकास, हिन्दू धर्म, शिक्षणाची आयची स्थिती, मानवी संबंद, मानवी मुल्यां ह्या सगल्यां कडेन ते दोळे पुराय उकते दवरून पळयतात. मनशां मनशां मदले संबंद अदीक घटमूट जावपा खातीर जें कितें जाय - ताचो पुरस्कार तांणी केल्लो आसा. हे दृश्टीन तांणी मांडिल्ले विचार मनशाक संस्कारशील करपी अशे आसात. मनशाक काळखांतल्यान उजवाडा कडेन व्हरप, हें उद्दिश्ट मुखार दवरूनूच तांणी आयज मेरेन साहित्य निर्माणी केल्या. तांच्या निबंद बरपांतल्यान तांचें उद्दिश्ट फळादीक जालां, अशें खात्रीपुर्वक म्हणूं येता. हे पळोवपा खातीर तांच्या कांय भोव मोलाच्या विचारांचेर नदर मारप समा थरतलें:

जाणटेपणाचेर बरयतना ते म्हणटात, जाणटे भुरग्यांच्या मोगाक आंवडेतात. आपणा कडेन उलोवपाक कोण नात, ही खंतूच तांचो घुस्मटमार करता. जाणटेपण सृजनशील करूं येता. हे खातीर जाणटेपणांत काती कवळ्ळ्यो, तरूय काळजाक मिरयो पडूंक दिवच्यो न्हय. खंयचोय घराबो सुखी आसा काय ना, ही पजाल तातूंतलीं जाणटेलीं कितलीं खोशी आसात, तांच्या तोंडार हांसो फुलिल्लो आसता काय ना, हाचे वयल्यान थरता. मनीस अखेर मेरेन कामां करीत रावलो, जाल्यारूच जाणटेपणांत तो बरो उरता. नाजाल्यार एक दीस ताका मरण उखलून व्हरता. रवीन्द्रबाबांनी व्हड वावर तडीक व्हरपा खातीर कसल्या गजालींची गरज आसा तें आपणाल्या कांय निबंदांनी नकसूद उतरांनी सांगलां. व्हड वावर आत्मविश्वास आनी निश्ठा आसल्यारूच जाता. कोंकणी चळवळीची देख दिवन ते म्हणटात, धा जाणांच्या कर्तुत्वानूच खंयचोय वावर फळादीक जाला. कठीण कामांक जाणें माथें मारलां, तोच मनीसपणाक वयल्या पांवड्यार चडोवंक पावला. जिविताचो उद्देश संस्कृतायेच्या मळार भर घालपी असो आसलो, जाल्यारूच मनशाच्या जिविताक अर्थ येता. हिन्दू संस्कृताय आनी हेर संस्कृतायो हांचे विशीं बरयतना तांणी सर्वपल्ली राधाकृष्णन हांचे विचार मांडल्यात. जगांतल्यो सगल्यो संस्कृतायो काळाभायऱ्यो जाल्यात. म्हूण सगल्या संस्कृतायांनी एकामेकां लागीं येवन नवी संस्कृताय निर्माण करूंक जाय, हे राधाकृष्णनांचे विचार तांणी मांडल्यात. रामायण, महाभारत सारकेल्या ग्रंथांची देख दिवन तांणी साहित्या विशींचे आपणाले विचार उकतायल्यात. साहित्य

ःस्तव आसचे परस तें काळाच्यो शिमो हुंपपी आसूंक जाय. कयल पडिल्लो समाज वयर काडपाचो व्हड वावर रामायणां (यतल्या संतांनी केला, ही गजाल तांणी दाखोवन दिल्या. ने गुरुजींच्या साहित्याचें म्हत्त्व सांगतना तांणी व्हड मनिसूच रो साहित्यकार जावंक पावता, खंयच्याय एका मळार व्हड र्तुत्व गाजयिल्लो मनीस साहित्य बरयता, तेन्ना तें उंचेल्या ांवड्याचेंच आसता, ही गजाल स्पश्ट केल्या. साहित्यिकान क्लिश्ट भाशा वापरलीं जाल्यार तार्चे पुस्तक कोणूच हातांत वचो ना, हें तांणी योगी अरविंदाच्या पुस्तकांची देख दिवन ांगलां. हिन्दू धर्म, हिन्दू संस्कृताय, हिन्दू धर्मांतलो चातुर्वर्ण्य ानी जाती-वेवस्था, मनुस्मृती हांचेर बरयिल्ले निबंद वीन्द्रबाबांची ह्या विशयां कडेन पळोवपाची मुळावी नदर ाखयतात. भारतीय संस्कृताय अध्यात्मवादी आनी येवरोपेव संस्कृताय जडवादी, हो आमचो समज चुकीचो, दोनूय संस्कृतायानी अध्यात्मवाद आनी जडवाद एकाच बराबर आशिल्ले दिसतात म्हूण ते वाचप्यांक दाखोवन दितात.

रवीन्द्रबाबांच्या निबंदांनी हिन्दू संस्कृताय, हिन्दू धर्म, मनुस्मृती, चातुर्वर्ण्य ह्या विशयां कडेन पळोवपाची नदर नितळ आसा. ती पूर्वग्रहदुशीत ना. म्हणुनूच 'मनुस्मृतीं'तले दोश दाखोवन दिता आसतनाच ते तातूंतले, घेवपा सारके जे गूण आसात तांचेर भर दितात. हिन्दू धर्म सदांच बदलत गेला. ह्या धर्मांत आशिल्ली विचारांची आनी आचारांची मेकळीक दुसऱ्या खंयच्याच धर्मांत पळोवंक मेळना म्हूण सांगता आसतनाच हिन्दू धर्मांतल्या विसंगतींचेर ते जुस्त बोट दवरतात. सगल्यां भितर एकच आत्मो वसता अशें म्हणटा ते संस्कृतायेंत जाती-कातीचें उणाकपण, आफूड-भश्ट, बायलांचो सकयलो पांवडो, हे दोश आसप, ही विसंगती कशी तांकां दिसता. अशे दोश आसुनूय पंचायत वेवस्था आनी विकेंद्रीत अर्थवेवस्था हांकां लागून हिन्दू संस्कृताय तिगून उरली, अशें तांकां दिसता. हिन्दू संस्कृताय चातुर्वर्ण्याक धरून चलूंक ना. जाती मोडल्यात तांणी आनी 'सकयल्या' जातींनी जल्माक आयल्यात तांणी भारतीय संस्कृताय घडयल्या, हें रवीन्द्रबाबांनी सप्रमाण सिद्ध केलां. आर्विल्ल्या काळांत जाती, संप्रदाय हांच्यो शिमो हुपून पेल्यान गेल्लें नेतृत्व देशांत निर्माण जावंक जाय, असो विचार तांणी मांडला. ह्या संदर्भांत तांणी आनीक एक विचार उकतायला. ते म्हणटात, ब्राह्मणांच्या चपक्यांतल्यान हिन्दू धर्माक सोडोवपाक जाय. ब्राह्मण पुरयतपण सोडटले तेन्नाच हिन्दू धर्म चड उजळ जातलो. रवीन्द्रबाबांचे हिन्दू धर्म आनी हिन्दू संस्कृताय हांचे विशींचे हे विचार खूब वयल्या पांवड्याचे आसात. देशांत आयज जे हिंदुत्ववादी गट आसात, तांणी हिन्दू धर्माक नवें रूप दिवपाचो प्रयत्न करपाची खूब गरज आसा अशें म्हाका दिसता. पूण, दुदैवान हिन्दू धर्म सुदारपाचो कोणूच सारको प्रयत्न करिना. सॅक्युलर दृश्टीन मुखार वचपी लोकांक Pseudo-secularists म्हणून तांची टिंगल करप, हाचे मुखार ह्या हिन्दुत्त्ववादी शक्तींचें पावल पडना. म्हज्या मतान हे लोक खऱ्या अर्थान हिन्दुधर्मनिश्ठ जावंक जाय. पूण, आयज ते Pseudo-Hindus जावन बसल्यात, हीच हिन्दू धर्माची खरेली शोकांतिका.



**साहित्य अकादेमीची फॅलोशिप मेळले उपरांत कला अकादेमीचे वतीन परर्वी भेटयतना पांडुरंग फळदेसाय आनी गोविंद काळे.**

रवीन्द्रबाबांचे विचार हिंदुत्ववादी शक्तींक हिन्दू धर्म सुदारपाच्या वावरांत मार्गदर्शन करूंक शकतात अशें हांव खात्रीपुर्वक म्हणन. ह्या निबंदां झेल्यांत रवीन्द्रबाबांचो आनीक एक क्रांतिकारक विचार आयला. बायलांच्या 'महिषासूरमर्दिनी' ह्या रुपाक महात्मा गांधीनी स्वातंत्र्य चळवळींत जागयलें. बायलो उठल्यार चमत्कार घडूं येता, हें गांधीजींनी दाखोवन दिलें. ही गजाल ध्यानांत दवरून बायलांनी आतां स्व-कर्तुत्वाचेर आपणाले प्रस्न सोडोवपाक जाय, अशें रवीन्द्रबाब सांगतात आनी मुखार म्हणटात, "बायलमनीस सौभाग्याच्या हावेसाक घट दसून रावतली, ते मेरेन तिचो प्रस्न कसोच सुटपाक ना." रवीन्द्रबाबांनी हांगा म्हत्त्वाच्या अशा मूळ मुद्याकच हात घाला, अशें म्हाका दिसता. म्हाकाय बी काळजा थावन दिसता, घोव आसप, हें बायलेचें सौभाग्य, हे भ्रामक कल्पनेंतल्यान आमी सगल्यांनी भायर येवपाक जाय. घोव नाशिल्ली बायल जेन्ना कर्तुत्व दाखोवन आपणाल्या भुरग्यांक वाडयता, तांकां कर्तबगार करता, तेन्ना ती बायल खरेली सौभाग्यवती, अशें आमी समजूंक जाय.

ह्या निबंदां झेल्यांत तांणी, आयचें शिक्षण पांगळी, सुवार्थी, समाजद्रोही, देशद्रोही पिळगी निर्माण करता. ही शिक्षण-पद्दत मुळा सावन बदलूंक जाय, अशें म्हळां. इंग्लेज भाशेक हिसपा भायर म्हत्व दिल्ल्यान, आनी मायभाशेक चेपून दवरपाची वृत्ती आमचे भितर आशिल्ल्यान देशांत 'बॉन्साय' (गिड्डे) विद्वान निर्माण जाल्यात अशें ते दाखयतात. गोंयचो विकास मुंबयचे धर्तेर जाता, हो आत्मघातकीपणाचो मार्ग, ह्या संदर्भांतलें तांगेले विचार अशेच मोलाचे आसात. बायणा झोपडपट्टी हें आमच्या चुकीच्या नियोजनाचें आनी विकासाचें अपत्य हें ते दाखोवन दितात. अशे तरेचे खूब मोलाचे विचार दिवन वाचकांक खऱ्या अर्थान सुशिक्षीत करपाचो हावेस तांणी बाळगिला, ही गजाल तांच्या ह्या नव्या निबंद-संग्रहांतल्यान स्पश्ट जाता. रवीन्द्रबाबांचें एक विचारवंत शिक्षक म्हूण चित्र निर्माण करपी असो हो संग्रह. अशा ह्या व्हड गोंयकाराक साहित्य अकादेमीचो उंचेलो मान फावो जाला. तांकां अकादेमीचे फॅलो करून साहित्य अकादेमीन आपलोच सन्मान करून घेतला अशें म्हाका काळजा थावन दिसता. रवीन्द्रबाबांक निरामय दिर्घायुश्य आवंडेतां. तांचे कडल्यान हे पिरायेचेरूय आमच्यो खूब अपेक्षा आसात. अस्तु.

# ‘ओथांबे: रवीन्द्रोपनिषद्’



◆ बाळकृष्ण कानोळकार

**रवीन्द्रबाबान हांकां ‘एकामेकांक संबंद नाशिल्लीं तुटिल्लीं चिंतनां’ अशें म्हणिल्लें आसलें तरी म्हाका तीं तशीं दिसनात. तातूंतल्यान अखंड अशें एक सूत्र सतत म्हाका जाणवत आयलां तें म्हळ्यार जिणेचें सूत्र. उपनिषदांची सूत्रबद्धता आनी संवादीपण तांकां रुपकार दिता. सत्याचो सोद घेवपी हीं चिंतनां म्हळ्यार कोंकणी भासेंतलें उपनिषदूच. तातूंतल्यान दिसपट्ट्या जिविताचें दर्शन जाता तशेंच एका प्रगल्भ, प्रौढ मनाचेंय दर्शन घडटा. तातूंतल्यान जिणेचो गंध आनी अर्थ बळ्यां सोदचो पडना. तो अखंडपणान पाझरता. रवीन्द्रबाबालीं हीं बरपां म्हळ्यार गद्य कवितायच...**

रवीन्द्रबाब केळेकारांलें बरप म्हळ्यार एक साधनाच. जिणेचो आपरोस कसो. *ओथांबे* तांगेलें नवें पुस्तक. सप्टेंबर १९९९ त बांदोडेच्या ‘माणिकपद्म प्रकाशना’न तें उजवाडाक हाडलां. हे परंपरेंतलें रवीन्द्रबाबांलें हें तिसरें पुस्तक. पयलें *वेळेवयल्यो घुलो* जून १९७१ त उजवाडा आयिल्लें. तेन्ना सावन ही परंपरा मुखार चलत रावल्या. दुसरें, *सांगाती*. हेच परंपरेंतलें तांचें नवें ताल्ल पुस्तक *घुसपल्लें जानवें* तांच्या अमृत महोत्सवी वर्सा निमतान हालींच मार्च २०००त उजवाडा आयलां. ह्या पुस्तकां सांगाताक *उजवाडाचे सूर* पुस्तकाकूय घेवचें पडटलें. तांचे चिंतनशील बरपावळीचें हें एक पंचक. मनशाचे जिणेंतले साबार रोस तातूंतल्यान चाखपाक मेळटात. आनी चाखतल्याक थाकाय दितात. एक नवी दृश्ट दितात - मनीस जिणे कडेन पळोवपाची आनी जीण जगपाची.

*ओथांबे* पुस्तकांत ल्हान व्हड अशीं १५० बरपां एकठांय आयल्यांत. तांच्या स्वरुपा विशीं आनी एकूण प्रवृत्ती विशीं खासा लेखकानूच म्हळां, ‘म्हजो सभाव मात्सो चिंतकाचो. कसलीय सादी गजाल म्हाका केन्ना केन्ना गंभीर करता.



मनोहररायां वांगडा...

आनी चिंतनाच्या मळार खंय तरी खोल खोल ओडून व्हरता. एकामेकांक संबंद नाशिल्लीं हीं तुटिल्लीं चिंतनां आसलीं तरूय तीं पावसाचे पांवळे भशेन थेंब्या थेंब्यान पडपी आनी सतत व्हांवपी.'

रवीन्द्रबाबान हांकां 'एकामेकांक संबंद नाशिल्लीं तुटिल्लीं चिंतनां' अशें म्हणिल्लें आसलें तरी म्हाका तीं तशीं दिसनात. तातूंतल्यान अखंड अशें एक सूत्र सतत म्हाका जाणवत आयलां तें म्हळ्यार जिणेचें सूत्र. उपनिषदांची सूत्रबद्धता आनी संवादीपण तांकां रुपकार दिता. सत्याचो सोद घेवपी हीं चिंतना म्हळ्यार कोंकणी भाशेंतलें उपनिषदूच. तातूंतल्यान दिसपट्ट्या जिविताचें दर्शन जाता तशेंच एका प्रगल्भ, प्रौढ मनाचेंय दर्शन घडटा. तातूंतल्यान जिणेचो गंध आनी अर्थ बळयां सोदचो पडना. तो अखंडपणान पाझरता. रवीन्द्रबाबालीं हीं बरपां म्हळ्यार गद्य कविताच. मनीसजिणेचे आनी मानवी संस्कृतायेचे केळवणीचो अखंड, अनंत, अप्रूप असो हो उत्सव. तांच्या जिविताची लांबाय रुंदाय ह्या ओथांब्यांक लाबल्या. आनी ताका लागून हातूंतलो एक एक ओथांबो म्हळ्यार एक म्हासागरसो. ताची खोलाय वाचप्याक जिविताच्या मळार खोल खोल ओडून व्हरता. आनी जें दिसता ताचे फाटल्यान आसपी सत्य-शिव-सुंदराची वळख करून दिता. निजाच्या वाचप्याक ताच्या वाचनान एक असोशी कशी लागता. परतून परतून ताका तातूंत खोल खोल देंवनशें दिसता. तशें केल्ल्यान तो घुस्मटना तर ताका जिणेचो नवो नवो दिश्टावो अणभवूंक मेळटा. आनी वाचप्याच्या ह्या प्रवासांत, ह्या बुडपांत खासा रवीन्द्रबाब ताच्या सांगाता आसता. उपनिषदांतल्या गुरू वरी. हें ह्या ओथांब्यांचें खाशेलेपण. आपल्या बरपां विशीं उलयतना मेन्तैन एके कडेन म्हळां, 'हांव ह्या बरपांनी म्हाकाच चितारतां.' रवीन्द्रबाबांले हे ओथांबे लेगीत तांकांच बेस बरे चितारतात.

हातूंतले ओथांबे ल्हान व्हड आकाराचे. ल्हानांत ल्हान अडेज वळींचो जाल्यार व्हडांत व्हड अडेज पानांचो. पूण दोगांयचें वजन एका सारकें. उदकाचो आकार कितें म्हण विचारल्यार कितें सांगूं येता? ज्या आयदनांत तें भरता तो ताचो आकार. पूण म्हाका दिसता, अशें म्हणप पूर्ण सत न्हय. पूर्ण सत कितें? पूर्ण सत - उदकाचो आकार उदक. जिविताचो, जिणेचो आकार कितें? जिवीत, जीण हीच ह्या प्रस्नाची जाप.

ओथांबे म्हळ्यार जेष्ठांतलो घसघशांचो पावस न्हय. तो शिरवानांतलो झिरीमिरी पावस. दडकांचो पावस वरांचीं वरां पडटा. अखखी सृश्ट जळमय जाल्या. रुखा पेडार, पानां पानांर उदक थारलां. आनी पावस वळखटा. मनाक सूऽ जाता. पूण खिणभरांत मनाक जागोवपी 'ओथांब्यां'चो साद संथमंद्र लयेंत कानामनार सादयत रावता. 'टप' 'टप' 'टप' 'टप'. काळखी रात आसत जाल्यार हो साद रंध्रां-रंध्रांत अथांग देंवत वता. आनी मनशाक अंतर्मुख करता. मनीस *'कोहं?'* चो सोद घेवपाक भायर सरता, कुडीचे, आपले कुडी भायर सरता. रवीन्द्रबाबांले 'ओथांबे' हेंच कार्य सादतात. ते मनशाक कुडी भायर सरून जीवन-यात्रा करपाक अणभवाच्या अथांग म्हासागरांत बुचकळी मारपाक प्रेरीत करतात. नीत-अनीत, चारित्र्य, सृजन, शिक्षण, समाज, राजकारण, साहित्य-कला, अर्थकारण, विज्ञान, धर्म, शास्त्र, वेद, बायबल, कुराण, संस्कृती-सभ्यता, दुष्ट-सुष्ट, सत-असत, तत्त्वगिन्यान, तंत्रगिन्यान, बुद्ध, महावीर, गांधी, आंबेडकर, तुकाराम, सूर, तुलसी, मीरा, कबीर, टॉलस्तॉय, रवीन्द्रनाथ अशे सांबार विशय आनी आशय हांची भोंवडी, परिक्रमा ते घडोवन हाडटात. तांच्यांतलो इश्ट, तत्त्वगिन्यानी आनी गुरू ह्या प्रवासांत पावला कणकणी वाचप्याचो सांगात करता. ताका हाताक धरून चलयता. चलतना केन्ना चिमटे काडटा, केन्ना कोंपर मारता, केन्ना मदेंच लिपून भेश्टायता, तर केन्ना फाटराखण लेगीत करता.

उपनिषदांचे परंपरेंतलो आनी *लीळाचरित्रा*चे जातकुळयेंतलो हो ग्रंथ कोंकणी सरस्पतीच्या भक्तांक सतत सादयत रावतलो. मनीस म्हण आमचें दायज आनी दायकी विशीं आमकां सदासर्वकाळ जागयत दवरपाची तांक ह्या ग्रंथांत आसा. ह्या ग्रंथांत रवीन्द्रबाबान विनोबांचीं उतरां दिल्यांत, तातूंतल्यान ह्या ग्रंथाचो आशय बेस बरो उकतो जाता —

'आमी अनादी काळाचे यात्रीक. आमची यात्रा आयज लेगीत एका सारकी चलत आसा. असलो यात्रीक खंयच्याय एका देशाचो अभिमानी आसचो ना. तो खंयच्याय एका धर्मपंथाच्या वा जातीच्या जाळांत आपणाक घुसपावन दवरचो ना. संवसारान सत विचारांचें एक पोरसूं फुलयलां. ह्या पोरसांत भोंवप हो ताचो स्वाध्याय आसतलो. आनी वेगळ्या वेगळ्या मत्तांच्या लोकां मजगतीं एकचार घडोवन हाडप ही ताची साधना आसतली.'

(हो लेख जुलै २००० च्या 'जागां'त उजवाडा आयिल्लो.)



# ओथांबे: एक त्रोसात्मक अनुसर्जन

♦ अना म्हांबरो

एक वाक्य दोन खेपे वाचले उपरांतूय तें सारकें समजलें ना, जाल्यार धरून चलूंक जाय, ह्या मनशाक सारकें बरोवंक येना... समजना असलें बरोवप काव्यांत चलता. कारण तें कोण वाचिना... बरोवंक बसचे पयलीं एक गजाल स्पश्ट जावंक जाय: हांव बरोवंक बसलां काय आनीक कितें करूंक (गावंक बी) बसलां? चडशे लोक बरयता आसतना आनीक कितेंय करतात. आनी त्या वेळार येवजता तेंच बरयतात. हें बरप दोन खेपे वाचुनूय समजुपाचें ना.

रवीन्द्रबाब केळेकारांचें एकाद्रें विचारीक साहित्याचें पुस्तक वाचूंक घेतलें म्हणटकूच पयल्यान पयलीं जें चित्र म्हज्या दोळ्यां मुखार उबें रावता तें हें : रवीन्द्रबाबांले विचार सवकासायेन मुखार चलल्ल्यात. तांचे फाटल्यान रवीन्द्रबाब चलतात आनी त्या विचारांक ओर्दी सोडटात: 'अशे चलात', 'तशे चलात', 'थारात', 'कुशीक सरात' म्हूण.

तांगेलें *ओथांबे* हें पुस्तक वाचतना हें चित्र म्हज्या दोळ्यां मुखार उबें रावलें. *ओथांब्यांतल्या* साहित्याक रवीन्द्रबाबांनी *चिंतना* म्हळां. एके वळीन ह्या पुस्तकाची वळख करून दिवपाची जाल्यार 'एका घुसपल्ल्या पांथस्थाचे विचारीक थेंबे (आनी पांवळ्यो) ह्या पुस्तकांत आसपावल्यात'. अशें आमच्यांनी म्हणूं येता.

मुळांत रवीन्द्रबाबांलें खंयचेंय पुस्तक वाचूंक घेतलें जाल्यार तांतले ८० टक्के विचार म्हाका कळनात. *ओथांब्याचेय* बाबतींत हेंच जालें. ह्या पुस्तकांतले जे २० टक्के विचार म्हाका समजल्यात अशें हांव समजतां ते वाचप्यांक समजावन सांगपा खातीर ह्या अजुसर्जनाचो आटाप धरला.

ह्या पुस्तकांतले जे विचार म्हाका समजूंक नात तेय सोंपेपणान हांगा मांडपाचो यत्न केलो जाल्यार म्हाका ते घडये समजतले आनी वाचप्यांकूय कळटले. होय सुवार्थी हेत ह्या अनुसर्जना फाटल्यान आसा.

मुळांत अनुसर्जन म्हळ्यार किते तें हांव सारकें नकळं. हें उतर रवीन्द्रबाबांलें. तांचो अर्थ तांकां विचारल्यार ते अशी कितें तरी फोडणिशी करतले की ताका लागून म्हजो त्या उतरा विशीं घुस्पागोंदळ अदीक वाटडलो. देखून हांव ते वाटेक वचूंक ना.

खासा रवीन्द्रबाबान महाभारताचें जें अनुसर्जन केलां तें लोकांक खूब मानवलां. त्या पुस्तकाचें दिल्लींत प्रकाशन करतना राजीव गांधींनी जें उलोवप केल्लें ताचे वेल्यान तांकांय तें - कोंकणी भास येना आसुनूय - खूब मानवलें अशें दिशिल्लें.




तें कळत पसून फुडें फाटीं रवीन्द्रबाबांल्या एकाद्र्या पुस्तकाचें अशेंच अनुसर्जन करूंक जाय असो हांवें ध्यास घेतलो. आनी म्हज्या हातांतल्यान हो वावर आतां जावन पडटा.

ह्या अनुसर्जनाक हांवें 'त्रोसात्मक' म्हळां. ह्या उतराचो अर्थ सरळ आसा. देखून तो सांगना. इतलेंच सांगतां - हें उतर हांवें प्रकाश थळया कडल्यान उश्णें घेतलां.

अनुसर्जनाक सुरवात करतां.

१) जिबेचीं कामां तीन - कोडू, गोड, तीख, चाखप; कोडू, गोड, तीख उलोवप. आनी कोणाकूय चाळोवपा खातीर ती तोंडा भायर काडप.

– जिबेक हाड ना. ताका लागून मनीस कितेंय उलयलो म्हूण ती मोडना. कोणाकूय चाळयल्यारूय मोडना.

– काळजांत आसा तेंच जिबेर येता. काळजांत हुनसाण आसत जाल्यार जिबेर विंगळ्या वरी उतरां येतात. काळीज थंड आसत जाल्यार उतरां बर्फा वरी येतात. जिबेक राखता तोच आपणाक राखता.

२) कसलें काम हातांत घेवचें?
एक आदर्श: ह्या एकाच जिवितांत करून सोंपोवं येता असलें.
दुसरो: एकल्याच्या जिवितांत केन्ना सोंपचें ना असलें.
तिसरो: धा जाणांच्या जिवितांत केन्ना सोंपचें ना असलें.
चवथो: आसूं (सगळे आदर्श म्हत्वाचे नासतात.)
पयलो आदर्श धरलो जाल्यार मनीस आळशी केन्ना जावचो ना.
दुसरो धरलो जाल्यार उतार पिरायेरूय म्हातारो जावचो ना.
तिसरो धरलो जाल्यार मनीस केन्ना मरचो ना.
चवथो: आसूं!

३) कुडीचे भशेन मनाच्योय कांय गरजो आसतात.

लोकांनी आपणाक लेखचो न्हय ही मनाची एक मुळावी भूक.

मनाची ही मुळावी भूक सोंपे रितीन आनी सभावीकपणान जांची भागल्या तेच संवसारांत कर्तुत्वहीण जावंक पावल्यात. संवसारांतल्यो वायटांतल्यो वायट करण्यो हांचे हस्तुकीं घडून आयल्यात.

आनीक एक सांगूं? धसको बसतलो. तूं कोणाक तुजो दुस्मान मानता सांग पळोवया! जो तुका लेखिना ताकाच.

४) सॉक्रतिशान लोकांक विचारचें, 'तुमचें जोतें तुटलें जाल्यार तें लावन घेवपाक तुमी कोणा कडेन वतले?'

'चामारा कडेन', लोकांनी जाप दिवची.

'चामारा कडेनूच कित्याक? मेस्ता कडेन कित्याक न्हय?' सॉक्रतिशान परतें विचारचें.

'जोतें लावपाचें काम चामाराचें. मेस्ताचें न्हय म्हूण', लोकांनी जाप दिवची.

सॉक्रतिशान परतें विचारचें, 'धरुंया, तुमकां कोणाकूय नागोवपाचो आसलो जाल्यार तुमी कोणा कडेन वतले?'

'राजकारण्या कडेन.'

'राजकारण्या कडेनूच कित्याक? दोतोरा कडेन कित्याक न्हय?' ताणें परतें विचारचें.

'नागोवपाचें कशें ते शिकोवपाचें काम राजकारण्याचें, दोतोराचें न्हय.'

ते बराबर सॉक्रतिशान तांकां विचारचें, 'चोरांनो, तुमचें राज्य कशें चलतलें?'

५) खूब जाण वयर सरना फुडें पडल्यात.
कांय जाण वयर सरचे पयलींच पडल्यात.
कांय जाण शिकले आनी पडले.
कांय जाण गिरेस्त जाले आनी पडले
मनीस आपणाक व्हड मानपाक लागता तेन्ना तो पडटा.

तो दुसऱ्याक ल्हान मानपाक लागता तेन्नाय पडटा (कसो कोण जाणा!) व्हड मनशाक आपूण व्हड केन्नाच दिसना. दिसता तेन्नाच तो पडटा.

६) ताचीं मत्तां साप्प वेगळीं: आनी तो म्हजे शेजरा येवन रांवला!
हांवें कितें करपाचें?
ताका गाळी घालपाच्यो काय ताका जितो मारपाचो?
हांतलें कितेंय केल्यार हांव त्रासांत पडटलों. म्हूण हांवें पाड पडूं म्हणून ओग्गी रावपाचें. मागीर तो म्हजो शेजार सोडून वतलो.



७) सोंपी आनी कठीण अश्यो दोन वाटो मुखार येवन उब्यो रावल्यो जाल्यार मनीस सोंपीच वाट वेंचून काडटलो. ती काडूंक आयली ना जाल्यार कठीण वाटेन ताका वचचें पडटलें. आनीक तिसरी वाट आसा खंय?

८) जपानांत हांवें एका इश्टाक विचारलें, 'हांगासल्ल्या लोकांक दुयेंसां चड खंयचीं जातात?'

'चडशीं मँटल' ताणें जाप दिली. 'जपानांतले शंबरांतले अयशीं लोक पिशे.'.

'तुमी भाग्यवान', हांवें म्हळें.

'कित्याक?'

'आमच्या गोंयांत शंबरांतले णव्याणणव लोक पिशे', हांवें म्हळें.

ताका सूऽऽ जालें.

९) लोक आमकां वळखनात म्हणटात तें खरें न्हय. बेस बरे वळखतात. आमचें मोलूय ते बेस बरे आंखतात. आमकां सारके मेजून आमकां आमची खरेली सुवातूय ते दाखोवन दितात.

फकत आमकां मेजपाचीं तांचीं मापां भरवंशाचीं नासतात. म्हूण ते केन्ना केन्नाय घुस्पतात.

१०) समाज मनशाची कदर करिना म्हणटात तें खरें न्हय. मनीस समाजाची कदर करिना. पूण ही परिस्थिती सुधारपाचो उपाय कितें? सगल्या प्रस्नांक जापो आसतात म्हूण कोणें सांगलें?

११) चडांत चड लोक जे वाटेन वतात तेच वाटेन आमी वतात. कित्याक? ते वाटेन आमी गेले नात जाल्यार 'ते वाटेन ते गेले नात' अशें लोक म्हणटले म्हूण.

१२) आमकां दुख्खां नाका आसतात. तरी आसतना दुख्खां जिवितांत येतात. आपय नासतना येतात. आपयल्यार अदीक प्रमाणांत येतात. कित्याक आयल्यांत काय म्हूण विचारल्यार 'तुमी आपयलीं म्हूण आमी आयलीं' म्हणटात.

दुख्खान भितल्ल्यान मनीस गिरेस्त जाता. भायल्यान दळिद्रीच उरता.

१३) आमकां जाय तसो संवसार केन्ना चलना. तत्त्वान आमी सगळे सारके. पुणून एकलो येवजिता तसो दुसरो येवजिना. एकलो खाता जेवता तसो दुसरो खायना जेविना. एकलो हांसता तसो दुसरो हांसना. एकलो रडटा तसो दुसरो रडना.

हाचो अर्थ, कोणेंच कोणाची तुस्त वा टिका करची न्हय, असो न्हय. करची. तोंडार टिका करची. असवडीं तुस्त करची. अशें केलें म्हणटकूच आयुश्यभरची तपश्चर्या आनी सेवा मातयेभरवण जाता. ती जावंक दिवंची मागीर जिणेक अर्थ येता.

१४) १५ ऑगस्ट १९४७ आदलीं पन्नास वर्सां आनी उपरांतचीं पन्नास वर्सां मातशीं नियाळून पळोवचीं. केदो व्हडलो फरक पडला?

पयलीं भोंवतणीं काळोख पातळ्ळेलो आसतालो. पुणून काळजांत भितर उजवाड दिश्टी पडटालो. आयज उजवाड भायर सगळे कडेन दिश्टी पडटा. भितर काळोख पातळ्ळा. तो पळोवंक आमकां दिवो पेटोवंचो पडटा. पूण काळखांत तो दिसना.

१५) वाचपाचें कितलेंशें उरलां. भोंवपाचेंय कितलेंशें उरलां. केन्ना जातलें हें सगळें? एक जिवीत पावपाचें ना. फुडल्या जिविताची वाट पळेतां...

१६) विचारीक बरपावळ तीन तरांची. एक, जी येवजूंक लायता ती. दुसरी, न्हिदतल्यांक जागयता ती. तिसरी, जागे आशिल्ल्यांक

न्हेदयता ती.

तिनूय गूण एकठांय आशिल्ली बरपावळ बरोवंक येवंक जाय. पुणून ते खातीर बरोवपी फकत विचार करपीच आसून उपकरना. लोकांक शाणेपणां सांगता असलोय आसूंक जाय.

१७) एक वाक्य दोन खेपे वाचले उपरांतूय तें सारकें समजलें ना, जाल्यार धरून चलूंक जाय, ह्या मनशाक सारकें बरोवंक येना.

समजना असलें बरोवप काव्यांत चलता. कारण तें कोण वाचिना.

बरोवंक बसचे पयलीं एक गजाल स्पश्ट जावंक जाय: हांव बरोवंक बसलां काय आनीक कितें करूंक (गावंक बी) बसलां?

चडशे लोक बरयता आसतना आनीक कितेंय करतात. आनी त्या वेळार येवजता तेंच बरयतात. हें बरप दोन खेपे वाचुनूय समजुपाचें ना.

१८) बरोवपाक खंय स्फूर्त येवंक जाय. खरें. पुणून स्फुर्तीचें एक गणीत आसा. ती आपशीं येना. तिका आपोवणो धाडचो पडटा. तो धाडलो ना जाल्यार ती वाट पळेत रावता. आनी शिणटा.

१९) बरयत रावलो म्हणटकूच मनशाक बरोवपाची संवंय जाता. देखून बरयत रावचें न्हय. मागीर ती मोडटा. लोक मागीर बरोवप्याक आदरान पळेतात.

२०) आपूण बरयतां तें आपूण जिवो आसतनाच छापून येवंक जाय अशें आमकां कित्याक दिसचें? आपूण मेले उपरांत जें छापून येता तें साहित्य अदीक मोलादीक आसता. देखून एका साहित्यिकान आपलें पुस्तक बरोवन जातकूच ह्या संवसाराक अंतरूंक जाय.

२१) जियेवपा खातीर मनशाक कसलें न्हय कसलें काम मेळूंकूच जाय.

तें मेळ्ळें ना जाल्यार ताणें कपलाक हात लावन ओग्गी बसूंक जाय. ओगी बसप हेंय एके तरेचें कामूच हें ताणें जाणा जावंक जाय.

२२) करूंक फावना असलें कितेंय मनशान केलें म्हणटकूच आमी ताका म्हणटात, 'तुका हें सोबलें ना आं...'

तेंच कर्तूप ताणें परतून केलें म्हणटकूच आमी ताका म्हणटात, 'आतां मात तुका हें सोबलें आं.'

तात्पर्य कितें? (हे गजालीक तात्पर्य ना.)

२३) मनीस जल्माक येतना मेकळो येता. पुणून जल्माक येनाफुडें ताच्या हातापायांक बेडयो पडटात. त्यो ताका बंदो करतात.

तुमकां सगळे कडेन बंदेच बंदे पळोवंक मेळटात. शिश्य गुरूंचे बंदे. गुरू राजांचे बंदे. राजा धर्माचे बंदे. धर्म रुढींचे बंद. बंदे बंद्यांचे बंदे.

२४) म्हाका एक संवंय आशिल्ली. जंय पावतालों थंयचो एक ल्हानसो फातर घेवन घरा येतालों. हांवें हे भाशेन कितलेशे फातर एकठांय केल्ले.

उपरांत त्या फातरानी घर बांदलें. त्या घराचे फातर आतां शेजारी पाजारी चोरून व्हरतात.

२५) मनशांत एक पशू आसा तसो ताच्यांत एक देवूय आसा. ताका ताच्या पशूची वळख करून दिवंक जाय, देवाचीय करून दिवंक जाय. म्हणटकूच आपणाक देवा कडल्यान पशू कडेन कशें व्हरप हें ताचे ताकाच कळटलें.

२६) जांचे कडेन सत्त्या-ख्याती सगळें आसा ते सुखी आसात व्हय? दिसा उजवाडे लापयांव घेवन तांकां सोदचे पडटले. आतां बाजारांत बरे लापयांवूय मेळनात. करप कितें?

२७) संत संत जावंक पावले कित्याक?

१. उलोवं येतालें तेन्ना ते ओगी रावले म्हूण.

२. कोडू जावं येतालें तेन्ना गोडसाणेन वागले म्हूण.

३. ओगी बसूं येतालें तेन्ना ते टाळमृदंग वाजयताले म्हूण.

२८) समाजाचे नदरेन आपूण पडचो न्हय म्हूण मनीस सदांच जतनाय घेयत आयला. परिणाम: मनीस तिगला, समाज पडला.

२९) शंबर आनी कांय वर्सां पयलीं दिवचले वालावलीकारांच्या घरांत, मुखार शणै गोंयबाब नांवान नांवाजतो जाल्लो, एक भुरगो जल्माक आयिल्लो. त्या दिसा गोंयांत शें-पन्नास आनिकूय भुरगे जल्माक आयिल्ले आसूंक जाय. तांचे भितल्ल्या एकल्याचीय आमी याद काडिनात. हाचीच कित्याक काडटात?

कारण सादें - ताची आमी याद काडलिना जाल्यार आमकां आनीक दुसरो आसा कोण?

३०) पन्नास भर जालीं म्हणटकूच मनशान आयज मेरेन जें पळेलें, चिंतलें, अणभवलें, जोडलें तें वांटींत रावंक जाय.

पन्नास जातकूच मनशान नवो उद्‌देग सुरू करूंक जाय.

तो जायना जाल्यार ओगी बसूंक जाय.

३१) मनीस भायर पडटकूच ताका पावोवपाची ताकतीक ताच्या घरच्या लोकांनी करूंक जायना.

कित्याक, मरतल्यांचें प्रमाण इतलें वाडलां, मसुंडेंत लायनीक रावचें पडटा — मेल्ल्या मनशाक.

३२) मरणाचें एक बरें: तें तुजी सुवात तुका दाखोवन दिता. ती ताणें दाखोवन दिलिना जाल्यार मेल्ल्या मनशाक ती सोदून काडची पडटा. ती सोदून काडटलो जाल्यार ताका परथून जितो जावचो पडटा.



# जागृत एवं सक्रिय नागरिक

♦ वीरेन्द्र मोहन

**इन चिन्तनों से रवीन्द्र केलेकर के गहन अध्ययन, व्यापक जीवनानुभव और स्पष्ट सूझ-बूझ का पता चलता है। यहाँ जीवन के तरह-तरह के अनुभवों तक पहुँचने का प्रयत्न किया गया है। पढ़ते हुए हम अपने को न केवल लेखक के साथ यात्रा करते हुए पाते हैं, बल्कि पढ़ने के बाद स्वयं के भीतर एक सहभागिता और परिवर्तन का भी अनुभव करते हैं। अपने को ज्यादातर सहमत और कहीं-कहीं असहमत भी पाते हैं।**

गांधीवादी विचारक, गोवा मुक्ति आन्दोलन के सेनानी तथा कोंकणी और मराठी के शीर्षस्थ सर्जक और विचारक रवीन्द्र केलेकर की सुदीर्घ रचना भारतीय मनीषा का एक ऐसा प्रस्थान है, जो लेखक होने की गरिमा को एक नया विस्तार देती है। उनकी रचनाओं में जीवन के कमाये हुए सच को बिना किसी अलंकरण के देखा और पहचाना जा सकता है। जीवन के द्वन्द्व और विरुद्धों के विषय में उनकी निर्भय लेखनी सहज ही अपनी ओर आकर्षित करती है। ***पतझर में टूटी पत्तियाँ*** उनके चिन्तन की एक झलक देती है। वैचारिक दृढता और जीवनानुभव की ऐसी अभिव्यक्ति कम ही देखने को मिलती है। यहाँ लेखक मनुष्य को किताबी नहीं रहने देता, बल्कि उसे एक ऐसा व्यक्तित्व प्रदान करता है, जो जीवन-संघर्ष की आंच में तपकर अन्याय, अत्याचार, विषमता और पराधीनता का प्रतिकार करता है। वह सच को सच ही रहने देता है, किसी तरह का मुलम्मा उस पर चढ़ने नहीं देता तथा झूठ के ऊपर चढ़े मुलम्मे को उतार फेंकता है। जीवन-समाज के यथार्थ को, उसके द्वन्द्वव को इतने सहज रूप में प्रस्तुत कर श्री.



वर्ध्याक विनोबा आनी तांगेल्या आश्रमवासियां वांगडा...

केलेकर ने समाज को, नयी पीढ़ी को एक रास्ता दिखलाने का उपक्रम किया है। ऐसा चिन्तन और लेखन हिन्दी रचनाकारों के लिए एक चुनौती और प्रेरणा का कार्य कर सकता है।

ये एक सौ पाँच चिन्तनपरक टिप्पणियाँ अपनी संक्षिप्तता के लिए विशेष उल्लेखनीय हैं। वह मानो हमारी ऋषि परम्परा के आत्म-बोध और सामाजिक चिन्तन की समग्र अनुभूति है। शब्दों की ऐसी मितव्ययिता दुर्लभ है। शायद यही कारण है कि ये चिन्तन ज्यादा प्रभावी हो सके हैं। शब्द यहाँ ज्यादा अर्थवान हो गये हैं। इन चिन्तनों में केलेकरजी की अनुभवात्मक कार्यप्रणाली, मान्यताओं, विश्वासों तथा देश और समाज के अनेकानेक पक्षों को प्रस्तुत किया गया है। यहाँ ऐसे प्रेरक प्रसंग हैं, जो जीवन और समाज को एक नयी दिशा दे सकते हैं। लेखक निरन्तर मानवीय सार, तत्व और सत्य की खोज करता रहता है और एक बेहतर समाज की परिकल्पना करता है।

रवीन्द्र केलेकर ने प्राक्कथन में ही स्पष्ट कर दिया है कि संक्षेप में बात करने की प्रेरणा ही इन चिन्तनों का बीज रूप है। पर यह कहना उतना महत्त्वपूर्ण नहीं है, जितना यह कहना कि 'प्रसार माध्यमों की वृद्धि की वजह से आजकल शब्दों का काफी अवमूल्यन हुआ है। शब्दों का कम से कम उपयोग करके ज्यादा से ज्यादा कहने की कोशिश में शब्दों का मूल्य बढ़ता है या नहीं यह देखना चाहिए। और मैं इस तरह के चिन्तन लिखता रहा।' ऐसे चिन्तन की कोई पूर्व निर्धारित विचार प्रक्रिया नहीं होती, परन्तु चिन्तन का पूर्वापर ही यहाँ नये चिन्तन का आधार बनता है। और चिन्तन जीवनानुभव से प्राप्त किया सच होता है: परीक्षण और प्रयोग किया गया सच। चाहें तो हम एक दूसरे कोण से केलेकरजी के इस चिन्तन को गाँधीजी के 'सत्य के प्रयोग' की परम्परा में भी रख सकते हैं। निश्चय ही यह चिन्तन हमारे जीवन की गतिशीलता के नये-नये इलाकों से गुजरता है और अपने में पहचान की एक छाप भी छोड जाता है।

इस चिन्तन के केन्द्र में मनुष्य और समाज है। जीवन-जगत में न जाने कितने तरहों के जीवन और समाज पद्धतियाँ देखने को मिलती हैं। लेखक समाज के वर्तमान स्वरुप की स्थितियों के लिए उन्हीं सारी स्थितियों को मानता है, जिनको हम जानते हैं और अपने ढ़ंग से उन्हें पहचानने का प्रयत्न भी करते हैं। केलेकरजी भी अपने ढ़ंग से ही चीजों को देखते हैं, पर उनका देखना इतने अलग ढंग का होता है कि उसके सामने हमारा सोचने का तरीका बेढ़ंग सा लगता है। दूसरी बात यह कि इस जीवन और समाज को बेहतर बनाने का केलेकरजी का जो चिन्तन है, उसकी पृष्ठभूमि गाँधीजी के जीवन और विचारों को आत्मसात कर आगे बढती है। यहाँ लेखक ने पारम्परिक चिन्तन का भी समावेश किया है। समाजविज्ञान, धर्म, दर्शन, तत्त्वचिन्तन, राजनीति-संस्कृति, जाति, भाषा, वैश्वीकरण, शासन, अर्थ, आत्म और पर आदि सभी पक्षों को एक व्यापक परिप्रेक्ष्य में देखने का उपक्रम यहाँ किया गया है। वह समाज को आगे ले जाने वाले कार्य-कारण सम्बन्धों को तलाश करता है और इसके लिए दिक् और कालचेतना के अनेक आयामों का अनावरण करता है। यही बात समाज को नीचे ले जाने वाले कारकों के विषय में भी कही जा सकती है। समाज यदि व्यवहारवाद से नीचे जाता है तो आदर्श स्थान से उसका मार्ग प्रशस्त होता है। सामान्य से सामान्य व्यवहार भी समाज में एक मूल्य की रचना करता है। लेखक मानता है कि 'समाज के पास शाश्वत मूल्य जैसा कुछ है तो वह आदर्शवादी लोगों का ही दिया हुआ है। व्यवहारवादी लोगों ने तो समाज को गिराया ही है' (पृ. ९) क्योंकि व्यवहारवाद की कोई अन्तिम सीमा नहीं होती। यह नाना रूपों में समाज को विकृत करता है; उसे भ्रष्ट बनाता है।

केलेकरजी का मानना है कि समाज के अनेक विकारों का कारण

हमारी राजनीतिक व्यवस्था भी है; क्योंकि व्यवहारवाद और तुष्टिकरण की नीति से समाज व्यवस्था में अकुशल तथा अयोग्य तत्त्वों का प्रवेश निरन्तर बढ़ता गया है। जीवन के अनेकानेक कार्यों तथा प्रयोजन के लिए विशेषज्ञता या कुशलता की आवश्यकता होती है, पर सत्ता सेवा में इनका समावेश नहीं किया जाता। यह व्यवहारवाद का परिणाम है। फलतः संचालन सूत्र अयोग्य तथा अकुशल हाथों में पहुँच जाते हैं। इस तरह से समाज में गिरावट आती है। इस तरह एक मूल्य-संसार नष्ट होता है और अपनी संस्कृति का हस्तक्षेप बढ़ता है। लेखक ने स्वाधीन भारत के तीन महारोगों -जाति, धर्म और भाषा में से धर्म और जाति को इस पतन के लिए जिम्मेदार माना है। इस व्यवस्था ने हमारे सोच को भी अतीतजीवी बना दिया है। अतः लेखक इस नतीजे पर पहुँचता है कि इस व्यवस्था को बदलना आवश्यक है। बौद्धिक समाज की यह विशेष जिम्मेदारी है। 'स्वराज्य में हमने लोकसभा, राज्यसभा, विधानसभाओंमें 'किसी को भी' भेज दिया, 'किसी को भी' मंत्री बना दिया। हमने उसका अनुभव वगैरह कुछ नहीं देखा। देखी सिर्फ़ उनकी जाति या उनका धर्म। नतीजा-मौजूदा सरकार से पहले की सरकार अच्छी थी, उससे अच्छी उससे पहले की थी, यह कहते कहते अन्त में सबसे अच्छी अँग्रेजों की थी, इस नतीजे पर आ पहुँचते हैं।' इसी लिए लेखक कहता है कि: 'लोकतंत्र को बचाना हो तो किसी-न-किसी को समाज में सुकरात की भूमिका निभानी ही होगी। लोगों से प्रश्न पूछ पूछकर उन्हें सजग करने का काम करना होगा। हो सकता है, लोगों को वह असहनीय मालूम हो और लोग उसे जहर पिलाने के लिए उद्यत हो जाएँ। लेकिन यह कीमत हमें स्वराज्य में लोकतंत्र को बचाने के लिए चुकानी ही होगी' (पृ. १०)।

लेखक ने भारतीय समाज की विकास यात्रा, उन्नति और सीमाओं की पहचान की है। उसका मानना है कि देश के कर्णधारों ने गलत रास्ता अपनाया। स्वतंत्र भारत में विकास का गलत मॉडल चुना गया। यह मॉडल गांधीजी की नीतियों के अनुकूल नहीं है। जो देश लम्बे समय तक पराधीन रहा हो, उसके लिए वर्तमान आधुनिकतावादी मॉडल उसकी प्रगति में सहायक नहीं हो सकता। प्रगति होना और प्रगति का प्रचार होना अलग-अलग चीजें हैं। आधुनिक बनने के फेर में; योरोप और अमेरिका बनने की आधुनिक हड़बड़ी में गलत रास्ता चुना गया। देश गलत नीतियों का शिकार हुआ। गरीबी दूर नहीं हुई, गैर बराबरी लगातार बढ़ी है। भ्रष्टाचार और अनाचार लगातार बढ़ा है। मूल्यों में लगातार गिरावट आयी है परन्तु हमारा शासन और नीतियाँ रास्ता बदलने को तैयार नहीं हैं, देश चाहे रसातल में चला जाए। केलेकरजी गाँधीजी की नीतियों को विकास का एक मॉडल मानते हैं, जिसका आधार देश की जलवायु है। यह मॉडल पुरोगामी न होकर अग्रगामी सिद्ध हो सकता है। इसको अपनाकर हमारा जीवन-दर्शन भिन्न हो सकता था। लेखक नेहरूजी के विकास के मॉडल से सहमत नहीं है। इसीलिए कहता है: 'अपना रास्ता गलत था, यह जवाहरलाल नेहरू को आखिर में महसूस हो गया था। पर रास्ता बदलने का निश्चय करने से पहले ही वे चल बसे। दुर्भाग्य से उनके उत्तराधिकारी उसी गलत रास्ते पर चलते रहे। नतीजा समाजवाद के स्वर्ग में जाने के लिए निकले हुए हम लोग विश्व बैंक के मुक्त बाजार क़ी दलदल में फँस गये' (पृ. १५)। लेखक गाँधी, लोहिया, जयप्रकाश आदि के विषय में धारणा बनाता है कि वे लौकिक दृष्टि से विफल थे, लेकिन विफलता के कारण ही वे दुनिया को आगे ले जा सके। क्योंकि उन्होंने जीवन का दुर्गम मार्ग चुना। 'सफल आदमी सफलता मिलने पर रुक जाता है। न खुद आगे बढता है, न दूसरों को आगे जाने देता है। सफलता को जिन्होंने तुच्छ माना है, वे ही आगे गये हैं। लगातार आगे चलते रहे हैं' (पृ. २२)। गांधीजी के सत्य के प्रयोग के अनेक पक्ष ऐसे हैं जो क्रान्तिकारी कहे जा सकते हैं। भारतीय वर्ण व्यवस्था की उन्होंनें आलोचना नहीं की, पर भारतीय जाति व्यवस्था की उन्होंने जडें हिला दीं। उन्होंने भारतीय जाति व्यवस्था की सबसे निम्न जाति को अपने जातिगत सुधारों का क्षेत्र चुना। इस अर्थ में वे केवल सुधारवादी ही नहीं थे, बल्कि उग्र सुधारवादी थे। विनोबा भावे और अप्पा पटवर्धन पूर्ण सफाई कर्मचारी बने थे। अप्पा तो निपुण चर्मकार भी थे। गाँधीजी ने अपने तरीके से जातिप्रथा को तोडने को कोशिश की। केलेकरजी जाति सम्प्रदाय आदि के विषय में हिन्दुत्ववादियों की आलोचना करते हैं; जो समाज को बांटते-तोडते हैं। वह हिन्दुत्ववादियों के शुद्धिकरण अभियान को स्वीकार नहीं करते। वह इसे साम्प्रदायिक मानसिकता का रूप मानते हैं। धर्मान्तरण, धर्मपरिवर्तन केवल एक धर्म में नहीं है। धर्मपरिवर्तन अन्य जगह भी हो रहे हैं। लेखक इस पर प्रतिबंध की बात करता है; क्योंकि इस कारण भी साम्प्रदायिक सद्भाव का वातावरण दूषित होता है। 'मैं तो यह तक कहूँगा कि धर्मनिरपेक्ष देश में धर्मान्तरण की प्रवृत्ति पर रोक लगानी चाहिए। अपने अपने धर्म के प्रचार की इजाजत सब को भले ही दी गयी हो, किसी भी धर्म के किसी भी आदमी को अपने धर्म में लाने की इजाजत किसी को नहीं मिलनी चाहिए' (पृ. ९४)। इस संदर्भ में वे मीरा बहन का उदाहरण देते हैं, जो ईसाई थी और धर्मपरिवर्तन कर हिन्दू बनना चाहती थी, पर महात्मा गाँधी ने ऐसा नहीं होने दिया। लेखक भारत की सहिष्णुतावादी संस्कृति को स्वीकार करता है, जातिव्यवस्था को स्वीकार नहीं करता। इसीलिए वह कहता है कि जो जाति से ऊपर उठ गये, वे ही समाज को उन्नति का, प्रकाश का रास्ता दिखा सके। केलेकरजी इस निष्कर्ष पर पहुँचते हैं कि 'भारतीय संस्कृति समृद्ध हो पायी उन्हीं के योगदान के कारण जिन्होंनें अपनी जातियों को तोड छोड दीं या चातुर्वर्ण्य ने जिन्हें नीच जाति का माना' (पृ.५०)। वह परशुराम, वसिष्ठ, व्यास, नारद के साथ मंहपयुग के सन्तों का उदाहरण देता है।

रवीन्द्र केलेकर परम्परा के प्रश्न से टकराते हैं। परम्परा और प्रगति तथा परम्परा और आधुनिकता आदि पर निरन्तर विचार होता आया है। लेखक परम्परा के प्रश्न को भाषा और धर्म के क्षेत्रों तक व्यापक बनाता है। वह यह भी कहता है कि धर्म का कोई संस्थापक नहीं था। सर्वधर्मसमभाव बेशक हो सकता है, पर वह छद्म धर्मनिरपेक्षता की आलोचना करता है। आज परम्परा के नाम पर संकीर्णता को बढाया दिया जा रहा है। यहीं उसे गाँधी फिर याद आते हैं। वह मूल्यों की ईमानदारी को याद करता है, इसी लिए केलेकरजी धर्म की मानववादी

व्याख्या करते हैं। वे धर्म की संकीर्णता की ओर संकेत करते हैं। इसी तरह जाति व्यवस्था के विषय में भी उनका दृष्टिकोण अलग तरह का है: 'देश में हजारों किस्म की जातियों का होना उसका दारिद्र्य नहीं, बल्कि वैभव है। उसकी कमजोरी नहीं, बल्कि शक्ति है, ऐश्वर्य है, महत्ता है। बस। उन्हें एक दुसरे से संवादी बनकर रहने की कला आत्मसात करनी होगी। हिन्दुस्तान का यही ध्येय होना चाहिए' (पृ. ५८)। वह मानता है कि अन्याय का प्रतिकार भी एक धर्म होना चाहिए। लेखक मूल्य चिन्तन के संदर्भ में भी परम्परा के प्रश्न पर विचार करता है। वह परम्पराओं की रक्षा और परम्पराओं के विनाश जैसे विषय पर बिना किसी पूर्वग्रह के विचार करता है और मानता है कि परम्परा में सब कुछ त्याज्य नहीं होता। हिन्दू परम्परा के विरोध की बात जो लोग करते हैं, वे भूल जाते हैं कि हिन्दू परम्परा में बहुत कुछ ऐसा है, जिसने संसार को सर्वोत्तम दिया है। इसीलिए परम्परा की परीक्षा उसके उज्ज्वल पक्षों को देखकर करनी चाहिए। आज के जो तथाकथित धर्माचार्य हैं, उनके कारण भी हिन्दू परम्परा में बहुत सी गलत बातें आ गयी हैं। इसीलिए केलेकरजी वर्तमान के धार्मिक चिन्तन के स्थान पर संस्कृति को विशेष महत्त्व देते हैं। लेखक स्वविवेक की बात भी करता है और चाणक्य का उदाहरण देता है।'



गांधीजींचे निगाण्या काळांतले एक सांगाती शिवबालक बिसेनां वांगडा.

रवीन्द्र केलेकर के चिन्तन की विशेषता है कि वह मूल्य-संसार से अपने को अलग नहीं करता। मूल्य चाहे भौतिक हो या आध्यात्मिक, व्यक्तिपरक हों या समाजपरक अथवा नैतिक हों या शाश्वत। वे निरन्तर मूल्यों की ईमानदारी की बात करते हैं। वे श्रद्धा और अन्धविश्वास का परीक्षण करते हैं। व्यक्तिरूप में वे चरित्र और स्वाभिमान को मूल्य की सीमारेखा में विश्लेषित करते हैं और चरित्र जैसे मूल्य के संकीर्ण अर्थ को खारिज करते हैं। उनके लिए चारित्रिक मूल्य व्यापक अवधारणा वाला मूल्य है। मानवीय गुणों के समावेश के बिना चरित्र के मूल्य को पूरि तरह से नहीं समझा जा सकता। इसीलिए वे अद्वितीयपन की अवधारणा को स्वीकार नहीं करते। केलेकर पाखण्ड, छद्म और झूठ जैसे प्रदर्शनप्रिय और असामान्य व्यवहार को मूल्यों की सीमा से बाहर रखते हैं। वे ऐसे चिन्तन को भी स्वीकार नहीं करते, जो व्यक्ति अथवा राष्ट्र का सर्वांगीण विकास न कर सके। इसीलिए वे भारतीय मूल्य-मीमांसा के पुनर्मूल्यांकन की आवश्यकता को स्वीकार करते हैं। इसीलिए वे 'सत्य बोलो पर अप्रिय सत्य मत बोलो' को स्वीकार नहीं करते। वे मानते हैं कि सत्य तो अप्रिय ही होता है। वे मानते है कि ब्रह्म की खोज, आत्मा की खोज तथा ईश्वर या दैववाद ने हमें आलसी बनाया है। अन्याय का विरोध न होने का एक कारण यह दैववादी या कर्मफलवादी चिन्तन भी है। इसीलिए लेखक कहता है कि वेदान्तों का भी पुनर्मूल्यांकन होना चाहिए। संभव है, कुछ मान्यताएँ गलत हों। मान्यताओं का हमने गलत अर्थ लगाया हो। परन्तु वह 'सत्यं वद-धर्मं चर- स्वाध्यायात् मा प्रमद:' को स्वीकार करता है। लेखक गौतम बुद्ध के चिन्तन से प्रभावित है। वह भूलना वा लापरवाही को जीवन के लिए घातक मानता है। 'भगवान बुद्ध कहते थे, प्रमाद में रहोगे तो खो जाओगे। जागृत रहेंगे तो जीत पाओगे' (पृ. २८)। बुद्ध का 'अनागत भयानि' सूत्र भी ऐसा ही है। मनुष्य को हर पल जागृत रहना चाहिए। केलेकरजी की मान्यता है कि अन्ध विश्वासों का विरोध करना भी धर्म होना चाहिए। वे वाल्टेयर का उदाहरण देते हैं जिसने चर्च की आलोचना की, उसका मजाक उड़ाया। केलेकरजी नीतिशास्त्र और धर्म के मूल्यांकन की बात कह कर रुढ़ि और परम्परा तथा परम्परा और मूल्यों का वस्तुपरक मूल्यांकन करते हैं। वे मानते हैं कि हमारी परम्परा में चिन्तन का सर्वोत्तम मिलता है तो यहाँ बहुत कुछ उल्टा पुल्टा भी है। वे मानते हैं कि जिस समाज मे कडवा सुनने की सहिष्णुता नहीं होगी, वह कभी भी ऊँचा नहीं उठेगा। लेखक अपने जीवनानुभव से सीखता है। वह पुराने संदर्भों को भी तलाशता है। वह मानता है कि जीवन एक साध्य है, पर यह साधना समाज के संदर्भ में ही हो सकती है। वह एकान्तवासी या गुह्य साधना को स्वीकार नहीं करता। जीवन साधना इस अर्थ में है कि वह जागृति के साथ जीने का है। वह उन्नति और पतन की मूल्य आधारित व्याख्या करता है। वह मूल्य आधारित समाज की रचना चाहता है। उसका स्पष्ट कथन है कि : 'मनुष्य जब अपने को दूसरों से बड़ा मानने लगता है तब गिर पडता है। तथा किसी बड़े मनुष्य को यह मालूम नहीं होता कि वह बड़ा है। जब मालूम हो जाता है तब वह गिर पड़ता है' (पृ. २०)। वह स्वर्ग-नरक, पाप-पुण्य, लाभ-हानि, उत्थान-पतन आदि अनेक विरुद्धों की जीवन के संदर्भ में व्याख्या करता है। वह मानता है कि मरने के बाद स्वर्ग या नरक नहीं मिलते, वे जीवनकाल में ही मिलते हैं।

केलेकरजी आज की आधुनिक और वैश्वीकृत व्यवस्था से सहमत नहीं हैं; बल्कि उन्होंने वैश्वीकरण, बाजारवाद की आलोचना ही की है। वे विश्व बैंक, अन्तरराष्ट्रीय मुद्राकोष या विश्व व्यापार संगठन




की नीतियों को देश के हित में नहीं मानते हैं; वे विकास के इस मॉडल से सहमत नहीं हैं। वे मानते हैं कि हमने गाँधीजी का रास्ता छोड़कर नगर संस्कृति के विकास के जिस रास्ते को अपनाया है, उसके परिणाम कतई मंगल नहीं हो सकते। इसी का परिणाम है कि आज गाँव खाली होते जा रहे हैं और गाँव की कारीगरी-शिल्प तथा हुनर को नष्ट किया जा रहा है। गाँव के रोजगार के साधन नहीं बढ़े, बल्कि गाँव से लोग पलायन कर रहे हैं। हमारे भारत के ग्रामीण अर्थशास्त्र, ग्रामीण समाजशास्त्र तथा कृषि आधारित अर्थशास्त्र की अनदेखी की गयी। आज विकास के नाम पर जीवनघाती योजनाओं को बढ़ावा मिल रहा है। आज काले धन को सफेद में बदलने की योजनाएँ हैं। आज़ हम स्वतंत्र नहीं हैं। सरकार ने हमारे जीवन व्यवहार की सीमाएँ बना दी है। 'सरकार सर्वशक्तिमान बनती है तब अनिवार्य रूप से भ्रष्टाचार बढ़ जाता है' (पृ. ७६)। समस्याएँ निरन्तर विकराल होती जा रहीं हैं। इसका कोई इलाज नहीं है; क्योंकि हमारे नीति-निर्धारकों के लिए गाँधीजी की नीतियों को अपनाना पीछे जाने जैसा लगता है। जो भी मनुष्य समाज की बेहतरी चाहता है, उसे ऊँचे आसन के बजाय बराबरी पर आना होगा। तभी उसका प्रभाव पड़ेगा। गाँधीजी ने यही किया। समाज के अमीर और गरीब के संदर्भों को भी देखना होगा। वह सम्पत्तिशाली वर्ग की सीमाओं को भी बताता है तथा अभावग्रस्त समाज के आगे बढ़ने की आकांक्षा को भी। लेखक असमान समाज व्यवस्था को देखता है और मानता है कि हमारी मामूली, मामूली आवश्यकताएँ भी बिना श्रम के पूरी नहीं होती, फिर यह श्रम हम भले न करें। वह इस निष्कर्ष पर पहुँचता है कि 'यह समाज व्यवस्था अन्यायी है। हमें वह तोड़नी ही होगी... उत्पादक श्रम को संस्कारी जीवन का एक प्रतिष्ठित अंग बनाकर यह हमारी सामाजिक व्यवस्था के ऊंच-नीच का भेद खत्म करेगा। सामाजिक समानता की ओर हम अग्रसर होंगे' (पृ. २९)। गाँधीजी ने हमें स्वावलम्बन का मंत्र दिया है। उनकी यह प्रेरणा मानवीय मूल्यों की सृष्टि करती है। वह श्रम के मूल्य की महत्ता को प्रतिष्ठित करती है।

केलेकरजी विकसित और विकासशील देशों की अवधारणा के आधार पर सामाजिक-आर्थिक असमानता के सूत्रों की पहचान करते हैं। प्रकारान्तर से वे पूँजीवादी और उपनिवेशवादी व्यवस्था की आलोचना करते हैं। लेखक भारतीय समाज का मूल्यांकन करता है। आजादी के इतने वर्षों बाद वह उन्नति के सोपान को स्वीकार करता हुआ भी राष्ट्रीय नेतृत्व का आलोचक है। आज हिमालय के उत्तुंग शिखर व्यक्तित्व वाले नेता नहीं हैं। जो हैं वे बौने और पिग्मी हैं। आज भीतर बाहर अन्धकार बढ़ गया है। आज मध्यवर्ग के नक्काल बढ़ गये हैं। वह अनुकरण को देश के विकास के लिए घातक मानता है। वह शासन की कार्यपद्धति पर बारीक नजर रखता है। मूल्यों के ऱ्हास तथा अनेक अन्तर्विरोधों का कारण हमारी प्रशासनिक व्यवस्था है। 'अकसर सभी सरकारी कर्मचारी काम से भागते हैं। जहाँ तक संभव हो, काम टालते रहते हैं। टालना संभव हो तो दूसरों पर लादते हैं। यह भी संभव न हो तो बेगारों की तरह बेमन से काम करते हैं। और सत्ता-सम्पत्ति उन्हीं के हाथों में होने से सभी लोग उन्हीं की तरह सरकारी कर्मचारी बनना पसन्द करते हैं। गोवा में किसान का बेटा अब खेत का काम नहीं करता। क्लर्क की नौकरी नहीं मिले तो प्यून तो बनना ही है। खेती करने में उसे शर्म महसूस होती है। पर उसे हम दोष कैसे दें? उत्पादक श्रम करने वाले को समाज में प्रतिष्ठा ही नहीं है। उन्हें मुआवजा भी पर्याप्त मात्रा में नहीं मिलता। और सभी देखते हैं कि जो उत्पादक श्रम बिल्कुल नहीं करते वे ही समाज में ज्यादा कमाते हैं' (पृ. ३३)। सरकारी नौकरी के विषय मे यह आम धारणा है और भ्रष्टाचार की शुरुआत यहीं से होती है। सत्ता यहीं से भ्रष्ट होती है, वह जनता के विरुद्ध हो जाती है। आज की सम्पत्ति की चाह ने हमारे भीतर एक बड़ा उलट-फेर किया है। 'हमने पैसे को हद से ज्यादा महत्व दिया। यही इसका कारण है। पैसे की तो खुद्द अपनी ही कीमत नहीं है। जो चीज पाँच साल पहले एक रुपये में मिलती थी, वह चीज आज पन्द्रह रुपये में लेनी पड़ती है। लोग कहते हैं वस्तुओं की कीमतें बढ़ गयीं हैं। असल में पैसों की कीमत घट गयी है। और पैसों के अनुपात में आदर्शों की, जीवन मूल्यों की, चारित्र्य की, नीति की और देश की इज्जत आबरू की भी कीमत घट गयी है' (पृ. ३४)। और 'हमारा साहित्य भी हमारे जीवन जैसा उथला और छिछला है' (पृ. ४५)। 'शासन की गरीबी दूर करने की नीतियाँ भी पाखण्ड से अधिक नहीं हैं। अब काका कालेलकर की तरह सेवा भावी इंसान नहीं रहे हैं। वह वर्तमान सेवाभाव के अन्तर्विहित सत्य को देख रहा है। इस संदर्भ में लेखक की स्पष्ट स्वीकारोक्ति है: 'दुनियाभर में गरीबों के लिए जो सेवा कार्य चलते रहे हैं, उनमें गरीबों को गरीबी के विरोध में खड़े करने की ताकत नहीं है। फिर चाहे वह मदर टेरेसा का सेवा कार्य हो, श्रीरामकृष्ण मिशन का हो या सत्य साँईबाबा का हो। क्योंकि गरीब ईश्वर निर्मित हैं, गरीब हमेशा दुनिया में रहे हैं, हमेशा रहेंगे, यह खयाल उनके पीछे है।

उनकी सेवा करना हमारा कर्तव्य है, धर्म है। इसी श्रद्धा से वे चलते हैं' (पृ. १०१)। लेखक मानता है कि समाज में एक न एक दिन दबे कुचले खड़े होंगे और संघर्ष करेंगे, विद्रोह करेंगे।

लेखक समाज में साहित्य की महत्वपूर्ण भूमिका को स्वीकार करता है। तभी कहता है: 'हमारे हाथों ऐसे वैचारिक साहित्य की निर्मिती हो जो पढ़ने पर कोई चैन से बैठ न सके, चैन से सो भी न सके। लेकिन ऐसे साहित्य का निर्माण हमारे हाथों तभी होगा जब हम रणक्षेत्र में कृतिशील होंगे। बाँहदार कुरसी में बैठ कर तो हम लोगों का वैचारिक मनोरंजन ही करेंगे।' (पृ. ४६)। वह साहित्य की रचना प्रक्रिया उसके स्थायी मूल्य तथा उत्कृष्ट साहित्य के विषय में भी विचार करता है। वह नये रचनाकारों के लिए अपने अनुभवों के आधार पर कुछ परामर्श भी देता है। वह कविता की सहजता को स्वीकार करता है। वह बोलने और लिखने की एकता, भाषा के प्रवाह को स्वीकार करता है। वह कहता है: 'कलम हाथ में लेने से पहले तीन बातों का स्पष्ट ध्यान होना चाहिए। मैं क्या लिखने जा रहा हूँ? २. किनके लिए यह लिख रहा हूँ? और- ३. क्यों लिख रहा हूँ?'' (पृ. ४८)। यह स्पष्ट हो तो शैली अपने आप प्रांजल बन जायेगी। लेखन को लेकर केलेकर जी ने अनेक तर्क दिये हैं, और माना है कि वह स्वान्तः सुखाय ही रहना चाहिए। इस संदर्भ में वे रवीन्द्रनाथ, वाल्टेयर तथा गेटे की बात करतें हैं और कहते हैं कि साहित्यकार को उसके साहित्य में ही देखना चाहिए। वे यह भी मानते हैं कि अभी बेहतर आना बाकी है यह महसूस होने तक लिखते रहना चाहिए। निश्चय ही केलेकर जी आज की लेखक बिरादरी की तमाम तरह की आकांक्षाओं से परिचित है। आज के वैश्वीकरण की दौर में वे अंग्रेजी की बढ़ती सत्ता को एक खतरे के रूप में देखते हैं। शिक्षा को व्यवसाय में बदलते वे देख रहे हैं। अंग्रेजी की महिमा को देख रहे हैं। वे पुस्तक प्रकाशन के व्यवसाय को देख रहे हैं। अंग्रेजी को गौरवान्वित करने वाले, उसे उच्च स्थान देने वाले समाज को भी वे व्यापक हितों के विरुद्ध देखते हैं। अंग्रेजी के ये नये व्यापारी कई-कई रूपों में कार्य कर रहे हैं। वे लोगों के भीतर, अंग्रेजी के भीतर ललक पैदा कर रहे हैं। विक्रम सेठ, अरुन्धती राय, सलमान रुस्दी जैसे अंग्रेजी लेखकों को इसी लिए गौरवान्वित किया जा रहा है। लेखक ने अंग्रेजी भाषा के साथ ईसाई चर्च के सम्बन्धों पर साह संपूर्ण अभिव्यक्ति की है। इसी के साथ भारतीय भाषाओं के आपसी सद्भाव, परस्पर अनुवाद की बात कर अपनी राष्ट्रीय भावनाओं की भी अभिव्यक्ति की है। भाषा के प्रश्न पर केलेकर जी का यह मानना है कि अंग्रेजीका प्रभाव स्वीकार कर हमने अपनी भाषाओं की उपेक्षा की। अंग्रेजी की तरफ आकर्षित करने के लिए अनेक विधान विकसित किये गये हैं। अशासकीय संगठन, बहुराष्ट्रीय कम्पनियाँ अंग्रेजी के नये प्रहरी हैं। अंग्रेजी पुस्तकों का भारत एक बहुत बड़ा बाजार बन गया है। 'सभी शक्तियाँ भारत को इंग्लैण्ड, अमेरिका का सांस्कृतिक उपनिवेश बनाने के ही काम में लगी हैं' (पृ. ६२)। केलेकरजी मानते हैं कि भाषा भी धर्म से जुड़ गयी है। इसे वे कश्मीर की समस्या के रूप में भी देखते हैं। इसके रहते वे कश्मीर की समस्या के समाधान को असंभव मानते हैं। क्योंकि कुरान के अनुवाद बांगला आदि भाषाओं मे तो हुए पर कश्मीरी में उसका अनुवाद नहीं हुआ। उर्दू की कुरान ही वहाँ चलती है। राजा राममोहन राय ने कुरान का बांगला में अनुवाद कराया और साम्प्रदायिक सद्भाव के अग्रदूत भी बने। इसके लिए लेखक कश्मीरी भाषा और साहित्य की परम्परा को जीवित करने की बात करता है। भारत की भाषा नीति के विषय में भी लेखक ने विचार किया है और माना है कि 'भाषा संविधान की आठवीं अनुसूची में दर्ज करने से बड़ी नहीं होती। उसका समाजविज्ञान समझना चाहिए और इस समाजविज्ञान के नियमों को लेकर उसका विकास करना चाहिए' (पृष्ठ ९९)। राजभाषा का प्रश्न अभी तक लटका है। दस साल ब्रह्मा के साल जैसे मालूम होने लगे हैं। न अंग्रेजी जाती है, न देशी भाषाओं के हाथ में प्रशासन आता है। हिन्दीवाले संतुष्ट हैं। क्योंकि उनकी भाषा के सिर पर राजमुकूट चढ़ा है। राजदण्ड भले ही अंग्रेजी के हाथ में रहा हो। पर लेखक मानता है कि इस समस्या को सुलझाया जा सकता था, जैसे जर्मनी में सुलझाया गया। '१८१५ में जर्मनी आजाद हुआ। बिस्मार्क के हाथ में देश आते ही, उन्होंने दूसरे ही दिन एक अध्यादेश जारी किया - 'कल से देश का सारा कारोबार जर्मन भाषा में चलेगा। जो यह भाषा नहीं जानते, एक साल के अन्दर सीख लें। वरना कुर्सियाँ खाली कर दें' (पृ. ९६)। इस संदर्भ में इजराइल का उदाहरण सामने है। भाषा की समस्या केवल शिक्षा के क्षेत्र की समस्या नहीं है। असल में वह प्रशासन के क्षेत्र की समस्या है। इस मामले में केलेकरजी बुद्धिजीवियों की भूमिका से संतुष्ट नहीं हैं।

रवीन्द्र केलेकर के इन चिन्तनों से उनकी नारी सम्बन्धी दृष्टि का पता चलता है। वे नारी के उत्थान के हिमायती हैं। नारी की अपरिमित शक्ति को वे पहचानते हैं। इसी लिए वे उसे समानता का स्थान देते हैं और व्यवस्था के संचालन में इसकी सहभागिता की हिमायत करते हैं। उनकी मान्यता है कि सत्ता व्यवस्था में नारी को आना चाहिए। वह देश की शक्ल सूरत ही बदल डालेगी। वस्तुतः केलेकरजी समाज में नारी को अतुलित शक्ति सम्पन्न रूप में देखना चाहते हैं, अबला के पारम्परिक अर्थ में नहीं।

इन चिन्तनों से रवीन्द्र केलेकर के गहन अध्ययन, व्यापक जीवनानुभव और स्पष्ट सूझ-बूझ का पता चलता है। यहाँ जीवन के तरह-तरह के अनुभवों तक पहुँचने का प्रयत्न किया गया है। पढते हुए हम अपने को न केवल लेखक के साथ यात्रा करते हुए पाते हैं, बल्कि पढ़ने के बाद स्वयं के भीतर एक सहभागिता और परिवर्तन का भी अनुभव करते हैं। अपने को ज्यादातर सहमत और कहीं-कहीं असहमत भी पाते हैं। लेखक की गाँधी दर्शन मे आस्था है, पर उसने डॉ.राममनोहर लोहिया, जयप्रकाश नारायण, काका कालेलकर, विनोबा भावे, रवीन्द्रनाथ, अप्पा पटवर्धन, सुभाषचन्द्र बोस, साने गुरुजी आदि के विचारोंका भी सम्मान किया है। कह सकते हैं कि रवीन्द्र केलेकर के ये चिन्तन मूल्यों की स्थापना तथा राष्ट्रीय और सामाजिक एकता तथा सद्भाव में अपनी महत्वपूर्ण भूमिका का निर्वाह करेंगे। केलेकर जी हमारे भारतीय लेखक हैं।

# उजवाडाच्या सुरांचें गद्य काव्य



♦ माधव बोरकार

**‘वर्ध्याची प्रेरणा’ हो निबंद लांबायेन दीर्घ आनी विचारांची खोलाय आशिल्लो असो निबंद. एकेतरेचें कन्फेशान तें. पिरायेच्या एका पेण्यार नास्तीक आसप आनी मुखार... ताच्या दुसऱ्या तोंका मेरेन पावप ह्या विचारांच्या प्रवासाचो एक आलेख ह्या लेखांत मेळटा. रवीन्द्रबाबांचो हिंदू धर्म, भारतीय संस्कृताय हाचेर भावार्थ आसा. देवाकूय ते मानतात. पूण तांची श्रद्धा आनी भावार्थ आंधळीं न्हय. भारतीय संस्कृतायेंत जें शिव आसा तें आपणायपी. पूण जें काळा भायरें आसा तें न्हयकारपी. ताचे सगले वैचारीक बरपावळींत खंयच मोट्वी नदर दिसना.**

ललीत लेखन रवीन्द्र केळेकारांच्या बरपाची मूळ प्रकृती अशें हांव म्हणटां तेन्ना हांव नवें अशें कांयच सांगिना. कोंकणींतल्या हेर बरोवप्यांचे बरपावळीची सुरवात कथा वा कवितेंतल्यान जाली. पूण रवीन्द्रबाबाक सुरवेक सावन वैचारीक ाहित्याची चड ओड आशिल्ली अशें दिसता. ‘मीर्ग’ हें नेमाळें तांणी सुरू केलें तेन्ना उप्राशिल्ले गरजेंतल्यान तांग्रेल्या बरपाक सुरवात जाली. आनी हें साहित्य वैचारीक आशिल्लें. गोंयचे सामाजीक, राजकी वा भाशीक प्रस्न तांकां सामके लागीं आशिल्ले प्रस्न. पूण तेच बराबर देशाची संस्कृताय आनी इतिहास हांचेर तांणी खोलायेन केल्लें चिंतन तांच्या बरपांत दिसता. तेच प्रमाण कोंकणी भास आनी साहित्य हांची गरज म्हूण नवलिका, एकांकिका आनी टोपणनांवान बरयल्ल्यो कांय कविता तांचे हातसून बरोवन जाल्यो. अशें आसलें तरी ते पिंडान ललीत गद्यकार. ताची उत्तम गवाय म्हळ्यार *उजवाडाचे सूर* हो ललीत निबंदांचो संग्रह.

*उजवाडाचे* सूर ह्या पुस्तकाच्यो आज मेरेन दोन

ावृत्यो उजवाडा आयल्यात. पूण ह्या दोनूय आवृत्यांत, त्या भायल्या आंगांत आनी अंतरंगांतूय, खूब गळेपणां आसात. दोनूय आवृत्यांच्या आकारांत फरक ासाच. दुसरे आवृतीचें चित्रूय वेगळें आसा. ह्या दलां फाटल्यान एक म्हत्वाचें कारण आसा. खासा वीन्द्रबाब ताची जाप थोडेशे अलंकारीक भाशेंत तना बरयतात: 'हांव जाणां, गाय जशी पाडकाक ाटून चाटून निवळ करता तसो बरपीय आपणालें रप घांशीत पुशीत रावता. गायची पाडकाचेर तशी रप्याची आपल्या बरपाचेर माया.' पुस्तकाची दुसरी ावृत्ती काडपाचो योग आयलो जाल्यार आदलें बरप रत एक फावट घांसून पुसून काडपाची तांची इत्सा ांचे पयले आवृतींतले 'मखलाशीं'त व्यक्त केल्या. ानी ताकाच धरून तांणी दुसरे आवृतींत कांय हत्वाचे बदल केल्ले आमी पळयतात. हे नवे आवृतींत ांणी पयले आवृतींतलीं कांय बरपां गाळून नवीं बरपां घेतल्यांत. े म्हणटात: 'पयले उजवाडावणेंतलीं 'पावसाचें रीण', 'विक्षिप्त ाणी' आनी 'ती बँग' हीं बरपां बेसूर कशीं दिसलीं, कालांतरान आपलेंच बरप आपल्याक पोरणें दिसप सभावीक. पूण बरप्याक शें दिसलें हाचो अर्थ वाचप्याकूय तशेंच दिसतलें अशें ना. ह्या पुस्तकाच्यो दोनूय आवृत्यो अभ्यासाचे नदरेन बारकायेन ाचून पळयतकूच पयले आवृतेंतले कडेक काडून दवरिल्ले लेख म्हाका म्हत्वाचे दिसले आनी रवीन्द्रबाबांल्या निर्णयाचें अजाप जालें. खंयचेय एके गजाली कडेन दोग जाण वेगवेगळे नदरेन पळयतात हेंय तितलेंच खरें. नवे आवृतींत तांणी जी नव्या लेखांची भर घाल्या ताका लागून दुसरे आवृतीक आगळेंच रूप आयलां अशें हांव म्हणीन. १९६३ ते १९९३, म्हळ्यारूच तीस वर्सांच्या काळाच्या अवकाशांतलीं हीं बरपां बरोवप्याच्या व्यक्तिमत्वाच्या विकासाचे वाटे वयले म्हत्वाचे वाटचिरे. चाळिशी ते सत्तरी हें पिरायेचें अंतर कातरतना बरोवप्याच्या जिवितांत लक्षांत येवपा सारकिले बदल जाले. हे बदल अणभवांतल्यान जाल्ले. ते विचारांचे तशेच भाशेचे शैलीचेय बी. हे बदल तांचे बरपावळींत स्पश्ट पडबिंबीत जाल्ले दिश्टी पडटात. रवीन्द्रबाब तर आपणाल्या बरपा कडेन बारकायेन तिरायत नदरेन पळोवपी बरपी. देखून ते म्हणटात: 'ह्या पुस्तकाची दुसरी खेप येवपाची संद आयली– मागीर ती चार स म्हयन्यांनी येवं वा धा वर्सांनी येवं – आनी हांव त्या वेळार आसलों जाल्यार, हांव हें सगळें घासून–पुसून काडटलों हातूंत दुबावूच ना.' नामनेचे मराठी कवी, कथाकार आनी कादंबरीकार पु.शि. रेगे आपल्या बरपांत अशेच बदल करताले ताची हांगा याद जाता. एका काळार आवडिल्लें आपलें बरप कालांतरान तितलेंच समाधन दितलें अशें ना. काळ वता तशे त्या बरपांतले दोश दिसपाक लागतात.

*उजवडाचे सूरांतलीं* गद्य बरपां दोन तरांचीं आसात: वैचारीक आनी ललीत. ह्या सगल्या बरपांचें खाशेलेपण म्हळ्यार तांचे फाटल्यान आयकूंक येवपी चिंतनाचो सूर.



**मंगेश पाडगांवकार आनी गिरीश वांगडा...**

रवीन्द्रबाबाक भारतीय संस्कृतांय, देशाचें समाजशास्त्र, हिंदूधर्म आनी इतिहास हांचो सोद घेवपाची सुमारा भायर ओड. *धुस्पल्लें जानवें, समिधा* सारकिल्या तांच्या पुस्तकांत तांणी ह्या विशयाचो होलम घेतला आनी विचार मंथनांतल्यान जीं सतां होलमल्यांत तीं तांणी मांडल्यांत. तांकां तात्वीक बसका आसा. असली बरपावळ बुदूधीक आव्हान करपी आनी कोंकणींत अशे तरेचें बरप जावं येता हाची गवाय दिवपी. पूण *उजवाडाचे सूरांतलें* बरप सामकें वेगळे प्रकृतीचें. ह्या पुस्तकांतली बरपावळ आपजिणेच्या आंगान वचपी. जिवितांत अणभविल्ले सौंदर्याच्या अणभवांचे खीण तांणी हांगा उतरांनी कोरांतल्यात. सैमाचे सोबीतकायेचो आस्वाद अळंग मनान घेतना निखट्या मळबाच्या दीसभरयाच्या विंगड विंगड रुपाचीं चित्रां ते रंगयतात. 'सकाळचें मळब एके तरेचे जाल्यार, सांजवेळचें दुसरे तरेचें. सकाळच्या शिरंगारांत थोडी लज भरसल्ली आसता. सांजवेळचें मळब मुरवत लेगीत सोडटा. इंद्रधणुचे सातूय रंग सांजवेळच्या मळबार शिंपडिल्ले पळोवंक मेळटात. थोड्या वेळान सूर्य बुडटा आनी सातांतले फकत तिनूच रंग उरतात – शेंदुरी, तांबडो आनी हय–न्हयसो नारिंगी. मागीर तेय एकामेकांत एकजीव जातात. तांकां वेगळे काडप कठीण जाता.'' 'उजवाडाचें सूर' ह्या वर्णनांत एकाच बराबर अमूर्त चित्र आनी भाव कविता एकजीव जाल्लीं दिसतात. 'पुनव ओतताली' हो ललीत लेख म्हळ्यार एक गद्यांतली कविताच. बरोवपी कोजागिरीच्या चान्न्यांतलें कवीत मनाच्या दोळ्यांनी ओखेता आनी ताचें मन चान्न्याच्या सौंदर्यानुभवान तुडुंब भरून व्हांवता. शांततायेक आपलो असो एक सूर आसता आनी तो आयकुपाक काळजाक कान आसचे पडटात. हो सौंदर्यानुभव पळोवपाक आमचे कडेन नदर ना, तेच प्रमाण, तो आंतरीक सूर आयकुपी कान आमी होगडावन बसल्यात हाची बरोवप्याक खंत आसा. ह्या लेखा वरवीं तो आमचें लक्ष ताचे कडेन ओडचेलो यत्न करतना

म्हणटा: "आकाश–लक्ष्मी वाजेवन आयज कोणाकूच तिळो लायना .आसतना गेली जावंक जाय..." आमचे भोंवतणी सौंदर्य आसा हाची जाणविकाय आमकां नासता देखून आमी आनंदाक पारखे जातात अशें बरोवपी सुचयता. रवीन्द्रबाबाच्या व्यक्तिमत्वांत एक कवी आसा हाची नाट 'पुनव ओततालीं'त मेळटा. तेच प्रमाण 'सैमाचें महाकाव्य–जोग' ह्या लेखाकूय कवितेची कान्त मारता.

स्थळ–वर्णना हें रवीन्द्रबाबाल्या बरपाचें एक खाशेलेपण. 'घारापुरी', 'बेलूर मठांत', 'वाराणसी' हीं बरपां स्थळांचीं वर्णनां करतात. पूण हीं वर्णनां चालंत अर्थान स्थळ–वर्णनां न्हय. रवीन्द्रबाब त्या त्या थळाच्यो profile काडटा. आनी हीं वर्णनां निखटीं भुगोलीकूय न्हय तर त्या थळांचें सांस्कृतीक आनी इतिहासीक संचीत ते दाखयतात, आनी वाचप्याक चिंतूंक लायतात. प्रवासाक लागून तांची जीण गिरेस्त जाल्या आनी वाचप्याकूय तोच अणभव आयले बगर रावना. ते घारापुरीच्या शिल्पांचें सौंदर्य उकतें करून दाखयतात आनी अशे तरेचीं स्थळां पळोवपाची प्रेरणा वाचप्याक मेळटा. बरोवपी ह्या थळांक भेट दितात ते निखटे तीं थळां पळोवपाक न्हय तर ते वरवीं देशाची बेस बरी वळख करून घेवपाचो हेतू ताचे फाटल्यान आसता. *'हिमालयांत'* सारकिलें प्रवासवर्णन म्हळ्यार देशाचें अंतरंग समजून घेवपाचो प्रवास अशें म्हळ्यार जाता. वाराणसीक पावता तेन्ना ताच्या मनांतली देशाचे धार्मीक संस्कृतायेविशींची कल्पना आनी पूर्वग्रह वाराणसीचो प्रत्यक्ष अणभव घेतले उपरांत मुळा सावन बदलतात आनी ताका देशा कडेंन पळोवचेली नवी नदर मेळटा. तोच अणभव वाचप्यांकूय येता. कल्पने परस अणभव म्हत्वाचो हाची जाणविकाय ताका जाता.

रवीन्द्रबाब आपल्या बरपांक आप–उकतावणेचीं बरपां अशें म्हणटात. ते नदरेन पळयल्यार 'नव्यान जियेवंक मोळिल्लें जाल्यार', 'संतुश्ट जिविता खातीर' आनी 'वर्ध्याची प्रेरणा' हे निबंद म्हाका म्हत्वाचे दिसतात. तातूंतलो 'वर्ध्याची प्रेरणा' हो निबंद लांबायेन दीर्घ आनी विचारांची खोलाय आशिल्लो असो. एके तरेचो कन्फेशन तें. पिरायेच्या एका पेण्यार नास्तीक आसप आनी मुखार वाचन आनी अणभवान



ताच्या दुसऱ्या तोंका मेरेन पावप ह्या विचारांच्या प्रवासाचो एक आलेख ह्या लेखांत मेळटा. रवीन्द्रबाबाचो हिंदू धर्म, भारतीय संस्कृताय हांचेर भावार्थ आसा. देवाकूय ते मानतात. पूण तांची श्रद्धा आनी भावार्थ आंधळी न्हय. भारतीय संस्कृतायेंत जें शिव आसा तें आपणावपी. पूण जें काळा भायरें आसा तें न्हयकारपी.




तांचे सगले वैचारीक बरपावळींत खंयच मोटवी नदर दिसना. आमच्या संस्कृतीक आनी सामाजीक जिवितांतलीं उणेपणां तांकां तोपतात आनी ते संबंदान ते तिडकूय उकतायतात.

ह्या संग्रहांतलो एकूच सूर वेगळो लागला तो 'पावलें म्हणटकूच' ह्या बरपांत. ताका ललीत लेख कित्याक म्हणचो असो म्हाका प्रस्न पडटा. ती एक अप्रतीम कथाच. रूपकाचो आदार घेवन मनीस जिणेचेर केल्लें एक भाश्य. मनीस पयशां फाटल्यान लागता आनी एक दीस ताका आपली जीण रिती दिसपाक लागता. आनी एक दीस तो सगलें सोडून एक वेगळीच जीण जियेवंचेलो निर्णय घेता. एक दीस यम ताका व्हरपाक येता तेन्ना तो यमा कडेन थोडो वेळ मागून घेता आनी मृत्युपत्र बरयता. ताचो निमाणो परिच्छेद म्हत्वाचो आसा: 'मरण केन्ना येत सांगूंक येना. तें केन्नाय येवं येता, खंयच्याय खिणाक येवं येता, आनी ह्या खिणाक लेगीत येवं येता, हाची जागृताय दवरून जिवीत जियेवंक जाय म्हणटकूच मनीस आयचीं कामां फाल्यांचेर धुकलचोना. वोगीच कोणाचो मत्सर, दुस्वास करचोना. खिणाखिणाचो बरो उपेग करतलो. अख्ख्या संवसारा कडेन मायेमोगान चलतलो आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार – 'खोलायेन जियेतलो... खोलायेन जियेवप हाकाच जियेवप म्हणूंक जाय.'

म्हज्या मतान रवीन्द्रबाबालें जिविता विशींचें चितन साररुपान ह्या परिच्छेदांत आसपावलां. रवीन्द्रबाब सौंदर्याचेर मोग करपी. पूण हें सौंदर्य जिविताक अदीक अर्थ दिवपी सौंदर्य... सताचें अस्तर आशिल्लें सौंदर्य तांचे भितल्लो सर्जक चिंतकाचो हात धरून मुखार गेल्लो आमकां दिसता. तेच प्रमाण कोंकणी भाशेच्या आंतरीक सौंदर्याचो साक्षात्कार तांचे सोंपे भाशेंतल्यान आनी सादे शैलींतल्यान जावंक पावता.

देखून कोंकणी साहित्यांतलें एक आगळें वेगळें पुस्तक हें.



# जपान आनी हिमालयाचो म्हाका घडिल्लो प्रवास

♦ चंद्रलेखा डिसौजा

**आपूण केंद्रांत आसुनूय, आपणाक जो मुखेल रुपान रावंक दिना, आपूण जें किंतें पळेतां ताचें सवेदन ग्रहण करुनूय ताका निरपेक्ष स्वरुपांत व्यक्त करता तेन्नाच तें प्रवास वर्णन जाता... असलें तरेचें बरप यात्रा–वर्णन आसूंक जाय; यात्री–वर्णन न्हय. अशें जायना जाल्यार यात्रा–संस्मरण, आत्म–संस्मरणूच उरता... यायावर मनीस टिपून दवरता. तेन्नाच तें संस्कृती अध्ययनूय जाता, कित्याक तर यायावर मनीस आपलो प्रवास विवरण बरोवपा खातीर करना, तर मनशाक बरो मनीस कसो करचो, वा तो आनीक बरो कसो जावचो ह्या हावेसांतल्यान करता...**

हिमालय म्हळ्यार फकत हिमशिखरां न्हय, हिमालय म्हळ्यार फकत देवदार चिडाचीं रानां न्हय, हिमालय म्हळ्यार घसघशा भाशेन व्हांवपी न्हंयांचो फकत उगम न्हय, हिमालय एक वातावरण, तपस्येचें तशें अध्यात्माचें.''

(*उजवाडाचे सूर*, पानां ५५, ५६)

''आर्विल्ले (Modern) जावपाचे प्रक्रियेंतल्यान वता आसतना जपानचो फाटल्या शंबर वर्सांचो अणभव तरी ज़ाणा जावन घेवचोच पडटलो आमकां. आर्विल्ले जावपाचे प्रक्रियेंत भंय खंय आसात, खंय विघ्नां येवं येतात... तीं कशीं चुकोवचीं, पयस कशीं करचीं आमचे संस्कृतायेक बादा येवंक दिनासतना आर्विल्ले कशें जावं येता, ह्या मळा वयलो जपानचो अणभव जितलो आमकां उपकारा पडूं येता तितलो येवरोप अमेरिकेचो पडपाचो ना. रशियेचोय पडपाचो ना. ह्या सगळ्या देसांचे उदरगतीचो संदर्भूय वेगळो.''

( *'जपान पळोवन आयलों'*, *'जाग'* एप्रील-मे २००४, पान ३६)

मनशांची जीण एक प्रवास. ह्या प्रवासांतल्यान जीण सारता आसतना मनीस जिणेच्या सारा विशीं चिंतूंक लागता तेन्ना मनशाचो प्रवास आपले जिणेच्या संबंधान सार-तत्व रुपान आपलो आंतरीक प्रवास सुरू करता. मनीस ह्या आंतरीक प्रवासाक सोबऽ सारको बाह्य प्रवास वेंचून काडटा. प्रवास साहित्य खंयचेय शैलीन बरोवं येता. भारतीय साहित्यांतूच न्हय तर विश्व साहित्यांतूय बी वेगळ्या वेगळ्या शैलींनी हे तरेची बरपावळ उकती जाल्या. मनीस-जातीचो इतिहास मनशांचे यायावरी प्रवृत्ती कडेन जोडिल्लो आसा. 'यायावरी' प्रवृत्ती म्हळ्यार कितें? जी व्यक्ती सतत भोंवत रावता, हेडत रावता, जिचे पांय सतत गतिमान आसतात, चलत रावतात, इतलेंच न्हय तर, चलता चलतना आपले आयस पयस जें कितें पातळ्ळां तें ही व्यक्ती आपले मानसीक प्रतिक्रियेच्या रुपान ग्रहण करीत रावता. ह्या प्रवासांत आपूण केंद्रांत आसुनूय, आपणाक जो मुखेल रुपान रावंक दिना, आपूण जें कितें पळेतां ताचें संवेदन ग्रहण करुनूय ताका निरपेक्ष स्वरुपांत व्यक्त करता तेन्नाच तें प्रवास वर्णन जाता. व्यक्तिपरकता, स्वच्छंदता, आत्मीयता, कल्पनाशीलता हे निबंध शैलीचे गूण. यात्रा साहित्यांतूय बी साहित्यीक यायावर आपले संवेदने प्रमाण, आपलें अनुभूत सत्, आपले भावावेशतेंत व्यक्त करुनूय अव्यक्त रावता. अशें जायना जाल्यार यात्रे बदला, यात्री मुख्य जाता. यात्रा वर्णनांत त्या त्या प्रदेशाचें स्थान, दृश्य, वाटार, मनशां, देवळां, मशिदी, इगर्जो, विजयस्तंभ, स्मारकां, किल्ले, पालासी, वणटी वयलीं चित्रां, शिल्प, तांचो इतिहास, इतिहासांतलें समाजशास्त्र, अर्थशास्त्र, नितीशास्त्र, धर्मशास्त्र हें सगळें उपकरण यात्रेची पिठिका तयार करता. असलें तरेचें बरप **यात्रा-वर्णन** आसूंक जाय; **यात्री-वर्णन** न्हय. अशें जायना जाल्यार यात्रा-संस्मरण, आत्म-संस्मरणूच उरता.

फकत यात्रा करून मनीस यायावर जायना आनी यात्रेंचें फकत विवरण आयलां म्हूण ताका यात्रा-साहित्य म्हणूंक येना. दर एका भोंवडेकारा कडेन आपलो विशिश्ट सौंदर्यबोध आसूंक जाय. प्रकृतीची विविधता, विशालता, सतत गतिमयता, प्रवाहमयता एक शाश्वत संगीत तयार करता. हें संगीत स्पंदन झेलून घेवपाक प्रकृतीच्या सहवासांत रावचें पडटा. अशें सतत चलता आसतना भोंवडेकाराक जो आनंद, उल्हास मेळटा तो मुक्त रुपान व्यक्त जाता. भोंवडी महत्वपूर्ण जाता तेन्नाच ती साहित्यीक यायावरी जाता. फा हियान, ह्युयेन त्सांग, इब्न बतूता, अल बेरुनी, मार्को पोलो, बर्नियर अशीं कितलींशींच नांवां घेवं येतात, जांची भोंवडी महत्वपूर्ण जाल्या. आमच्या देशांत तिबेट, चीन, ग्रीस, मलाया ह्या देसांतल्यान कितलेशेच यात्री आयिल्ले. वर्सांसंकिनी ते चलत रावल्यात. येरादारीचीं साधनां सामकीं उणीं आशिल्लीं. व्यवस्थीत मार्गूय नाशिल्ले तेन्नाय साहित्यीक यायावर, धार्मीक यायावर हेडत रावल्यात. ज्या ज्या वाठारांतल्यान ते भोंवल्यात थंयचो समाज, संस्कृती, इतिहास ते टिपीत रावल्यात जांचो उल्लेख आयजूय आमी करीत आसात. तांचे खातीर हो प्रवास फकत भोंवडीच नासलो, तांचो हेतू पर्यटनूय नाशिल्लो, तो मनशांची प्रवृत्ती आनी प्रकृती समजून घेवपाचो आशिल्लो. मनशांची प्रवृत्ती समजून घेवपा खातीर तांचो देश, त्या देशाची प्रकृती, हवामान, भेस, समाज, सामाजीक प्रक्रिया समजून घेवपाचो प्रयत्न करचो पडटा. प्रकृती, संस्कृती, विकृती मेळून मनशाची जीण प्रवास करीत आसता आनी भोंवडेकारांक भोंवडी करता आसतंना होच प्रवास समजून घेवचो पड्टा. आयज ज्या जाग्यार मनीस पावला तो थंय कसो पावलो? असभ्य मनीस सभ्य कसो जालो? काल, आयज आनी फाल्यांचो विचार करीत मनशाक केंद्रांत दवरून, मनशाचो हो पुराय प्रवास पळोवपाचो आनी बरोवपाचो आसता.

डॉ. राधाकृष्णन हांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, मनीस देवता जाता हो चमत्कार न्हय. तसो तो दानव जाता होय बी चमत्कार न्हय, पूण मनीस जेन्ना मनीस जाता तेन्नाच खरो चमत्कार जाता. आपआपल्या देशा भितर मनशाचो मनीस जावपाचो हो यत्न म्हळ्यार मनीसकुळयेचो प्रवास. हो प्रवास मनशान खंय मेरेन आनी कसो साधला हें मनीस चिंतता तेन्ना मनशाचें यायावरी चिंतन मनशाक केंद्रांत दवरून, यायावर मनीस टिपून दवरता. तेन्नाच तें संस्कृती अध्ययनूय जाता, कित्याक तर यायावर मनीस आपलो प्रवास विवरण बरोवपा खातीर करना, तर मनशाक बरो मनीस कसो करचो, वा तो आनीक बरो कसो जावचो ह्या हावेसांतल्यान चिंतनात्मक, विचारात्मक प्रवास सुरू करता. नाजाल्यार भारत देशांतलो बौद्ध धर्म जपानाक कसो पावलो? बोधिधर्म नांवाचो बौद्ध साधू जावपाक कसो पावलो? जाग एप्रील-मे, २००४, पान ३२ चेर रवीन्द्रबाब बरयतात, ''जपानांत बुद्ध धर्म दक्षीण कोरियांतल्यान पावला. तोवूय दक्षीण कोरियाच्या राजान जपानच्या राजाक धाडिल्ले 'भेटवणीच्या रुपान''' हे धर्मप्रचारक आपल्या धर्मा वांगडा चीनी भास, चीनी लिपी, चीनी साहित्य, वैजके वेलीं कांय पुस्तकां घेवन आयिल्ले. शोतोकु राजकुंवर जेन्ना सत्ता आपल्या हातांत घेता तेन्नाच हें सगळें घडटा, तो आपुणूय बुद्ध धर्माची दीक्षा घेता. दुसऱ्या कुडल्यान घेवपा सारकें घेवप पुणून घेतकूच ताका पुराय जपानी करून उडोवप हो जपानी लोकांचो सभाव. मेइजी काळाचे क्रांती उपरांत शोतोकु राजकुंवराच्या काळांत हांगा दुसरी क्रांती जाता. जपान आधुनीक जाता पूण 'वॅस्टर्न' जायना.

म्हाका घडिल्ल्या जपानाच्या प्रवासांतल्यान म्हाका जपानाचो सांस्कृतीक दिश्टावो जाता. जपानी उतरां आनी तांचो अर्थ, ताचो सांस्कृतीक संदर्भ कळटा. जपान देशाची राजधानी 'टोकियो' न्हय, तर 'तोक्यो'. 'यासुकुनी' म्हळ्यार बागेचें नांव, पूण खऱ्या अर्थान ती एक शिन्तो समाधी. मेइजी काळ म्हळ्यार जागरूकतायेचो काळ, दोळे उकते दवरून बदल हाडपी काळ. 'हाकोने' हें शाराचें नांव. ह्या देशांत कोणूय कामा बगर बशिल्लो दिश्टी पडना. चिंगासाकीक पावलें तेन्ना कळ्ळें, ह्या देशांत पेंवप हो अभ्यासक्रमाचो भाग. 'आतामी' शार लग्न जाल्ल्या नव्या जोडप्यांचें हनिमुनाचें स्थान. 'तातामी' हें शेंदऱ्यांचें म्हळ्यार जपानी तरेचें फर्निचर. 'इकेबाना' ही फुलां सजोवपाची कला. 'शीन', 'सोये', 'ताई' - अनुक्रमान सर्ग, मनीस, पिर्थूम - हीं तिनूय आंगां फुलांचे सजोवणेंत बुनयादी तत्वांच्या रुपान आसात अशें मानतात. ही सजावट करतना १, ३, ५, ७, ९ आंकड्यांनी फुलां घेवन सजयतात. हे आंकडे शूभ मानतात. तर २, ४, ६, ८ आंकडे अशूभ मानतात. हो प्रदेश ज्वालामुखीचो, बरोवप्यान ताका 'जाळमूख' म्हळां. हांगा म्हाका प्रस्न पडटा, कोंकणीची प्रमाण

उतरावळ थारायतना volcano खातीर 'ज्वालामुखी', 'जाळमूख' काय 'ज्वाळामूख' - कितें वापरचें? हॉटॅलांत भितर सरतनाच खाटीर 'युकाता' दवरिल्लो दिसता. युकाता म्हळ्यार लांब झगो. पासयेक वचपा खातीर तो झगो चडोवप आनी पांयांत खडावां सारक्यो 'गेता' घालप. वाचतना म्हाका विचार आयलो, म्हज्या पांयांत 'गेता' घालून हांव केन्ना भोंवक पावतलें? फुडें वाटेर चलतना 'पाचिंकों' म्हूण पाटी लायिल्लो एक पसरो दिश्टी पडलो. भितर पळेत जाल्यार कसल्या तरी धातूच्यो गुळयो एका मशिनांत घालून एक एकलो आपल्या नशिबाची परिक्षा घेता.

'जपानांत घोव बायलेची निष्ठा लग्ना भायल्या मोगा आड येना' ('जपान पळोवन आयलों', जाग डिसेंबर २००२, पान १८) वाचतना विचार आयलो, जपानी कायदो ह्या संबंधांक मान्य करता काय ना? फुडल्या म्हज्या प्रवासांत हांवें वाचलें, च्याक ते 'ओ-च्या' म्हणटात. 'ईल' नांवाचें एक नुस्तें आसता. 'तेम्पुरा', 'सोबा', 'सुकियाकी' हीं वेगळ्यावेगळ्या खावपाच्या जिनसांचीं नांवां. देशाची भोंवडी करतना आमकां गायड लागता ताका जपानी भाशेंत 'गायदोसान' म्हणटात. कल्चर्ड मोतयां कशीं जातात हें सातवे खिस्तींत वाचूंक मेळटा. 'कोकिची मिकीमोती'ची तोखणाय करची शें दिसता. जपानाचे आध्यात्मीक फुडारी 'निचिदात्सू फुजीई' तांचीय भेट घड्टा. सेनुसुइक्योंत शारांतलो शान्ती स्तूप आमी पळेतात. ह्या स्तुपाचो आंकडो विसावो. स्तुपाचो इतिहास वाचतना वांगडा पर्वतांचीं नांवां आशिल्लीं तीं अशीं: - नाका-दाके, ताका-दाके, नेको-दाके. नाका-दाके पर्वत क्युशू जुंव्या वयलो सगळ्यांत ऊंच, ताचेर शान्ती स्तूप बांदून काडला. 'दारुमा' नांवाची बावली आनी बौद्ध साधूचो संबंद कितें आशिल्लो हो इतिहास कळटा. वांगडाच जपानी मनशाच्या सभावा विशीं जाणकारी मेळटा. 'झॅन' संप्रदायाचीं पाळांमुळां खंय खंय पावल्यांत, जपानी संस्कृतायेन ते सिद्धांत कशे पचयल्यात तांकां आपले करून घेतल्यांत तें समजता.

'बेप्पू' नांवाचें सुंदर स्थळ क्युशू जुंव्यार आसा म्हणपाचें कळ्ळें. 'मात्सू' नांवाचे रूख 'सायोनारा' करतना हिमालयाचीं जम्नोत्री, गंगोत्री शिखरां सामकार उबीं रावलीं, नकळटनाच मात्सू आनी चीड-देवदारांची तुलना जावंक लागली. हिम-आलय म्हळ्यार भारतीय संस्कृतायेची वळख करून दिवपी पर्वत. हिमालयांतलें वारेंच आध्यात्मीक (*'हिमालयांत,* पान ४६) आशिल्ल्या कारणान सनातन सत्व आकर्शीत करता. रुशी मुनींचें चिंतन मस्त करता. 'यो वै भूमा तद्‌अमृतम...' चें ज्ञान जाता. हिमालयाची मस्ती पियेतना 'जड' आनी 'चेतन' तत्व म्हळ्यार कितें, जी सृश्ट दिसता तातूंत चैतन्य भरप म्हळ्यार कितें हाचो दिश्टावो जाता. स्पर्श, गंध, अणभवाचो आनंद सत्-चित्-स्वरूप दाखोवन दिता. इस्थेटिक सॅन्स आनी डिव्हाइन सॅन्सा विशींचें चिंतन म्हळ्यार हिमालयाची भोंवडी अशें म्हणूं येता. बरोवप्याच्या मनाची खंत आनी ती कोंकणी साहित्यकाराचीय बी खंत 'ते क़वी आशिल्ले जाल्यार कोंकणीक एक महाकाव्य मेळटा आशिल्लें. (*हिमालयांत;* पान ७६.)



'युकाता'घालून...

हिमालयाचें ध्यान करतना केदारनाथ, ज्योतिर्मठ, बदरीनाथ पळोवन यात्रा धामांचें महत्व कळटा. शंकराचार्याची 'मिलिटरी मायंड' लक्षांत घेता आनी त्या 'मिलिटरी मायंडा'क समजून घेवपी बरोवप्याचें चिंतनूय आमचें लक्ष ओडून घेता. बरोवप्याची ही भोंवडी फकत भोंवपा खातीर वा पर्यटनाचे मजे खातिरूच ना, जाल्यार भारतीय संस्कृताये वांगडाच मानवी संस्कृतायेक सांबाळून दवरपाचो हो प्रवास. तो म्हाकाय ध्यानमग्न करून उडयता. 'भगीरथ तप' ताका 'भगीरथ यत्न' कित्याक म्हणटात तें पौराणीक चिंतन नदरे मुखार येवंक लागता. गंगा आनी यमुना फकत न्हंयोच न्हय तर मनीसकुळयेचो तो इतिहास. गंगा हें उतरूय तिबेटी (*हिमालयांत,* पान १०६) म्हणपाचें गिन्यान म्हाका जाता. खरेंच, जो भोंवंक भायर सरता ताचे जशे पांय चलतात आनी दोळे भोंवतात तशें ताचें मनूय हेडटा. म्हजें मनूय हिमालयांत आसतना जपानाचो प्रवास करता आनी जपानांत आसतना हांव 'मात्सु' रुखांक सायोनारा करून चीड-देवदारां मदीं पावता. म्हजे विचारांचो झोंपाळो म्हाका हिमालयांत आध्यात्मीक चिंतन दिता, ध्यानमग्न करता जाल्यार जपानांत प्रवास करतना हांवें म्हजें भारतीयपण कशें सांबाळचें हाचेर गहन चिंतन दिता. बरोवप्याचीं खोल खोल उतरां म्हाका मनीसजाती खातीरचें गहन चिंतन करपाक बाध्य करतात. जपानी संस्कृतायेचेर जें पुस्तक आसा, जाचो उल्लेख बरोवपी करता, ताचें नांव कितें? पानां परतीतना मेळटा. रुथ बॅनॅडिक्ट हांणी 'द क्रिझांथेमम एण्ड द स्वोर्ड' (शेंवतें आनी तरसाद) बरयलां. हांव तें वाचूंक पावतलें काय?

ह्या खिणाक हांव 'बौझू ज़िगोकू' क पावलां. बौझू म्हळ्यार बौद्ध भिक्खूंची तकली आनी 'जिगोकू' म्हळ्यार नर्क: म्हाका भारतीय संस्कृतायेंत यमकोंडाची कल्पना आसा ताची याद जाता. 'उमी जिगोकू' शब्दांतलें 'उमी' म्हळ्यार दर्या. Botanical garden खातीर 'वनस्पत्यालय' शब्द आयला तो वाचून हांव शिटकावतां. कोंकणी भाशेंतल्यान जेन्ना वनस्पत विज्ञाना खातीर खाशेली उतरावळ तयार करपाक वतले तेन्ना ह्या शब्दाक धरून दुसरे शब्द तयार करूंक येतले. 'नागा-ओ-दोशी' नांवाचो कोंबो कसो दिसता काय? ताचो पंदरा फूट लांब पांखाटो कसो दिसता काय? 'ताका मात्सू'च्या 'याशिमा' पर्वतार 'गेंझी झूज' हें वाचून हांव परत आमच्या

महाभारतांतल्या युद्धांत गुल्ल जातां. बरोवपी 'गेंझी मोनोगातारी' नवलकथे विशीं सांगता तेन्ना म्हाका ती नवलकथा वाचपाची उमळशीक लागता. जपानांत वचनासतनाच इतलें कितें मेळटा की आनीक जाणून घेवपाची हुरहूर लागता. 'फुजीयामा', 'साकुरा' आनी 'गेयशा' हीं जपानाचीं तीन आंगां. साकुरा फुलां वर्डसवर्थाचे 'डॅफोडिल्स' कवितेची याद करून दितात. खरेंच, मनीस प्रकृतीच्या सहवासांत प्रवास करता तेन्ना खूब सभर जाता. आपलो सौंदर्यबोध विस्तृत करपाकूय ती आमका आधार दिता.



**हिमालयाच्या प्रवासा उपरांत...**

'इत्सुकुशिमा' देवूळ, तांबड्या रंगाची 'तोरी' म्हळ्यार गेट वे आसा थंय दर्याक भरती येता तेन्ना खंय ही तोरी आनी देवूळ दर्याचे फाटीर पेंविल्ले वरी दिसपाक लागता. हांगा खरेंच म्हाका जाणवता, बरोवपी गद्य कवी आसचे बदला पद्य कवी आशिल्ले जाल्यार खऱ्यांनीच कोंकणी भाशेंत एक महाकाव्य रचून येतलें आशिल्लें. म्हजें मन 'कागुरा' नाच नाचपाक लागता. इतल्यांत म्हजे मुखार गेयशा उबी रावता आनी विचारता, म्हजे विशीं बरय ना गो? हांव चिंतूंक लागतां...

'गेय' म्हळ्यार गुणी, 'शा' म्हळ्यार चली. गुणी चली आसूनय लोक तिका 'वायट' कित्याक मानतात? गेयशान म्हज्या प्रस्नांची जाप म्हाका दिवंक ना. म्हाका दिसलें, हांवेंच म्हज्या प्रस्नाची जाप सोदून काडूंक जाय. म्हज्या जपान प्रवासांत हांव फुडें सरूंक लागलें आनी म्हाका म्हज्या प्रस्नाची जाप मेळ्ळी. बरोवप्यान सुरवातीक जरी हाका जपानी संस्कृतायेचें 'कुसकें' आंग मानलां तरी पूण गुणेस्त गेयशाच तोखणायूय केल्या. तें वाचतना म्हाका हिंदी भाशेंत एक 'दोहा' आसा ताची याद जाली -

साधू ऐसा चाहिए, जैसा सूप सुभाय
दाना दाना गहि लिए, थोथा देई उडाय

बरोवप्याची ही 'सूप वृत्ती' म्हाका आवडली. गुणी मनीस सार सार ग्रहण करता, नाका तें उडयता. गुणी चलये विशीं बरयतना बरोवप्याचीं उतरां अशीं आसात - ''भास आनी संस्कृतायेचो संबंध आसा तो होच. जपानी भाशा समजल्यारूच गेयशाच्या सांगाताचें खरें महत्व कळटा. नाजाल्यार भेड्ड्यान संगिताचे मैफिलीक वचपा इतलें पिशेपणाचें.'' (*जपान पळोवन आयलों*, 'जाग', सप्टेंबर २००३, पान २१.) गेयशाचे संस्कारितेचेर बरोवपी भाळटा. कारण संस्कृतायेन्या वर्णनांत




विकृती वा सुकृती दोनूय कृतीं विशीं मनशाक केंद्रांत दवरून चिंतप म्हळ्यारूच संस्कृती अध्ययन अशें म्हाका दिसता. हें वर्णन, म्हज्या मनांत गेयशाची शाळा पळोवपाची इत्सा जागयता. बरोवप्याची ही जपान भोंवडी पस्तीस वर्सां पयलींची. आजूय जपानांत लव मेरेजिस जातात काय ना हो प्रस्न म्हज्या ह्या प्रवासांतल्यान उपरासता.

जपानी भाशेंत एक म्हण आसा - 'अमेरिकेंतलो मनीस रावता तसलें घर आसचें, चीनी मनीस जेवता तसलें जेवण आसचें आनी जपानी बायले सारकी घरकान्न आसची.' हे वाचना फुडें मनशाचे सभावीक प्रवृत्तीचेर उजवाड पडटा शें दिसलें. 'केगोन' घसघसो पळोवन म्हजें मन 'उतागाहामा' म्हळ्यार गावपी तडी वांगडा गावंक लागलें. हांगाच हांवें जपानी कंगरखिसी कलाकृतीचो अणभव घेतलो. प्रो. दोईचें अणकारा विशींचे चिंतन वाचून हिंदीचें एक वाक्य मनांत घोळटालें तें पानार आयलें - *'भाषाएँ सांस्कृतिक संकेतों की संहिताएँ हैं।'* हो विचार मनांत बरोच घट बसलो. प्रो. दोई हिंदी भास शिकून, हिंदींतल्यान जपानी भाशेंत बरीं बरीं पुस्तकां अणकारतात, पूण जपानी भाशेंतल्यान हिंदींत हाडपाचें काम हिंदी जाणपी मनशांचें अशें मानतात. हें वाचतना म्हाका एक प्रस्न पडटा, आमी भारतीय मनशां आमची भास दुसरे शिकतात तेन्ना अभिमानान फुलतात पूण दुसऱ्यांची भास शिकून घेवपाची कृती आमचे कडेन खूब उणी आसा. मागीर आमी अणकार खंयच्यान करतलीं? जपान आनी हिमालयांतलो म्हजो प्रवास म्हाका भारतीय मनशांचे आत्मसंतुश्टपणाचे वृत्ती विशीं जागरूक करता. 'जाग' २००० च्या दिवाळी आंकांत हांवें 'भारतांतली अणकारकार्याची अवतिकाय' (मूळ हिंदी: अशोक रा. केळकर, अणकार- माधवी सरदेसाय, पान ९२-९४) हो लेख वाचिल्लो. ह्या लेखांत केळकर बरयतात, संस्कृत ग्रंथांचे अरबी आंनी फारसी भासांनी तशेच अस्तंते कडल्या भासांनीय अणकार जाल्यात पूण खंयच्याय चीनी, अरबी, फारसी ग्रंथांचो अनुवाद संस्कृत भाशेंत जाल्लो दिश्टी पडना. दुसऱ्यांची विद्या वा भास शिकून घेवपाक आमी भारतीय प्रयत्नशील नात. ती जिज्ञासू वृत्ती आमचे कडेन ना. आमचें हें आत्मसंतुश्टपण आमचो घात करतलें म्हणपाचें आमकां जितले बेगीन कळटा तितलें आमच्या फायद्याक पडटलें. आमच्या देशांत आमी आमच्यो भारतीय भासोय शिकूंक तयार नात आनी विदेशी भासोय शिकून घेवपाची उमळशीक आमचे कडेन ना. म्हज्या ह्या प्रवासांतल्यान म्हाका कितलींशीं जपानी उतरां मेळ्ळीं. पूण तीं तांचे भाशेंत ते कशें बरयतात हें जाणून घेवपाक म्हाका जपानी भास शिकून घेवची पडली. प्रो. दोई जें कार्य करताले तें हांवें म्हजे तांकी प्रमाण करूंक जाय. म्हळ्यार, दुसरे भाशेंतले विचार म्हजे भाशेंत हाडून म्हजी भास आनी संस्कृताय समृद्धकरूंक जाय. इति शुभम्.

# जानव्यांत घुसपल्ले कांय प्रश्न

♦ प्रकाश रमाकांत वजरीकार

**खुबश्या निबंदांनी ते स्वप्नील भाव विश्वांत वचून वास्तवतायेची जाणविकाय करून दितात. विचारां मदलो घुसपागोंदळ हें जानवें आनिकूय घुसपायता. तें सुटटलें म्हण वाट पळोवप नातर तें तोडून उडोवप हे दोन पर्याय उरतात. सुट्टलें जाल्यार सोडयतलो कोणं, आनी तोडटलो म्हळ्यार जानव्याक हात घालतलो कोण? तें तर ब्राह्मणांच्याच (फक्त बामणूच न्हय) गळ्यांत रवाकेंतल्यान आड्वें आसा, ताका बुरो दाटला, थंय कांय (पाड्या) 'बुद्दीवादाच्यो' चावयो आसात. तातूंत नव्या–नव्या जानव्यांकारांचीय भर पडत आसा.**

'लळीत गंभीर बरपां' असो उप-माथाळो घेवन रवीन्द्रबाब केळेकार हांचें *घुसपल्लें जानवें* पुस्तक आयलां. जाग प्रकाशनाचें ८६ वें पुस्तक नव्या शतमानाच्या हुंबऱ्यार म्हळ्यार २००० वर्सा कोंकणी वाचप्यां मुखार येता ही म्हत्वाची घडणूक. ह्या पुस्तकांत राष्ट्रवाद, सैम, समाज, राजकारण, अर्थकारण, बी वेगवेगळ्या विशयां खाला वट्ट ६६ निबंद आसपाविल्ले आसात. वाचप्यांचे सोयी पासत हें पुस्तक अशे तरेन वांटलां -

१) घुसपल्लो समाज (७ निबंद)
२) नागवल्लो देस (९ निबंद)
३) नवं। देख (११ निबंद)
४) सैमाचे कुशींत (११ निबंद)
५) आमचीं दुबळीं आंगां (११ निबंद)
६) राजकर्णाक नवी देख (८ निबंद)
९) पांच नखेत्री बंदेपण (६ निबंद)
१०) उपाय (३ निबंद)

ह्या तरेकवार विशयां वयले निबंद 'जागां'तल्यान नेमान आयिल्ले. पुस्तक रुपान वाचप्यां खातीर ते संकलीत केल्यात

आनी कोंकणी चळवळीक जांणी संघर्शाची देख दिली ह्या इकरा जाणांक हें पुस्तक ओंपलां.

लळीत गंभीर बरपां अशें रूप घेवन हो निबंदां झेलो आमचे मुखार येता. 'घुसपल्लो समाज' ह्या विभागांत बरोवपी कांय घुसपागोंदळाचे प्रस्न आमचे मुखार दवरता. भारतांतली जाती वेवस्था, जातीयता, धर्मनिश्टा, धर्म-कुड्डेपण, भारतियांचें अज्ञान, त्या अज्ञानांतल्यान आयिल्लो अहंकार असल्या कितल्याश्याच गंभीर प्रस्नांचेर बरोवपी भासाभास करता. आपले रितीन कांय अनुमानां काडून आपले कांय निश्कर्श वाचप्यां मुखार मांडटा. भारतीय कुड्डे, अशीर मनाचे, दुराग्रही, अनुदार अश्या विशेशणांनी ह्या निबंदां झेल्याची सुरवात जाता. लेखकाच्या मनाचेर वाचनांतल्यान जाल्ले संस्कार, ताच्या घरचें आनी घराभोंवतणचें वातावरण, सैम समाज हांकां धरून रवीन्द्रबाबांचीं मतां ह्या निबंदां झेल्यांत आयल्यांत. कुड्डो अभिमान हो ह्या झेल्यांतलो पयलो अणभव. घुसपल्ल्या समाजाचें, पर्यायान हिंदू समाजाचें, चित्रण ते करतात. भारता कडेन पळोवपी विदेशी नदर आनी स्वदेशी नदर हांचो मेळ घालपाचो यत्न ह्या निबंदांत तांणी केला. गझनीच्या काळांत अल्-बेरुनी नांवाचो एक अरबी विद्वान भारतांत आयिल्लो. ताणें भारतांतल्या आपल्या निरिक्षणाचेर मांडिल्ल्या मतांनी 'हिन्दू' उतर जे तरेन वापरला तें खोडून काडटना रवीन्द्रबाबान भारतीय - स्वदेशी नदर आपणायल्या. अल-बेरुनी हाच्या मता प्रमाण हिन्दू मोटव्या आनी अशीर मनाचे हाका कारण, ते भायर भोंवून नकळ. तांकां स्वताचो विस्तार करपाक येना. अल-बेरुनीन हिन्दू ही संकल्पना नदरे मुखार दवरून आपलीं मतां मांडल्यांत. तींच मुळांत-चुकीचीं अशें रवीन्द्रबाब म्हणटात. आनी भारतांतले जाती वेवस्थे विशीं म्हायती दिवन सांगतात. जण एकलो आपले जातीचो आनी कुळाचो अभिमानी. हीं राष्ट्राभिमानाचीं रुपां अशें तांचें मत. ह्या निबंदाचे अखेरेक एक मजेची गजाल म्हण ते फिल्म अभिनेतो शाहरुख खान हांचे विशीं उठिल्ली एक फाम सांगतात. कोणें तरी शाहरुख खानाचेर गुळयो घाल्यात हें आपलो (शाहरुख खानाचो पिसो आशिल्लो) ल्हान नातू पचोवंक शकना. नातू शाहरुख खानाक आपल्यागेर येवन रावपाक पत्रांतल्यान विनयता आनी इस्कोलांत गेल्ले कडेन नातवाक कळटा की शाहरुख खान मुसलमान, मुसलमान बुरशे, ते गायचें मांस खातात. गायच्या पोटांत देव आसता अशी शिकवण घेवन नातू घरा येता. ते शिकवणेचेर आपलो निश्कर्श काडटना रवीन्द्रबाब मनांतले मनांत म्हणटात, 'हांचे शाळेंतलीं भुरगीं संघ-परिवारांतल्या आवय बापायचीं आसपाक जाय' (पान ४) आनी उपरांत ते संघ-परिवाराच्या ''गर्व से कहो हम हिंदू हैं'' ह्या विधानाक धरून चर्चा करतात आनी म्हणटात, असल्या हट्टाक लागुनूच गुलामगिरी येता. अहंकार बळावता. शेवटाक ते एक उपाय सुचयतात - राष्ट्राभिमानाची सुवात राष्ट्रभक्तीन घेवंक जाय, म्हणपाचो.

म्हाका दिसता रवीन्द्रबाबान संघ-परिवाराक दोळ्यां मुखार दवरून तांच्या 'गर्वाची भास' सांगल्या. गायच्या पोटांत देव आसतात ही भावना निखटी संघ-परिवारांतल्यान (गोंयांत) येवंक ना. ती श्रद्धा-भक्तीच्या परिवारांतल्यान आयल्या. 'संघ' गोंयांत येवचे आदीं सावनूच ती हे मातये कडेन जुळिल्ली आसा. भौसांत ही भावना आसा. आयचे वरी घराघरांनी भटाक हाडून पुजा करपाचे चाली पयलींच आपणें देवाची पुजा करप आनी गायक पान काडून दवरप ही भक्ती प्रथा भौसा मदें अजून चलता. संघ-परिवारांतले बाटगेपण अजून ताका आफडूंक ना आनी आफडूंक पावचेंय ना. मागीर नातवाच्या विधानाक धरून, गायेच्या पोटांत देव आसता ह्या सुताक धरून रवीन्द्रबाबाचे निश्कर्श संदर्भा भायर वतात. मुळांत राष्ट्र ही संकल्पना आमी फिरंग्यां कडल्यान घेतल्या हें सत आमी न्हयकारूंक शकनात. गोंयांत क्रिस्तांव समाज आपले अभिव्यक्तीची भास म्हण साहित्य, कला, संगीत, नाट्यांत गोंयचो उल्लेख 'गोंय-देस' वा 'गोंया-देसांत' म्हणून अजुनूय करता. हाचो अर्थ, ते राष्ट्राभिमानी नात असो कोणें काडचो न्हय. देखून बरोवपी गरजे भायर संघ-परिवाराक म्हत्व दितात आनी ताका दुशण दितात तेन्ना वाचप्याक खटकता.

'आमच्यो गांठी निगरगांठी' ह्या निबंदांत रवीन्द्रबाबान भारतांतले जातीयतेचेर भाश्य केलां. जातीयता वचपाक जाय जाल्यार जाती वेवस्थेचेर.गंभीरपणान विचार जावंक जाय. जात फायद्याक कशी पडटा हें दाखोवपाक तांणी कांय धाडशी विधानां केल्यांत. भूतपूर्व राष्ट्रपती के. आर. नारायणन हांकां राष्ट्रपतीपदाचे वेंचणुकेंत उबे रावपाक तांच्या शिक्षणाचो, योग्यतायेचो, अणभवाचो, कार्यक्षमतेचो कित्याचोच उपेग जालोना. जालो तो फकत जातीचो. (पान ७) अशें सांगून के. आर. नारायणन हांणी आपणाक फकत जाती खातीरूच जोखला म्हणपाचें समजून तें पद न्हयकारपाचें पूण तांणी तशें केलें ना कारण तांकां थंय जातीचो फायदो घेवपाचो आशिल्लो. अशें रवीन्द्रबाब म्हणटात. जात सगळ्यांक फायद्याक पडल्या. लोकशायेंत फक्त 'ब्राह्मणू'च जाती वचूंक जाय अशें म्हणत आयल्यात. ते समतावादी, सुधारक जाल्यात. ते परस म्हत्वाचें, हें तांचे आत्मसंरक्षणाचे एक कवच अशें रवीन्द्रबाब म्हणटात. भारतांतल्या जातीयवादांची मुळां हिंदू धर्मांत आसात. हिन्दू धर्मान हिंदूंक पांगळे केल्यात. राष्ट्रवाद उणो पडला ताका लागून कितलेशच प्रस्न आमचे मुखार आसात. हे प्रस्न घुसपल्ल्या जानव्या वरी, हजारांनी वर्सां सावन घुसपल्ले आसात, घुसपत आसात. फाटल्या पांच हजार वर्सांच्या काळांत हिंदू आपणाल्या धर्मांतलो एकूय प्रस्न सोडोवंक पावलो ना अशें बरोवपी खंतीन सांगता.

भारतांतल्या विंगड विंगड राष्ट्रीय प्रस्नांचेर आपलीं मतां रवीन्द्रबाब उकतायतात. पंजाबी लोकां मदीं आशिल्ली असुरक्षिततायेची भावना, ते भावनेंतल्यान वेगळी चूल घालपाची तांची मनोधारणा, तांचीं तरेकवार कारणां समजून घेवन मागीर गोंयकारांची वसाहतवादांतल्या काळा उपरांत मुक्तताय मेळोवन भारत-राष्ट्रांत परत एक संघ रावपाची राष्ट्रीय इत्सा पूर्ती हांची तात्वीक चर्चा ह्या निबंदांत येता. घुसपल्ल्या जानव्या वरीच बरोवप्याचो घुसमटमार जाता. तो गांधी समाधी वेले प्रार्थने वेळार हुडक्या हुडक्यांनी रडून भायर फुट्टा.

अखंड भारतांतले भारतीय बायलेचे जाल्ले भोगणार, आफूड-भश्ट ही संकल्पना नश्ट करपाक गांधीजीन कसलो मार्ग आपणायिल्लो ताची ते चर्चा करतात. भंग्याच्या हातांतली सान्न सवर्णांच्या हातांत

देवन सवर्णांचे तकलेंतले आफूड-भश्टाचे संस्कार काडून उडोवपाचें कार्य गांधीजीन केल्लें हाचेर ते वाचप्याचें लक्ष ओडटात.

'आंबेडकरांचे श्राद्ध' ह्या निबंदांत ते चातुवर्ण्याचेर चर्चा करतात, आर्य ह्या देशांत वेगळी संस्कृताय घेवन आयिल्ले ह्या विधानान. जाणकारां भितर हातूंत मतभेद आसात. एक मत सांगता, आर्य हांगाचे कुळावे-मुळावे, तर दुसरें मत ते भायल्यान आयिल्ले अशें मानपी. रवीन्द्रबाब ते भायल्यान आयिल्ले अशें धरून तांचे संस्कृतायेचेर चर्चा करतात. आर्य एकेच मनीस कुळयेंतले आशिल्ल्यान तांचे मदीं जाती नाशिल्ल्यो अशें मानतात. आर्यांनी ह्या देशांतल्या (?) लोकांक पयलीं चेपून धरतना आनी मागीर तांचे कडेन जुळोवन घेतना चातुवर्णांत आपणाक कशी उंचेली सुवात दवरली हेंवूय ते सांगतात. उपरांत बुद्धान तांकां कशी बुद्द शिकयल्ली तें सांगून बुद्धाचो अनुयायी म्हण आंबेडकरांनी हिन्दू समाजांतले आफुड-भश्ट ना करपा पासत प्रायश्चीत रूप सोडून विद्रोहाचें आंग घेतिल्लें हें सांगतात. आंबेडकरी आव्हानाची गरज हिन्दू समाजाक आशिल्ली पूण 'भारत-रत्न' जाल्ले आंबेडकार प्रस्थापितां मदीं बसल्यात. प्रस्थापितां मुखार सगळे शरण गेल्यात. तांचे फुडें कोणाचे कांयच चलना अशें सांगून निर्शेवणेचो सूर रवीन्द्रबाब काडटात. भारतांतले जातीयतेक आनी जाती वेवस्थेक इंग्रजांचें कशें योगदान आसा ताचें मूल्यांकन तांच्या 'इंग्रजाचें योगदान' ह्या निबंदान केलां. धर्माचो संबंद राजकारणा कडेन लावन इंग्रजांनी आनी उपरांत भारतियांनीय हो प्रस्न घुसपा गोंदळाचो केला, तो सुटावो करपाक कुस्तार अशें रवीन्द्रबाबांक दिसता.




'नागवल्लो देस' ह्या वांट्यांत राष्ट्रीय पांवड्या वेल्या तरेकवार विशयां वेले णव निबंद आसपावल्यात. अर्थीक, सामाजीक तशेच राजकी पांवड्यावेले खंतीचे कांय प्रस्न हातूंत हाताळ्ळ्यात. नव-वसाहतवाद, अर्थीक असमानताय, गरिबी, मजुरी, गुलामगिरी, बंदेपण आदी विशयांक धरून ते चर्चा करतात. विकासाच्या नांवान भौराष्ट्रीय कंपन्यो श्रीमंत देशांतले गरीब जनतेक कशे तरेन लुट्टात तांचें ते मार्मीक वर्णन करतात. 'मनी मेकींक मशिनां' मूळ तत्वाक आनी मनीस धर्माक कशीं मारक थारल्यांत ताचें वर्णन ते करतात. आयच्या काळांत ही असमानताय अदीक स्पश्टपणान जाणवता. आमचें 'शॅयर मार्केट' आयकलें आनी (पयसावन) पळयलें जाल्यार एकाच भारतांत दोन भारत आसात व्हय, असोच प्रस्न उप्रासता. India that is Bharat ह्या देशांत नियोजनाच्या अभावाक लागून देशाची कशी वाट लागल्या तें ते दाखयतात - मुंबयचे 'धारावीं'चें बुरशें चित्रण ते भारतीय नदरेंतल्यान करतात.

भोगविलासी, हावरी वृत्ती मनीसपणाक आनी पर्यायान भारताक मारक थारता. ताचो हुस्को लेखक करता. अर्थीक असमानताये खातीर, मुळाव्या सोयी सुविधां पसून भारतांतले लाखांनी गांव तशेच कोट्यांनी लोक तुटून पडिल्ल्यान फकत 'रोजगार योजना' चलोवन हो देश वयर सरचो ना तर देश वयर काडपाक विचारांची दिका बदलपाक जाय असो विचार ते उकतायतात. ताका लागून अर्थशास्त्र हो विशय फकत तज्ञांचोच उरूंक जायना, तो सरसमान लोकांक कळपाक जाय, तांचे मेरेन पावोवंक जाय. आमचें अर्थीक धोरण भौराष्ट्रीक कंपन्याचे सोयीचें जालां ताका लागून देशूच विकूंक काडला ही तिडक ते उक्तायतात. आमच्या तज्ज्ञांक गांधी विचाराची सारकी वळख नाशिल्ल्यान देशाची अशी अवतिकाय जावंक पावली अशें तांकां दिसता.

देशाची आर्थीक घडी वेवस्थीत बसोवन देश उदरगतीचे वाटेर व्हरपाक राजकी पक्ष, तज्ज्ञ आनी 'बाबू'लोकूय अपेशी थारतात. ती जाग्यार घालपाक 'एका विचाराची' गरज आसा ती गांधीवादांत आसा हें ते पोटतिडकेन सुचयतात.

'नवी देख' ह्या वांट्यांत वट्ट इकरा निबंद आसपावल्यात. हे निबंद उदरगतीच्याच विशयांचेर आदारिल्ले आसात. अर्थीक आक्रमणांतल्यान उप्राशिल्ल्या प्रस्नांचेर बरोवप्यान भासाभास केल्या. विशयांचे नदरेन पुनरुक्ती कांय निबंदानी आयल्या. मुक्त बाजार वेवस्थेक बाजार मुक्तीचो पर्याय ते सुचयतात. भलायकी आनी बाजार हांचो आंतरराष्ट्रीय बाजार मांडपी कांय सुवार्थी देशा फुडें आमी नतमस्तक जाल्यात. पांगळे जाल्यात. जवाहरलालांक गांधीवाद कळटा आनी तो ते अंमलांत हाडटा म्हणसर कळाव जाल्लो. ते म्हणसर जवाहरलाल संवसार सोडून गेल्ले. जवाहरलालां उपरांतूय आमची विकासाची वाट चुकल्या. ह्या चुकिल्ल्या वाटांचो दिश्टावो आमकां जावंक जाय आशिल्लो अशें तांकां दिसता.

सेवेचें मळ सेवेचेंच उरूंक जाय आनी सेवेचें साधन सेवेचेंच उरूंक जाय ही विचारधारा घेवन रवीन्द्रबाब जगल्यात. देखून वकिली करप पूण वकिलीचेर पयशे करप ना. इंग्रजाळिल्ले शिक्षण पद्दतींत उत्पादक स्रमाक प्रतिश्टेचे नदरेन कांयच मोल ना हो पयलीं सावन चलत आयिल्लो समज नव्या शिक्षणान घट केलो. परिणाम म्हण पुर्विल्ल्या बामणांत. इंग्रजानी नव्या 'बामणां'ची भर घाली. आयज

मेस्ताचो भुरगो मेस्तपणाक उणाक लेखता आनी वकिली करता तशेंच हेर वेवसायां बाबतींतूय जालां. ताका लागून उत्पादक स्रमाक प्रतिश्टा मेळोवन दिवपाचो उलो ते मारतात. संवसाराचेर गेक गाजोवंक उठिल्ले अमेरिकेचें अर्थतंत्र कोसळूंक लागलां ही सुलूस बरोवप्याक सुखायता. भारताची उदरगत करपाक जाय जाल्यार परतून गांवांनीच वचपाक जाय हें ते पोटतिडकेन सांगतात.

'सैमाचे कुशींत' ह्या विभागांत इकरा निबंद आयल्यात. प्रयोगशील शेतकाम करतल्या शेतकामत्यांक म्हायतीपर पुस्तिका जावची असले तरेचे 'कसाक लागपी' निबंद ह्या वांट्यांत आसात. इकॉलोजीची आयची चळवळ हें गांधीचें नवें रूप अशें लेखकाक दिसता. असले तरेचें बरप वाचतकच 'गोवा बचाव अभियान' वाल्यांक उर्बा दिवन तथाकथीत 'सेव-गोवा' वाल्यांच्या रुपान मातिल्ली नडणी पयस काडपाची उर्बा संवेदनशील वाचप्यांक मेळटा.

*'वृक्षवल्ली आम्हां सोयरी वनचरे'* ह्या संत तुकारामाच्या अभंगाच्या मुळाक धरून सैम जिविताचो मंत्र बरोवपी दिता. ह्या निबंदांत रेड इंडियन्साच्या मुखेल्यांनी वसाहतवादी, राजकी सत्या गाजोवंक उठिल्ल्या साम्राज्यवादी सम्राटाक बरयल्ले चिटीचो रुपकार आसा. हो अस्मितायेची राखण करपी एक दिश्टावोच. एके तरेचे 'पुरुश सुक्त' हे चिटींतल्यान आयलां. जन, जंगल, जल, जमीन आनी जनावर ह्या पंचतंत्रांची राखण करपी प्रादेशीक अस्मितायेचो हुंकार हे चिटींतल्यान आयला. अमेरिकेक वेगळे रितीन पळोवंक लावपी अब्राहम लिंकनान त्या मास्तराक बरयल्ल्या पत्राक जशें मोल आसा तशेंच मोल ह्या मुखेल्यान बरयल्ल्या पत्राकूय आसा. प्रादेशीक अस्मितायेच्या सगळ्या राखण्यांच्या हातांत हें पत्र पावोवपाक जाय अशें म्हजें मत. गो-पालन संस्कृतीक आमच्या पर्यावरणाचे नदरेंतल्यान व्हड म्हत्व आसा. हें बरोवपी पटोवन दिता. शेण-सारें भुंयेक पोशक आसता. हेंवूय सांगून खऱ्या अर्थान सैमाच्या सांगातान जगपाचो मंत्र ते दितात. सैम हो रवीन्द्रबाबाचो जिवाभावाचो इश्ट. ही भूंय निसूक करूंक जायना. विज्ञानीक नदरेंतल्यान इकॉलोजी नावाचो कल्की अवतार आमची नदर बदलतलो हो हावेस ते उकतायतात. भुंये कडेन प्रामाणीक रावून पिकता तें खावंचे बदला आमी 'पीक थंय भीक' अशी आमची अवस्था करून घेतल्या. संस्कारी भुकेची सुवात अधाशी भकारे वृत्तीन घेतल्या अशें सांगून इंग्लंड सारकेल्या देशांतली People for Ethical Treatment of Animals ही चळवळ वा we are proud to be vegetarians ही लोक-मानसीकताय वेगळी नदर दिता. गोपाळकृष्णाच्या देशांत आमची अवनत जाल्या ती पळोवन रवीन्द्रबाब अस्वस्थ जातात. आनी शुद्ध शाकाहारी शिवराक जावपाचो प्रामाणीक हावेस बाळगितात. आमच्या दिसपट्ट्या जिवितांतली भेसळ पयस काडपाक जाय अशें तांकां मना सावन दिसता.

'आमचीं दुबळीं आंगा' ह्या विभागांत आमचे रासवळ जिणेंतली उणाकपणां दाखोवपी इकरा निबंद आयल्यात. रामायण काळा सावन आयज मेरेनचे कितलेशेच घुसपल्ले प्रस्न हातूंत आसपावल्यात. लोकराज्यांतले प्रजेचे उदासीनतायेचें मूळ रामायणी प्रजेंत आसा. ही प्रजा आयजूय तशीच उदासीन आसा.

एका निबंदांत बरोवपी जयप्रकाश नारायणांच्या राष्ट्रीय नैतीक चारित्र्याचें दर्शन घडयतात. लोकराज्यांतल्या प्रशासनांतलो भ्रष्टाचार, अनैतीकताय, असत्य हांचेर उजवाड घालपी नितीपाठ ते दितात. राजकर्त्यांच्या वायट कर्तुबांचेर तुट्टून पडटात.

ह्या निबंदां झेल्यांत भाशेचेर कांय मुद्दे आयल्यात. पांच नखेत्री बंदेपण, गुलामांची भास, जपानाची देख, भाशीक स्वाभिमानाचे, अस्मितायेचे वस्तुनिश्ट संदर्भ हांगा आयल्यात.

पुस्तकाच्या अखेरच्या 'उपाय' ह्या वांट्यांत तीन निबंद आयल्यात. घुसपल्ल्या जानव्याचे पोड सोडोवचे तसो, बरोवपी आपले परीन सांगता. सत्य धर्म आनी अहिंसा ह्या तत्वांक धरून तो मोग शांती सवस्तकायेचो मार्ग सोदता. भूक, भंय, भ्रष्टाचार, गरिबी, अज्ञान अहंकार, मद जर आमचे मदलो जिरोवपाचो आसत जाल्यार म्हा मानवांच्या जिवीत-मार्गाचो पुरस्कार करपा भायर दुसरी वाट मेळची ना हें तो खरसाणीन सांगता. सत्याग्रहाचें ब्रह्मास्त्र वापरून रासवळ जिणेंतली नडणी काडपाचो राजमार्ग सुचयता. गांधी समजून घेवपाक आनी समजावन दिवपाक आमी भारतीय उणे पडटात व्हय? असो दुबावाचो प्रस्न तो विचारता. गरिबी, वेठबिगारी, भांडवलशाय, उदासीन समाज, आदी कितल्याश्याच गजालींक लागून भारतीय समाजाची अवनत जाल्या. गांधी समजुपाकूंच आमी भारतीय उणे पडटात देखून गांधीवाद आमचे कडेन जाय तसो रुजना फुलना फ़ळना. पूण परकी देशांतले कांय अभ्यासू चिकित्सक वृत्तीचे लोक गांधी समजून घेवपाक आपल्याक ओंपून घेतना बरोवप्याक दिसतात.

भायल्या लोकांचे नदरेंत भरिल्लो गांधी आनी समजून घेतिल्लो गांधी तांच्याच तोंडातल्यान रवींद्रबाब आयकतात आनी गांधीवादाची केल्ली सात मार्गांची चिकित्सा पळोवन अज्गपभरीत जातात. धर्म क्रांती, सामाजीक क्रांती, अर्थक्रांती, सांस्कृतीक क्रांती, शिक्षणीक क्रांती, नैतीक क्रांती आनी राजकी क्रांती घडोवन हाडपा सयत ते ते क्रांती पासत गांधींचो शांतीचो मार्ग कृतींत कशे तरेन हाडूं येता ताची चिकित्साय परकी अभ्यासक करतात ती पटपा सारकी आसा. गांधींचें व्हडपण भायल्यांच्या तोंडांतल्यान आयकले उपरांत आपलें मोटवेपण उक्ताडार पडटा. I shall be shouting from the grave - गांधीन म्हणिल्लें ताची याद करून दीत रवीन्द्रबाब आमकां अंर्तमनांतलो साद आयकूंक दितात.

२६८ पानांच्या ह्या पुस्तकांतल्या तरेकवार विशयांचेर विचार करतना रवीन्द्रबाबांचो गांधीवाद उपाट भरिल्लो दिसता. तांचे पुराय साहित्य साधनेंत ते ह्या मार्गाचो पुरस्कार करतात. गांधी, लोहिया, जयप्रकाश हे तांचे आदर्श चिंतनाचे विशय - रवीन्द्रबाबांच्या चड्श्या बरपांनी ते येतात. जिवितांत करपा सारकें खूब आसा तितलें आपूण करतलों म्हणपाचो हावेस घेवन ते जियेतात. जियेतना रायटर आनी फायटर म्हण आपली शक्त तांणी वाटून घाल्या. गरजेंतल्यान तांकां तशें जगचेंच पडलां. आपले जिवीत अणभव वाचप्यां मुखार निबंद प्रकारांनी मांडटना विशयांचे नदरेंतल्यान आयिल्लें तेंच तेंपण, तांच्या निबंदाक मोटवेपण हाडटा. सैमाचेर आदारिल्ले कांय विशय तांच्या आदल्या कांय निबंदां झेल्यांनी आयल्यात *उजवाडाचे सूर* ह्या पुस्तकांत ते आयिल्ले आसात. तांचे चिंतनशील वा चिंतेचे सामाजीक,

राजकी कांय विशय हे आदींच आयल्यात. विशयांची पुनरुक्ती रवीन्द्रबाबांच्या लिखाणांत खूब कडेन येता. देखीक ह्याच पुस्तकांत 'आमच्यो गांठी निगरगांठी' ह्या निबंदांत एक मुद्दो आयला. मुद्दो जातींचो. जाती मानतल्यांक सुवार्था खातीर जाती कश्यो फायद्याच्यो थारल्यात हें सांगताना 'त्यो ना जावंक जाय म्हणपी फक्त ब्राह्मण आसात. तांका कोण विचारी नात... तेच फकत जाती वचूंक जाय, वचूंक जाय म्हूण मोठ्या मोठ्यान आड्डत रावल्यात. ते समतावादी जाल्यात, सुधारक जाल्यात. आत्मसंरक्षणाचें एक कवच हें तांचें.' (पान ७) अशें ब्राह्मणांक लेखून म्हणटात, तर 'जातिंची मुळां' ह्या निबंदांत ते (पान १३) बरयतात, 'जात फायद्याक पडना ती फकत बामणाक. तोच फकत एकलो जाती वचूंक जाय, वचूंक जाय म्हणीत सुटला. आत्म-संरक्षणाचें कवच हें ताचें एके तरेचें.' भारतांतली जातीवेवस्था/जातीयता ना करपाचेंय स्रय पर्थून एकाच विशिश्ट वर्गाक दिवपा फाटले रवीन्द्रबाबांचें तर्कशास्त्र कितें, हो प्रस्न उप्रासता. हेर कांय विशयांचे बाबतींत कांय कडेन पुनरुक्ती दिसता ती नदरेआड करूं नज.भलायकी आनी अर्थीक मळा वेलीं कारस्थानां तांच्या कांय निबंदांतल्या कॉलेस्ट्रोल आनी नाल्लांच्या संदर्भांत स्पश्ट जातात.



कारण थारिल्ले विशय. तेच वांगडा, समकालीन घडणुकांचेर तात्काळ दिल्लें भाश्य, कालांतरान काळा भायरेंय जालां. 'जागा'चे म्हयन्याचे गरजेंतल्यान आयिल्ले कांय विशय ह्या 'घुसपल्ल्या जानव्यां'तल्यान पयलींच कडेक काडूं येताले. आनीक एक रवीन्द्रबाबाचें म्हाका जाणवता तें म्हळ्यार, खंयचेय गजालीची म्हायती जायसर वा ती (केन्ना केन्ना) आयती मेळसर ते रावतात. मागीर केन्ना केन्नाय दांत ओंठ चाबून तिडक उकतायतात. तर केन्ना केन्ना वास्तवतायेचें भयाण सत सांगलें जाल्यार आपल्य 'पर्यटक इश्टाक' वायट दिसत म्हण जिबेर आयिल्ली सत जाप पोटांत दवरून असत्याचोय पाखो ते घेतात (१०३ पान) खुबश्या निबंदांनी तें स्वप्नील भाव विश्वांत वचून वास्तवतायेची जाणविकाय करून दितात.

गांधीवादातलो सकारात्मक आत्मविश्वास तांका खूब कितें तरी पळोवपाक प्रवृत्त करता. आपूण गोपुरी संडासांचो प्रसार करतलों, गोंयभर भोंवतलों, अशें करतलों, तशें करतालो म्हणपी रवीन्द्रबाब मात कांय कडेन परिस्थिती कडेन शरण गेल्ले दिश्टी पडटात. तांकां तांबड्यां तांदळांची पेज जेवनशी दिसता तेन्ना मेरेन तें पीक गांवांत कोण काडिना म्हणपाचें तांकां खबरूच नासता. गावांत 'भाटकार' ही तांची वळख वचून 'तातो' ही वळख जावंक जाय आसली तितली जावंक पावली ना. जपान, गांधी, लोहिया, नेहरू,जयप्रकाश घरांत येवपी सोयरे धायरे, मुंबय, दिल्ली (सन्निधी) पिरवळ आतां पिरवळ उरूंक ना, कोंकणी संघटना, परिशदो, संमेलनां, ओपीनियन पोलाची चळवळ, थंयच्यो घडणुकी, व्यक्ती चरित्रां अशे तांचे कांय पुनरुक्तीचे विशय आयल्यात. नातरां, भाचरां, हे कांय निबंदांच्या निमित्तांक विचारां मदलो घुसपागोंदळ हें जानवें आनीकूय घुसपायता. तें सुट्टलें म्हण वाट पळोवप नातर तें तोडून उडोवप हे दोन पर्याय उरता. सुट्टलें जाल्यार सोडयतलो कोण, आनी तोडटलो म्हणल्यार जामव्याक हात घालतलो कोण? तें तर ब्राह्मणांच्याच (फकत बामणूच न्हय) गळ्यांत खांकेतल्यान आडवें आसा, ताका बुरो दाटला, थंय कांय (पाड्या)'बुद्‌दीवादाच्यो' चावयो आसात. तातूंत नव्या नव्या जानव्यांकारांचीय भर पडत आसा. सगळें विधीवत चल्लां. सूत भर चडूच चल्लां. जाती ना करपाक जाय, त्यो वचूंक जाय म्हणपी तथाकथीत स्वयं घोशीत समतवादीय - आमचें घरचें कार्य तें... अशें म्हणीत आपल्याच समाजाची फॅशन परेड घेवपाक लागल्यात. अन्न महोत्सव चलतात. आनी ह्या सगळ्या बोवाळांत सुतां पुनवे दिसा फकत एकूच दीस गळ्यांत जानवें घालपी भौस आपुणूय एका दिसाचो काय आसना एक जानवेकार जालों म्हणपाची धन्यताय मानपाक लागला काय कितें असो घुसपागोंदळ वाडला.

'घुसपल्लें जानवें' हें पुस्तक वाचतना कितलेशेच प्रस्न जानवें भिरकटावन भायर मारिल्ल्या भारतियां मुखार आसात, तांची जाणविकाय जाले बगर रावना. हेंवूय ह्या पुस्तकाचें वेगळेपण.

# ‘घुसपल्लें जानवें’ सोडोवंक प्रज्ञावादाची वाट...



♦ नारायण भास्कर देसाय

**रवीन्द्रबाबाच्या ‘तीन पावलां’ची पावलट आमचे फुडारी, राज्यकर्ते हांकां आयकूंक येवप कठीण. पूण निर्शील्ल्या, उबगल्ल्या भारतीय समाजमनाक ह्याच पावलांर पावल दवरीत फुडार घडोवचो पडटलो. ती प्रक्रिया चड स्पश्ट जावपाक घुसपल्लें जानवें विचाराचें सारें घालता. ह्या दोन सुपुल्ल्या कोंकणी पुस्तकांतलें उतरान उतर कोंकणी मनशाक जागयतलें आनी समस्त भारतियां मदली प्रज्ञा फुलयतलें. असो हावेस दवरून मुखार वचपाचें काम इतिहासान आमचेर सोंपयलां. तें आव्हान आमी घेवचें पडटलें. नवी संस्कृती आकाराक हाडचे खातीर.**

समाजाक मुखार वचूंक वाट दाखोवपाचें काम साहित्य करता. संस्कृतायेक आकार'दिवपाचें काम भावना आनी विचार हांचें. व्यक्ती, पंगड हांचे भितर चलपी निरंतर संवाद, तांच्या सैमा कडल्या वेव्हारांतल्यान येवपी अणभव आनी त्या अणभवांक विचारांची बसका दिवन घडयल्ल्यो चाली-रिती, प्रथा-परंपरा, स्रद्धा-विस्वास हांच्या थिरार भौशीक जीण बांदपाचो यत्न मनीसकुळयेच्या इतिहासांत चलत आयिल्लो दिसता. व्यक्तिगत आनी रासवळ जिणेच्या साबार आंगांक हे बांदावळीचो व्हड आधार दिसता. मनशान आपणाली बुद्द गिन्यानाची निर्मणी, विसकावणी, तपासणी करपाच्या वावराक जुंपल्या, आनी हें करतना सगल्या तरांच्या अणभवांतल्यान गिन्यानांचे कितलेशेच फांटे जल्माक घाल्यात.

तत्वज्ञानाची सुवात मनशाचे जिणेंत म्हत्वाची, पूण सरसमान मनशाक ताचें अस्तित्व कळना. आपल्याक तत्वज्ञान कित्याक लागता, अशें ताका दिसता. पूण ताचे चाल-चलणुकेंत, विचार-वेव्हारांत तो ज्यो गजाली मानता, आपणायता, सांबाळटा आनी हेरांक सांगता तातूंत तत्वज्ञान

आसता. मनशाक आपलें जिवीत सुखाचें जावचें अशें दिसता, तें तशें करूंक तो वावुरता आनी ते खातीर तरातरांच्या प्रस्नांक ताका तोंड दिवचें पडटा. तेन्ना तो आपल्या वडिलांनी, जाणटेल्यांनी कितें सांगलां, खंयचे परिस्थितींत कितें केलां हाचो सोद घेवन आपली वाट काडटा.

संवसारांत निर्माण जाल्ल्या गिन्यानांत आनी तें एकठावपी साहित्यांत भारताचें योगदान खूब व्हडलें. आमचीं दोन महाकाव्यां - रामायण आनी महाभारत - संवसाराक भूल घालपी, विचार करूंक लावपी, तातूंतले आदर्श समजून घेवंक प्रवृत्त करपी अशीं आसात. तांचे विशीं, येवरोपेव संस्कृताय आनी साहित्य ह्या मळांचेर जांकां देवासमान मान आसा, तांणी केल्ली तुस्त-तोखणाय वाचल्यार भारतीय ज्ञानवैभवाची अपुर्बाय दिसता. आमचीं उपनिषदां, पुराणां, वेद ह्या सगल्याचो आमी जिणेत खंय, कितलो वापर करतात तें सांगूंक कठीन, पूण तांणी दिल्ले विचार, तांणी दाखयल्ली वाट समाज चलत आयला हातूंत दुबाव ना.




भारतीय तत्वविचाराचो आपरोस करपी तीन चिरंजीव कृती म्हणल्यार उपनिषदां, भगवद्गीता आनी ब्रह्मसूत्रां. हांकां प्रस्थानत्रयी म्हणटात. हांणी भारतीय समाज मानस घडयलां, ताच्यो धारणा बळयल्यात. ह्या तिनांचेर टिका बरोवन भारतीय आचार्यांनी तांच्या तांच्या काळांतल्या समाजाक योग्य दिका, मुखार वचपाची वाट दाखयली. समाज प्रवाही. तो हजारांनी वर्सां सावन घडत आयला, बदलत आयला. गिन्यान जोडीत आयला, आशिल्लें गिरेस्त करीत आयला. भारतीय मनीस हें सगलें पूर्वसंचित सांबाळटनाच तें तपासून पळयता. आपले अणभव ताका जोडून आयच्या काळाक योग्य अशें रूप ताका दिता. हें काम विद्वानाचें, तपस्वी ज्ञानयोगी साधकाचें. कोंकणी समाजाक रवीन्द्रबाब केळेकार हांच्या रुपान हो तपस्वी लाबला. तांणी आयच्या काळा खातीर, भौ. सुरेशबाब आमोणकार हांणी आपले प्रस्तावनेंत म्हणलां तशी, 'नवी प्रस्थानत्रयी' निर्मिल्या, ती *तीन पावलां प्रज्ञावादाची* च्या रुपान!

'प्रज्ञावाद' (Rationalism) हो एक तत्वविचार म्हूण येवरोपांत सतराव्या शेंकड्यांत आकाराक आयलो अशें म्हणटात. आर्विल्ल्या अस्तंती तत्वज्ञानांत प्रज्ञावादाचें मुळावण धर्माचे पुनर्रचणुके वरवीं (Reformation) बंडखोरी (Protestantism) च्या रुपान पडलें म्हणूं येता. दर एके संकल्पनेक तेळून-तर्जून घेवन आपणावप, हातूंतल्यान आर्विल्ल्या विज्ञानाचो एक ज्ञानप्रकार म्हूण उदय जालो. मात प्रज्ञेचो विचार अस्तंती संवसारांत हाचे आदीं जावंकूच ना अशें न्हय. हाचे आदीं दोन हजार वर्सां फाटीं प्लेटोन 'सत्य प्रज्ञेन कळटा' अशें मत उकतायल्लें, तेंच सतराव्या शतकांत चड स्पश्ट जालें. आयच्या काळार अस्तंती तत्वज्ञान, विज्ञान हांकां मेळिल्लें म्हत्व संवसारभर पातळावंक तंत्रज्ञान वावुरता आसतनाच ह्या संबंदांतलें भारताचें कर्तुत्व दोळ्यां आड करपाक कोणाकूच शक्य ना, परवडचेंय ना. देखून भारतीय तत्वविचारांची सगल्यांत उंचेली भरारी अशें जाचें वर्णन खासा रवीन्द्रबाबूच करतात, त्या प्रज्ञावादा संबंदान भारतीय तत्वचिंतकांनी निर्मिल्लें अक्षरसाहित्य भारतियांक बरे भशेन कळूंक जाय. तेन्नाच आमची प्रज्ञा जागतली, पुरुषार्थ पोसवतलो आनी संवसाराचें फुडारपण करपाची आमची प्रतिज्ञा फळाक येतली. आमकां एक समर्थ समाज म्हूण नवे वैश्वीक संस्कृतायेंत आपली खाशेली सुवात जोडप ताका लागून शक्य जातलें.

प्रज्ञावादाचीं हीं तीन पावलां म्हळ्यार, रवीन्द्रबाबांच्या मत्तान, बुद्धाचें धम्मपद, महाभारतांतली विदूरनिती आनी भगवद्गीता! नवो कोंकणी तसोच भारतीय समाज कसो मुखार सरचो हें समजून घेवंक ही 'नवी प्रस्थानत्रयी' भोव गरजेची. आमचो सुखाचो सोद, आमचे प्रगतीची दिका, आमची मोक्षाची मोख ह्या सगल्या खातीर आमीच आमकां समजून घेवप, जिणे कडेन पळोवपाची उजू नदर आपणावप, विवेकी वर्तनान मन:शांती आनी समाधान हांच्या माध्यमांतल्यान मुक्ती मेळोवप हो उपाय ही नवी प्रस्थानत्रयी आमचे मुखार दवरता.

संवसारांत जण एकलो - व्यक्ती जावं, समाज आसूं वा राष्ट्र— सूख मेळोवंक आनी दुख्ख टाळूंक धडपडटा. दुख्खां येवपाचीं कारणां कितें? हाका विंगड विंगड जापो मेळटात. मात चडांत चड जापो दोशाचें बोट खंय तरी दुसऱ्या वटेन, पयस घुंवडावपीच आसतात. पूण, आपली जीण आपणेंच घडोवपाक जाय, तें शक्य आसा हें प्रज्ञावादाचें मुळावें सूत्र. ते नदरेन भगवान बुद्ध हो प्रज्ञावादाचो पयलो प्रवर्तक अशें रवीन्द्रबाब सांगतात. बुद्धाचें म्हणणें आशिल्लें - प्रज्ञा म्हळ्यार शुद्ध, निरपेक्ष, कित्यानूच प्रभावीत जायना तसली बुद्द. तिच्या उजवाडांत मनशाक जिविताचीं सगळीं आंगां नियंत्रीत करपाक येवंक जाय.

बुद्धाचो *धम्मपद* हो पाली भार्शेतलो ग्रंथ. हातूंत गौतम बुद्धान

बुद्धत्व जोडिल्ल्या खिणा सावन महापरिनिर्वाणा मेरेन लोकांक सांगिल्ल्या चारशें तेवीस गाथांचो सव्वीस वर्गांनी विभागून केल्लो संग्रह मेळटा. धम्मपदाच्या मुळाक मानसीक शुद्धीचो विचार आसा. निजी जिंवितांत आपलें मनूच गुरू, हो गुरूच वाट दाखयता, वर्तन घडयता. रवीन्द्रबाबांनी धम्मपदाचो केल्लो मेकळो अणकार वट्ट अठरा माथाळ्यांनी आटापला. तांचीं नांवां अशीं आसात - अवैर, शील, सत्संग, करण्यो, नीत, अनिन्दा, आपणेंच आपणाक जिखचो, कूड खिणयाळी, जागरूकपण, अंतःशुद्धी, प्रज्ञा, तृष्णा, बुद्ध शिकवणेचो आपरोस, शाणो मनीस, भिक्षू, अर्हत, आनी ब्राह्मण. आपल्या आठ आंगी मार्गाचें म्हत्व समजायत बुद्ध पंचेचाळीस वर्सां अखंड फिरत रावलो. आयज संवसारभर बुद्धमत्ताक जी प्रतिष्ठा लाबल्या, ताचें कारण बुद्धान दाखयिल्लो हो निजी जिणेंत सुखी जावंपाचो मार्ग.




प्रज्ञावादाचें दुसरें पावल म्हणून चार चवगांच्या सांगातांतलें जिवीत, कुटुंबांत वा समाजांत मनीस सारता तें, बरे तरेन सारपाची वाट दाखोवपी ग्रंथ रवीन्द्रबाब आमकां भेटयतात तो म्हणल्यार विदुरनिती. महाभारतांतल्या प्रजागर पर्वांत महाप्राज्ञ विदुरान धृतराष्ट्राक एक राजा म्हूण, कुळांतलो जाणटो आनी फुडारी म्हूण ताची चलणूक कशी आसूंक जाय तें सांगलां - तीच ही विदुरनिती. ह्या ग्रंथाचें सार सांगतना, शाणो कोण, मूर्ख कोण, प्रज्ञावंताचो वेव्हार, प्रज्ञावादी राजनीत, प्रज्ञावंत राजा, लोकांक कसलो राजा जाय - कसलो नाका, प्रज्ञावंताचो आचार, पयलीं आपणें आपणाक जिखचो, प्रज्ञावंताचें उलोवप, सांगात, ऊंच कुळांतलो मनीस, धोशी, आयुष्य कित्याक उणें जाता, धनी आनी सेवक, हेर ल्हान व्हड नेम, इतल्या प्रकरणांनी तें मांडलां. मुदलांत आठ अध्यायांनी वांटिल्लें पांचशें तीस श्लोकांचें हें प्रजागर पर्व आटोवन-साटोवन पंचवीस पानां भितर हाडलां.

मनशाच्या जिविताचें निजी आनी रासवळ ह्या दोन रुपांक सारकेंच लागू जावपी आनी तरिकूय त्या दोनां परस चड म्हत्वाचें आंग धर्माच्या मळा वयलें. हें जिवीत प्रज्ञेच्या उजवाडांत जियेवप गरजेचें. पूण धर्मीक जिविता संबंदान जाल्लो घुसपागोंदळ मनशाक नडटा. कारण धर्मीक जीण देवसपणाच्या नांवान कुड्ड्या भावार्तान, प्रसाद-पाकळ्यांनी, मागण्यां-मानतुकांनी भरिल्ल्यान रुपड्यांत येवन मनशाचें जिवीत अपंगूळ करता, हें भारतांत उकतेपणान दिसता. हाका उपाय कितें? धर्माच्या मळा वेलें जिवीत प्रज्ञेच्या उजवाडांत जियेवप. हें कशें करचें तें सांगपी ग्रंथ म्हळ्यार भगवद्गीता. हिचे अठराय अध्याय साठ-पंयसश्ट पानां भितर आटोवन सांगपाचो इतिहासीक वावर 'तिसरें पावल - अध्यात्माच्या मळावयलें' ह्या वांट्यांत रवीन्द्रबाबान केला.

धर्मविचाराक नियतिवाद, दैववाद, भाग्यवाद, प्रारब्धवाद अशा हेर नांवांनीय लेखतात. पूण भगवद्गीतेंत श्रीकृष्ण अर्जुनाक निवृत्तिमार्गा कडल्यान प्रवृत्ति मार्गार हाडटनाय धर्मूच पाळ म्हणटा. प्रज्ञेचेर विसंबून निर्णय घेवन कृती करपाक अर्जुनाक प्रवृत्त करता.

हीं तीन पावलां रवीन्द्रबाबांल्या म्हणण्या प्रमाण विश्वसाहित्यांतलीं अप्रुपां. तांचें आयच्या काळार कितें म्हत्व? थोडो विचार केल्यार तें होलमता. संवसार सुधारला. विज्ञान-तंत्रज्ञान नव्यो शिमो हुंपीत आसा. मनीस यंत्राचो गुलामूच न्हय, तर यंत्रा वरीच जावंक लागला. पुराय जिवीत यांत्रीक जाता आसतना मनशाक कूड आनी मन सांबाळपाचेंय भान उरूंक ना. सगल्या तरांचो वसवसो, शीम-मेर नाशिल्लो सुवार्थ मनशाच्या मनांत घर करून वसतेक आयला. आनी, हें जाय, तें जाय, सगळेंच जाय अशें दिसतनाच तें कशें जोडप, ते खातीर खंयचे मार्ग आपणावप हें चिंततना मनशां मदीं हेरां परस आपूण शाणो, हुशार, चतूर हें सिद्ध करपाची सर्त लागल्या. मनशाच्या जिविताची गती आतां ताच्या हातांत ना. हातूंतल्यान आयिल्ली अगतिकताय, असुरक्षितताय, असहाय्यपण हांणी अविचारांक, अनाचारांक आमंत्रण दिलां. दुसरे वटेन मोट्या प्रमाणांत दैववाद नव्या नव्या रुपांनी पातळत चल्ला. बाबा, गुरू, महंत, स्वामी हांचें प्रस्थ वाडटें आसा, त्याच वेळार मनाची थाकाय, मूल्यांची जतनाय, कामाचे सुवातेर सहकार्य, भावनीक समतोल असल्या विशयांचे तज्ञ आपले मांड घालून बाजारांत बसल्यात. निर्जीव चलना सावन नीत शेणिल्ल्या जुगारा मेरेन समल्या माध्यमांक ह्या बाजारांत सुवात आसा. अशे अवस्थेंत मनीस पर्थून एक फावट ह्याच सनातन प्रस्नां कडेन येवन पावला. ते प्रस्न म्हळ्यार जिविताक दिका कशी दिवप? समाधान खंय सोदप? दुःखांतल्यान सुटका कशी करून घेवप?

*तीन पावलां प्रज्ञावादाचीं* ह्या सगल्या प्रस्नांक जापो दिता. ज्या काळार समाजाची बांदावळ राजा आनी प्रजा हांची आशिल्ली, ज्या काळार समाजांतलीं कामां वांटपाची माण्णी जाती-वर्णांचेर आदारिल्ली, त्या काळार ह्या ग्रंथांची निर्मणी जाल्ल्यान थंय राजा, राजनीत, प्रज्ञावंत राजा वा ब्राह्मण, ऊंच-उणाक जाती अशे उल्लेख

तातूंत मेळटात. पूण तातूंतले विचार आयचे रासवळ, राजकी, धर्मीक आनी निजी जिणेंतूय तशाक तशे लागू पडटात. ह्या तिनूय ग्रंथांची मूळ प्रकृती आसा ती संवादाची. तातूंत सांगिल्लीं जिणेचीं सूत्रां आनी तत्वां अवघ्या उतरांनी मांडल्यांत. पूण रवीन्द्रबाबांचो सभावधर्म पुरायपणान संवादी. तांचें बरप-उलोवप सगळें संवादा वरीच. प्रज्ञावादाची आमच्या काळाक लागपी विसकावणी रवीन्द्रबाबान अशा आत्मसंवादाच्या रुपान केल्या तिका नांव दिलां. *घुस्पल्लें जानवें.*

'लळीत गंभीर बरपां'असो उपमाथाळो आशिल्लें हें पुस्तक नव्या सहस्त्रकाच्या म्हुर्तार उजवाडाक आयलें. तातूंत भास,समाज,संस्कृताय, देश, धर्म, अर्थकारण, राजकारण, सत्या अश्या कोणाक चुकनात अश्या विशयांचेर मेकळीं चिंतनां आसात. स्वतंत्र देशाच्या नागरिकान दर एका प्रस्ना कडेन कशें पळोवंक जाय आनी आपले कृतीन त्या त्या प्रस्नाचेर उपाय काडप कशें शक्य आसा हेंय तातूंत आयलां. पुस्तकांत विशयांची मांडावळ घुसपल्लो समाज, नागवल्लो देस, नवी देख, सैमाचे कुशींत,आमचीं दुबळीं आंगां, राजकर्णाक नवी देख, पांच नखेत्री बंदेपण, उपायं अश्या माथाळ्यां खाला तरेकवार विशयांचेर आयिल्ल्या साबार लेखांची आसा.



प्रज्ञावादाचो बुद्‌ध वा श्रीकृष्ण हांणी दाखयल्लो मार्ग चलणुकेंत हाडपी, आर्विल्ल्या काळार विसाव्या शेंकड्यांतूय निजी, रासवळ आनी धर्मा संबंदीत जिणेंत ताका पाळो दिवपी म्हापुरसाचे संवसारान जाका विसाव्या शेंकड्यांतलो सगल्यांत चड प्रभावी मनीस म्हूण आपणायला त्या राष्ट्रपिता महात्मा गांधींचे विचार, तांणी घेतिल्ले निर्णय, दिल्ल्यो सुचवण्यो हांची भेट रवीन्द्रबाबांचे बरपावळींत पाना-पानार, लेखा-लेखांतल्यान जाता. गांधीजींनी राजकर्ण कशें केलें, अर्थकारण कसलें सुचयलें जातींच्या निर्मूलना पासत कितें केलें हें सगलें त्या त्या संदर्भांत केल्ल्या बरपांत मेळटा. आमी मुक्त बाजाराचें पिशें न्हयकारून बाजामुक्ती खातीर फुडें सरूंक जाय अशी आयचे घडयेक सगल्यांक विचित्र दिसल्यारूय आमच्या फुडारा खातीर साप गरजेची माग्णी आसा. *घुस्पल्ल्या जानव्या* च्या पानांनी आमका मेळटात आंबेडकर, आगरकर, विवेकानंद, कृष्णमूर्ति, लोहिया, काकासायब कालेलकार, विनोबा, प्रेमचंद आनी तेच बराबर, गोंयचे सुटके चळवळींत वांटो घेवनूय, शिकिल्लो आसुनूय दिसवड्याक काम करून मुंबयचे झोपडपट्टेंत दीस सारपी कळिंद्री जो 'एक दीस आमी सगळे नक्षलवादी जातले, तुमी हो प्रसंग हाडटल्यांक केन्ना वळखतले?' असो सणसणीत प्रस्न विचारता.

बुद्‌धाचो संदेश अशोक चक्रान उकतायला, तोच चरख्यान मुखार व्हेला. चरखो, हो एक विचार. तो आमका क्रान्तीचीं तीन पावलां - धर्मक्रान्ती, सामाजीक क्रान्ती आनी अर्थीक क्रान्ती - कशीं घालचीं हें सांगता. पूण आमकां बावट्यार आशिल्लो चरखो नसाय जालो, कारण परकी संस्कारांत वाडिल्ल्या फुडाऱ्यांक ताचें सामर्थ्य कळ्ळें ना. आमी आपणायल्ली राज्य कारभाराची पद्‌दत, विकासाची व्याख्या, अर्थनीत, शिक्षणवेवस्था ह्या सगल्याचो गांधी स्पर्श पुसून वचचो अशेंच धोरण चलिल्लें दिसता. ह्या सगल्याचेर उपाय कितें? आमचें राजकर्ण, वेंचणुको,अर्थीक धोरण, भौशीक जीण ह्या सगल्या आंगां कडेन पळयतना बुद्‌धान शिकयल्ली, गांधीन आपणायल्ली प्रज्ञावादी नदर गरजेची.

*घुस्पल्लें जानवें* आमकां *प्रज्ञावादाच्या तीन पावलां*नी दाखयल्ली वाट चड बारीकसाणेन समजावन सांगता. आयचे घटकेक प्रज्ञावादाचें प्रात्यक्षीक स्वराज्यांत जो राजा त्या नागरिकान घडोवंक जाय. गांधीजी ह्या प्रात्यक्षिका खातीर भारतियांचे गुरू म्हूण वावुरले. तांणी विधायक कार्यावळ म्हूण पुस्तक बरयल्लें तातूंत तांची एक समग्र नदर दिसता. समाज मुळा सावन बदलपाच्यो सात वाटो - धर्मक्रान्ती, समाजीक क्रान्ती, अर्थक्रान्ती, सांस्कृतीक क्रान्ती, शिक्षणीक क्रान्ती, नैतीक क्रान्ती आनी राजकी क्रान्ती ह्यो त्यो वाटो. ह्या वाटांचेर चल्ले बगर आमकां पर्याय ना. पूण तेय खातीर आमी 'आमी' म्हूण जियेवंक शिकूंक जाय.

रवीन्द्रबाबाच्या 'तीन पावलां'ची पावलट आमचे फुडारी, राज्यकर्ते हांकां आयकूक येवप कठीण. पूण निर्शेल्ल्या, उबगल्ल्या भारतीय समाजमनाक ह्याच पावलांर पावल दवरीत फुडार घडोवचो पडटलो. ती प्रक्रिया चड स्पश्ट जावपाक *घुस्पल्लें जानवें* विचारांचें सारें घालता. ह्या दोन सुपुल्ल्या कोंकणी पुस्तकांतलें उतरान उतर कोंकणी मनशाक जागयतलें आनी समस्त भारतियां मदली प्रज्ञा फुलयतलें. असो हावेस दवरून मुखार वचपाचें काम इतिहासान आमचेर सोंपयलां. तें आव्हान आमी घेवचें पडटलें. नवी संस्कृती आकाराक हाडचे खातीर.



# तथागतः एक व्यक्तिमत्त्व विकास अध्ययन

♦ दादू मांद्रेकार

**बुद्धत्व वा बुद्धविचार हें एक आकास. संवसारांतल्या विधायक तरेन जगपी दर एका मनशाचे जिणे मेरेन हो विचार प्रत्यक्ष-अप्रत्यक्षरुपान आयज पावला. कोण तें मानता. कोण तें मानिना इतलेंच. हो सगळो विचार सगळ्या आंगांनी एका ल्हानश्या पुस्तकांत हाडप भोव कठीण. पूण रवीन्द्रबाबान हें अमृत एका ल्हानश्या पुस्तकांत हाडलां. आनी तें अमृत पेल्यांत ओतून तुमचे मुखार दवरचे परस आवय आपल्याक बाळकाक भरयता ते भशेन तांणी तें चमच्या चमच्यान तुमच्या ओंठांक लायलां, हें ह्या पुस्तकाचें खाशेलें वैशिष्ट्य....**

बुद्ध विचारांचो आनी म्हजो संबंध पयलीं आयलो ताका आतां सुमार तीस वर्सां जायत आयल्यांत. प्रत्यक्ष बुद्धदीक्षा घेतल्यार म्हाका आतां पंचवीस वर्सां जावन गेलीं. बुद्ध विचारांचो पयलोच स्पर्श जालो तेन्ना सावन म्हज्या आंगाक दशिल्ली जात, देव, धर्म, अडाणीपण, कर्मकांडां ही सगली घाण हांव जाता तितलो आज मेरेन काडीत रावलां आनी तितलो तितलोच बुद्धदर्शनशास्त्राच्या वा बुद्धमत्ताच्या अमृत उदकांत अदीक अदीक खोल पेंवपाक लागलां. तो अपरिमीत आनंद घेतलो जाल्यार, 'बुद्धाक हांवूय मानतां रेऽऽऽ!' अशें म्हळें म्हूण जायना. बुद्धाक सगळेच मानतात. बुद्धाचे वैचारीक शत्रू लेगीत बुद्धाक मानतात. संवसारांत खंयच्याच धर्माचें ना इतलें विविधांगी साहित्य बुद्धाचें आसा. खंयच्याच एका व्यासंगी-विद्वान मनशान तें आपले पुराय जिणेंत वाचलां, वा मुखार लेगीत कोण एकलो तें सगळें आपणाले जिणेंत वाचतलो जावं येत अशें जावंक शकना इतलें तें अमाप आसा. घडये ताची व्याप्ती सागरा इतली आसूं येत. तितलीच ह्या विशयाची खोलाय लेगीत आसूं येता. म्हूण, 'हांव बुद्धाक मानतां' अशें म्हणचे

परस बुद्धाचें कितें तरी हांवें वाचलां, हांव शिकलां अशें सांगपी रवीन्द्र केळेकार, सुरेश आमोणकार, दत्ता नायक, नागेश करमली सोडले जाल्यार म्हाका हेर कोण दिसूंक नात. बुद्धाचें कितें तरी वाचलां, शिकलां अशें सांगपी मनीस एक टक्को. तरी तो आपणाल्या जिवितांत कितें तरी विधायक विकास करून घेतलोच घेतलो.

बुद्धविचार, दर्शनशास्त्र म्हणुंया, वा बुद्धमत्त, ह्या देशांतल्यान पुरायपणान इकराव्या-बाराव्या शेकड्यांत नाच्च जालें. जंय हें मत्त रुजलें, फुल्लें थंयच्यान तें नाच्च जावप हें संवसारांतलें घडये एकमेव उदाहरण आसत. आनी हे भुंये वयल्यान नाच्च जाल्लो विचार परत हे भुंयेर तेच मूळ स्थितींत परत येतलोच येतलो अशें जर कोणेंय चवदाव्या-पंदराव्या शतमानांत म्हणिल्लें जाल्यार ताका अदूरदृष्टीचोच म्हणूं येतालो. सोळाव्या-सतराव्या शतमानांत तर बुद्ध नांवाची कोण एक प्रतिभा हे भुंयेर जावन गेल्या हें लेगीत लोकांक खबर नाशिल्लें. अशे परिस्थितींत अठराव्या शतमानाचे मध्यानेर महात्मा ज्योतिबा फुले नांवाच्या मनशान आपणाले ओबड-धोबड भाशेंत बुद्धाची पयली वळख हे भुंयेक दिवपाचो यत्न केलो. ते मेरेन बुद्ध एक पुराण पुरूस जावन गेल्लो. मजगतीं जायत्या ल्हान-व्हड विद्वानांनी ल्हान-व्हड पुस्तिका वा पुस्तकां बरोवन बुद्धाचें चित्र-चरित्र उबारपाचो यत्न केलो. पूण बुद्ध प्रतिभेचो इतिहास सोदपाचो खरो जाणीवपूर्वक यत्न केलो तो इंग्रजांनी. अलेक्झांडर कर्नींगहॅम सारक्या इंग्रज सत्तेच्या महाअधिपतीन, येशू ख्रिस्ताच्या ख्रिस्ती धर्माचो प्रचार करूंक आयिल्ल्या ख्रिश्चन मिशनऱ्यांनी, ख्रिश्चन फादरांनी.

आयज अभंगांचें धा-बारा पानी पुस्तक आसता तसलेंच एक बुद्धाचें कोणें तरी बरयल्लें चरित्र-पुस्तक वा पुस्तिका गोंयच्या त्या वेळच्या २३-२४ वर्सां पिरायेच्या तिसरी-चवथी शिकिल्ल्या सांकवाळच्या धर्मानंद कोसंबी नांवाच्या एका गोंयकाराच्या हातांत पडूंक नाशिल्लें जाल्यार भारतांत जें बुद्धमत्त परत जिवें जालां ते जातलें आसलें काय ना हाचो म्हज्या मनांत दुबाव आसा!

इल्ल्याशा पुस्तका वेल्यान बुद्धत्वाचो सोद घेत अनवाणी पांयांनी धर्मानंद कोसंबी अर्दो अदीक आशिया खंड भोंवले. निमाणें ते श्रीलंकेंत पावले आनी बुद्धदर्शनशास्त्राचें एक मुळावें नितळ अमृताचें सरोवर पळोवन धादोसकायेन खोशी जाले. पाली भाशेचें खोलायेन अध्ययन तांणी हांगाच केलें. बुद्धदर्शनशास्त्राचेर फाटल्या कितल्याशाच वर्सां मदीं चडिल्लीं जळमटां तांणी फाफडून उडयलीं. इतिहासाचेर चडिल्ल्यो दंतकथा घांसून काडल्यो. आनी सिंहली लिपयेंत पूण पाली भाशेंतलो हो बुद्धदर्शनशास्त्राचो मूळ खजिनोच तांणी संवसारा मुखार उकतो केलो. कांयच उपचारीक शिक्षण घेवंक नाशिल्ल्या ह्या मनशान बुद्धत्वाचो सोद घेवपाक हिंदी, इंग्लीश ह्यो भासो आत्मसात केल्यो. संस्कृत भाशेचो लेगीत कांय प्रमाणांत अभ्यास केलो. उपरांत श्रीलंकेक सिंहली आनी पाली अश्या दोनूय भासांचेर प्रभुत्व मेळोवन ज्या बुद्धत्वाच्या सोदा खातीर ते तानेल्ले, ती तान तांणी हें अमृत पियेवन भागयलीच. पूण जाता तितलें तें आपल्या पोशांत घेवन अखख्या संवसाराच्या ओंठांक लायलें. मूळच्या शुद्ध बुद्धमत्ता खातीर धर्मानंद कोसंबीचेच ग्रंथ आयज संदर्भ ग्रंथ म्हूण जायते विद्वान उपेगांत हाडटात. धर्मानंदान मुळाव्या बुद्धमत्ताचो फकत सोदूच घेतलोना, तांणी तें आपणाल्या जिविताचें ते उपरांतच्या काळांत एक अविभाज्य आंग मानलें आनी आपणालें महानिर्वाण जाय मेरेन त्याच मार्गा वेल्यान ते चलत रावले.

वैचारीक पांवड्याचेरूच न्हय तर प्रत्यक्षांत बुद्धदर्शनशास्त्र भारतांत परतून जिवें करपाचें म्हान कार्य डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरान केलें. १४ ऑक्टोबर १९५६ दिसा सुमार पांच लाख लोकांक बुद्धमत्ताची प्रत्यक्षांत दीक्षा दिंवन हे भुंये वेल्यान नाच्च जाल्लें बुद्धाचें धम्मचक्र परतून फिरोवपाचें क्राम बाबासाहेबान केलें. आनी तें लेगीत मुळाव्या स्वरुपांत. संवसारभर हें बुद्धमत्त वेगळ्या वेगळ्या रुपांनी पातळ्ळें. पूण मूळच्याच स्वरुपांतलो बुद्ध आपूण लोकांक शिकयतलों हो केल्लो निश्चेव बाबासाहेबान खरो करून दाखयलो.

सांगपाक खोस जाता, जगांतल्या जायत्या बुद्धग्रंथांचो संदर्भ घेतनाच ह्या कामा खातीर डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरान धर्मानंद कोसंबी हांणी नव्यान मांडणी केल्ल्या बुद्धमत्ताचो आनी बुद्धतत्वज्ञानाचो मुख्य आदार घेतला. इतलेंच न्हय तर बुद्ध विचारा वयलीं सगळीं जळमटां, धुल्ल, दंतकथा झाडून उडोवन बाबासाहेबान आपणाल्या मूळ *Buddha and Dhamma* ह्या व्हड इंग्रजी ग्रंथांत बुद्धचित्र, चरित्र आनी दर्शनशास्त्र हाची मांडावळ केल्या. धर्मानंद कोसंबीन नव्यान मांडिल्ल्या सिद्धांताचो बाबासाहेबाक उपेग जाला. संवसारभर बुद्धमत्त जायत्या पंथांनी पातळिल्लें आसलें तरी भारतांत जो आयज बुद्धविचार बाबासाहेबान पुर्नस्थापीत केला तो शुद्ध आनी मुळाव्या स्वरुपांत. गोंयांतूय जो आयज आमी चलणुकेंत हाडला तोय बी ह्याच स्वरुपांतलो.

गोंयांत आमी बुद्धतत्त्व पाळटात तें डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरान 'बुद्ध आनी ताचो धम्म' हातूंत घालून दिल्ल्या आदर्शाचें. आचार्य धर्मानंद कोसंबी हांणीच तो मूळ आदर्श आपल्या जायत्या पुस्तकांनी घांसून पुसून दिला. बुद्धत्वाच्या आदर्शांत आशिल्ल्या सगळ्याच रत्नांक चकाकी दिवन तीं आधुनीक संवसाराच्या हातात दिवचे सगळ्यांत व्हड काम आचार्य धर्मानंद कोसंबीन केलां. तांच्या सगळ्या पुस्तकांतलो आपरोस रवीन्द्र केळेकार हांच्या *तथागत* पुस्तकांत आमकां मेळटा.

*तथागत* पुस्तकाचें सगळ्यांत व्हडलें वैशिष्ट्य म्हळ्यार रवीन्द्रबाब हीं सगळीं माणकां-मोतयां एक एक करून तुमच्या हातांत दवरतात. आनी मागीर तुमचो विचार सुरू जाता. ह्या पुस्तकांतलें खंयचेंय पात्र म्हज्या सांगाताक आसलें जाल्यार... बुद्धत्व वा बुद्धविचार हें एक आकाश. विधायक तरेन जगपी संवसारांतल्या दर एका मनशाचे जिणे मेरेन हो विचार प्रत्यक्ष-अप्रत्यक्षरुपान आयज पावला. कोण तें मानता. कोण तें मानिना इतलेंच. हो सगळो विचार सगळ्या आंगांनी एका ल्हानश्या पुस्तकांत हाडप भोव कठीण. पूण रवीन्द्रबाबान हें अमृत एका ल्हानश्या पुस्तकांत हाडलां. आनी ते अमृत पेल्यांत ओतून तुमचे मुखार दवरचे परस आवय आपल्याक बाळकाक भरयता ते भशेन तांणी तें चमच्या चमच्यान तुमच्या ओंठांक लायलां हें ह्या पुस्तकाचें खाशेलें वैशिष्ट्य.

हिंदींत एक ओपार आसा. 'गागर में सागर'. तशें ह्या पुस्तका विशीं म्हणूं येता. बुद्धाचें चित्र-चरित्रूच ह्या पुस्तकांत येवंक ना तर

लोकांक शाणे करूंक जंय जंय तो भोंवला त्या त्या थळाचे चित्र तुमचे मुखार चित्रपटांतलें दृश्य कशें आयलां. बुद्धाचे जिणेंतले काय प्रसंग, खासा करून ताच्या कुटुंबांतले प्रसंग ते तुमच्या दोळ्यांत दुकां हाडले बगर रावनात. तो मागीर बुद्ध बापायच्या आपोवण्या वेल्यान ताका मेळपाक येता तेन्नाचो आसूं, भिक्षापात्र घेवन आपूण ज्या राजवाड्यांत ल्हानाचो व्हड जाला त्या राजवाड्यार भिक्षापात्र घेवन भिक्षे खातीर उबो रावला तो आसू, यशोधरा आपणाची वाट पळयताच आसतली हाची जाणविकाय जातकच आपणाले शिष्य, सारीपुत्र आनी मोगल्यायन हांकां वांगडा घेवन यशोधरेच्या दालनांत घेतिल्लीं तिची भेट आसूं, आवयच्या सांगण्या वेल्यान सात वर्सांचो राहूल जेन्ना आपणालें दायज मागूंक वता तेन्ना ताच्या हातांत भिक्षा पात्र दवरून ताका दीक्षा दी म्हूण सारीपुत्राक सांगिल्लो प्रसंग आसूं, हे सगळे प्रसंग इतिहासाचें एक परिशीलन जावन तुमच्या काळजांत एक आसन घेवन बसतात आनी तुमकां हालोवन सोडटात. हें ह्या पुस्तकाचें आनीक एक वैशिश्ट्य.

एके हारीन जायत्यो वस्तू कला दालनांत मांडिल्ल्यो आसतात पूण तांचो एकेकदां अर्थबोध जायना. तशेंच, तांचो परस्पर संबंध लेगीत आमच्या लक्षांत येना. *तथागत* ह्या पुस्तकांत रवीन्द्र केळेका र सर तुमकां भोंवडी करून हाडटाच. पूण सगळे देखावे आपणाल्या व्हांवत्या आनी रसाळ म्होंवाळ शब्दांनी सुटावे करून दाखयतात.

बुद्धाच्या एका एका शब्दाचेर इतिहासांत पारायणां जाल्यांत. एका एका वाक्याचेर जायत्या प्रतिभवंतांनी आपणाली विद्वत्ता पणाक लायल्या. तें तें तत्त्व मोतयां माळेंतल्या मणयां प्रमाण सुटे करून तुमच्या हातांत दिवप भोव कठीण; पूण रवीन्द्रबाब ह्या पुस्तकांत तें तुमच्या हातांत दितात आनी तुमचे सद्सद्बुद्धीचेर तुमकांय ताची परीक्षा करूंक लायतात. ते मागीर शील, समाधी, प्रज्ञा हे जिवीत तत्वज्ञानाचें महत्वाचें आंग आसूं वा प्रतीत्य समुत्पाद हो बुद्धाचो वैज्ञानिक सिद्धांत आसूं. खंयर्चेय प्रकरण वाचले उपरांत तें म्हाका अजिबात कळूंक ना अशें जावंकूच शकना हें ह्या पुस्तकाचें आनीक एक वैशिश्ट्य.

बुद्धविचार त्या त्या मनशाचे वैचारीक आनी बौद्धीक तांकीच्या बळार संवसारभर पातळ्ळा. त्या वेळार बुद्धाच्या संपर्कांत आयिल्लीं आनी ते उपरांत बुद्ध, धम्म आनी संघ हाच्या संपर्कांत आयिल्लीं मनशां केदीं व्हड, प्रतिभावान आसलीं ताचो आगळो वेगळो परिचय लेगीत ह्या पुस्तकांत घडटा. तातूंत बौद्ध उपासक आसात. श्रमण आसात, भिक्षू आसात आनी अर्हत पदाक पाविल्ले आचार्य लेगीत आसात. ते तुमच्या मना कडेन संवाद करतात. तो मागीर बुद्धाचो बापूय शुद्धोधन आसूं, भिक्षू महाकात्यायान आसूं, महाकश्यप आसूं, आनंद आसूं, नन्हा, क्षेमा आसूं, उत्पलवर्णा वा पुण्णिका भिक्षुणी आसूं वा मिगारमाता विशाखा वा सोणा सुजाता सारक्यो उपासिका आसूं. त्यो तुमचे जिणेचेर नैतिकता, कर्तव्य आनी जापसालदारकी हांचो प्रभाव घालून वतात. विशाखा सारकी उपासिकाआदर्श चली, आदर्श सून, आदर्श नागरीक, आदर्श बायल हे सगळे आकृतीबंद तुमचे मुखार उबे करता आनी मागीर मनीस म्हूण आमची उंचाय, मर्यादा कितली कमी आसा हाची जाणविकाय जाता. लज दिसता. तिच्या सासऱ्यान तिका आपणाली आवय मानून घेतल्या. तिची क्षमा मागल्या. इतली तिची वैचारीक उंचाय. *तथागत* पुस्तकांत इल्याश्या प्रकरणांत तिच्या व्यक्तिमत्त्वाक पुराय न्याय मेळ्ळा. तें वाचताना दोळ्यांतल्यान झरींनी दुकां व्हांवतात.

'प्रभावाचीं कारणां, मरण- एक समा नदर, बुद्धमत्ताचो आपरोस, सत्वपरीक्षा, महानिर्वाण, बुद्धमत्ताचो विकास, बुद्धधर्म कित्याक ना जालो, अवनतीचीं कारणां, योगदान' अशीं हेर जायतीं प्रकरणां ह्या पुस्तकांत आसात. मरणाक दर एक मनीस भियेता, पूण मरणाची शाश्वत अवस्था आनी निर्भिडपणान मुखार वचपी प्रतिभावंत पळयल्यार ताच्या भयान जे आमी देव-देव आनी कर्मकांडां हांचे फाटल्यान लागल्यात ताची शरम दिसता.

हिमालया सावन कन्याकुमारी आनी बंगाल सावन गुजरात मेरेन एक आधुनिक राष्ट्र उबें करपाक आनी पुराय संवसार भावबंदकी, शांती ह्या शाश्वत मुल्यांचेर उबो करपाक कारण जाला तो बुद्धविचार हो बुद्धाचो राष्ट्रवावरूच. ताचो रवीन्द्रबाबांनी एका 'लाख मोलाचो राष्ट्रीय वावर' ह्या प्रकरणांत सुंदर नियाळ घेतला.

ह्या पुस्तकाचें सगळ्यात व्हडलें वैशिश्ट्य म्हळ्यार, तें तुमच्या मनाचेर सुरवातीच्या पयल्या वाक्या सावन निमण्या वाक्यामेरेन विधायक संस्कार करता. बुद्ध चित्र, चरित्र आनी विचार आनी तत्वज्ञान सांगपा पुरतेंच हें पुस्तक मर्यादीत ना. ते तुमच्या मनाचो दर एक कोनसो विधायक विचारांच्या किरणांनी धुवन काडटा आनी तुमचें मन साफ करता.

आयज आमचे मुखार कांय लोक पुराणांतले आदर्श दवरतात. ह्या पुराण पुरुशां कडेन धनुष्यबाण, परशू, सुदर्शन, हेर आयुधां अशें सगळें आसता. शीळ, चारित्र्य, शांती, अहिंसा, प्रज्ञा हाचो इल्लो लेगीत गूण ह्या आदर्शा कडेन नासता. तरी लेगीत भारतीय मनशाची सगळी शक्ती हांच्या चरित्राची पुजा करपाक खर्च जाता. परिणाम? मात लेगीत विधायक गूण आमच्यांत वास करिनात. ताचे बदला रवीन्द्रबाबा हांणी १९९८ वर्सा उजवाडायल्लें हें पुस्तक दर एक गोंयकार वाचीत जाल्यार तो उणेच म्हळ्यार वीस टक्के तरी शाणो, विधायक, प्रज्ञावान, शीलवान, ज्ञानवान जातलो. कोंकणी अस्मितायेच्यो गजाली सांगप्यांनी तरी हें पुस्तक मुजरत वाचचें. आपणाल्या भुरग्यां-बायलांक वाचूंक दिवचें आनी ताची एक प्रत दर दिसा हाताक मेळटा थंय दवरची.

हें चडशें अमृत धर्मानंद कोसंबीन 'नीरक्षीर' पद्दतीन निवळ करून लोकांमुखार दवरलां. रवीन्द्रबाबानी तेंच आपणाल्या उतरांनी, आपणाल्या भावार्थान आनी बुद्धा वेले व्हड श्रद्धेन आमचे मुखार दवरलां. देखुनूच तातूंतली गोडसाण, सौंदर्य, लालित्य अदीक निखळ, दुदा वयले साये सारकें दाट आनी म्होंवा सारकें गोड जालां. धर्मानंदाच्या *धर्मानंद* चरित्रान म्हजेर जितलो प्रभाव घाला, तितलोच प्रभाव ह्या पुस्तकान लेगीत घाला. हीं दोनूय पुस्तकां दर एकल्या मनशा कडेन आसुंकूच जाय.





# RAVINDRA KELEKAR'S EPIC TRANSCREATION

♦ Anil Samarth

<u>Besides enriching his inner life... this effort also brought to Konkani a work of profundity -- a must for any language, especially for a developing one.... The smooth going narration is properly punctuated by critical notes in italics which form a graceful part of the text.</u>

*Mahabharat* and *Ramayan* are of perennial significance for all who bother for our cultural ethos. These epics offer a gossamer of our eternal values. Its each character represents a philosophy of life based on some firm ideological conviction. Many modern literateurs have attempted to enrich their respective mother tongues with either an honest, verbatim translation or at least an abridged, free rendering of these Sanskrit epics. Hitherto Konkani lacked it, therefore Ravindra Kelekar - the prominent Konkani zealot - richly deserves to be complimented on his two-volume magnum opus 'transcreation' of *Mahabharat* in Devnagari-Konkani.

The story begins in the mid-1961 in

